# भांगरसाळ

(कथासंग्रह)

एन्. शिवदास

अस्मिताय प्रतिष्ठान

**BHAANGARSAALL**

(A collection of Short Stories in Konkani)



पयली खेप : जानेवारी, २००३

प्रकाशन क्र. १२







**प्रकाशक :**

डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार,

सचिव, अस्मिताय प्रतिष्ठान,

१०, कॉमर्स हाउस, लुइश मिरांडा मार्ग,

मडगांव गोंय. ४०३ ६०१



**मुद्रक :**

सुरेश काकोडकार,

ओमेगा एन्टरप्राइझेस,

विद्यानगर, मडगांव गोंय. ४०३६०१



**मोल :** ७० रुपये

# शिवदासालें कथाविश्व

एन. शिवदास हो फाटलीं तिशेक वर्सां जालीं, बरयता. सातत्यान बरयत आशिल्लो असो हो लेखक. शिवदासान विविधांगी लेखन केलां. सुरवातीच्या काळांत ताणें कविता बरयल्यात. कथा बरयल्यात आनी अजूनय बरयत आसा. नवलिका बरयल्यात. नाटकां-नाटकुलीं बरयल्यांत. आकाशवाणीखातीर बरयलां. दूरदर्शनाखातीर बरयलां. शिवदासालें बालसाहित्यय उजवाडाक आयलां. तागेल्या *"बाबू"* क राष्ट्रीय थरावयलो पुरस्कारय फावो जाला. प्रासंगिक अशें स्फुट वर्तमानपत्री बरोवप तर ताचें चालूच आसता. गरज पडल्यार, वेगवेगळ्या नेमाळ्यानी नेमान बरयत रावपी असो हो लेखक. बरोवपा वांगडाच वेगवेगळे तरेच्यो चळवळी आनी व्याप फाटीक लावन घेवपी शिवदास, इतलें सगळें कशें करता आनी बरोवपाखातीर कसो वेळ सोदून काडटा हाचेंच केन्ना केन्ना म्हाका अजाप जाता. कारण, तो स्वता एक शिक्षक; ती एक जापसालदारकेची नोकरी. असो हो शिवदास जरी सहजतायेन तरेकवार म्हणपासारकें लेखन करपी आसलो तरी, ताच्यांतलो कथाकार होच सगळ्यांत अदीक प्रभावी अशें म्हाका दिसलां. कविता तागेल्यो केन्नाच थांबल्यात. नाटकय ताणें व्हरूंक जाय ते तरेन फुडें व्हरूंक ना. पूण कथा मात ताची एकसारकी येत आसा.

नवलिकांच्या संबंदांत, तागेलो *नकलामी* हो दोन नवलिकांचो संग्रह पुस्तकरुपान उजवाडा आयला. कथेच्या मळार, आजवेर ताणें ज्यो कथा बरयल्यात त्यो सगळ्योच संग्रहरूपांत उजवाडा येवंक नासल्यो तरी १९८१ त उजवाडा आयिल्लो *गळसरी* आनी ते उप्रांत १८ वर्सांनी, १९९९ त भायर सरिल्लो *महारूख*, ह्या संग्रहांनी ताच्या कांय उत्कृष्ट अश्या कथांचो आस्पाव जाल्लो आसा. ह्या कथांमदल्यो *गळसरी, पोसको, मारयान, एक जात मोनजात,*

*महारूख, मिलाग्रीचो खुरीस* ह्या सारक्यो कथा शिवदासाल्या कथांचो एक उत्कृष्ट नमुनो म्हणून दाखोवं येतीत.

दोन कथां-झेल्यां उप्रांत, आतां हो वाचप्यांच्या हातांत पडटा तो शिवदासालो तिसरो कथासंग्रह *महासागरांतलें महानिर्वाण*. ह्या संग्रहांत *आलतडचो बापूय-पलतडची धूव, धाकलो सरकार, सौभाग्य सुवाळो, येदी केदी बावली, महासागरांतलें महानिर्वाण, आमोरेचो सुर्या* अश्यो कांय लक्ष ओडून घेवपी, खासा शिवदासी शैलीचो छाप आशिल्ल्यो कथा आसात. शिवदासाक कथेखातीर अमूकच एक विशय, अमूकच एके तरेचें वातावरण वा अमकेच तरेचें कथाबीज अशें कांय एक लागना. विशिष्ट अशा परिसराचो वा फाटभुंयेचोय आधार ती घेता अशेंय दिसना. थारावीक अशा तंत्राचेय आयटींत तिका बसोवंक मेळत अशें ना. तिचेर एक शिवदासाली धाटणी सोडल्यार आनीक कसलोच छापय मारूक मेळना. गांवगिऱ्या जिविता पासून आर्विल्ल्या शारी जिणे मेरेन आनी साद्या सुद्या कुळवाड्याच्या संवसारा धरून उच्चभ्रू समाजांतल्या मनशां मेरेन ही कथा घुंवत आसता. जाल्यार ती केन्ना केन्ना सैमाच्या वेगवेगळ्या आंगां-घटकांक मनीसरूपावरी लेखून, बद्द रुपकात्मक पांवड्यार पावलीय कथा जाता. शिवदासान जिवितांत घेतिल्ले अणभव, नियाळिल्ले बरे-वायट प्रसंग, घडणुको हेय ताच्या कथांचे विशयच न्हय तर सरळ कथाच जाल्यात. देखीक ह्या संग्रहांत, *डबल बेड* ह्या माथाळ्याची एक कथा आसा. ही कथा म्हळ्यार, कोलकाताचे भेटेर गेल्लेकडेन शिवदासाक आयिल्लो एक अणभव. खासा शिवदासानच ही गजाल एक फावट सांगिल्ली. असले तरेच्यो कथा वाचून, कांय तीख-धार नदरेचे समीक्षक, शिवदासाचेर, तो खूब उखलापें बरयता असो आरोपय करतात. जे कलात्मक पातळेचेर ताणें वचूंक जाय थंय तो ताका तशी तांक आसूनय वचना अशेंय म्हणटात. शिवदासाकडेन बरेपैकीं कथा बिजां आसात; पूण तांकां तो फाव ते परीं केळयना - ट्रीटमेंट दिना, खूब ताकतीक करता अशेंय कांय जाणांक दिसता. पूण कथे विशींचो शिवदासालो दिश्टीकोण लक्षांत घेतल्यार, तें ताचे कथेचें मूळ जातकपणच अशें म्हणचें पडटा. आदींच सांगलां, तेप्रमाण, तो आपणाले कथेक एका थारावीक तंत्रांत बांदूकच सोदिना. तो तें आपणाक मानवता तशें आनी आपणाल्या कथासुत्राक पचत तशें बागयता. शेकीं तंत्र म्हणटात तेंय, एकाच जाग्यार थांबून उरिल्ली गजाल न्हय. ताकाय काळमानाप्रणाणे वेगवेगळे फागूर फुटूं येतात. हाकाच

लागून शिवदास जे तरेन *गळसरी* वा *पोसको* बरयता, तेच तरेन *महारूख* वा *महासागरांतलें महानिर्वाण* बरयना.

शिवदासाल्या कथांनी जशीं मनशां वा मनीसजीण वा मनीससभाव कथेचो मध्यबिंदू जाता तशेच तरेन कांय प्रसंगच कथा जातात. कांय खेपो मनीस, थळ, प्रसंग नाशिल्लीय कथा जाता आनी ती भावकथेच्या पांवड्यार वचून थांबता. भाशेच्या संबंदांत तिका उतरांचो सोस आसा आनी नाय बी. एक गजाल मात लक्षांत घे सारकी, ती म्हळ्यार तपशील. वातावरण उबें करपाच्या भरांत शिवदास केन्ना केन्ना तपशिलाचेर खूबूच उतरां खर्च करता. ह्या संग्रहांतली *येदी केदी बावली* हीच कथा घेयात. हे कथेंत भांगराच्यो वस्ती, व्हडीं, न्हंय, घरदार, सैम हाचें बारीकसाणेचें वर्णन आयलां. हें वर्णन, कथेक अर्थातच एक वेगळी उंचाय हाडून दिता. एका बऱ्या कथाकाराक जाय ती निरिक्षणशक्त शिवदासाकडेन बेस बरी आसा. तिका जोड दिवपी कल्पनाशक्तीचीय देण शिवदासाक अंर्थातच लाभल्या. हाका लागून शिवदास एके साधे गजालीक लेगींत बरें कथारूप दिवंक शकता. शिवदासाली *मिसेस कामत वर्सेस मिस्टर कामत* ही तशी सादीच कथा. हे कथेंत मिस्टर कामतीच्या देहाचें जें वर्णन केलां तें वाचतकीच तो हाडकुळो कामत जशाक तसो सगळ्यां मुखार उबो रावता. मनशाचें सभाव चित्रणय शिवदास तरातरांनी करता. हाका लागून ताची कथा केन्ना गंभीरपणाचें मोड्ण घेता, केन्ना संथ प्रवाहासारकी फुडें वेता जाल्यार केन्ना केन्ना काळजाक मुमुरख्यांनी खातकुतल्योय करूंक लागता.

शिवदासामदलो समाजीक - राजकी वावुरपी ताच्या कथा लेखनांत दिसनासतना उरिल्लो जाल्यार कोणाकय अजापच दिसपाचें. तशें घडना. एकाद्र्या एका लेखांत सांगूंक येवचें ना तें शिवदास केन्नाय एके कथेच्या माध्यमांतल्यानय सांगून वेता. ताच्या मनांतली खंत आनी तळमळे ती प्रगटायता. देखीक *गळसरी* संग्रहांतली *महारुद्र* ही कथा. हे कथे फाटल्यान एक समाजीक तसोच देवळांतल्या धर्मकार्याचो संदर्भ आसा. शिवदासाली *भोळें* ही कथा कांयशा प्रमाणांत एके सत्य गजालीचेंच बीं घेवन आकाराक आयल्या. हे कथे खातीर शिवदासाक कांय जाणांच्या भेश्टावण्यांक आनी धपकावण्यांकय फुडो करचो पडला.

गोंयचो भौस, तांची चाल-चलणूक, भोगावळी हे तर शिवदासाक अत्यंत

प्रिय अशे विशय. हे विशय कथांच्या रुपान हाताळटना, शिवदासा मदलो चळवळी शिवदास तो कसोच कुशीन दवरूंक शकना. शेकीं तो एक बांधिलकी मानपी– 'कमिटेड' बरोवपी. ललित लेखक हो अशे तरेचो आसचो वा ना हाचेर वाद आसूं येता. म्हज्या मत्तान, आज आमी जे परिस्थितींतल्यान वेतात थंय बांधिलकी खूब गरजेची. ही बांधिलकी सांबाळूनय, ललित लेखनांतली कलात्मकताय सांबाळूंक येवप ही एक खरी कसवटेचीच गजाल. समिक्षकांनी ही कसवटी शिवदासाच्या बरोवपांत – तागेल्या कथालेखनांत अवश्य सोदची. कांय किरकोळ दोश सांपडूं येतात. पूण, शेकीं तो ते कसवटेक उतरिल्ल्याचीच जाप मेळटली हाची म्हाका खात्री आसा. तेदी शक्त ताच्या बरोवपांत निश्चितूच आसा.

– **नागेश करमली**

# भांगरसाळीच्या कणसांची मुठय बांदतना

ना म्हळ्यार मनांत कितें तरी आसता आनी तें तशेंच मनांत दवरी नासतना सांगतकच मातशें हलकें-हलकें दिसता. खरें म्हळ्यार भांगरसाळीक कांडपी-बेणपी आनी आसुडपीय बी सुरेशबाब काकोडकारान म्हाका विचारलें, 'तुका मनोगत सांगपाचें ना?' पयलीं हांवें म्हळें, 'कसलें मनोगत?' पूण मागीर दिसलें, मनांतलें मनांत दवरचें न्हय.

मनांत उपकारांचें ना म्हळ्यार ल्हान शें एक वजें आसता. 'भांगरसाळ' हो म्हजो तिसरो कथां-झेलो. गळसरी, महारूख आनी भांगरसाळ असो हो कथा-विश्वाचो प्रवास. ह्या कथा-प्रवासांत बरोच काळ हांवें सारला. खरेपणीं ह्या सारिल्ल्या काळाचो आनिकूय बरो उपेग करून घेवं येतालो. पूण आमच्या सारक्यांक - सगळ्या मळांवयलो सगळो व्याप माथ्यार मारप्यांक सगळ्या शिमो झुजच्यो पडटात. फकत लेखक म्हणून आमची लागणूक सोंपना. चळवळी सभाव आशिल्ल्यान ओगी बसपय सभाव-धर्मांत ना. जें भिडटा ताका आपणावपाचें, हे प्रवृत्तीक लागून लेखनांत जशें सातत्य उरना, तशें खंयचीय गजाल पूर्ण करपाकय सवड मेळना. तात्पर्य, सगळे कडेन घुस्पल्लें जानवें; एक सोडोवपाक गेलों जाल्यार दुसरें उरता.

भांगरसाळ कथांचेंय अशेंच जालें. पयलीं हो कथासंग्रह कुळागर प्रकाशनान काडपाचो थारायिल्लो; पूण तांगेल्या कसल्या तरी अडचणींक लागून पुराय टायप सेटींग जावनय फुडलो वावर जालो ना.

अस्मिताय प्रतिष्ठानाचे अध्यक्ष उदयबाब भेंब्रे हांकां ही गजाल सांगली तेन्ना तांणी तात्काळ म्हळें, 'अशें आसल्यार अस्मिताय प्रतिष्ठान हो संग्रह उजवाडाक हाडूंक तयार आसा.' आनी वेळ वगडाय नासतना सगळीं कथा-प्रुफां जशाचीं तशीं उदयबाबाकडेन सोपयलीं.

ते पयलीं 'राष्ट्रमत' आनी 'सुनापरान्त' ह्या दिसाळ्यांनी उजवाडाक आयिल्ल्या ह्या म्हज्या कथांच्या कात्रणांची फाइल - म्हजेकडेन तांचें हातबरप नाशिल्ल्यान - हांवें नागेशबाब करमली हांचेकडेन दिल्ली. तांणी सगळ्यो कथा वाचून काडून तांचेर फाव ते संस्कार केले- शुद्धिकरण केलें म्हळ्यारूय अतिताय जावची ना.

नागेशबाब जावं उदयबाब, हांचे उपकार बी मानतां अशें म्हणप समा न्हय; फकत इतलेंच म्हणन की हे इतले घासाघिशींतल्यान आनी उज्यांतल्यान हे सगळे धग खावन 'भांगरसाळ' भायर सरता.

भांगरसाळ ही एक भाताची जात. गोंयचे पिकाळ शेतां-भुंयेंत भांगरसाळ ही भाताची जात एका तेंपार पिकताली. आयचे बासमती परसूय ती रुचीक, फुलार आनी घमघमीत वासाचें फुलिल्ली जाय कशें शीत दिताली खंय.

'भांगरसाळ' कथा-झेल्यांतल्यो सगळ्यो कथा भांगरसाळ भाताइतल्योच हांगाचे हे पिकाळ मातयेंतल्यो, इतलें मात खरें.

ह्या कथांक साज चडोवपाक म्हजे प्रतिभे वांगडाच कथा-झेल्याच्या मुखपानाक बरे तरेन ओडलायणें करपी चित्रकार दिलीप धामस्कार हांकां आनी तितलेच आस्थेन आनी तन्मयतेन हे भांगरसाळीचें एक एक कणस घेवन कलात्मक रितीन तिची मोबीत मुठय करून वाचप्याच्या हातांत दिवपाचें काम करपी सुरेश काकोडकार हांगेलेय परिश्रम आसात.

आतां हे फुडलें काम वाचप्यांचें!

फर्मागुडी, गोंय
१२ जानेवारी २००३

**एन्. शिवदास**

# मांडावळ





# आलतडचो बापूय, पलतडची धूव

पलतडी वचपाचो निमाणो खीण आयलो तेन्ना खापू शणैल्या घरांत एकूच आकांत जालो. सगळ्यांनी घर माथ्यार घेतलें. सगळ्यांचीं काळजां भरून आयलीं. हड्डीं फुटून दुकां व्हांवचीं तश्यो दुकांच्यो झरी दर एकल्याच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवपाक लागल्यो. दर एकलो एकामेकाक सावरून घेवपाचो प्रयत्न करतालो, चड करून तरणाटे पिरायेचो हुंबरो हुपपाचे वाटेर आशिल्लो खापूबाब मात आपलीं दुकां सुकोवन दोळ्यांचीं कुपादरां करून निबर मनान सगळ्यांकडच्यान निरोप घेतालो.

"भाऊ, तूं बाटलो म्हणून परको जावचो ना. उदकार दांडो मारल्यार उदक दोशीं जायना तशें आमचें रगतय केन्नाच दोशीं जावंक शकना. परिस्थिती आमकां वेगळायता, आमचीं मनां न्हय. भाऊ, तूं आमचेखातीर हो येदो त्याग पळय करता तो आमच्या कुटुंबाच्या इतिहासांत अज्रंवर उरतलो. आमचेर सगळ्यांचेर जावपाचे फायचे अत्त्याचार आनी सगळे घाय तूं तुज्या आंगार घेता. केदें दुख्ख जाता तुका तें आमकां कळटा. पूण हांगाच्यान सगळे पलतडी वचूंक शकनात, ही मोटी अडचण तुवें तुज्या भुजार घेतल्या. भावा, म्हज्या मोगाच्या भावा, म्हाका एकदांच निमाणी खेम घाल." खापूच्या धाकट्या भावान शंकून खापूक घट वेंग मारली तेन्ना मात रखरखीत वतान मेण कडचें तसो इतलो वेळ दुकां सुकोवन आनी दुख्ख खडप करून बशिल्लो खापू विरगळ्ळो. ताचीं दुकां शंकूचे फाटीर टपटप करून पडलीं तीं शंकूक जाणवलीं तेन्ना शंकूक हुंदको फुटलो आनी परत भाऊऽऊ म्हणत ताणें पाडकावरी हामेर घाली.

परत सगळीं गलवल्लीं. कोण भाऊचे पांय धरतालीं तर कोण ताजो हात आपल्या हातांत घेवन हाताचो उमो घेतालीं. कुटुंबाची ताटातूट जाता ती दोळ्यांनी पळोवपी दुर्भागी खापूबाव मात मनांत एकच येवजितालो. आतां म्हज्या अपुरबायेच्या मोगरूचें जातलें कशें? मोगरू खापूबाबाली एकसुरी धूव, तळटावयल्या फोडाक फूंक घालून जपचो तशें ताणें मोगरूक जपलें. त्या मोगरूक सोडून, बाटाबाटीच्या आघातांतल्यान ताका वाचोवपा खातीर हेरां बरोबर आयज पलतडी, न्हंये पलतडी पयस अत्रुंजेंतल्या रानांत कशें धाडचें पडटालें. माणकुल्या मोगरूक, ताचे अल्पमतीक जाणटेलीं कितें करतात तें समजनासलें, मात बाबा,

काका, काकी, भावंडां सगळींच काचाबूल जावन रडटात तें पळोवन माणकुलें मोगरूय हुंदक्या हुंदक्यांनी रडटालें. आपले रडटले धुवेचेर नदर पडनाफुडें खापूबाब बेगिबेगीन मोगरूसरीं गेलो; मोगरूक ताणें आपले छातयेर उखलून धरलें आनी 'म्हजे धुवे, म्हजे धुवे, म्हजो काळजाचो कुडको तूं गो, असो आयज अचकीच तोडचो पडटा' अशें म्हणत ताणें शंकूकडेन आशेन पळयलें.

शंकू आपल्या व्हडल्या भावाचे नदरेंतले भाव वळखलो. ताणें फुडें सरून भावाक सासणाची भास दिली आनी म्हळें,

"भाऊ, मोगरू जशें तुज्या रगताचें, तशें म्हजेंय बी तितलेंच. कारण, आमी दोगूय एकेच आवयच्या कुसव्यांत जल्मल्ले. मोगरूक हांव केन्नाच, कितेंच उणें पडपाक दिवचों ना. तुज्याच रूपान मोगरूक हांव बापायचो मोग दितलों." शंकून भावाक सावशीत करपाचो यत्न केलो.

"शंकू, जाणां रे हांव, पूण हांव बापूय मरे ताचो, आयज ताची आवय आशिल्ली जाल्यार ती मोगरूक अशी व्हरूंकच दिवची नासली. पूण हें सगळें घडचे आदींच ती गेली. एके वटेन सुटली. ना जाल्यार आयज गळ्यांत खुरीस घालची पाळी तिचेरूय येवपाची - आमचे भशेन."

"भाऊ, ह्या शणै कुटुंबा खातीर आनी आमच्या देव-धर्मा खातीर तूं केदो त्याग करता!"

"हय शंकू, देवाकय हांगा त्याग करचो पडला, रामनाथाकय लोटलेचें आपलें शिंवर सोडचें पडलां. रामनाथाचें देवूळ अत्रुजेंत उबें जातलें. आयज जंय रामनाथाक दवरला त्या दोंगरा मुळसा कडेन गच्च रान आसतलें न्हय रे?"

"हय भाऊ, बाबीशणै सांगतालो, रामनाथाक व्हरून एका तळपार दवरला म्हण."

"थंय भंय नारे आमच्या देवाक, अंत्रुजेंत फिरंगी येन्ना पावचे नात, पावलेय जाल्यार सौंदेकाराकडेन कसली ना कसली कबलात पुर्तुगेजांक करचीच पडटली, आनी सौंदेकार राजा तसो हिंदू देवांची विटंबना जावपाक दिवचो ना." खापूबावान भावाक सावरीत म्हळें.

साश्टींत वाटावाटीक ओतो आयिल्लो. रायतुरा एकाच दिसाक दोनशें वयर देवळां फिरंग्यांनी जेझुईत पाद्रींच्या आदारान मातये भरवण केल्लीं. कांय देवळांक तर उजो घाल्लो तर कांय देवळांतल्यो मुर्त्यो फोडिल्ल्यो. साश्टींतल्या हिंदू समाजाचेर आकांत आयिल्लो. कोण जिवाचे भिरांतेन स्वखोशयेन बाट्टाले तर कोण कशेच तरेन क्रिस्तांव जावचे नात असो निर्धार करून साश्ट सोडून वाट मेळत तशे वताले. थोडे तर दर्यांत तारू सोडून, मेल्यार मेले, वांचल्यार वांचले म्हण वारें व्हरता ते वाटेन वताले. बाटावाटीची हावळ साश्टभर आयिल्ली. केळशेची शांतादुर्गा, वेर्णेची म्हाळसा, कोलवेंची महालक्ष्मी हीं सगळीं

दैवतां जुवारी न्हंयंतल्यान रातोरात पलतडी अंत्रुजेंत पावतीं जालीं. आनी जेन्ना लोटलेचो रामनाथय व्हरचो वेळ आयलो तेन्ना खापू शणैच्या कुटुंबाचेर बाटपाची ऑर्द जेझुईत पाद्री घेवन आयले आनी तांकां दोन दिसांभितर क्रिस्तांव जावपाचें फर्मान जेझुईत पाद्री नासिमेंत हांणी सोडलें. फर्मानाची अपेक्षा करून राविल्लें खापू शणैलें कुटुंब ह्या गांवच्या गांवकाराचें गिरेस्त कुटुंब. बाटाबाटीचे सूत्रधार जेझुईत पाद्री फिरंगी सत्तेचेर बंधनां हाडून पयलीं अशा सधन हिंदू कुटुंबांचेर हावळ हाडटाले आनी सधन हिंदू बामणांक बाटयतकच त्या त्या वाठारांतलो गरीब दीनदुबळो उरिल्लो भौस बाटोवपाक मागीर कळाव लागनासलो. खापू शणैल्या कुटुंबाक बाटपाचें फर्मान आयिल्लें तें अख्खो लोटले गांव बाटोवपाखातीर. पूण आपलो धर्म बाटोवन सोडपाचो वेळ सगळ्यांचेरूच येवंक फावना हें थारावन खापू शणैन आपल्या सगळ्या कुटुंबाक रातोरात पलतडी धाडपाचें पक्कें केल्लें आनी अशे तरेन खापू शणैल्या भावबंदांचेर आनी भुरग्याबाळांचेर आपले वाडवडलांच्या येद्या व्हड घरदारार तुळशी-पान सोडून वचपाची पाळी आयिल्ली. पूण खापूशणैक घरची नाळ तोडपाची नासली, त्या घराचे पावळेक ताच्या पुर्वजांच्यो नाळी पुरिल्ल्यो, घरांत साळीग्राम पुजिल्ले, भोंवतणची सगळी जमीन वसयिल्ली. ते भायर घरांतलो एकलो तरी बाटपाकच जाय, चड करून कुटुंबाच्या मुखेल्याकच आपलो धर्म पयलो सोडचो पडटालो आनी एकदां जसो कुटुंब मुखेली धर्मान्तर करतालो तेन्ना हेरांक मागीर मोन्यांनी बाप्तीज्म घेवन गळ्यांत खुरीस ना जाल्यार बेतीन घालचें पडटालें. उप्रांत भायले पाद्री येवन बाटयिल्ल्यांक ख्रिस्ती देवसपणाचे धडे दिवंक लागताले.

खापूशणैक हे सगळें खबर आशिल्ल्यान हे असले अत्त्याचार आपल्या कुटुंबाचेर तरी येवचे न्हय, आपली चार वर्सांची धूव क्रिस्तांव जावची न्हय अशें खापूशणैक दिसपाक लागलें आनी ताणें सगळ्यांक पलतडी धाडून आपणें आलतडीन रावपाचें थारायिल्लें.

भाऊ, मोगरूची कसलीच तुवें चिंता करपाची गरज ना. हांव कितेंय घडटा तें वयले वयर हांगा तुज्या कानार घालपाचे यत्न करतलों -

"खरेंच शंकूऽऽ" भावनाविवश जावन खापूशणैन शंकूक विचारलें.

"हय भाऊ, अंत्रुजेंतल्यो खबरो तुज्या कानार पडटल्यो हाची खात्री बाळगी."

"खरें तुजें भावा, खूब जिवार येता रे तुमचो तोडमोड जाता तो पळोवन. कसलें अरीश्ट म्हणून येवंचे रे आमचेर?"

"भाऊ, बरीच रात जाल्या. गांव न्हिदला तशीं आमी भायर सरतात. ओगीच कोणाकूय जागमाग आनी नाका."

"हय, आमचें हें चल्लें जाल्यार रातभर चलतलें, खंय तरी हो दोरो तटायंच करून तोडपाक जायच."

"म्हज्या मोगरूक -"

"भाऊ???" शंकून खापूबाबाक आनी फुडें उलोवपाक दिलोच ना.

"कन्यादान करपाचो तुजो अधिकार आसा." अशें म्हणत खापूशणै भितर गेलो आनी बेगिबेगीन एक पेटूल घेवन भायर आयलो.

हें पळे शंकू, हें पेटूल. ह्या पेटलांत आमच्या कुटुंबाचीं सगळीं भांगरां आसात. आमचे आईचो सगळो शिरंगार तशेंच म्हजेय घरकान्नीचो - मोगरूचे आवयचोय सगळो शिरंगार ह्या पेटलांत आसा. हें पेटूल जतनायेन सांबाळ आनी मोगरू व्हडलें जातकच जेन्ना तूं ताका उजयतलो तेन्ना हें सगळें भांगर ताच्या आंगार घाल. तुका जर फुडाराक पूत जालो, आनी शणैल्या घराचो दिवो परजळ्ळो... परजळटलोच. म्हजी खात्री आसा. त्या कुलदिपाचें लग्न जातलें तेन्ना सुनेचेर आमचे आवयचे अळंकार चडय...

"भाऊ, फुडलें फुडें. अजून खूब गीम-पावस माथ्यार घेवपाचे आसात, कसले प्रसंग केन्ना येत कोणाच्यान सांगूं येता? फाल्यां जर साश्टींत घडलां तशेंच अंत्रुजेंत घडत जाल्यार आमचें कितें घडटलें कोण जाणा?"

"शंकू, देव अशें घडपाक दिवचो ना. अंत्रुजेंत तुमी सगळे बरेंभशेन उरतले. रामनाथ इतलो निश्ठूर जावचो ना रे हे फुडें! खापूशणैलें काळीज परत एकदां भरून आयलें.

"भावा, फाल्यां दनपार मेरेन हांव खापूशणै, उप्रांत म्हजो कोण जायत तों हांव नकळं. जुआंव, कामील, कायतान ...."

"फक्त नांव बदलतलें भाऊ, मन न्हय."

"हय, तेंवूय खरेंच, अशे तरेन म्हणून केन्ना मनां बदलूं येतात रे? वाडवडलाचे आनी कुटुंबाचे संस्कार म्हणून रातयां बदलूंक जातात? खरें तुजें, मन बदलचें ना, शंकू, मनान हांव तुमचोच उरतलों रे... तुमचोच उरतलों."

"धनयानो, बांदार पोन्योळ बांदला, तुमकां बेगीन येयात म्हटलां, जागमाग ना तशी पलतड गांठल्यार बरें न्हू?" खापूशणैलो कारभारी कसो घरांत वावुरतलो कुश्टा धांपेत, धांपेत थंय येनाफुडें भावनांवश जावन ताटातुटीच्या दुख्खांत गुल्ल जाल्ल्या दोगांय भावांक भान आयलें आनी तांणी त्या गुपाट काळखांत निमाणो निरोप घेवपाक मन घट्ट केलें.

भायर किण्ण आसलें. रात काळखी आसली, खंयच कोणाची जागमाग नासली, शेजारी म्हणून तशीं कोणाचीं घरां लागीं नासलीं. कांय अंतराचेर कुळवाड्यांचीं दोन खोपटां आसलीं, पूण काळखांत तींवूय साप्प काळोख कशीं काळींकीट्ट जाल्लीं देखून तीं खोपटां आसात आनी त्या खोपटांनी मनशां रावतात हें सांगल्यार कोणाकय अजापच दिसपाचें.

शंकू सगळ्यांक घेवन घरांतल्यान भायर सरलो आनी भायर आंगणांत येवन ताणें परत एकदां घरावटेन पळयलें, हात वयर केले आनी घट जोडले. आपल्या घराक नमस्कार

करून अखेरचो निरोप घेतलो. वासरेर खापू शणैचें काळीज भरून आयिल्ल्या आकांताक शीममेर नासली. काळखांत कितें घडटा, कोणाच्या दुकांनी पावलां भिजल्यांत आनी कोणाच्या काळजांचो कंप सुटला हें कळपाक मार्ग नासलो. पूण कोणाचोच हुंडको भायर फुटून त्या काजळ-काळखांत इल्लो सुद्दां आवाज जावचो ना हाची जतनाय मात दर एकलो घेतालो.

***

खापू शणैन ती निरोपाची रात एकल्यानच वासरेर बसून काडली. ताका घरांत भितर सरन दिसना जालें. मध्यान रातीर खापू शणैक भायले वासरेर बसला थंयच दोळो लागलो.

दुसऱ्या दिसा जाग आयली तेन्ना आंगणांत लोक जमिल्ले. फिरंगी पाद्री आनी पुर्तुगेज शिपायकय आयिल्ले. एक घोडो सजयिल्लो तो आंगणांत उबो आसलो. एका पाद्रीन भितर येवन खापू शणैक घरांतल्यान भायर आपोवपाक फर्मान केलें तेन्ना खापू शणैन आपल्या घरांतलीं मनशां खंय गेल्यांत तें आपणाक खबर ना म्हणपाचें सांगलें. पाद्री संतप्त जाले आनी तांणी खापू शणैक हेर कुटुंबीय खंय लिपल्यात तें सांगपाक सांगलें. पूण खापू शणैची रातीं गेल्ली वाचा फुटना जाली. ताणें फकत मोन्यानी आपणाक कांयच खबर ना म्हणपाचें फिरंग्यांक सांगलें. फिरंगी शिपायकांनी खापू शणैलें घर कोनशान कोनसो धुंदाळ्ळें पूण खापू शणै बगर घरांत कोणूच तांकां हाताक लागलो ना.

थारायिल्लेप्रमाण वाचा बंद जाल्ल्या खापू शणैक फिरग्यांनी धोतर सोडपाक लायलें आनी कलसांव कोट घालपाक दिलो. मागीर ताका घोड्याचेर चडयलो. घोडो बरोच सजयिल्लो. घोड्याच्या मुस्कटाचेर जरीच्या कपड्यांचेर खुरीस भांगराच्या रंगांत भरिल्लो. खापू शणैन कसलोच प्रतिकार केलो ना, खापू शणैचें पुरसांव गांवांतल्यान काडलें, गांवांत गांवभर हो धर्मान्तराचो सुवाळो पळोवपाक लोक एकठांय जाल्ले. वरीश्ठ जेझुईत पार्द्रीनी रायतूरचे इगर्जेत व्हरून खापू शणैक बाप्तीज्म दिलो आनी खापू शणैचो रोनाल्द आफोंस जालो. खापू शणैल्या घरांतली देवाकूड काडून भितरल्या सालांत आल्तार आयलो. सद्दां आमोरेर येवन पाद्री रोजार करपाक लागले. वाड्यावयले बाटयिल्ले हेर कुळवाडीय आमोरी म्हणपाक रोनाल्द आफोंसागेर येवपाक लागले.

दीस गेले, म्हयने सरले आनी पळयतां, पळयतां वर्सांय फाटीं पडलीं. काळजाचो घावो तसोच घेवन रोनाल्ड आफोंस म्हातारपणांत भितर सरलो. सुमार बारा वर्सां जावंये, खापू शणैचो रोनाल्ड आफोंस जाल्यार एक तप सरिल्लें. अंत्रुजेंतली जागमाग नासली. शंकूय बी साश्टींत केन्नाच चुकून सुद्दां पावलो ना. आनी न्हंयचे पलतडच्यो खबरो न्हंयचे आलतडी केन्ना पावय नासल्यो.

***

रोनाल्ड आफोंस आशि-कुशी परतितना घराच्या मागीलदारांतल्यान ताच्या कानार हय-न्हय सो आवाज पडलो. आवाज केन्ना तरी वळखीचोच आसलो. रोनाल्ड बेगिबेगीन जागो जालो. ताणें कुडींतलो दिवो पेटयलो, घरांतले नोकर चाकर जागे जायत म्हण तो तसोच उठलो आनी अळंग कुडीच्या जनेलाचें दार उक्तें केलें. भायल्यान चान्नें पडिल्लें, आनी चान्न्यांत मनीस वळखुपा इतलो लख्ख उजवाड आसलो.

"भाऊ ... हांव शंकू -"

"शंकू .. शंकू ..."

"श्शू... भाऊ, आवाज नाका, हांव सांगता तितलेंच आयक; म्हाका वेळ ना. हांव चोरयां हेवटेन आयलां, रावं नज जावन, मोगरूचें लग्न थारलां, बांदोड्या देसायागेर सोयरीक जाल्या. पोर बऱ्या घराक पावतलें ही खोशयेची खबर सांगूंक तुका आयिल्लों. लग्न, येत्या शुक्रारा, गोंधळीच्या म्हुर्तार. रामनाथाचें नवें देवूळ उबारलां थंयच माटोव घालतले" - एका दमान शंकून मोगरूच्या लग्नाची खबर भावाक दिली.

"वतां हांव ..."

"असो पावळे भायर रावन ..."

हय भाऊ. हांव तुज्या घरांत येवंक शकना, वतां हांव... आनी कसो कात आसा असली तसली कसलीच खबर घे नासतना आयिल्ले वाटेन त्या चान्न्यांतल्यान फाट करून शंकू चलत गेलो, न्हंयचे वटेन ...

रोनाल्डाक एक सपन कशें आशिल्ली ही घडणूक कांय खिणांची... रोनाल्ड कितलो तरी वेळ त्या चान्न्यांत पळेत, आपले व्हंकल जाल्ले मोगरू धुवेची प्रतिमा जनेलांत बसून कल्पनेन उबी करपाक गुल्ल जाल्लो. ताका ते रातीं दोळो लागलो ना. ताणें मनांतल्या मनांत लिपचोरयां जुवारी न्हंय हुपून लग्ना-माटवाकडेन वचपाचो निर्धार केल्लो तेन्ना लोटलेच्या गांवांत नवी सकाळ उदेल्ली.

दोंगराच्या मुळसाकडेन एक व्हडलो माटोव घाल्लो. माटवांत लोकांची गर्दी जाल्ली. गांवांतले लोक नटून, थटून मोगरूच्या लग्नाक आयिल्ले. सांजवेळ जायत येताली. सुर्या दोंगरा पलतडी मळबांत आसलो, पूण पाचव्याचार दोंगरान अस्ताक वतल्या सुर्याच्या किर्णांक थंयच गिळून दवरिल्लीं.

लग्नाच्या माटवाच्या भायर सुमार देडशें-दोनशें हातांचेर एक वडाचें झाड आसलें. त्या झाडामुळांत एक म्हातारो बशिल्लो. मुखावयल्या माटवांतलो तो सुवाळो तो धडधडट्या काळजान पळयतालो. आपणूय त्या माटवांत आसपाचों. सोंवळो जावन कपलाक गंधतिबो लावन; माथ्याक मुंडासो बांदून, भरजरी धोतर न्हेसून, खांदार उपरणें उडोवन, अपुर्बायेचे धुवेक कुशींत बसोवन कन्यादान करपाची तयारी करपाचें ताणें सपन पळयलें, तेन्ना

माटवांतलीं वाजपां घणघणपाक लागलीं. मंगलाश्टकांचे शब्द ताच्या कानार सादपाक लागले. माटवांतले लोक हात वयर करून मंगलाक्षता व्हंकल-न्हवऱ्याचेर शिंवरताले.

'आरे, म्हज्या हातांत कांयच ना... म्हजे हात रिकामे... म्हजे धुवेचेर मारपाक दोन अक्षताय म्हाका मेळनात!...'

माटवांत वचपाचें नासलें. किरिस्तांव माटवांत पावल्यार भश्टकार जावपाचो. आपल्या मोगाचे धुवेच्या लग्नाक कसलींच विघ्नां नाकात. वडापोंदा रावन मोगरूच्या लग्नाचो सुवाळो पळयतां, पळयतां निमण्या खिणा ताणें माटवाकडेन पळयलें आनी आपल्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत भायर व्हांविल्लीं आपलींच दुकां आपल्या पोशांत जमयलीं आनी "म्हजे धुवे... म्हज्या अपुरबायेच्या मोगरू, ह्या तुज्या दुर्भागी बापायक माफ कर..." अशें म्हणत पोशांत जमयिल्लीं भळभळीत दुकां अक्षतां कश्यो माटवाकडेन शेवटून मारलीं आनी "कल्याण जावं" अशें म्हणत पयसावल्ले धुवेक दोळेभर पळोवन घेवन त्या हय-न्हय श्या गोंधळीच्या काळखांतल्यान न्हंयचे वटेन आलतडी येवपाक तो जड पांयांनी चलपाक लागलो.



# धाकलो सरकार

धाकटो राजा सामको तांबडो गुंज जावन महादारांतल्यान सरसरीत भायर आयलो तेन्ना राजांगणांत जमिल्ल्या रयताक अजाप दिसलें. धाकटो राजा म्हळ्यार व्हडल्या सरकाराचो धाकटो भाव. आयज व्हडल्या सरकाराचें धुमधडाक्यान लग्न जाल्लें. व्हडल्या सरकाराक अख्खो संवसार पद्मवीकार राजे निबाडीकार म्हूण वळखतालो. पूण गांवचे लोक ताका पद्मी सरकार म्हणपाक लागचे पयलीं तो खऱ्या अर्थान गांवचो राजकुंवरूच आसलो. जसो जसो तो लग्नाचो जालो तशे त्या राजकुंवरा वयल्यान पद्मी सरकार म्हणूनच गांवांत तशे अख्ख्या निबाडीकार संस्थानांत पाचारपाक लागले. अशा ह्या पद्मी सरकाराच्या धाकट्या भावाचें म्हळ्यार नरेश राज कुंवराचे प्रत्यक्ष व्हडल्या भावाच्या येद्या व्हड लग्नाच्या सुवाळ्यांत अशें वागपाचें कारण कोणाकच समजलें ना; गांवांतल्या रयताक तर फकत प्रस्न तितलो पडलो, धाकटो राजा राजवाडो सोडून असो सणसणीत भायर कित्याक गेलो? व्हडल्या सरकारान धाकट्या राजाक नक्कीच कितें तरी म्हटलां आसूंक जाय आनी ताका तें सोसूंक नज जालें जावंक जाय, ताणें तो आपलो अपमान कसो समजून तिडकीन राजवाड्यांतल्यान भायर सरपाचें थारायिल्लें आसूंक जाय. भितर व्हडल्या सालांत मोठ्या मोठ्या सोयऱ्यांचो हो असो अदमास जाच्या ताच्या कानांतल्यान फुतफुतपावेल्यान व्यक्त जातालो तर भायल्या उक्त्या राजांगणांत मात रयतांमदीं आशिल्ल्या चडशा जाणांक तें एक गूढच आसलें. “धाकटो राजा तसो वचपाचो न्हूं.” सुभान शेजरा उबो आशिल्ल्या थानूक म्हळें.

“तेंचें कितें, मोठ्या लोकांचें, आमच्यांनी उलोवं येता, पूण हांवें आयकल्लें-” अशें म्हणत थानून फुडलीं उतरां सांबाळून घेत तोंडांतल्या तोंडात गच्च आंवळून धरलीं. तशें करतना थानून स्वताचीच जीब चावली आनी खंयचें उलयलों हांव अशे तरकिवेन सुभाकडेन पळोवंक लागलो. पूण तागेल्या अविर्भावान सुभाची उमळशीक भलतीच जोरगली. थानू बरेंच कितें तरी गुपीत सांगपाक वयतालो पूण ताणें जीब चाबली. कित्याक काय? रावं नज जावन सुभान थानूक विचारलें,

“थानू तूं कितें तरी सांगोंक सोदी, पूण शादूरसो जावन तुवें तें सांगलेंना थानू. खरें सांग, कितें जाणां तूं... धाकट्या राजाचें?”

थानू खीणभर फार्टीफुडें जालो, पूण सुभा आनी भलतेंच कितेंय समजत म्हूण थानून सुभाक आयकल्ली ती वाऱ्यावयली इल्लीशी खबर ना म्हळ्यार सांगलीच.

"जाणा मरे, धाकट्या राजाक खंय ही सोयरीक येयल्ली."

"खंयची सोयरीक?"

"ही रे, आतां व्हडलो सरकार लग्न जाला पळे, तिची."

"चल, कोण सांगता तुका?"

"म्हाका कितें खबर, हांयें अशें खंय तरी आयकल्लें."

"मागीर... धाकट्या राजाक कित्याक जाली ना सोयरीक?"

"आरे, व्हडलो सरकार आसतना धाकटो राजा लग्न कसो जातलो आसलो?"

"मागीर धाकट्या राजाक सोयरीक जाल्ले व्हंकलेकडेन म्हूण व्हडल्यान जावप?"

"तेंचें मोट्यांचें तशें, इपरिताचेंच न्हूं?"

राजांगणांतली रयतांची चर्चा थांबली ती जेवणाच्यो पंगती पडल्यो तेन्ना.

सगळो राजवाडो लोकांनी फुलून गेल्लो. अख्खो गांव व्हडल्या सरकाराच्या लग्नाक लोटून आयिल्लो. तें भायर इंग्लेज आनी पुर्तुगेज सरकाराचे प्रतिनिधी आयिल्ले. पाँडिचेरीसावन फ्रेंच सरकाराचो प्रतिनिधी, म्हैसूरचो राजा स्वता हाजीर आसलो. राज्य सरकारांच्या प्रतिनिधींक झगमग अशें आलिशान दालन खासा सजयिल्लें थंय मोटे मोटे कार्विंगाचे सोफा घाल्ले. वेगवेगळ्या आकाराची कोत्रायिल्लीं शिशांची मेजां, जनेलाक पारदर्शी पड्डे आनी वयर झुंबरानी रंगीत दिवे घाल्ले. मदीं मदीं स्टँडाचे फॅन मेजां राखून दवरिल्ले. धाकटो राजा राजवाड्यांतल्यान भर सुवाळ्यांतल्यान भायर सरून गेलो ही बातमी संस्थानांत फां फां करून सगळ्याक जाली. पूण कोणूच आवाज चडोवन, कितेंच उलोवपाक तयार नासलो. पूण तो भायर सरून खंय गेलो? ह्या प्रस्नाक जाप एकलोच जाणा आसलो आनी तो म्हळ्यार धाकट्या राजाक कितें जाय नाका तें पळोवपी धाकट्या राजाचो शिपाय गडो जिवोत्तम.

धाकटो राजा जेन्ना वयले माळये वयल्यान नेटान सकयक देंवलो तेन्ना सोपणांकडे उबो आशिल्ल्या जिवोत्तमान धाकट्या राजाच्या फाटल्यान मोन्यानी चलपच शाणेपणाचें जातलें अशें चितलें. पूण धाकट्या राजान घडांयच करून भायर उक्त्या मळार पार्क करून दवरिल्ले आपले जिपींत उडी घेतली आनी स्टार्ट मारली. तेन्ना तो फाटल्यान जिपीर चडपाचे ओर्दीक धाकट्या राजाकडे पळेतच रावलो. धाकट्या राजान हे खेपे जिवत्तमाक वांगडा घेतलो ना. ताणें जीप स्टार्ट केली आनी वारें कशें तो नागझरचे घाटयेक लागलो. जिवोत्तमाक धाकटो राजा नेमको खंय वतलो तें खबर आसलें. जिवोत्तमान आडवाटेन नागझरची वाट धरली, आनी धाकटो राजा नागझरचे हवेलींत पावचे पयलीं आपूण

पावतलों म्हूण तो वाटेवयलीं सगळीं तेमकुंडां हुपीत नागझरी वाटेन अक्षरशा भुजांक पाखाटे लावन कसो उडिल्ले भशेन धांवपाक लागलो.

पूण जिपींतल्यान सामके शंभर स्पिडीन आयिल्लो धाकटो राजा हवेलींत पयलीं पाविल्लो. जिवोत्तमान हवेलीचेर नदर मारली. आमोरी जावन रातीन पावलां मारिल्लीं आनी हवेलीचेर काळखान आपणाली चादर ओडिल्ली. धाकटो राजा वयर माळयेर पावला म्हणपाचें जिवोत्तमान पारखिलें. वयले माळयेवयले दिवे धाकटो राजा वयर आयल्यारूच पेटयताले. जिवोत्तमाक खरस मारताली. ताच्यान उलोवंक लेगीत जाय नासलें, घामाघूम जावन चिप्प जाल्लो जिवोत्तम हवेलीच्या आंगणांत पावलो. दारार दरवटी उबो आसलो, ताणें बेगिबेगीन भितर वचून गटागट चेंबवानी उदक तोंडाक लायलें, तो मात्सो सावशीत जालो, भायर बल्कावांत बसून ताणें विसव घेतलो.

"जिवा, धाकट्या राजाचें कितें जालां?" दरवटीन जिवोत्तमाक भियेतच म्हऱ्यांत येवन प्रस्न केलो.

"धाकटो राजा केन्ना पावलो हांगा?" जिवोत्तमान दरवटीक परतो प्रस्न केलो.

"आतांच पावला, पूण तेका असो रागान उज्या-भट्टी जाल्ली हाचे आदीं बाबा केन्ना पळेलोच ना इतलीं वर्सां. बरेंच कितें तरी जालां. तेका पळेल्यार अशें दिसतालें की आतां तो कोणाचो तरी जीव घेतलेबगर रावचो ना. तेजो तो अवतार पळोवन म्हाजी हांगा गुळी जाली. तूं आनी आतां तेजेसरी वचोंनाका. आरे, राग तुजेर बी काडीत तो. आर्म आसा वयर माळयेर.

"मारू, मारल्यार मारू. धाकट्या राजान जिवो मारल्यार नांव तरी अमर जातलें म्हजें. गांवार न्हय, अख्ख्या गोंयांत फामाद जातलें. फुडाराक सुद्दां येतले पिळगेक म्हजें नांव आयकुपाक मेळटलें. मारू दी म्हाका धाकट्या राजान. पूण हांव वयतलों माळयेर तेजे सरीं. म्हाजें काम तें. आरे, धाकटो राजा म्हजें बोट धरून चलपाक शिकला. ह्या भुजार बसून तेणें राजांगणांतली तालगडी पळेल्या, पालखी पळेल्या, रथ पळेला, गाडी-घोडो सगळें, सगळें ह्या जिवोत्तमान दाखयलां मरे तेका. आरे, धाकटो सरकार म्हाजो पूत कसो म्हाका..."

"बरें आसा, वच तूं वयर माळयेर, पळे कितें करता तो आनी मागीर सकयल येवन आमकांय दी इल्ली बातमी."

व्हडल्या सरकाराच्या लग्नाक गेल्लो धाकटो राजा असो लग्न सुवाळो सोंपचे पयलींच हवेलींत आयिल्ल्याचें हवेलींतल्या सगळ्या नोकर-चाकरांक तशें अजापूच जाल्लें.

गांवांतलो मुखेल राजवाडो- निबाडीकार संस्थान- हवेलीपसून सुमार पांच स कोस पयस आसुंये. राजवाड्यापसून पयस खंय तरी विसव घेवपाक मेळचो म्हणून नागझरी

गांवांत सरकारान हवेली बांदिल्ली. हवेलींत चडशे कोण येनासले, पयलीं तेंपार धाकट्या राजाचो काका केन्नाय विसव घेवपाक हवेलींत चार चार दीस रावतालो. पद्मी आनी नरेश सरकारांचो बापूय वडियार महाराज हवेलीचो खूब वापर करतालो आनी आपले बरोबर माणकुल्या नरेशाकय हाडटालो. बापायचे लगाटीक लागून आत्रेपयऱ्यान हवेलीचेर येवपाची संवय जाल्ल्या आंकवार नरेशाक फुडें फुडें हवेलीच आपलें घर कशें दिसपाक लागलें. आनी हाका लागून धाकटो राजा नरेश निबाडीकार वाड्यार फकत उत्सव बी आसल्यारूच वतालो. आयज व्हडल्या भावाच्या लग्नाक तो मन मारून सो गेल्लो. पूण थंय ताका स्वताचेर ताबो दवरप जमलें ना. ताणें आपल्यो उमळून आयिल्ल्यो भावना काळजांत घट्ट धरून राजवाड्यांत लग्न सुवाळो सोपूंक पावतां, पावतां सगळ्यांच्यो नदरो आपणाकडेन ओडून राजवाड्यांतल्यान भायर सरून हवेलींत वचपाचो यशस्वी प्रयत्न केल्लो. ताचो परिणामय लोकांमदीं जाल्लो. सगळे जाण धाकट्या राजाचेंच उलयताले. पूण नेमकें कितें घडलां तें मात कोणाकच खबर नासलें.

जिवोत्तम धाकट्या राजाचो सगळ्यांत लागींचो नोकर. कितें जाय नाका तें तो फकत एकट्या जिवोत्तमाक सांगतालो. धाकटो राजा जिवोत्तमाचे पिरायेक मान दिवन जिवमाम म्हणून पाचारतालो. राजवाड्यांतल्या जावं हवेलींतल्या खंयच्याच नोकराक हो मान फाव जावं नासलो. जिवोत्तमान धाकट्या राजाक बापायचो मोग दिल्लो. ल्हान आसतनाच जिवोत्तम नरेश कुंवराक कितें नाका जाय तें बारीकसाणेन पळयतालो. आनी सांवळी कशी ताची जतनाय घेतालो. एकदां तर हवेली फाटल्यान आशिल्ल्या ल्हानशा तळ्यांत धाकटो राजा बुचकळ्यो खावपाक लागलो तेन्ना जिवोत्तमान जिवाची पर्वा करिनासतना तळ्यांत उडी मारून धाकट्या राजाचो जीव वाटायिल्लो. ते खातीर धाकट्या राजाच्या बापायन, वडियार महाराजान आपल्या पुताकडची ह्या नोकराची लागणूक पळोवन धाकट्या नरेशाक ताच्याच हातांत व्हड जायसर सोंपयिल्लो म्हळ्यार जाता.

धाकटो राजा ना म्हळ्यार तिशीकडे वतालो. सत्तावीस वर्सां जाल्लीं ताका आनी ताचीय पिराय अशी लग्नाची जाल्ली. पूण व्हडलो भाव आशिल्ल्यान तो लग्नाचो विचार करूंक शकलो ना. मात ताच्या मनांत खंय तरी, कोण तरी सुंदरी रावताली आनी ती कोण आसली तें मात कोणाकच खबर नासलें.

हवेलींतले सगळे नोकर चाकर सर्तक जाले. धाकट्या राजाचो राग सगळ्यांक खबर आसलो. धाकट्या राजाक राग आयल्यार कितें उखलून पडत आनी कितें चुरो जावन फुटत म्हणपाचें कोणाच्यानच सांगूंक जावचें नासलें. ते खातीर जिवोत्तमान वयर वचूंक फावना अशें हवेलींतल्या दर एका नोकराक दिसतालें. पूण, जिवोत्तम कसो रावतलो? ताणें कितें जाता तें जावं म्हणून वयर माळयेर धाकट्या राजाचे कुडींत वचपाचो निर्धार

केलो आनी सपासप सपणां चडून धाकट्या राजाचे कुडीकडेन आयलो. खीणभर कुडी भायर उबो रावन ताणें भितर नदर मारली.

धाकटो राजा आंगावयले कपडे काडिनासतनाच तसोच पिवपाक बशिल्लो. मेजार सोऱ्याच्यो बाटल्यो भायर काडून दवरिल्ल्यो, आनी उदका बगर साप्प ड्राय सोरो ग्लासांत घेवन धाकटो राजा पितालो.

"कोण थंय, जिवमामा मरे?" जिवोत्तमान तत्परतेन खिणाभितर कुडींत पावल दवरलें. जिवाक पळोवन धाकट्या राजाच्या भावनाच्या बांदाक खांवटें पडलें आनी त्या लोटांत धाकटो राजा जिवोत्तमाक पळोवन सद्गदीत जालो.

धाकट्या राजाची ही अवस्था हे आदीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो उतार पिरायेंतलो जिवोत्तम सामको काचाबूल जालो. तो फुडें सरलो आनी धाकट्या राजाच्या फाटल्यान वचून ताचीं भुजां घट धरलीं आनी ल्हवूच म्हळें, "म्हज्या धाकट्या राजा, हें कितें आरंभला तुयें? कितें जालां तुजें?"

"जिवमाम, सोड म्हाका आनी असो फुडें यो. असो म्हज्या सामकार बस."

जिवोत्तमान बेगिबेगीन तशें केलें. तो फुडें येवन जमनीर बसलो.

"सांग म्हज्या पुता..."

"पुता! जिवामाम, तुवें म्हाका पूत म्हळो! हय, खरें तें. ल्हानाचो येदो जायसर तुवें बापूय घेवचो ना तितली म्हजी काळजी घेतली. सारकें तुजें. बाबाच्या मर्णाउप्रांत तर तूंच म्हजो खरो बापूय जालो. जिवमाम, तुमकां सगळ्यांक अजाप जालां तें म्हाका खबर आसा. दादाचो लग्न सुवाळो सोंपचे पयलींच हांव निबाडीकार संस्थान सोडून असो म्हजे हवेलींत कित्याक आयलों होच प्रस्न सगळ्यांक पडला न्हय? जिवामाम, हांगा पळे, हांगा कांय एक ना; आत्तांच्या आतां म्हजी शाही पिवपाची मांडावळ करची. हांवें पिवपाक सुरवात केली ना. फकत येनाफुडें दोन घोंट ड्राय व्हिस्की घेतल्या. चल बेगीन. मागीर सांगतां तुका सगळी काणी. हय, फकत तुकाच आं. लोक जाणात काय कितें तें म्हाका खबर ना. पूण ही खबर इतली गुपीत न्हय; खंय ना खंय तरी मात्सो कोणाकय वास येवपाचीच खबर ती. फकत तुका खबर नासुंये, ती आतां हांव फकत तुकाच सविस्तर सांगतलों. ते पयलीं म्हजी हांगा पिवपाची शाही मांडावळ कर... बेगीन...

"हय सरकार" अशें म्हणत जिवा शाही पिवपाची तयारी करपाक लागलो. धाकटो सरकार कितें पिता, कशें पिता, ताका कसले ग्लास, कोपां, पेले पितना जाय पडटात ताची सगळी बारीकसाण फकत एकट्या जिवामामाकच खबर आसली. शाही पिवपाची वेवस्था करपाक जिवोत्तमाक चड वेळ लागलो ना. ताणें सगळें मांडलें आनी सरकारान आंगावयले कपडे काडचे हें सांगपाक म्हळें, "सरकार, आंगावयले लग्नाक घाल्ले कपडे देंवयल्यार

मेकळें, मेकळें दिसतलें."

"ना जिवामाम, हे कपडे सुवाळ्याचे, लग्ना-सुवाळ्याचे. म्हजें लग्न जर आशिल्लें जाल्यार हांव असोच न्हेसतलों आसलों. पूण आयज म्हजें न्हय, म्हज्या भावाचें लग्न.. आनी म्हज्या भावाचें लग्न खंयचे राजकन्येकडेन?..." अशें म्हणत धाकट्या राजान एक लांब सुस्कारो सोडलो आनी खीणभर उलोवपाचो बंद जालो. तो वयर माथ्यार गरगरतल्या पंख्याकडे पळयत रावलो आनी बऱ्याच वेळान कितें तरी येवजल्ले भाशेन ताणें जिवाक म्हळें, "जिवमाम, आमी हवेलीच्या फाटल्या रानांत कासाक या?"

"सरकार, कासाक आनी आयज, आनी अशे अवस्थेंत? ते भायर रात-"

"जिवमाम, कास दिसाचें मारिनात. रातीचें. खबर ना?"

"हय सरकार."

"मागीर आर्म भर-"

"सरकार... पूण..."

"पूण कितें?"

"सरकार, ह्या तुज्या जिवमामाचें इल्लेंय आयकुचो ना?"

"आयकतां, उलय."

"आयज कास नाका." भियेभियेत जिवान म्हळें-

"मागीर?"

"आमी हांगाच बसुंया, तुका कितें सांगपाचें आसा तें सांग म्हाका, हांव आयकतां सगळें; केदीय रात जावं."

"ओ... आरे हय, तें पयलीं न्हय? आनी तुकाय बी आयकुपाची उमळशीक लागल्या." अशें म्हणून धाकटो राजा व्हडल्या व्हडल्यान हांसपाक लागलो. जिवामाम, तुजी पिराय कितली रे?

"हांव साठांकडने पावलां जातलों सरकार."

"प्रेम केल्लें तुवें केन्ना तरी कोणाचेर?"

धाकट्या राजाच्या ह्या अचकीत अजापाच्या प्रस्नान जिवा घुस्पलो. हो विचित्र प्रस्न आसलो. ताणें प्रेम म्हणटात तें फकत भायर भोंवतना गांवांतल्या कोणाल्याय चले चलयांच्या संबंदान उलयतना आयकल्लें.

"बरें आसा, तुवें केन्ना कोणाचेर प्रेम केलें ना. सोडून दी ती गजाल. पयलीं आर्म भरून दवर." मदींच कसली शी याद जाल्ले भशेन करून धाकट्या राजान जिवाक परत आर्म भरपाक फर्मायलें.

"पूण सरकार, आमी कासाक वचचे नात न्हूं..."

"कासाक वच्चे नात, पूण आर्म भरिल्लें जाय." अशें म्हणत धाकटो सरकार ग्लास बदलून आतां चांदीच्या पेल्यांत व्हिस्की ओतून घेवपाक लागलो. जिवाक कितें करचें तें कांयच समजलें ना, पूण धाकट्या सरकाराचो हुकूम पाळपाकच जाय आसलो. कासाक वचपाचें ना हें मानून घेतलां आसतना धाकट्या सरकाराक भरिल्लें आर्म जाय आसलें.

जिवान भरिल्लें आर्म हाडून धाकटो राजा बशिल्लो त्या सोफा फाटल्यान तेंकोवन दवरलें.

"जिवामाम, आतां बस, आनी म्हजे बरोबर तूं य पिये."

"सरकार...???"

"जिवामाम, आयज सरकार बिरकार कोण ना, तुका सरकाराची ओर्द न्हय ही, ही मायेची खेम, मायेचो साद."

"सरकार, हांव पियेना."

"देखून आयज पयले खेप म्हज्या सांगतान पिवपाक जाय."

"सरकार हें.. हें म्हाका..."

"जिवामाम, हांव आनी केन्नाच तुजेकडेन कितेंच मागचो ना. समज ही निमाणी मागणी."

धाकट्या सरकाराची जीब इल्ली इल्ली आडवी पडपाक सुरू जाल्ली आनी उतर अस्पश्ट शें जावंक लागिल्लें. दोळ्यांतली धुंदी इल्ली, इल्ली दाट जाताली. तकली जाग्यार उरनासली. तरी सुद्दां पूर्ण धाकटो सरकार उलयतालो.

"जिवामाम, घे हो चांदीचो पेलो, आयज तूं ह्या चांदीच्याच पेल्यांतल्यान पितलो, म्हज्या सांगतान." अशें म्हणून खुद्द धाकट्या सरकारान चांदीच्या पेल्यांत जिवामामाक पेय तयार केलें आनी उठत जिवाच्या म्हऱ्यांत लकत, लकत येत चांदीचो पेलो जिवाच्या हातांत दिलो. आपलो धाकटो सरकार उठून येवन आपणाक चांदीचो पेलो दिता तो जिवाच्यान नाकारूंक जालो ना. जड हातांनी जिवान चांदीचो पेलो हातांत घेतलो तसो धाकटो राजा आयिल्लो तसो झडपत आपल्या सोफार वचून बसलो.

"जिवामाम, कोणाचेरूय कोणाचोय एकदां जीव बसतकच तो सुटपाक कठीण न्हय रे?"

"सरकार, कोणाचो कोणाचेर जीव बसला?"

"हां... कोणाचो कोणाचेर...जिवामाम...तुजो म्हजेर जावं ना? सांग, खरें सांग."

"हय सरकार, -हय, हय म्हज्या राजा, म्हज्या धाकट्या राजा, तूं म्हाका म्हज्या पुताभशेन. व्हय, व्हय म्हाजो पूत तूं... सरकार.." जिवाय आतां विवश सो जालो. ताका अदमास लागलो ना, धाकटो सरकार सांगूक तरी सोदता कितें?

"जिवमाम, तुजो म्हाजेर जीव आनी म्हजो जीव कोणाचेर जावंये?"

"हांव कितें सांगू सरकार?"

"तूंच सांगतलो, तुवेंच अख्ख्या संवसाराक तें सांगचें पडटलें, सांगतलो न्हय जिवमाम?" धाकटो सरकार सैराणाभायर वता म्हणपाचें लक्षांत येनाफुडें जिवान म्हळें,

"सरकार, आतां पुरो न्हय, दी तो पेलो, आतां न्हीद वचून."

"हय, न्हिदपाकच जाय. पूण न्हिदचे पयलीं तुका म्हजो जीव कोणाचेर आसा तो तुका आयकुपाचो ना? पूण जीव दवरून आतां फायदो कांय ना रे, जावपाचें सगळें जालें." अशें म्हणत धाकटो सरकार लकत, लकत उठलो आनी जिवाक सांगचें सोडून आपूण स्वता फाटल्यान दवरिल्लें आर्म हातांत घेवन आयलो आनी तें आर्म आपल्या मुखार उबें धरीत जिवाक म्हणपाक लागलो, जिवमाम, जीव सासणाचो दवरचो, पूण कसो?

"सरकार, कितें तें स्पश्ट सांग म्हाका."

"हय, सांगतां... हांव आयज म्हजो राजवाडो- जंय दादाचो लग्न-सुवाळो चलता- तो मदेंच सोडून येवपाचें कारण सांगतां. थंय म्हज्यान रावं नज जालें, तो प्रसंग हांवें सोंसपाचो खूब प्रयत्न केलो, पूण म्हज्यान कशेंच सोसूंक जालें ना."

"कसलो प्रसंग???"

"तो भयंकर प्रसंग."

"कसलो भयंकर प्रसंग?"

"दादाच्या लग्नाचो !"

"तो भयंकर प्रसंग?"

"हय जिवमाम... आरे... म्हजो जिचेर जीव आसा, ती दादाची...

"म्हणजे???"

"हय जिवामाम, जेन्ना आमी सगळीं राजश्रीक मुबाळकार संस्थानांत पळोवपाक गेल्लीं, तेन्ना थंय पळोवपाचो समारंभ जालो तेन्ना राजश्री एका दालनाकडेन म्हाका भेटली. थंय आमची नदरानदर जाली. हांव घायाळ जालों. म्हाका खबर नासली ती दादाखातीर सुचयिल्ली भावी व्हंकल म्हण. पळोवपाच्या सुवाळ्याक बरोच वेळ आसलो, राजश्रीकय दिसलें की म्हजेखातीरूच आमी तिका पळोवंक आयल्यात म्हण, आनी तिजीय तीच भावना जाली, तिणें म्हाका त्याच खिणां ते वाटेर सांगलें- म्हाका तूं आवडलो. हांवेंय तिका म्हळें, तूंय म्हाका..."

"कांय खिणांची गजाल ही सरकार..."

"हय, पूण ती सासणाची जाली, म्हजे खातीर! राजश्रीचें म्हाका खबर ना, सद्याक तिज्या मनाची अवस्था कितें जाल्या जायत ती. तिजीय मोटी फटवण जाल्या. चली मनीस

ती, ते भायर राजघराण्यांतली; अशें तशें कांय करूं शकना आनी तितली धाडशीय न्हय ती. जिवा-जिवा, हे परिस्थितींत म्हाका जियेवप शक्य जावचें ना. आतां दादाची धर्मपत्नी जाली ती... राजवाड्यांत ती म्हजी भावज हें हांव मानून हांगा रावपाक शकचों ना, कसोच शकचों ना. देखून जिवमाम..." अशें म्हणत धाकट्या राजान हातांत घट्ट धरिल्लें आर्म खिणाभितर काडून तें हड्ड्यावटेन करून तसोच आर्माचो घोडो ओडलो. जिवा फुडें सरून झोंपय घालता म्हणसर सगली हवेली हादरून गेली. फाराचो आवाज हवेलीभर घुमलो आनी सगळे नोकर चाकर आसले थंयच्यान वयर माळयेर धांवन आयले.

धाकटो राजा रगताच्या कोंडांत निस्तेज पडिल्लो, आनी जिवान ताची अर्दी कूड आपले वेंगेंत घेतिल्ली. जिवा धाकट्या सरकाराची तकली हालयत..सरकार..सरकार म्हणत धाकट्या सरकाराचे जापेक रावतालो. धाकटो सरकार हूं कीं चूं करिना तें पळोवन जिवामामान हवेली माथ्यार घेवपी आकांताचो हांबेर घालो, "म्हाज्या पुता.... म्हाज्या पुता..." म्हणत. जिवमाम धाकट्या सरकाराक वेंग मारून हड्डें फोडून रडपाक लागिल्लो.



# सौभाग्य सुवाळो

राजवाड्याच्या खांब्याक भिडून म्हादेवाचें देवूळ आसा. त्या देवळांत सदचेभशेन इशारत जाली आनी रोखडीच धोलार तोणी पडली; मुखावयल्या चौघुड्यार शेनाय-सुर्तीचे सूर घुमले आनी सगळो प्राकार दिपरत्नांच्या लख्ख उजवाडांत आमोरेर पर्जळूंक लागलो. वर्साभशेन दसऱ्याचे तयारेक सरकारांतले सगळे नोकर चाकर कामांक लागले. राजवाड्यांतल्या शस्त्र-घरांतलीं सगळीं शस्त्रां दोन दिसां आदीं धुवन, पुसून दवरिल्लीं. तांकां अदीक चकचकसाण येवपाक तेल काडिल्लें. आनी तेलाचे तिकतिकसाणेन सगळीं पोरणीं शस्त्रां नवें रूप धारण करून खंयचेय लडायेक तयार राविल्लेभशेन दिसतालीं. वर्सान वर्स राजवाड्याच्या शस्त्र-घरांतलीं सगळीं पोरणीं शस्त्रां राजांगणाचे मुखावयले सदरेर व्हरून पुजेक लावपाची चाल केन्नासावन चलत आयिल्ली तें मात कोणाकच खबर नासलें; पूण राजवाड्याची परंपरा आनी चाल म्हणून दसऱ्याक सगळीं शस्त्रां उजवाडांत येतालीं. प्रत्येक शस्त्राचे धारेचेर कोणाकोणाल्या रगताच्या शिळक्यांचो दाग लिपून आसुंये हें सांगप कठीण आसलें. खंयचे तरसादीन आनी खंयच्या भाल्यान कोणाचो शिरच्छेद केलो आसत हाचो अदमास करप कठीण आसलें. आयज त्या तरसादींची धार गेल्ली आसुंये. पूण तरसादीक धार काडपाक बसत जाल्यार एक एक याद इतिहासांतली गवाय कशी दोळ्यां सामकार उबी रावल्यार अजाप नासलें.

रावराजे विरेन्द्र प्रभूची पट्टराणी म्हणून राज्यांत नामनेक पाविल्ली श्रीमती विजयादेवी ओळीन मांडून दवरिल्ले एके एके तरसादीकडेन आपली नदर भोंवडायतां भोंवडायतां तिच्या दोळ्यांमुखार प्रत्यक्ष तिजो घरकार रावराजे विरेन्द्र प्रभू महाराज उबो जाल्ल्याचो भास तिका जालो.

“लडायेंत मरतात ते हाडां-मासाचे हे असले देह. लडाय लडटात तीं हीं मोनी निर्जीव शस्त्रां. ह्या शस्त्रांच्या म्हालवाजार आमी आमच्या शौर्याच्यो आनी पराक्रमाच्यो बडायो मारतात; आनी शस्त्र हें श्रेष्ठ म्हणपाचें एकाद्र्या रणभुंयेवयल्या लडवय्याक तो जेन्ना निशस्त्र जाता तेन्ना होलमता. देखून आमकां क्षत्रियांक हीं शस्त्रां आमच्या जिवापरसय चड

प्रिय आसात. म्हजे अपुरबायेचे राणये, अशा शस्त्रांची पुजा ह्या राजवाड्यांत नित्य नेमान जावपाक जाय."

"हय - सरकार" आपल्या धिरोदात्त घरकाराच्या तेजीश्ट मुखामळावटेन मान वयर करून राणी विजयादेवीन म्हळें.

"ह्या राजवाड्यांत फाल्यां आमी आसूं, नासूं. पूण आमचे फाटल्यान आमच्यो यादी घेवन हीं शस्त्रां हांगा फाल्यां मोठ्या दिमाखान मिरयतलीं. तातूंत म्हजी ही कमराची तरसाद. ही तरसाद पळेल्या तुवें? ही भांगराची मूठ, हे मुठीक पळेल्यांत कितली माणकां-मोतयां आसात तीं! हिचें म्यान पळे कशें लखलखता तें? हे तरसादीचो मान-भौमान केदो जाणा तूं? ही तरसाद हे सदरेर हेर शस्त्रांमदीं दवरपाची नासता. ही तरसाद अशी मदल्या दालनांत भरजरी वस्त्रांच्या दाट जमखणांचेर पुजपाची आसता. हे तरसादीची पुजा दसऱ्याकच न्हय तर राजवाड्यांत आशिल्ले आनी परंपरेन चलत आयिल्ले दर परबे वेळार जावपाक जाय."

"सरकार, आयज तुमी अशे कित्याक उलयतात?" राणी विजयादेवीन आपल्या सरकाराक मदींच थांबयत म्हळें.

रावराजे विरेन्द्र प्रभू महाराज हांसत म्हणपाक लागलो, "फायची गजाल घडये हांव आयज सांगतां आसन राणये, पूण तुकाय खबर आसूंक जाय हे तरसादीचें म्हत्व आनी व्हडवीक. ही तरसाद म्हळ्यार ह्या राजवाड्याचें अखण आयावपण, अखण सौभाग्य. हांगा ह्या राजवाड्यांत राणयो रांडावो जायनात. हांगा रावल्यात आनी जियेल्यात त्यो आजन्म आयावो, सवायशिणी तश्यो सौभाग्य राणयो!"

"सरकार, कितें उलयतात तुमी हें?"

"हय... आनी तुका तर हें खबर आसूंकच जाय."

"हय सरकार, म्हाका खबर आसा म्हज्या ह्या घराण्याची कुलपरंपरा. म्हाका खबर आसा ह्या राजवाड्याचे रीत-रिवाज."

"रयताच्या कल्याणाक राजवाड्या मुखार जी शिळा आसा ते शिळेचेर दसऱ्या दिसा रगताची शिळकी सोडून बोकड्याचो बळी दिवंक जाय." रगताची शिळकी म्हणना फुडें राणी विजयादेवीच्या आंगार चर्रर करून कांटो फुल्लो आनी तिची ल्हंवेन ल्हंव आंगभर कुचो कशी उबी जावन फुल्ली. आपले राणयेची ती जाल्ली आवतिकाय सरकाराचे नदरेंतल्यान सुटली ना.

"रगत हें क्षात्र धर्माची धुंदी, नशा आनी शिरंतराक होरोवपी शक्त आसता राणये. तुवें अशी भिवपाची गरज ना. फाल्यां प्रसंगार कमरेचो खंजीर काडून तुज्या बोटाक लावन त्या रगतान माखिल्लें बोट हे तरसादीचे मुठीक लावन आयावपणाची गवाय अख्ख्या

संवसाराक दिवपाचो प्रसंग तुजेर आयलो जाल्यार आंगार असो कांटो फुलोवन चलचें ना म्हजे राणये."

"चूक जाली म्हजी सरकार..." राणयेन खंतीन म्हळें.

"चूक मागपाक आंगावयलो कांटो तुवें मुद्दाम जावन फुलोवंक ना हें म्हाका खबर आसा. ती एक भयव्यक्तीची सभावीक प्रक्रिया, तुजे मानसिक अवस्थेंतल्यान अशा वेळार जल्माक येता तेन्ना तुज्या काळजांत भयाचे दोंगर ख़दखदून हालपाक लागतात. आंगावयलो कांटो म्हळ्यार भंयाचो रोस, तुजो गुन्यांव न्हय तो."

आयज एक वर्स जालें. रावराजे विरेन्द्र फिरंग्याचे लडायेंत आपल्या राज्याची राखण करतना कामाक आयिल्लो. रावराजेच्या अचकीत मर्णान जळामळा दुख्खाची आनी निर्शेणेची सया पातळिल्ली. राज्यभर कितलेच म्हयने दुख्ख पाळिल्लें. पूण ह्या दुख्खाक निबर काळजानच तोंड दिवपाक फुडें सरली ती खासा रावराजेची धर्मपत्नी विजया देवी! आपल्या पराक्रमी घरकाराच्या कानमंत्राचो तिका सदांच प्रतिध्वनी आयकूंक येतालो. सदरेर भोंवतना ते माणकां-मोतयांनी विणिल्ले तरसादीचो तिका उगडास जातालो आनी जे मेरेन तरसाद सयसलामत आसतली ते मेरेन म्हज्या आयावपणाक कोणूच हात लावंक शकचो ना असो तिचो घट्ट भावार्थ जाल्लो, देखूनच राजदरबारांत वर्सावळीची दसऱ्याची परब त्याच पोरण्या रिती-रिवाजान अंदूय मनोवपाचो हुकूम राणी विजयादेवीन दरबाराक तसो गांवाकय दिल्लो.

राणी विजयादेवी खोल विचारांत मग्न आसतना दरबाराचो कारभारी दारांत येवन उबो रावला म्हणपाचें तिच्या लक्षांत आयलें. तिणें ताचेकडेन नदर वळय नासतनाच विचारलें.

"सुब्बाराव, दसऱ्याची सगळी तयारी जाली?"

"हय राणी सरकार, पूण-"

"पूण कितें?" राणी सरकारान अजापान म्हळें," "अंदू बोकडो मारपाचो न्हय, राजघरा सामकार?"

"अं...हां..." सुब्बाराव बरोच घुस्पलो. "...अंदूं सरकार आमचे मदीं ना न्हय?' हीं उतरां ताच्या ओंठाभायर फुटना जाल्लीं. तीं ताका भितल्ले भितर आयलीं.

"हां... समजलें. सुब्बाराव, सरकार ना म्हणून तूं वर्साचो बळी शिळेर रयता खातीर दिवपाचो ना अशें म्हणपाक सोदता न्हय?"

सुब्बारावान मान सकयल घाल्ली ती वयर काडली ना तें राणी सरकारान पळयलें.

"सुब्बाराव, सरकार... आरे तुजो सरकार तो म्हजो सरकार. ह्या गांवांतल्या रयताचो सरकार. शरिरान तो आयज आमचेमदीं नासलो म्हण कितें जालें? सरकाराचीं पावलां ह्या राजदरबारांत आनी ह्या राजदरबारा भायर जंय जंय लागल्यांत थंय थंय सरकाराच्या

पावला कणकणी एक एक याद दर एकल्याच्या काळजांत राजांक जिवो आशिल्लो पळेतात. सुब्बाराव, कितें, तुज्या काळजांत सरकाराची याद जिवी ना?"

"राणी सरकार?"

"मागीर? बोकडो मारपाची चाल ही ह्या राजदरबारांतली एक रीत न्हय? शिलांगणां पुजेक लायतना ज्यो ज्यो भोगावळी सदरेर आनी सदरेभायर जायत आयल्यात त्यो सगळ्यो भोगावळी तश्योच चालू उरतल्यो. वर्सावळीचो बळी दिवपाचीय चाल जे मेरेन आमी आसात आनी सरकाराचे वारस आसात, ते मेरेन चलत रावतली. चल, दसऱ्याचो बळी दिवपाची तयारी कर."

"हय राणी सरकार. पूण हे खेपे वर्सा भशेन बळी दिवपाचो बोकडो आमी हाडून पोसलो ना, वर्सान वर्स बळीचो बोकडो एक म्हयनो आदींच हाडून पोसपाची चाल आसता राणी सरकार."

"ही चाल बंद करपाक तुका कोणें सांगलें?" राणी सरकाराचो आवाज चडना फुडें सुब्बाराव बरोच कांचवेलो. खरें म्हळ्यार बोकडो न पोसपाचो निर्णय ताणेंच घेतिल्लो. अंदूच्या दसऱ्याक वर्सावळीच्यो भोगावळी चड करून जावच्यो नात असो समज ताणें करून घेतिल्लो. दुख्खी राणी सरकार तर असल्या भोगावळींनी लक्ष घालची ना असो ताचो समज आसलो. पूण तो फट थारलो, आनी बोकडो ना पोसपाचें ताचे आंगलट आयलें. राणी सरकाराक आतां कितें तरी सांगून शांत करपाची गरज आसली. बळी तर दिवपाक जाय, म्हण्टकच बोकडो खंयच्यान तरी फैदासून एका दिसा भितर हाडपाक जाय. ताणें राणी सरकाराक इतलेंच म्हळें,

"राणी सरकार, राजघरा मुखार फाल्यां दसऱ्याचो बळी मारतले."

"मारूंकच जाय. आनी आयक, फाल्यां दरबारांतल्यान सदरे मेरेन हांव वर्सा भशेन म्हज्या आयावपणाचो, सगळो शिरंगार चडोवन दरबारांतली अखण सौभाग्याची परब मनयतलीं." राणी सरकाराचीं उतरां आयकून सुब्बारावान अजापान राणी सरकाराक पळयलें. घरकार रावराजे लडायेंत सोंपला म्हणपाचें ही मानपाक तयार ना काय? ही आपलो घरकार ह्या संवसारांत नासतना सौभाग्य लेणीं आंगार कशी चडयतली? सुब्बारावाच्या मनाचो खवदळ राणी सरकाराच्या लक्षांत आयलो जावंये. सुब्बारावाची घुस्पागोंदळाची स्थिती निवळावंक बेगीं बेगीं राणी सरकारान म्हळें -

"सुब्बाराव, हें, हें सगळें तुमकां नवें दिसुंये. म्हजो सरकार राजे ह्या संवसारांत नासतना हांव सौभाग्य वस्त्रां आनी अलंकार कशी आंगार चडयतलीं, होच प्रस्न तुका पडला जातलो. फाल्यां तो प्रत्यक्षांत सुवाळो जातलो, तेन्ना अख्ख्या दरबाराक, दरबारा भायर गांवांक आनी संवसाराकय होच प्रस्न पडुंये. सुब्बाराव, हय न्हय? हो गोंदळ तुज्या

मनांत पडला मूं?"

"सारकें तुमचें राणी सरकार - " सुब्बारावांनी कबुली दिली. तशी विजया देवी राणी धीर गंभीर जाली आनी एका विद्‌वान तत्त्ववेत्त्याच्या हावेसान तिणें सुब्बारावाक पयलीं थंय आशिल्ले एके बसकेचेर बसपाक सांगलें आनी आपूण लागींच आशिल्ले एके दरबारी शाही खुर्चेचेर बसली. तिचे नवे विचार आनी आपल्या दिवंगत घरकाराचे सुधारिल्ले विचार सरभरसून कितले एकरूप जाल्यात ते सुब्बारावाक सांगपाची तिका उमळशीक लागिल्ली."

"सुब्बाराव, एखाद्रे भारतीय अस्तुरेचो घरकार, तिचे हयातींत जर सोपलो जाल्यार ते अस्तुरतेचें अस्तीत्व सोंपता, तिज्या जगपाक अर्थ नासता. तिच्या भावनांचो लासून गोबोर जाता, तिच्या आनंदाचें विरजण जाता, मनांतल्या सुप्त आशा-आकांक्षांचे सपन भंग जाता, आनी घोवा फाटल्यान तिच्या वांट्याक भोगचें पडटा वो भोगूंक जाय तें सुकें सडसडीत रांडावपण, हें कोणें सांगलां? केन्ना सांगलां आनी खंयच्या धर्मग्रंथांत बरोवन दवरलां? कोणाल्या धर्मनेमांत सांगलां?

सुब्बाराव, राणीसरकाराच्या ह्या नव्या अवतारान अजाप जालो. हें असलें ताणें केन्नाच कोणाकडच्यान आयकूं नासलें. तो कितलो तरी वेळ राणी सरकाराकडेन पळयत उरलो. सुब्बाराव ओगी रावला तें पळोवन राणी विजयादेवी हांसली. घडये आपणें विद्वान कारभाऱ्याक निरूत्तर केल्ल्याची खोशीय तिका जाल्ली जावं ये, पूण आपलो घरकार गेल्ल्याक पयलेच खेपे राणी विजयादेवी वझऱ्याभशेन खळखळून हांसली. खूब हांसली. कितलोच वेळ ती हांसत रावली. तिच्या ह्या वागपान दरबारी कारभारी काचाबूल जाल्लेवरी जालो. ताका कितें उलोवंचे तेंच समजना जालें. पूण राणी सरकार तोंड उगडिल्ल्यान जाल्ले कुचंबर्णेतल्यान सुब्बाराव मेकळो जालो. ना जाल्यार राणी सरकाराक कसली जाप दितलो आसलो. पूण एक गजाल मात ताका समजली ना ती फाल्यां दसऱ्याच्या सुवाळ्याक राणी सरकार आयावपणाचीं सगळीं वस्त्रां आनी अलंकार कशी आंगार चडयतली तें. भारतांतल्या हिंदु बायलांच्या इतिहासांत अशें कोणें करुंना. सगळ्या बायलांनी आपआपल्या घरकाराच्या मर्णा फाटल्यान झळझळीत रांडावपण आतांमेरेन भोगलां. कांय जाणांनी तर सती वचपांतय धन्यताय आनी व्हडवीक भोगल्या. आनी ही राणी सती वचपाचें सोडाच, रांडावपण सुद्दां मानपाक तयार ना आनी ती फाल्यां दसऱ्याच्या सुवाळ्याक सगळे सौभाग्य अलंकार आनी उंची शाही वस्त्रां आंगार चडोवन वर्साभशेन राजदरबारांतले मुखेल तरसादीची पुजा करतली खंय.

"सुब्बाराव?"

"जी राणी सरकार !"

"फायच्या दरबारी दसऱ्याक सुवाळ्याची सगळी तयारी वर्साभशेन जावं दी."

“जी राणी सरकार” कमर बागोवन सुब्बारावान राणयेचो हुकूम मानून घेतलो तेन्ना ताणें फुडें पळयलें. राणी सरकार एके नवे उर्बेन भरून आयिल्लेवरी सडसडीत वयर वचपाक राजदरबाराचे माळयेचीं सोपणां चडटाली.



# भूककांप

धा वरां जाल्लीं. बाबल्यान राती घाल्ले खेव सोंसून उपाशी पोटार रातभर तळमळिल्लीं बाबल्यालीं दोन पोरां न्हिदेचो भार दोळ्यांर झेलीत तशींच सकाळीं वारयें शिंपूक आवय वांगडा वारयांत गेल्लीं. बाबल्याचे बायलेन- पिरून ना म्हळ्यार खुटी च्याचो धुकोळ पेलो भरून पोरांक दिल्लो. सकाळीं चायेक कांय ना, कुंड्याची भाकरी लेगीत! नासण्याची आंबील करून कालचो दीस कसो तरी घालयिल्लो आनी आयची सकाळ खुटे च्यान घाल्ली, आतां दोनपार येवची आसली, भूक घेवन.

बाबल्यान घरभर नदर मारली. पोरांलीं पिंजकीं हातुणां अस्तावेस्त खोंपभर अशीं तशीं पडिल्लीं. बोंदरां जाल्लीं चादरां आनी कापूस भायर सरिल्लीं कोंडां जाल्लीं तीं उशीं आनी त्या उशांचेर सगळे तरेचे दाग खंयच्याय दळदिऱ्या देशाचे नकाशे कशे चक्क बरे उदेल्ले हांगा थंय दिसताले. बाबल्यान आपलें बोंतेर कवळ्ळें. पिनिल्ली शेंदरी गुटलायली आनी वणटीक तेकोवन तो सवकास उठलो. खरें म्हळ्यार तो उठटना झडपतालो. रातचे काजू फेणयेचो परिणाम ताचेर आजून आसलो. पूण फेणयेची झींग बरीच देंविल्ली. बाबल्याक बरेंच भान आयिल्लें, ताका लागून रातची एक एक याद आतां ताका जावपाक लागली.

ताका याद जाली, ताणें रातच्या बारा वरांचेर कायतानाली गादी सोडिल्ली. अर्द बाटली काजू सुकीच घेतिल्ली. पोटभर उज्ो पेटिल्लो, झोळयो करपल्ल्यो, जीब लाशिल्ली. हड्डें भट्टेलें तरी ताका जाय ती झींग येवंक नाशिल्ली. तेन्ना तो घोंटार घोंट घटाघटा काजू फेणी घेत राविल्लो. “आरे बाबल्या, कितें जीव दिता रे आयज इतली काजू मारून?” पेरून बाबल्याक म्हणिल्लें.

“मेल्यार सुट्टलों रे हेंचे तावडींतल्यान, कंटाळो येयलो संवसाराचो.” बाबल्याची जीब हो वेळेमेरेन आडवी पडूंक नासली. ताणें पेरूक स्पश्ट सांगलें तशें पेरून बाबल्याक म्हळें, “बाबल्या असो कित्याक पिरंगता? आरे शंबर रूपया तुजो दिसवडो कोणें व्हयला? निस्तें पागोंक गेल्यार भल्लो मरे तुजो दीस.”

“निस्तें खंय पागतलों, ह्या दिसांनी पाणी भांग” बाबल्यान निर्शेवणी उक्तायत म्हळें,

"आरे तेच खातीर तर आतां उदारी करून हें घेतां. तरी बरें, हो कायतान पानदुडवांक मात्सो पातयेता म्हण. ना जाल्यार सोऱ्या घोंटाकय वळवळचें पडटलें आसलें म्हाका."

आनी बाबल्यान निमाणो घोंट मारलो तेन्ना बाबल्याचे पांय जमनीक लागनासले. बाबलो लांब कोंडो तळटार उबो धरतकच तवकवचो तसो भुंयचे भुंयेर हेवटेन तेवटेन तवकवपाक लागलो, तरीय सुद्दां कसोबसो रस्तो मेजीत सदचेच वाटेन वाट चुकनासतना बद्द ताच्या घरा पाविल्लो. घरा पाविल्लो तेन्ना दारांतलो पेटो कुंय कुंय करून शेपडी हालयत ताच्या पांयांकडेन जेन्ना घुस्पुपाक लागलो तेन्ना बाबल्यान कवडेर खोंट मारीत पिरूक उलो घालो.

"पिरू, चेडये, घोव येवपाचो आसा तें तुका खबर ना गो?, कवडी धापून न्हिदलां तें? मालकिर्याद! उठ पयलीं." अशें म्हणत बाबल्यान दुसरी खोंट कवडेर घाली.

कवडेवयलो धपको इतलो नेटाचो आशिल्लो की दुसरे खोंटेसरशीं मल्लां फुटलीं आनी कवडेक पडलो येद्दो बुराक! भितर न्हिदिल्लीं पोरां आकांत करून न्हिदेंतल्यान काचाबूल जावन उठलीं. पोटाभुकेन आदींच तळमळटालीं तीं पोरां आवो म्हणत आवयचे वेंगेंत पिलां कशीं रिगलीं आनी आवयक घट धरून कवडे वटेन कवडी फोडून घरांत घुशिल्ल्या आपल्या बापायक काळखांत येदेशे दोळे किलकिले करून पळोवपाचो प्रयत्न करपाक लागलीं.

पिरून हें सदचेंच नशिबांतलें म्हणत मोन्यानी फुडें येवन कवडी उक्ती करपाक सुमाची गांठ सोडयली आनी कवडी उक्ती करून बाबल्याक भितर येवंक दिलो. बाबलो झडपत-झडपत भितर सरलो आनी पिरूक म्हणपाक लागलो.

"वाड म्हाका, पोटाक उजो पेटला, सोसूं नजो म्हाज्यान हो उजो."

"तुज्या पोटाक उजो पेटला आनी आमी हांगा पकवानां खाल्यां? पळे ह्या पोरांक, तेंचे पोटफाट कशें जालां तें. अन्नाचो गोटो ना, जेयल्यार आयज चार दीस जाले, तूं गांवार भोंवन येता लोकालो सोरो पियोन आनी घरांत येवन आमकां असो खेपता? सुशेगाद न्हिदपाचेंय भाग्य आमच्या नशिबांत ना. आमच्या नशिबांत धोडयाऱ्याच्या कपलांतले तीन फातर आनी ह्या तीन फातरांचेर आमची चूल! ही चूल आसा, चुलीत भुकेचो उजो पेट्टा. तुजे आनी म्हाजे हे हातपाय घालून जाळ कसो."

"मात चुलीर बुडकुलो आसा तो सामको रितो. त्या बुडकुल्यांत तुवें आदन पासून दवरलेंना. कित्याक, कित्याक राणग्या...?"

बाबल्यान सदचेभशेन वरांय वरांय करपाक सुरवात केली. पिरून चिंतलें, हो आड पडले बगर आतां तांकां न्हीद लागची ना. ताणें बाबल्याक म्हळें,

"तू न्हिदना?"

"कसो न्हिदों? कसो न्हिदों, अनरखणी जाळ मगो-"

"पोट तेकोवन न्हीद, आमी सगळीं न्हिदल्यांत तशीं. ह्या पोरांनीय कांय एक खावना, फकत मुगांचें उदक इल्लें पियेल्यांत तीं."

"तें तरी आसल्यार इल्लें म्हाका दी." तेवूय परिस्थितींत बाबल्यान म्हळें.

"सोऱ्यार मुगां उदक बरें न्हू. आनी ते भायर तेंवूय इल्लेंय उरोंक ना." पिरून थंडसाणेन म्हळें.

"म्हणजे हांयें कितें खावपाचें?"

"खा, माती ना जाल्यार गोबोर!" पिरू संतापलें.

"पिरू पिरू... म्हाका माती-गोबोर खा म्हणटा?" आनी मागीर बाबल्यान पिरूचेर गाळींचो शिंवर केलो. आडवी जीब घालून बाबलो घरभर अक्षरशा धुमशेणां कांडपाक लागलो.

बरोच वेळ आपट-धपट करून बाबल्यान शेकीं थंयच घालून घेतलें. बाबल्याक सुस्त सोऱ्याभाराची न्हीद लागली. हे वटेन बाबडीं पोरां भुके वेदनेची तरी न्हीद आपणाक येवची म्हण भुंयेर तळमळटालीं.

मध्यान रात जातासर बाबल्याली खोंप शांत जाल्ली. कोणाचें हूं की चूं नासलें.

बाबलो आपणाले खोंपींत गवळांत रावतालो. गवळ तसो सावडीकारांलो. पूण आतां थंय सावडीकार कोण रावनासले, सगळे सावडीकार गवळ सोडून आता वयल्या भाटांनी रावपाक गेल्ले. भाटकारांनी आपआपल्या भाटांनी खोंपी आनी गोठे काडपाक दर एकल्या सावडीकाराक सुवात दिल्ली. तशे हे सगळे सावडीकार मुळचे अंत्रुजेंतले. बाबलोय बी अंत्रुजेंतलोच. बापाय वांगडा सावडीक तिसवाडी वयल्या वाशेंच्या जुंव्यार रावपाक आयिल्लो तो आतां बापूय वतकच वाशींच्या गवळांतच रावपाक लागिल्लो. बांदाक भोम मारप, कातोल्लांनी खणपाक वचप, शेतांनी मेरो ओडप, पोंयो उसपप, बांदाक चिकोल काडप, आनी शेतांतलो वावर सोंपतकच वयर गांवांत वचप. गांवांतल्या किरिस्तांव भाटकारांगेर मागीर लाकडां फोडप, पोरसां खणप, माडाक खण्णीसावळ घालप आनी वोगोत आयल्यार पाडेलपणाकय वचप. बाबलो तसो चारूय कामांनी खांपो. खंयचेंच काम तो नकळ म्हणून नासलें. पूण जेन्नासावन बाबल्याक सोऱ्याचें गिराण लागलें तेन्नाच्यान ताचे गिरे बदल्ले आनी रात दीस ताणें फक्त सोऱ्या गादयांचे सोपे झरयले. ताच्या आंगापांगाक पडल्यो फकत सोऱ्याचो घाणी-गुठ्ठाणी.

पिरून पयलीं पयलीं मोन्यांनी हें सोसलें, पूण बाबल्याचे वेसन तकलेक मारतकच ताज्यान कशेंच रावपाक जालें ना. ताचें आनी बाबल्याचें दीसपट्टें झूज गांवभर जावपाक लागलें. आनी ह्या झुजांत करपून वचपाक लागलीं ती निश्पाप दोन पोरां! ना म्हळ्यार

बाबल्याक पोरांची खूब माया आसली. पोरांचो उगडास जातकच तागेले मायेक उमाळो येवन तो कासावीस जातालो, आनी केन्ना केन्नाय तकली वणटीर मारून आपले भितर पच्छाताप करीत म्हणटालो. "धडधाकट हो बापूय आसून, म्हाजी पोरां पेजेक पादिशेर." आनी बरोच वेळ असो चिंततां चिंततां मागीर हड्डें घट धरून मुसमुसून रडटालो. मात सोऱ्याचे घुंवळींत तो भुरग्यांकय वळखनासलो.

आतांय तशेंच जालें. बाबल्याक रातची याद जाली. कवडेर खोंट मारिल्ल्याची ताका याद जाली. च्चे, अशें हांयें करपाचें न्हूं... पोरां म्हाजीं उपाशींच न्हिदलीं जातलीं. आयज कशेय भशेन फायदो करून खंयच्यान तरी कीलभर तांदळाची वेवस्था करूंक जाय. आयज तरी उदक पिवन न्हिदपाची पाळी पोरांचेर हांव हाडचों ना, खंय तरी वयतलों आनी जोडटलों पन्नास रुपया. एक पयसो सोऱ्याक घाली नासतना पयलीं तांदूळ हाडून घरा दितलों. बरे अवस्थेंत बाबलो चित्तालो.

पूण वयतलो खंय, सगळ्यांकडेन वायटपण घेतलां. बेबदो म्हण कोण लाकडां फोडपाक सुद्दां आपयनात. गांवार जातात तीं फकाणां आनी बकच्छायो. 'बाबल्या कुट्ट' म्हणत येतलो वतलो पोर सुद्दां केणटा. 'बाबल्या कुट्ट, बाबल्या कुट्ट' आनी मागीर संतापान बाबल्यान तांका परत म्हणप- 'तुमचो बापूय कुट्ट, तुमचो बापूय कुट्ट.'

आयज खंय कामाक वतलो हें चिंतपाक बाबलो पडला आसतनाच, गवळांतल्यान दामूलो सुर्या येता तो ताणें पळयलो. 'हो आनी सकाळफुडें खंयच्या मसणांत वयता काय? हेका आनी खंयचे पयशे दितलों हांव? रिणां गळोभर! कोणाकोणाचीं म्हणून दिवपाचीं?' सुर्याक पळोवन बाबल्यान तोंड लिपोवचें, खंयीय आडसाक रावचें अशें येवजिलें. पूण सुर्यान बाबल्याक पयसुल्ल्यानूच पळयल्लो. लिपून फायदो नासलो. सुर्या तो, घरभर सोदतलो आसलो. बाबल्यान येवजिलें, कितें म्हणटा तें म्हणो. हेका आनी खंयचे दिवपाचे सुब्रे? आसूं नाका?

सूर्या लागीं पावलो तसो ताणें बाबल्याक साद घालो, "उठलो रे बाबल्या, जाली सकाळ तुगेली?"

बाबलो सुर्याक पळयत रावलो. हयी म्हळें ना आनी नायी म्हळें ना.

"आरे, असो घुगूम कसो पळेता कितें? चल भायर सर." - सुर्यान बाबल्याले खोपी भायर उबो रावत म्हळें.

"भायर सर, खंय वचपाक?"

"मरणाक..." सूर्यान हांसत म्हळें.

"कोण मेला आयज?" बाबल्यान येद्दे दोळे करीत विचारलें.

"आरे, खूब तेपान गांवांत मरण जाता, रामराय गांवकार मेलो.. रातीं काळजाचें

जालें खंय. काल पर्यंत बरो आसलो. काल सांजेर घराचे नळे सुद्दां खंय स्वता वयर पाख्यार चडून सारके केल्ले. रातीं न्हिदला थंय अकस्मात घुस्पलो आनी खोंकपाक लागलो, खोंकतां खोकतां रगत ओंकलो आनी ओंकतां, ओंकतां भूंय पडलो. राती-तिथीचो, कोण जागो नासलो. बोब जाले उपरांत बऱ्याच वेळान आमी धांवन गेले, पूण खिणा भितर रामरायाचो अवतार सोंपलो. बरो आसलो रे मनीस!"

सुर्यान सगळें एका दमान सांगलें.

"मरण केन्ना दवरलां?" बाबल्यान थंडसाणेन विचारलें.

"आरे, तेंच तर तुका सांगपाक येयलां न्हू रे. हे खेपे तुयें फाटीं रावपाक जायना. रामरायाचें मरण तें. सोयरे-दायरे खोंटांनी. ते भायर तूं जाणां, रामरायाले बरे मागपी इश्टमित्र म्हण गांवा भायर सुद्दां थोडे नात. ते भायर रामरायाले दोग पूत मस्कताक आसतात. तेवूय ह्याच दिसांनी ज्युस्त सुटी घेवन घरा येयल्यात, म्हणटकच रामरायाचें मरण बरें ताण जातलें. जोडकार पूत, बापायचें तितलेंय करचे नात तर कितें करतले? हें पळे, तुवें मड्याक शेवट मेरेन सोडूंक फावना. उणीच म्हळ्यार मड्यावयली रोख चारशें पायशें तरी जातली. पांयशांतले तुका शंबर तरी भायले भायर सुतलावपाक मेळटलेच. वांटे घालून कांय मेळचें ना. मसंडींतच कावळे कशे खातले तुका. आनी हें पळे बाबल्या, म्हागेलेंय रीण पावोवपाची बरी संद तुका येयल्या." सुर्यान सगळें बरें सारखें समजायत बाबल्याक म्हळें.

बाबल्याचे तकलेंत लख्ख उजवाड पडलो. सुर्या सकाळीं फुडें तागेल्या दारार पाविल्लो तो रामरायाच्या मरणाची खोशी सांगपाक. आनी बाबलो तर मरण करपाक एकदम खांपो. गांवांत कोणूय मरतकच निसणे खातीर कोंडे बेणून हाडून तांची दारांत निसण बांदपाक बाबलो सोडून कोण नासतालो. निसण बांदून तिचेर अख्खी केळी शिर्ती दवरून ते शिर्तेर मडें दवरी मेरेन ते मसंडींत पावतकच निसणीक सुमान गुटलायिल्लें मडें सोडयसर बाबलो आसतालो. हाका सागून मड्यासरीं बाबल्या इतलो कोणूच लार्गी उरनासलो. मड्याच्या आंगाखांद्यार कितेंय वस्तू-विस्तू उरल्यो सुद्दां जाल्यार त्यो बाबल्यान काडून दिवच्यो आनी मडें सरणार दवरचे पयलीं मरणाक आयिल्ले सगळे लोक जेन्ना मड्याचेर पयशे घालतात तेन्ना ते सगळे पयशे जमा करपाची संदय बाबल्याकच फावताली.

ना म्हळ्यार सकाळीं सुर्यान वायट शी खबर हाडूक नासली. सोड, आयचो आनी फायचो दिसूच न्हय, फुडलें सुमान रामरायाच्या मरणार सुटपाचें. आतां आनी खंय दिसवडो सोदपाक वचपाची गरज ना. रामराय तो, मरणाक उणेंच म्हळ्यार शें देडशें तरी लोक जावपाकच जाय. बाबल्यान मनांतल्या मनांत हिशेब केलो. सुर्या म्हणटा ते परस पन्नास रूपया चडूच मेळुंये...

"बाबल्या, कितें चित्ता रे?" बाबलो येवजूंक पडला तें पळोवन सुर्यान म्हळें.

"हं... खंय... कांय ना." बाबलो सपनांतल्यान भायर आयलो. सुर्या आपले फुडें आसा हें तो खीणभर विसरूनच गेल्लो.

"मागीर, येता मरे बेगीन, रामरायालीं सगळीं पावलीं. आतां आनी कोणाक राबपाचें ना. आमोरी जातासर सगळें मेकळें जातलें. मागीर तूं राजा... पूण हें पळे बाबल्या, मेळटा तेतुंतले सुब्रे म्हजें रीण पावोवपाक घाल, ना जाल्यार घालशी व्हरून त्या कायतानाल्या हड्ड्यार."

"चल, भायर सर, वयतां हांव." - अशें म्हणत सुर्यान थंयसून पांय काडलो.

'चेडयेचो... मड्यावयल्या दुडवांनी रीण फारीक करपाक म्हाका सांगता! मड्यावयल्या दुडवांनी रीण मागपाक येयलां?...'

'...आयज कोणालें रीण पावोवचो ना हांव. मरणार कितें मेळटा तें फकत म्हाजेंच आसतलें. तेचेर अधिकार फकत म्हाजो- ह्या बाबल्याचो. तेभायर ह्या दिसांनी पयशाक पादीशेर, घरांत पोरां वळवळटात, मोडूंक दमडी ना. पयशे ते, मड्यावयले जालें म्हण कितें जालें? म्हाका खबर आसा म्हण कितें जालें? म्हाका खबर आसा म्हण सांग, फाल्यां बाजारांत व्हरून ते कोणाकय अदला-बदलीक दिले म्हण मड्यार घातलेले पयशे म्हणोन कोणाक कळपाक नशिबां येयलां?..' बाबलो येवजूंक पडलो.

बाबल्याल्या मनांत पयलेच खेप खूब तेंपान इतली खोशी फुल्ली. ताणें मनांत म्हळें, 'आयज सांजे पोरां म्हाजीं उपाशीं न्हिदचीं नात, आनी मरणा वयता थंय हांव सोऱ्या घोंट घेवचो ना...' बाबल्यान मनाक घट्ट गांठ घाली. '...एक पयसो कोणाक दिवप ना. मारूं ते बोब फाल्यां.'

बाबल्यान सदचे संवये भशेन कर्तव्यभावनेन रामरायाची निसण बांदली. रामरायाच्या घरा, घराभायर, रस्त्यार लोकांच्यो रांगो लागिल्ल्यो. इतलो लोक मरणाक पळोवन बाबल्याक रामराय केदो मोटो मनीस आसलो तें आतां समजलें. तेच बरोबर ताणें अदमास केल्लो ताचे परस लोक चड जाला तें पळोवन ताकाय खोस जाली. बायलांची गर्दी पळोवन मात तो मनांत म्हणटालो, 'हीं कित्याक मरोंक येयल्यांत? मसंडींत येतले ते दादले.'

आनी ज्युस्त चारांक रामरायाची तिरडी ताच्या पुतांनी खांदार घेतली. बाबल्यान एके वाटेन खांदो दिलो. रामरायाची प्रेतयात्रा रस्त्यार पावली तेन्ना खूप जाणांनी अजाप परगटायलें. अशी गर्दी हे आदीं गांवांत कोणाकच जावंक नासली. रामराय हे गांवांतले एक बरें प्रस्थ आसलें म्हणपाचें ताचे हे प्रेत-यात्रे वयल्यान कळ्ळेबगर रावनासलें.

अर्दवरान मरण मसणभुंयेंत पावलें.

बाबल्यान फुडाकार घेवन निसण सोडयली. रामरायाच्या आंगावयले कपडे काडले

आनी जल्माक आयिल्ले त्या वेळावयले अवस्थेंत रामरायाचें मडें करचे पयलीं बाबल्यान लोकांक म्हळें, "आतां तो निमाणो मान राखूं येता." सगळे लोक एक-एक करून फुडें सरून रामरायाच्या पोटार, हड्ड्यार बोल्सांतले पयशे काडून दवरूंक लागले आनी मड्याक नमस्कार करपाक लागले. कोण पांच रूपया, कोण धा तर कोण सुरती रूपया, दोन रुपया मड्यार घालताले. बाबल्याची खोशी दर एके नोटीचेर आनी नाण्याचेर इल्ली इल्ली फुलताली.

"जालें मरे?..." अशें म्हणत बाबल्यान रामरायाच्या मड्यावयल्यो सगळ्यो नोटी आनी नाण्यांची रास जमयली आनी खांद्यावयल्या तुवाल्यांत घट गांठ मारून घेतली.

मरणाक आयिल्ले गांवांतले बाबल्याले वांगडी बाबल्याक तेळीत आसले. मरण जातकच गांठ सोडपाची आसली आनी खांदो मारिल्ल्या मानायक, आंब्याचें झाड कापिल्ल्याक आनी सोरो घालप्याक... सगळ्यांमदीं ती रास वांटपाची आसली.

रामरायाचें सरण लासतां, लासतां मसणभुयेंतले लोक इल्ले इल्ले कडसरपाक लागले. बाबलो दुडवांची गांठ तुवाल्याक मारिल्ली तो तुवालो घट धरून सांबाळीत सरण धुंगशितालो. तांका सगळ्यांक केन्नाकाय सगळें लासून सकयल पडटा काय जाल्लें.

रामरायाचें सरण पेट्टा पेट्टां बाबल्याच्या मनांत आशेचो आनी निराशेचो संघर्श पेट्टालो. हे इतलेय दुडू घेवन कूस मारल्यार... कितें करतले हे... पयशे हांयें जमयल्यात, मड्यावयले हांयेंच काडल्यात; हेंचेर म्हाजोच चड अधिकार. हे इतलेय पयशे म्हाकाच..."

आनी बाबल्यान भोंवतणी पळयलें, सगळे जाण तर्रर जाल्ले, सोऱ्याचे दोन कारबे रिते जाल्ले. मानायांनी मेळत तसो सोरो झोंकिल्लो. जायते जाण थंयच पडपाचे दशेर पाविल्ले. सोऱ्याचे घुंवळींत मड्यावयले दुडू बाबल्याकडेन आसात म्हणपाचें चडशे विसरिल्लेच.

बाबल्यान पळयलें, सरणाचो उजो सोंपत आयिल्लो. भोंवतणी काळोख जाल्लो. इल्लो इल्लो थंयच काळोख जावपाक लागिल्लो. कोणें तरी वतना काळोख जावये हें चिंतून एक पेट्रोमास हाडिल्लो. तो घेवन एक तरणाटो सो मनीस उबो आसलो.

"चला रे, या आमी आतां, जालें सगळें, गेलो सर्गार आमचो रामराय." एकलो तर्रर जावन कोण तरी काळखांत वडवडलो.

बाबल्यान वातावरण पळयलें आनी तसोच दुडवांची गांठ मारून खांदार दवरिल्लो वालो घट धरीत दुसरेच वाटेन झिलींतल्यान वचपाचें ताणें थारायलें. फुडें पावतकच तो आडवाटेनच चलपाक लागलो. ताणें दुडवांची गांठ घट्ट आपल्या हातांत धरिल्ली. उणेच म्हळ्यार चारशें रुपया आसूंक जाय. बाबलो खूप खोशी जाल्लो. 'फाल्यां सावन पोरांक पेजेघोंटाक वळवळचें पडचें ना. बरें निस्तें बिस्तें हाडून फाल्यां दोनपारां जेवण करपाक लावपाचें. पिरूय बावडें पयलेच खेपे खोशी जातलें. ते भायर आयज सोऱ्याचो घोंट घेवंक

ना. मरणाक वचोनय सोरो हांयें घेतलो ना तो पळोवन पिरूक कितलो आनंद जातलो..

आनी हे तरेन बाबलो आपली कल्पनेंतली खोशी मनयता थंय आसा...

"राणग्याच्या, मरणावयले दुड्डू तूंच एकलो घेवन पळटा." अशीं उतरां बाबल्याच्या कानार सादलीं आनी सोमतीच ताच्या मुस्कटार कोण तरी मुठी मारता म्हणपाचें बाबल्याक कळ्ळें. काळखांत कांयच कळनासलें. कोण तो म्हणूनय बाबल्याक वळखूंक येनासलें. बोब मारतलो म्हळ्यार त्या रानावाटेर जितो मूस नासलो. बाबल्यान दुडवांची गांठ आशिल्लो तुवालो हातांत घेवन घट्ट धरलो. पूण दोग तीग जाणांनी बाबल्याक आड घालून भरपूर मस्तून मारलो. त्या आकांताच्या मारान बाबल्याची सुद्द गेली. बाबलो बऱ्याच वेळान जेन्ना साबुद्दीर आयलो तेन्ना ताणें तेच अवस्थेंत काळखांत हातांत घट्ट धरिल्लो तागेलो वालो थंय सांसपून पळयलो. पूण बाबल्याक हाताक मात कांयच गावलेंना.

त्या गुपाट काळखांतय बाबल्याक घर दिसलें, पिरू दिसलें आनी पिरूक वेंग मारून भुकेन आकांत करपी दोनूय भुरगीं दिसपाक लागलीं... आनी ताका एकदम याद जाली. मरणाची खबर घेवन येवपी सुर्याची. ताचे तकलेंत लख्ख उजवाड पडलो. असो असवडीं आपले पाळटेर कोण आसुंये तें बाबल्यान वळखिलें आनी दात ओंठ किल्लीत बाबलो सुर्याचे सोदीक वादळ कशें त्या काळखांतल्यान धांवत सुटलो. तेन्ना ताच्या पोटांत भूककांप जावंक लागिल्लो.



# द लॅफ्ट हजबंड

कोणाच्याय काळजांत सुवात मेळची तसो मडगांव शाराच्या काळजांत म्हाका एक रूम मेळ्ळो. म्हाका रूम जाय आसलो एकमुळें रावपाक. खरें सांगचेंच जाल्यार म्हाका आतां एकमुळें रावपाची संवयच जाल्या. केन्ना केन्नाय संवय नासतकच संवय करून घेवपा खातीर खूब कसरती करच्यो पडटात. आतां खूब तेंप जालो. म्हाका कसरत करची लागना. कारण इतल्या वर्सांनी संवयच जाल्या एकमुळेपणाची. घडये सटये रातीं म्हज्या कपलार सटी देवीन तशेंच बरयिल्लें जावंये. म्हज्या वांट्याक आयिल्लें एकलेपण सोपचें म्हणून फाटीं कोल्हापुराक गेल्लें आसतना कोल्हापूरचे देवी महालक्ष्मीकडेन सुद्दां मागून घेतलें, आंगवण केली, सांगणें केलें. नरसोबावाडीच्या गणपतीकय गाराणें घाल्लें हांवें मनांतल्या मनांत; पूण सगळे देव म्हजेर रागार कित्याक तें खबर ना. तरी पूण सगळ्यांत पावरफूल सटीच. ओगीच म्हणनात तें, सटये-रातीं बरयलां तेंच घडटा म्हण.

हे खेपे खोस इतलीच म्हळ्यार रूम सामको शाराच्या मदेकात मेळ्ळो. इन द हार्ट ऑफ द सिटी, काल जेन्ना ही खबर अमेधाक सांगली तेन्ना ताणें सुद्दां अजापान म्हळें, 'रिअली यू आर लकी!'

'लकी???' - म्हाका लकी हें उतर आयकून खूप हांसूक आयिल्लें. पूण अमेधाक हांवें म्हज्या हांशाचो खरो अर्थ सांगलो ना. रूम शारांत मेळ्ळा. आतां ऑफिसाक वचपाक वाहनाची गरज ना. बस्स... दोन मिनटां चलपाचें. आनी आतां चलपाचीय गरज आसा; हो म्हजो देह, अजापाचोच जालो. कोणें चिंतूं नाशिल्लें, एका तेपावयलो तायखिळो आशिल्लो ताचो आयज पिंपळापेड जायत म्हण. हां, पिंपळापेड! काय बरी उपमा न्हय!, कोणाय टुणटुण शेप बायलेक पिंपळा पेड ही ओपार कितली फिट्ट न्हय? फाल्यांच हे ओपारीचो वापर करून प्रक्टीकल करप. आमची कॅशियर फातिमा फुलगें रोमट कशें दिसता. वयर साकून सकयल सामकें पेरेलल, पन्नास बाय पन्नास, सारखो हिडंब. ताकाच म्हणप पिंपळा-पेड. पळोवया कोणाक समजता जाल्यार.

... शी बाये हांव हें कितें चिंततां? सामान लावपाचें आसा. टेंपोंतलें देंवयिल्लें सगळें सामान तश्शें पडून आसा. इतलें सामान लावचें तरी कशें?, हो फ्रीज, ही खाट, ही

आलमार, हो शेल्फ; इतलें सामान ओगीच हाडलें हांवें. जांव नाका तें इल्याशा रूमांत? मडगांवांत रूम, आनी तोय सामको शारांत, इन द हार्ट ऑफ द सिटी हे खोशयेंत विसरलेंच सगळें. हालीं हालीं अशेंच जाता, म्हजेंच अशें पिंपळा पेड जालां आनी हांव दुसऱ्याक केणूंक सोदतां. पाडा पडूं. म्हजें चित्तच तशें, दुसऱ्याचीं कर्मांवर्मां वयर काडटकच म्हाका खूब खूब सात्वीक समाधान जाता, हो म्हज्यांतलो मोट्टो दोश खंय. पूण बाबड्या फातिमाक पिंपळा पेड म्हणून ऑफिसांत एक नवो ज्योक तितलो जातलो. पूण फातीमान परत म्हाका गोडा धेंप म्हळ्यार पुरोना. आसूंच तें, हांवें म्हजें काम केल्यार पुरो. पयलीं इल्ले तरी सामान लावंया. कोणाचो तरी आधार जाय आसलो. हें, हें सगळें कोण उखलतलो? घर मालकिणीक आपयल्यार बरी? ती कोणूय मानाय तरी पळोवन दितली.

मानाय, एकलो मानाय, आनी ह्या रुमांत? आनी हांव ताचेवांगडा सामान लायतलें? आनी मेल्लो तसलोच आसलो बी जाल्यार? तांतूंत पिल्लो बी आसल्यार? शी! बेबद्यांची कल्पनाच करूं नज म्हज्यान. आनी हांव एकलेंच आसा तें पळोवन म्हजेर हात घाल्यार आनी म्हज्या गळ्यांतलें हें मंगळसूत्र बी तोडून व्हेल्यार? कोणाक सोदूंक धांवतलें? कोण आसा ह्या शारांत म्हजो आवाज आयकून धांवत येवपाक? कोणाक कितें घडलां ते लेगीत ह्या मोटारींच्या आवाजांत कळचें ना. नाकाच तो मानाय. इतलें जपून दवरिल्लें तें. उणेंच म्हळ्यार आयज पंधरा वीस हजार जावचे नात ताचे? तेन्ना केल्लें म्हणून फावलें. घरमालकीण आयल्यार तिकाच सांगपाचें हातभार लावपाक. मानायाचें लचांड नाकाच तें.

व्वा!, आयलीच पळय, थिंक ऑफ द डेवील अँड डेवील इज हिअर...

"कोहें आहा, हाडलें बिराड, कांय साणून योवंक ना मुगो?"

"ना आण्टी, सगळें हाडलें. सांडून येवपाक म्हजो संवसार तसो व्हडलो न्हय, दोग जाणांचोच, आतां भुरगीं बिरगीं आसलीं जाल्यार आसता न्हू तें सामान."

च्चे! आण्टीक हें आनी हांवें म्हणपाचें न्हय, तिका आनी बावडेक कित्याक सांग म्हजें दुख्ख? आतां तिचे फुडले वासपुशेक तोंड दिवचें पडटलेंच. शेकीं बायलूच न्हय ती म्हजे भशेन. धर्तरेवयल्योच न्हय, आकाश-पाताळांतल्यो सुद्दां गजाली जाय आमकां. आनी हांव अशें चित्ता थंय आसां, घरमालकीण आंटीन नव्या बिराडाकडेन उर्फ म्हजेकडेन डायलोग सुरू केलोच.

"भुरगें जावंक ना, कितें कोत्ता तोर तुजो घोव?" मनांत आयलें, सांगचें गावांवयलें शेण खाता म्हण. पूण नव्या बिराडाक आनी नाका तें म्हूण उतरां गिळ्ळीं आनी म्हळें, "घोवाचें काम चालू आसा, पूण म्हाकाच देफेत आसा." आनी हांवच हांवें कोमीक डायलॉग मारला ताचेर खूश जावन हांसलें. तितल्याक घरमालकीण गंभीर जावन आपूण कितें तरी व्हडलें सत्य जाणा ते प्रमाणे म्हणूं लागली.

"मीस वागोलें-"

"मिसेस-" हांवें बेगिबेगीन घरमालकिणीक करेक्ट करपाक तिणेंच म्हळें,

"ओं, दिश्कुल्प", पोर्तुगेज भाशेचो प्रभाव आशिल्ले घरमालकिणीन फुडें म्हळें,

"मिसेस वागोलें"

"वागोळें न्हय, वागळे, कुंदा वागळे..."

"वागोलें आनी वागलें पोव्कु दिफेरेंस. तुमचीं कोंकण्यांचीं आलकुऱ्यां तशींच आसात. तूं जाणांय, तूं हिंगा येवचे पोयलीं हिंगा ह्या रुमार कितलो लोक रावन गेल्यात तें!"

"म्हाका कशें कळटलें तें?" - हांवें ओगीच म्हळें.

"आयक, पयलो येयलो एकलो घांटी, तो हिंगा खंयतोरी मास्तोर आहलो. तेजें नांव पोतखाने. उप्रांत येयलो एकलो गोंयकार बेचलर, हिंगा खंय तरी शिर्वीस कोत्तालो. काणकोणचो गांवान. तेजें नांव कितें जाणां?"

- आनी रुमार कोण कोण रावन गेल्यात ताची जंत्रीच दितली हें चिन्न पळोवन हांवें आण्टीक मदींच ब्रेक लावपाचो प्रयत्न केलो; पूण ती वस्ताद, तिका जें कितें सांगपाक जाय आसलें तें ती सांगत सुटली."

"...तेजें नांव कानो, आल्कून गो. तशें तेजें पयलें नांव आशोक, पूण ताका आमी कानोच म्हुणटालीं."

आण्टीक हांगाय करेक्ट करून 'आण्टी, कानो न्हय काणो आसतलो तो' अशें म्हाका सांगन दिसलें. पूण प्रत्येक नांवाची ती वाट लायतली आनी हांव तिका कितलें करेक्ट करतलें? म्हाका वागोळें केलें तितलेंच पुरो म्हण हांव वोगीच रावलें. आण्टीन रुमार रावन गेल्ल्या सगळ्या बिराडकारांचीं नांवां सांगलीं आनी निमाणो एक लक्षवेधी संवाद मारलो.

"पूण जाणा जा, जितले म्हणोन म्हज्या बिराडार रावन गेल्यात, ते सोगले बोऱ्याक पावल्यात. सोगले सुखान आसात आयज. ते कान्यान बंगलो बांदला रावोनफोनार, त्या शेतयान कोंबांत फ्लेट घेतला आनी तो मास्तोर न्हू, पयलोच येयलो तो, तेणे तोर आंबाजी जागो घेवन व्होडलें घोर वांदलां. कोणांचेंच वायट म्हणोन जावंना. आतां तूं येयलें, तुगेर चोय भुरगें ना मुगो, पोय आतां जातलें तें, सायबा भोगोस! झेजून बेसांव घालू तुजेर!" अशें म्हणत आण्टी गंभीर जाली, खीणभर मोनी शी जाली आनी आण्टीन वयर वणटीर पळयलें,

"उगडास जालो, पोय हां जेझूचो कॅलेंडर काडिनाका आं, आसूं हिंगाच, तुमगेलो कोंकण्यां देव लाय तूं जाय तितलो, पूण वणटीवोयलो हो जेझू मात हालोय नाका, पोय तुका भुरगें जालेबोगोर रावचें ना."

आण्टीचीं हीं उतरां आयकून खीणभर म्हाका हांसूंक आयलें. जेझूक वणटीर दवरल्यार

म्हाका भुरगें जातलें, म्हणजे वणटीवयलें जेझूचें कॅलेंडर - आसूं, तिच्यो भावना कित्याक दुखय? ती सांगता तितलेंय मोन्यांनी आयकुपाची तयारी करून हांव आण्टीलो शेर्माव आयकत रावलें.

"पूण राव गो, हांव सगळें म्हणटां, जेझू दितलो खरो. पूण आमी मोनश्यांनीय हातपाय हालोवंक जाये न्हू? भुरगीं कितें हॉलीस्प्रीट येवन जाता? घोव येतलो मगो तुजो राती कोडे?"

"मागीर, हांव एकटें रावतलें समजल्या?" आनी चटकरून म्हजी चूक लक्षांत येवन हांवें जीब चाबली. बिराड मागपाक आयिल्लें तेन्ना हांवें म्हजो घोव दुबय आसता म्हण सांगिल्लें, ती हिका याद ना शी दिसता. आसूंच तें, ताजी आनी हिका याद करून दिवप ना. खरें म्हळ्यार ही कटकट केन्ना काय थंयची गेल्यार पुरो जाल्लें म्हाका. पूण -

"आनी पोय, लायटीचें बील आनी उदकाचें बील रेगुलर भरपाचें" आण्टीक बेगिबेगीन आपलो वेव्हार याद जालो. घडये ती हेंच सांगूक आयिल्ली जावंक जाय. हांवें आनी वेळ काडलो ना. हांवें म्हळें, "आण्टी ते पासत तूं कांयच भिवपाची गरज ना."

थँक गॉड, आँटीन आपलो डायलॉग घोवावयल्यान लायटीच्या बिलार हाडलो म्हण! ना जाल्यार तिका सगळें पुराण कोण सांगतलो आसलो. घोव कितें करता. कितलो पाग घेता, कसो दिसता, माती आनी गोबोर. त्या घोवाची आनी हिचेकडेन वळख पाळख नाका आनी ताची आनी हिची केन्ना आमने सामने भेट जायना जाल्यार पुरो अशें मनांतल्या मनांत म्हणत हांवें आण्टीक म्हळें,

"बरें तर आण्टी, हांव करतां म्हजें काम, मात्शें सामान लायतां हें."

"एकटेंच लायतोलें? कोणाकय आपय गो, मानाय धाडूं? जायते घांटी आसात भायल्या फुटपाथार."

"नाका आण्टी, कोण नाका मानाय बी, विस्वास ना तांचो."

"तेंयी खरें गो. दिसाचे पळोवन घेतात आनी रातीकोडे फ्लॅट फोडटात, पोयर त्या काकोद्यालो फ्लॅट फोडून भांगर व्होयलें ना?"

"काकोड्यालो फ्लॅट फोडिल्लो तो जाणां हांव, वाचिल्लें हांवें पेपरांत-" हांवे वयलेचाराक म्हळें,

"आनी यें पोय, नोळ बी बोंद कोरून वोच, आं. लायटी बियटी रातभर चालू दवरूं नाका."

"आण्टी, बील हांव फारीक करतलें-" आतां मात म्हाका घरमालकिणीचो रागच आयिल्लो. पूण ती वस्ताद. तिणें म्हजे पयलीं जायतीं बिराडां पळयिल्लीं म्हणटात तें सिध्द जातालें.

"हय गो, तूं फारीक करतलें म्हुणोनूच सांगतां न्हू तुका, वोगीच भाड्याक जड नाका, तुज्या बोऱ्याक सांगला हांयें."

"थँक्यू आण्टी" - आतां चल एकदांची अशें तोंडांत आयिल्लें पूण सांबाळून घेतलें.

"आं, हें पोय, वयता हांव, तुजो घोरकार केन्ना येतलो, हे शेनवारा न्हू? येतोच तेका म्हाका मेळोंक सांग आं."

खीणभर हांव घुस्पलें, हिका कितें सांगचें आतां? एकदां सांगिल्लें तें ती विसरली म्हण जावं. ही म्हाका हांगा अशी सतायतली शी दिसता. हें मडगांव शारांतलें बिराड म्हाका बऱ्याक पडपाचें ना शें दिसता. पयलीं आसलें थंय बरें आसलें. कडेक शें, कोणाची कटकट नासली, कोण आयला कोण गेला कोणाक पडून वचूं नासलें. हे फुडें ही पनवत अशीच हांगा सद्दां पिडापीड करतली शी दितसा. पूण आतां दुसरें बिराड तरी खंय सोदतलें? ते भायर हिणें पयलींच धा हजार पागडी घेवन दवरल्या. शारांत बिराड मेळ्ळें म्हण भुल्लुसून हावेंय बी फाटींफुडें चिती नासतना पर्स उगडिल्ली.

"आगो, आयकलां मुगो, घोरकाराक एकदां मेळोय म्हाका."

घरकाराक हिका मेळय? हूं... बरी आसा ही... कोंबी...! हांवें जीब चाबली आनी आण्टीच्या तोंडाकडेन पळयलें ती म्हजे जापेक आं करून रावताली. हांवें वेळ काडी नासतना म्हळें, "बरें, येतकच मुद्दाम येता हांव ताका घेवन तुमगेर."

"घोटमूट आहा मुगो बोरो? घोरकार गो तुजो? आसूंकच फावो. तोहें तूं पोवोंक भुरगें दिसता. तीस आनी पांच जालीं न्हू तुका?"

आतां मात आण्टीचो म्हाका खरोच राग आयिल्लो. ही करतां, करतां म्हजे पिरायेचेर घसरली. फुडें आनी कितें विचारतली काय?

"आण्टी, आमी मिगे हें सगळें मागीर एक दीस उलोवचें, हांव सगळें सांगतां तुका. पूण आतां हें सगळें सामान जाग्यार दवरतां. वोगोत जाल्यार मागीर काळोख जातलो." हांवें आण्टीक धांवडावंक म्हण म्हळें.

"म्हजें बरें आसा, लाय... म्हाकाय म्हणोन शितींदूच ना, वयता हांव, आनी पोय, दोंत फोरगेत तू इंत्रूदूस युवर हसबंद" - पुर्तुगेज उतरां चाटे-पावलाक तोंडार घोळोवपी आण्टीन आपणांक इंग्लीशीय येता हें दाखोवपाक हो निमाणो डायलॉग मारलो आनी थंयच्यान कडसरली. जावं, गेली एकदांची पिडा. वरभर खालें, म्हजें सामान तशेंच उल्लें. आण्टीचीं निमाणीं उतरा मात त्या रुमांत परत घुमपाक लागलीं. 'डोंट फॉरगेट टू इण्ट्रोड्यूस युवर हजबंड.'

हूं हजबंड... म्हजो घोव... ताका आनी हांगा परतो हिचेकडेः वळख करून दिवपाक आपोवपाचो? जाका सोडला ताका परतो फक्त घरमालकिणीकडेन वळख करून दिवपाक

आपोवपाचो? गेलो तेल लायत घोव बीव! पूण हांवें तिका फट सांगपाचें न्हय. सगळो फॅक्ट सांगिल्लो जाल्यार तिवूय परत म्हणची नासली तशें. ‘भुरगें जावंक जाय, जातलें. जेझुचें बेसांव, आपल्या बिराडार रावन गेल्यात तितल्याचेय बरें जालां, तुजेंय जातलें.’ आण्टीक हांवें सांगपाचें, सत तेंच सांगपाचे धाडस करून म्हणपाचें, आण्टी, आय हेव लॅफ्ट माय हजबंड अँड आय यम लिवींग अलोन. पूण सिंगल रावता म्हळ्यार घडये ती बिराड दिवची नासली. आनी मडगांवांत असलें बिराड मेळपाक नशीब जाय. शे - हांवें बंडल मारलें तें बरें केलें; पूण आतां हिका खंयचो हजबंड दाखोवपाचो? दुबय आसता तें सांगिल्लें बरें आसलें. चुकलेंच म्हजें... चुकलेंच म्हजें.

म्हाका अशें उमाळून शें कित्याक आयलें? ताचे यादीन? तो ना म्हण, इतलें घट मन करून आयिल्लें हांव हांगा, अशें मेण कशें कडपाक न्हय... ना... ना. हांवें ताका सोडलो, सासणाचो... तो मनांतल्यान गेलो काय म्हज्या? वतलो काय? कित्याक वचना? आनी तातूंत ह्या नव्या बिराडार ही घरमालकीण म्हज्या घायाचे नकळटना खवळे काडूंक लागल्या. पूण तिका कांयच खबर नासतना, ती तरी बावडी घायो जाला म्हाका आनी म्हज्या घायाक मलम लावंक जाय अशें कशी म्हणटली? तिका हांवें सत सांगलें ना म्हणून हो घावो उसवलो. आवय्यस् म्हजे! पळे हो घाय कितलो ताजो आसा आनी हांव पिशें घाय पेकला म्हण खोशी मनयतालें. मोठ्या धाडसान ताचो सांगात सोडून आयलें हांव हांगा, स्वतंत्र रावतलें म्हण. नाका म्हाका घोव, नाका म्हाका भुरगें, हांव एकटें जियेतलें. एकटें मरतलें. हय एकटें मरतलें हें सत्य आनी तें शाश्वत. पूण एकटें जियेतलें म्हणटा तें कितपत सत्य व्हय?

हांवें हरशीं ताका कित्याक पयस केलो, कोणाचे सांगणेन? ऑफिसांतल्या त्या मैत्रिणीचे सांगणेन? स्वतंत्र विचारांच्या बायलांनी दादल्यांच्या गुलामपणांतल्यान मुक्त जावंक जाय अशें भाशण करपी त्या मेधा भशेन? आयज हांव हांगा ह्या बिराडार एकटें एकसुरें म्हजें बिराड घेवन आयलां. कोण आयला म्हज्या आधाराक? ऑफिसांत सदां म्हज्या टिफिनांतलें काडून हक्कान खावपी कामानी, लग्नाक वता म्हणून म्हजो नेक्लेश मागपी मारीया, कांय म्हज्यो बऱ्यो बऱ्यो साडयो न्हेसूंक व्हरपी मुक्ता म्हाका आधाराक पावलां?

घोव त्रास दिता? सोड ताका, दी डायवर्स, राव स्वतंत्र, जोडटा तूं, कोणाचेर अवलंबून ना, आयची बायल ही स्वतंत्र बायल! आवयस म्हजे! केदो प्रभाव घालो ते समाजसेविकेन म्हजेर त्या दिसा? घोवाक सोड सांगपी ही समाज सेविका मात आवय बापायन जल्मांतच बरें बारशें करून दबाज्यान दवरिलें काय बरें आपलें नांव आनी आडनांव सगळें कुशीक मारून नवें नांव घेता, घोवाचें आडनांव लायता, घोवाच्या नांवान

मंगळसुत्राचे बांदलें घालता आनी स्वतंत्र जावपाक म्हज्या सारक्यांक बायलांमेळानी येवन आमकां शिकयता. वारे समाजसेविका! बायलांचे प्रॉब्लेम मांडपी मिसेस मेघना प्रभाकर नायक! आवय बापायलें नांव सोडून नव्या नांवांतलें गुलामपण घेवपाक सांगप हो खरोच मॉर्डन विचार?

एक एक याद येता म्हाका. आयज हांव घोवाक सोडून हांगा आयलां. गळ्यांत हें मंगळसूत्र आसा, आनी तें शेवटून मारपाचो धीर म्हाका जायना; मागीर बावडे ते आण्टीक हांव दोश कित्याक दिवं? तिणें सांगलें, घोव आसा, वळख करून दी. भुरगें जावंना? घोव आसा म्हण्टकच जातलें भुरगें, घालतलो तिचो जेझू बेसांव... ती... तीच सारखी... तीच सारखी.

घाय इतलो ताज्जो आसतना हांवें तरी कशें करचें हें धाडस? ते मैत्रिणीचे सांगणेन? आयज कोण आसा म्हज्या म्हऱ्यांत? कितेंय जावं, कसोय जावं, सोरो पिवन जायना, तो दुसऱ्यागेर दुसऱ्यालें दार धाडाय नासलो मूं? म्हज्याच दारार येवन मारतालो न्हय रातीचो मध्यान रातीर? म्हजेर हात घालतालो; पितकच म्हाका बडयतालो; पूण बरो आसतकच कितलो मोग करतालो म्हजो! भुरगें जालें ना हो दोगांचोय दोश. ताचोच कित्याक? म्हजोच आसूं ये, हांवें खंय घेतलो ताका जाय तसो म्हज्या आंगार? हांवें खंय दिली ताका साथ? हांव ताच्या दुर्गुणाचेच पाडे सद्दां वाचीत बसलें. ताचीं वर्मां, ताचीं लग्ना पयलींची सगळीं लफडीं-भानगडींचोच हिशेब हांवें सद्दां मांडलो. हाचे ताचे वयल्यान हांवें ताका पिडापीड दिली. कोण कोण कितें कितें येवन कानांत फुंकतालो. हांव पाड पडिल्लें पोकळ कानांचें, हांवें सगळें सत मानलें आनी एक दीस ही आयली बायलांचो उद्धार करपी! 'घोव बेबदो, सोड ताका'. 'सुधार ताका, बरो कर ताका, उपाय कर; आल्कोलीक बरे जातात...' अशें एकलेय इश्टणीन न्हय, एकलेय समाजसेविकेन सांगलें ना, आनी ताचें ते भाशणबाजीचो हो, हो हांव असो एक बळी!!! खऱ्यांनीच ह्या खिणां तो हांगा येवचो, खंयच्यान आसा थंयच्यान तो येवचो अशें म्हाका आयज दिसपाक लागलें. पयलेच खेप दिसपाक लागलें.

बरोच वेळ जालो, रुमार सामान लावपाक मनूच येना म्हाका, कशें लावं हें सामान? बिराड घेवन थंयचें हांगा आयलें, पूण थंयचें मन हांगा आयलें ना, त्या मनांतलो म्हजो घोव केशव पयस जालो ना, बिराडां बदलून मनां बदलनात, परिस्थिती बदलना, मानसिकता बदलना. वातावरण बदलता आसत. हें अशें रूमांत पडिल्लें म्हजें सामान अस्तावेस्त हांगा पडलां, तें लायतलो म्हळ्यार कोण ना. आनी हांव स्वतंत्र बायलमनीस, जिका हांगा थंय अस्तावेस्त पडिल्या सामानाची मांडणी करूंक कळना, ती स्वावलंबी बायल! सय मारून म्हयन्याचो पगार घेवपा इतली सोपी गजाल दिशिल्ली ही म्हाका. पर्सभर दुडू आसात. मानायांक फारीक करून सामान लावन घेवपाची तांक आसा; पूण मानाय नाका, तातूंत ते

आण्टीन आयज पयल्याच दिसा येवन घाय उसयलो आनी जखम खोल केली म्हज्या मनार. ताजो उगडास करून...

कोणें तरी बायलेक वाल म्हळ्या. आनी वाल जमनीर सरपटत वचूंक शकना, तिका वयर चडपाक कोणाचो तरी, कसलो तरी आधार जाय आसता- एका रुखाचो, एका म्हारुखाचो. आमोरेर हो दिश्टावो भिडून गेल्ल्याचो म्हाका भास जालो... हें एकलेंपण म्हज्यान सोसूंक जावचें ना...

"आगो, आगो मिसेस वागोले... वागोले, पोय पोय, हो दादुलो तुका मेवोंक येयला" - आण्टी परती आयली शी दिसता. हांवें भानार येत फुडें पळयलें, कोण दादलो म्हाका मेळपाक आयला तें पळोवपाक वयर नदर काडली आनी...

"कोण गो हो?" - आबुजाद आण्टीन प्रस्न केलोच.

खीणभर दिसलें, ताका व्हाशिमोराद दिवची, धांवडावचो ताका, गेट आवट म्हणचें, आय हेट यू म्हणचें... पूण हे खेपे... हांव तशें कांय एक करूंक शकलें ना. म्हज्या भोंवतणच्या वादळांत घट पांय रोमून धर्तरेर आशिल्लो तो हे वालीचो रूख कसो... केशव म्हजो केशव... बऱ्याच वेळान भानार येत हांवें म्हळें,

"आण्टी, आय इण्ट्रोड्यूस टू यू, माय हज... मिस्टर वागळे."

"वॉटऽऽऽ..." आनी अजापान आँटीन फुडें म्हळें,

"मिस्टर वागोले??"

"हय आण्टी... म्हजो घरकार मिस्टर वागळे... केशव... केशव वागळे!!!"

आण्टीन वण्टीवयल्या जेझूच्या कॅलेण्डराक पळयत म्हळें,

"जेझू...सायबा भोगोस!" आण्टीन हड्ड्यार खुर्साची कुरू केली आनी म्हाका पळयत आनी केशवाक पळयत एक लांब सुस्कारो सोडलो.



# राजयोगी

सुर्याचीं भांगरा किर्णां ज्यूस्त ताच्या पुराय मुखामळार शिवरलेलीं तीं पळोवन कोणें तरी भांगरा लेप ताका लायला काय कितें अशें दिसतालें. शिरपट्यांतलें कमल जेन्ना मठांत भितर सरलें तेन्ना ताका अजापच जाल्लें. मठांत भितर सरून तें चलत, चलत सामकें गायत्रीच्या देवळासामखार पाविल्लें.

"अशें यो, हे वाटेन." कमलाचे आवयन कमलाचो हात ओडीत ताका म्हळें.

"हांगा नमस्कार कर." परत कमलाक आवयन म्हळें.

आवयक पळयत कमलान विचारलें, "आई, बाबा खंय बसता गे?"

"बाबा दाखयतां, चल" अशें म्हणत आवयन कमलाक भितर, भितर व्हेलें. भितर चौकार गायत्रीच्या देवळांत कितलेशेच लोक बशिल्ले. लोकांमदीं जायत्यो सवायशिणी, आंकवार चलयो आनी तांचेमदीं विधवा बायलो, कांय तरणांटीं तर कांय जाणा मदले पिरायेचींय बायलां बशिल्लीं. तांच्या मदल्यान कमल आनी कमलाची आवय चौकावयल्यान चलत फुडें गेलीं. फुडें एक शिंवासन आसलें. शिंवासनार तरणो बांड बाबा असनस्थ जाल्लो आनी ताच्या तोंडार सुर्याचीं भांगरा किर्णां पडिल्लीं. तशी मांडावळ देवळाच्या पाख्यांतल्यानच खासा केल्ली. देवळाच्या पाख्यांक एक हारसो आसलो; त्या हळदुव्या हारशांतल्यान मळबांतल्यान येवपी किर्णां चक्क भांगराचीच किर्णां कशीं दिसतालीं आनी तीं किर्णां इतलीं चकचकीत आनी दाट आशिल्लीं कीं बाबाचें मुखामळ प्रत्यक्ष भांगरा लेपानच रंगयलां कशें दिसतालें.

कमलाचे दोळे बाबाचें तोंड पळोवन लिकलिकले. खीणभर ताचो ताचेर विस्वासूच बसना जालो, असो मनीस आसूं येता, भांगराच्या रंगाचो? भांगराच्यो मुर्ती आनी मुर्तींचीं रूपडीं भांगराचीं आसूं येतात. जायत्यां पाशाणाच्या देवा मुर्तींक भांगराचीं रूपडीं घाल्यांत ती कमलान जायत्या देवळांनी पळयिल्लीं. पूण हो तर खुद्द मनीस भांगरा-रुपड्याचो. पंचलवीचो सुद्दां न्हय, सामको खऱ्या भांगराचो.

कमलान आवयक पळयलें. आवयन सरळ वचून बाबाच्या पांयांर मस्तक तेकयलें आनी पावलांक हात लावन, बाबाच्या पावलांची धूळ आपल्या भांगांत लायली आनी परत

पोले फोडून बाबाक नमस्कार केलो. ब्राबान कमलाचे आवयक ताटांतलीं दोन केळीं आनी फुलां प्रसाद म्हणून भेटयलीं आनी म्हळें, "कल्याण जांव."

"चल गो, अशें यो, बाबाचे पांय धर आनी पायां पड" अशें ल्हवूच कमलाच्या कानांत आवयन म्हळें. कमलान तितलेच तत्परतेन फुडें सरून आवयन केल्लें तश्शें करपाचो प्रयत्न केलो. ताणें बाबाच्या दोळ्यांक नदर दिली. बाबानय कमलाक पळयलें आनी तो मधूर हांसलो. बाबा हांसलो तो पळोवन कमलाक खूब बरें दिसलें आनी आपले धुवेक बाबा हांसलो तो पळोवन कमलाची आवय धन्य धन्य जाली. तिणेंय बी बाबाक परत एकदां नमस्कार केलो. कमलान बाबाचे चरण धल्ले. ताणें बाबाची कणगी कशीं बोटां आपल्या हातांनी सांसपिलीं. बाबा सगळोच नखशिखांत शिरशिरलो. पूण ही बाबाची आवतिकाय कोणाचेच नदरेंत भरली ना. कमलाक मात बाबाचे पांय थरथरले कशे दिसले. पूण ताचेकडेन लक्ष दी नासतना बाबान पडगेंतलें मोटेंशें सफरचंद काडलें आनी कमलाच्या हातांत दिवपाक आपले हात फुडें केले. कमलान मोटे भक्तीन आपल्या दोनूय तळटाचे पोशे केले आनी पोशांचो दोण कसो खोल खोल आकार करून बाबाच्या हातांतलें सफरचंद आपल्या तळटांनी घेतलें. बाबाच्या हाताचीं बोटां परत ताच्या पोशाक स्पर्शलीं आनी आतां हे खेपे कमलाच्या आंगपांगाक कंप भरिल्ल्याचो भास बाबाक जालो. बाबान लखख नदरेन कमलाक पळयलें.

गोरेंपिट्ट कमल, गोलगोल रुपाचें. कपलार तिकली, काळेकाळे लांब केंस, केंसांनी खोयिल्ली मोगऱ्याची आटी. गाल आपसूक बाबान दिल्ल्या सफरचंदाभशेन तांबसाणेन भरिल्लो. आंगभर तांबडी साडी, साडयेर तसलोच तांबडो तांबडो पोलको. पोलको कमलाच्या आंगाक खूप तायट बसला कसो दिसतालो. कमराच्यो पोवट्योय तश्योच भायर फुट्टात कश्यो दिसताल्यो. कमलाचें तें भर जुवान रूप पळोवन बाबाचें चित्त पयलेच खेपे चलबिचल जालें. पूण बाबान कमलाक पळोवन जाल्ली आपणाली अवस्था कोणाचे नदरेक वचचे पयलींच थातारली आनी मनाचो संयम राखपाक दोळे बंद केले. तेच अवस्थेंत कमलाक आशिर्वाद दिवपाक हात वयर केलो आनी म्हळें, "सौभाग्यवती भव!"

कमलाचे आवयक बाबाचो आशिर्वाद आयकून अजाप दिसलें. तिका बाबाक चटकन परतें सांगन दिसलें, 'बाबा कमलाचें लग्न जावंक ना आजून' पूण तिका धीर जालोना. बाबाचो आशिर्वाद तो. भक्तांनी तो फक्त स्वीकारपाचो आसता, बाबान कमलाक सौभाग्यवती म्हळां तें कारण बाबाच जाणा जातलो. बाबाच्या त्या आशिर्वादान कमलय खीणभर गोंदळांत पडलें. बाबाक हांव सौभाग्यवती अशें कित्याक दिसलें काय? गळ्यांत तर एक सरपळी तितली आसा, हेर चलयांभशेन गळो भांगरांनी भरुंना. कमलाक कितें करचें तेंच समजलें ना. ताणें आवयकडेन पळयलें, आवयन बाबा सामकारच्यान वचपाचें सुचयलें

आनी परत एकदां तिणें बाबाक नमस्कार केलो. कमलानय बाबाक परत नमस्कार केलो आनी तीं सभेंतल्यान भायर आयलीं.

बाबांच्या पांयांकडेन ठाण मारून आसन मांडयेन बशिल्ले बाबाचें भक्त हे आगळे-वेगळे भक्तांचे भेटेन हय-न्हयशे अचंबीत जाले. पूण बाबाचेर आशिल्ले असीम भक्तीन आनी विस्वासान ते इल्लेय अशें तशें वांकडें चिंतपाक गेले नात.

बाबाची पाद्यपूजा चालूच आसली. मोटेमोटे लोक बाबाच्या दर्शनाक येताले. मंत्री, सरकारी अधिकारी, आमदार, खासदार सगळे येवन बाबाच्या पांयार मोटे श्रध्देन आनी भक्तीन घालून घेताले. कोण धनीक बाबाचे कृपेन आपणाक सुखाचे दीस आयले अशें दुसऱ्याक सांगतालो तर दुसरो मागीर ताका म्हणटालो बाबाच्या आशिर्वादान ताजे घरकान्नीचें कोणाकच सांपडनाशिल्लें अशें गुपीत दुयेंस पयस जालें. बाबान दिल्ली बिभूत तिर्थांत घोळोवन घेनाफुडें घरकान्नीक गूण पडलो. बाबाचे अनेक चमत्कार भक्त एकामेकांक सांगून बाबाचे दिव्यतेचें आनी दैवी शक्तीचें गुणगान गायताले. कोण म्हणून विचारूं नाका, बाबाचे भक्त बुद्दीवंतापासून बोंड्यामेरेन सगळेकडे पसरिल्ले. बाबाचे कृपेन कोणाचीं लग्नां थारतालीं. बाबाचे कृपेन कोणाचें दैव फळटालें तर बाबाचे कृपेन कोणाक भुरगीं जातालीं. आनी चड करून पूतच जाताले. घराचो दिवो नाशिल्ल्याक बाबा घराचो दिवो दितालो.

तरणे पिरायेरच अश्यो चमत्कारीक सिध्दी प्राप्त जाल्ल्या बाबान एकदां तर कमालच केली. एका भक्तान बाबाची सत्वपरिक्षा घेवपाक एके बाटलेंत सोरो भरलो आनी बाबाचे भेटेक गेल्लेकडेन ती बाटली व्हरून मठांत जंय बाबाच्यो पादुको लोक दर्शनाक दवरिल्ल्यो थंयच कुशीक व्हरून दवरली. कोणाक खबर नासलें, जंय पादुको दवरल्यात, त्याच कुडांत सोऱ्याची बाटली आसा म्हण.

बाबाच्या मठांतले शिश्यगण सद्दां सकाळीं पादुकागृह धुवन पुसून सामकें साफ करताले आनी थंय ताज्जीं फुलां, गंध आनी उजवाती दवरून ती सुवात प्रसन्न करताले. आयज सकाळीं सकाळीं एक शिश्य जेन्ना पादुकागृहांत साफसफाय करपाक आयलो, तेन्ना ताका थंय कडेकशी एक बाटली आसा म्हणपाचें लक्षांत आयलें. ताणें बाटली उखलून हातांत घेतली आनी गुड्डी काडली. गुड्डी काडल्यार कितें? एकदम काजू फेणयेचो वास. शी शी...! हें कोणाचें कर्म? बाबाच्या मठांत, पादुकागृहांत सोरो कोणें हाडलो? बावडो शिश्य गडबडलो, भियेलो. ताचे पांय थरथरूंक लागले. पादुकागृह भश्टलें, अपवित्र जालें शें ताका दिसलें. पूण बाटलेची वाच्चता करूंक फावनासली. गजाल बाबांच्या कानार पावंक फावनासली. ती बाटली हळूच व्हरून खंय तरी उडोवंक जाय आसली. पूण थंयच्यान व्हरतलो तरी कशी. पादुकांचे दर्शन निकतेंच सुरू जाल्लें, लोक पादुकागृहांत येवंक लागिल्ले. शिश्यान ही खबर बाबाचो भक्तगण खासगी सचीव श्री. राघवेंद्र हांच्या कानार

घालून ती बाटली कशी नश्ट करची तें विचारचें अशें चिंतून तो शिश्य थंयच्यान हळूच कडसरलो.

शिश्यांच्या हालचालींचेर मठांतले सगळे चमत्कार करपी अंतुलो नदर दवरून आसलो. अंतुल्यान वेळ काडी नासतना ती सोऱ्याची बाटली काडून तसलेच तरेची एक दुसरीच बाटली थंय व्हरून दवरली. तें कोणाच्याय लक्षांत आयलें ना. पादुकादर्शन घेवंक इल्ली इल्ली गर्दी वाडत आशिल्ली. सोऱ्याचे बाटलेची खबर कळना बराबर सचिवान ती बाटली घेवन येवपाक सांगिल्ली. घेवन येवचे पयलीं परत एकदां बाटलेची गुड्डी काडून बाटलेंत सोरोच आसा म्हणपाची खात्री करून घेवपाक सचिवान त्या बाबड्या अबरगत शिश्याक सुचयिल्लें. ते प्रमाणें शिश्य पादुकागृहांत आयलो, कोण पळेनात हाची खात्री करून ते बाटलेची गुड्डी उक्ती केली आनी शिश्य अजापीत जावन म्हणूंक लागलो, "उदक? उदक? सोऱ्याचे बाटलेंत सोरो आशिल्लो ताजें उदक जालें!" आनी ताच्यान हो घूट मोन्यानी समजून घेवंक जालो ना, ताणें अजापान म्हळें, "चमत्कार चमत्कार." शिश्याचीं उतरां आयकून पादुकादर्शन घेवंक आयिल्ले सगळे बाबा भक्त एकठांय जाले. शिश्यान सगळी खबर लोकांक सांगली.

कितें जालें, कितें जालें अशें विचारीत मठांतले सगळे भक्तगण लोक मठांत आयिल्लो भायलो लोक भरभर करून पादुकागृहाभोंवतीं जमलो, सगळ्यांक सोऱ्याचें उदक कशें जालें हाचेर म्हायती जाली आनी कोणें तरी सुचयलें, ही खबर बाबाच्या शयनगृहात वचून बाबाच्या कानार घालची. इतल्यांत अंतुलो शिश्य फुडें आयलो आनी ताणें लोकांक लेखून म्हळें, "आयकात, म्हणात, "परमपूज्य श्री देविकानंदेश्वर कासरगांव महाराज की जय". लाकांनी बाबाच्या नांवाचो जयघोश केलो. आनी अंतुल्यान लोकांक म्हळें, "ही खबर बाबाक सांगपाची कांय एक गरज ना. बाबाचीच करणी ती, बाबांचो चमत्कार तो. मठाचें नांव इबाडूंक कोणें तरी व्यसनमुक्तीच्या दुस्मानांनी बाबाक आनी कासरगांव मठाक बदनाम करपाक हें कारस्थान केल्लें जावंक जाय, पूण हांगा बाबाचे कृपेन ह्या मठांत असलें कांय चलना. हांगा सोरोच न्हय वीख सुद्दां कोणेंय जेवणांत घालें जाल्यार ताचें अमृत जातलें अमृत. सोऱ्याचें उदक बावानूच केलां, बाबांचो हो चमत्कार. म्हणात परमपूज्य श्री देविकानंदेश्वर कासरगांव महाराज की जय.' बाबाच्या जयघोशान सगळो कासरगांव दुमदुमलो.

इतलो वेळ गर्देंत सगळें पळोवपाक आयिल्ली कमलाची आवय आनी कमल बाबाच्या ह्या चमत्कारान सामकीं पिशीं जालीं. "कमल, बाबाची केदी ही महिमा गो!" अशें म्हणत कमलाची आवय परत एकदां दोळे धांपून अंतर्मुख जाली. कमलान आवयक हाताक धरून सावळेक हाडली. कमलान म्हळें, "दनपारचो निवेद्य जावनच आमी या, कशेंय जावं, बाबाचें दर्शन घडलें, बाबाचो आशिर्वाद मेळ्ळो."

दनपरां मठांतल्या भव्य माटवांत समरादना जाली. पंक्तीभेद मोडून सगळे अनुयायी मांडयेक मांडी तेंकोवन जेवणाक बसले. कमल आनी कमलाची आवय एका खांब्याक तेकून बशिल्लीं. निवेद्याक बाबांनी उदक सोडलेबगर कोणेंच पान उश्टावचें न्हय अशी एका शिश्यान व्हडल्यान घोशणा केली. आनी वेळ काडिनासतना परमपूज्य बाबा पंगत वाडिल्ली थंय मंदमंद पावलां मारीत आयलो. बाबाच्या सांगातान दोन शिश्यय बाबाचो जयजयकार करपाक बाबाच्या सांगताक चलत आशिल्ले.

"कल्याण भव, कल्याण भव" म्हणत बाबा, कमल आनी ताची आवय बशिल्ली थंय पावलो. बाबान कमलाक पळोवन हाताचीं तळटां सोर्पाच्या फोडांच्या आकाराचींशीं केलीं आनी "सौभाग्य भव" म्हणत शिश्यांक म्हळें, "ह्या भक्ताक मठांत वास्तव्य जाय. निरोप दी". आनी बाबा फुडें गेलो. बाबा फुडें पावतकच एक शिश्य कमलाचे आवयसरीं आयलो आनी म्हणूंक लागलो. बाबांची खास मर्जी तुमचेर पडल्या. बाबाक तुमी जेवणाउप्रांत तांच्या शयनगृहांत भेटपाक जाय. इतलें सांगून शिश्य आनी आनी थंय रावलो ना. कमलान शिश्याचीं उतरां बेसबरीं आयकलीं. ताका अजाप शें जालें, ताच्या मनांतले कंप वाडपाक लागले, तरी पूण स्वताचेर पुराय ताबो दवरून कमल आवयच्या सांगताक जेवलें.

सगळे लोक जेवन उठले. पंगती सोंपिल्ल्यो. माटवांत उश्टें काडपाचो वावर मठानुयायीच करताले. गर्देंतल्यान वाट काडीत कमल आनी ताची आवय बाबाच्या शयनगृहाची वाट चलपाक लागलीं.

"बाबान आमकां कित्याक आपल्यांत आसतलीं गे आई?" कमलान ओगीच आवयक विचारलें; खरें म्हळ्यार कमल खूब खूश आसलें. बाबाची भेट खासा ताच्या शयनगृहांत जाता हातूंतच तांचें खोशेलेंपण आसलें.

बाबा खंय कोणाकच भेटपाक शयनगृहांत केन्ना आपयना. "कोण जाणा, बाबाच्या मनांत कितें आसा तें?" कमलाचे आवयन म्हळें आनी फुडें पळयत चलपाक लागली.

मठाच्या आवारांत पयलेंच पादुका आसले, उप्रांत सभामंडप, उप्रांत अगरसाळ आनी अगरशाळेचे मदीं देवूळ. देवूळ - ल्हानशेंच पूण खूब सोबीत दिसतालें, आनी देवळा पासून सुमार दोनशे मिटरांचेर बाबाचो मठ आनी मठांत फाटले वटेन बाबाचें भव्य अशें सजयिल्लें शयनगृह. थंय सगळे तरेच्यो आधुनीक सुखसोयी आसल्यो. फोन, इंण्टरकॉम, मठांतल्या लोकांचेर नजर दवरपाक एक क्लोज सर्कीट टी.वी. तांचें सगळ्यांचें जाळें विणिल्लें. मठांतले शिश्य दोळ्यांक गोगलां लावन भोंवताले. कोण शिश्य कोणाक पळयता तें कळपाक मार्ग नासलो.

चलत चलत कमल आनी कमलाची आवय मठांतल्या बाबाच्या मुख्य निवासस्थानाकडेन पावलीं तशी तांकां दोन शिश्यांनी फुडें सरून मार्गदर्शन केलें आनी तांच्या फाटल्यान

येवपाक सुचयलें. त्या शिश्यां फाटल्यान सवकास चलत तीं मुख्य दरवट्याकडेन पावलीं. तशे शिश्य थांबले. एका शिश्यान दाराची बेल दाबली तशें शयनगृहाचें दार सवकास उक्तें जालें. पळय जाल्यार भितर दुसरे शिश्य आसले. तांणी कमलाक आनी कमलाचे आवयक नमळायेन तकली बागोवन येवकार दिलो आनी भितर घेतलीं. थंय आशिल्ल्या एका आलिशान सोफ्यार दोगांकय बसपाक तांणी खुणायलीं.

कांय वेळ कमल आनी कमलाची आवय थंय बसून रावलीं. इतल्यांत एक बेल वाजली. बेल वाजनाफुडें एका शिश्यान तांकां एक ल्हानसो दरवटो उक्तो करून भितर वचपाक मार्गदर्शन केलें.

कमल बरेंच घुस्पा-गोंदळांत पडिल्लें. ताची आवय तर कितें घडटा तें समजनासतना कठपुतली बावली कशी बाबाचे शिश्य सांगतात तशी वागताली.

ल्हानशें दार उक्तें करून ती भितर एके सुसज्ज, सुशोभीत अशा शयनगृहांत भितर सरलीं. सगळो झगझग, चकचक पळोवन तीं दोगांय दिपकावलीं. परमपूज्य बाबा हो कासरगांवचो राजा काय स्वामी तेंच तांका कळना जालें. बाबान आपलो मठांत मिरोवपाचो भगवो भेस काडून दवरिल्लो. तार्णे सर्वसामान्य मनशाभशेन धवोफुल्ल सदरो लेंगो घाल्लो. गळ्यांत भांगरान बांदिल्लो रुद्राक्ष माळो घाल्ल्यो. ते भायर चमचमपी दोट्टी सरपळी, हाताच्या पांचूय बोटांक हिऱ्याच्यो मुदयो. दावो हात, उजवो हात मुदयांनी भरिल्लो. सदऱ्याक भांगराचे बुतांव, मनगटाक भांगराचें काकणां आकाराचें कडें. गोरोपिट्ट तटणोबांड बाबा एखाद्र्या राजकुंवरावरी सोबतालो. बाबाक पळोवन कमलाचे दोळे लिकलिकले. कितलो तरी वेळ तें सरभैर जाल्ले भशेन, कितें करचें तेंच समजनाशिल्ल्यान हेवटेन तेवटेन पळयत रावलें. “बसात” बाबाच्या ह्या उतरांनी कमल भानार आयलें. कमलाचे आवयन सावरून घेतलें आनी दोगांय थंय मांडून दवरिल्ले एके मोव मोव गादयेर बसलीं.

“तुमकां म्हज्या आमंत्रणान अजाप जालां जातलें. आनी आतां तर हांगा अशीं आपोवन हाडिल्ल्यान आनीकय अजाप जालां जातलें. पूण अजापाचें कांयच ना. हें सगळें ‘तो’ घडयता” अशें म्हणत बाबाच्या शयनगृहांत एका कुर्कुटांत एका रुप्या मखरांत पूजेक लायिल्ल्या बाबांच्या आद्यगुरूक बाबांनी नमस्कार केलो आनी म्हळें, “हांव संन्यासी न्हय, वैरागीय न्हय, हांव राजयोगी. आनी राजयोगांत परमार्थ जसो वर्ज्य ना, चरितार्थ जसो वर्ज्य ना, तसो संवसारूय वर्ज्य ना. राजयोगी ब्रह्मचर्य पाळिना आनी मानिना. राजयोग्यान धर्मानुसार निसर्गाचे सगळे मानवी नेम पाळपाचे आसतात. विवाह हो एक राजयोगी संस्कार. आनी हो संस्कार करून घेवपाक हांव उत्सूक आसां. खूप तेंप जालो, असो योग येवचो, आपसूक येवचो अशें चित्तालों. म्हज्या मठांत हजारांनी व्हंकलो-न्हवरे येतात. कितल्योच आंकवार, उपवर चलयो मठांत येतात; पूण हो वेळ मेरेन म्हाका कोणेंच

हालयलो ना. आयज पयलेच खेप म्हज्या सद्‌गुरूचो, आद्य पुरुषाचो दिश्टावो जालो तो जेन्ना तुवें म्हजे चरण धरून आशिर्वाद मागलो तेन्ना. आनी म्हज्या तोंडांतल्यान आशिर्वचनाचो शिंवर जालो तो सौभाग्यवती भव. तुका सौभाग्य दिवपाचो संकेत प्रत्यक्ष ईश्वरानूच म्हाका दिल्लो आसा. हांव तुजें सौभाग्य कशें तुजेमुखार आसां, ताचे कृपेन स्वीकार जावचो. बाबान कमलाचे आवयक दोळ्याच्या मंडोळ्यांनी शयनगृहा भायर वचपाक खुणयली. तशी कमलाची आवय भायर गेली. शयन गृहाचीं दारां अचळय, असुदाय बंद जालीं. राजयोगीक सुवर्ण-योग आयिल्लो.



# मीराचो भावोजी

सकाळपारान गुपाट काळखाचें न्हेसण सोडलें आनी अचळय लख्ख उजवाडाक आंगार चडोवपा खातीर एखाद्रे अस्तुरेन भरजरी शालवाची एक मिरी पोटार कवळची तशें सुर्याचें एक कीर्ण आपणाल्या आंगभर ओडून घेतलें.

मीरा बेगिबेगीन उठलें, माथ्यार रातभर घोगेवपी फॅन ताणें ऑफ केलो. फॅन बंद जातकच भोंवतणी रातभर गरगरपी आवाज बंद जालो, तेन्ना मीराचे कुडींत शांत, शांत दिसपाक लागलें. मीराच्या लक्षांत सट् करून एक गजाल आयली, सदांच फॅन लायतकच आवाज येता तोच त्या वातावरणाचो खरो आवाज न्हय; ताचेय परस हांगा शांत शांत वातावरण आसा. मीरान जनेलांतल्यान भायर नदर मारली. सकाळ खूब प्रसन्न दिसताली. मीराक खीणभर दिसलें, ताचे भाशेन आयची सकाळ पसून तिचो तो येतलो म्हण खूब खोशी जाल्ली आसा. मीरा आपले भितरूच मुमुरख्यांनी हांसलें. मीरा हांसतना खूब सेक्सी दिसतालें, पूण ताचें तें भुलोवणें मुखामळ पळोवपाक थंय ताचे कुडींत जितो मूस नासलो.

"आरे, बेबी आजून हाथरुणांतच आसा. शी शी, सगळें हाथरूण मुतून ओलें केलां जातलें. सदचोच वावर तो, सद्दां सगळ्यो चादरी भायर दांडयेर घालच्यो पडटात, सद्दां कोण धुतलो? वतांत सुकल्यो म्हणून मुताच्यो खातसाणी थोड्योच वतात." पूण मीराक आतां ताची संवय जाल्या. बेबी जालें आनी हें सगळें ताच्या वांट्याक आयलें. मीराक याद जाली, व्हडले भयणीक पयलो चलो जाल्लो तेन्ना ताणें मीराक आपणागेर व्हेल्लें; भयणीच्या चल्याक धरतां धरतां मीरा आपल्या संवसाराचीं सपनां पळयतालें. भावोजीय मीराचीं फकाणा करीत म्हणटालो, मीरान हांगाच रावचें शें दिसता. तेन्ना तीं उतरां आयकून मीराची भयण येद्दे मोठे दोळे करून आपल्या घोवाक पळयताली. मीराकय कशेंशेंच जातालें. मागीर मीरा मनांत म्हणटालें, हें कशें शक्य आसा? कितलोय जालो जाल्यार तो भावोजी, म्हजे व्हडले भयणीचो घरकार.

मीराक तेन्नाच माणकुल्या कुंवराची उब लागपाची संवय जाल्ली. आंकवार आसतना पिटुल्याची ओड लागपाक जशी लागली तशी मीराची दुसरी भूक बळावपाक लागली.

मीराक ती रात सदांच सतायताली. आयजूय सतावंक लागली. सकाळ आसूनय

मीराच्या दोळ्यांक रात दिसपाक लागली...

ते रातीं मीराचे भयणीक अकस्मात कितें तरी जावन आयलें, तिका वाऱ्याची संवय आसली. पूण वोंवो बी घेतकच कुशीनी मारतालीं तीं किसरां पयस जातालीं आनी मीराची भयण आसली तशी बरी जाताली. खीणभर आयिल्लो आकांत खंयचे खंय ना जावन परत सदचें वातावरण घरांत तयार जातालें आनी मीराचे भयणीक वाय आयिल्ली आनी वायेन मीराची भयण आकांतान हुयेली मारताली हें सगळीं विसरून वतालीं.

पूण ते रातीकडेन तशें जालें ना. मीराचे भयणीचीं किसरां मारपाचीं थांबली नात, तिच्यो कुशी भरून आयिल्ल्यो, सगळे छातयेंत गुळे चडटात कशें जातालें. मीरा भयणीची ती आवतिकाय पळोवन सामकें काचाबूल जाल्लें. ताईक कितेंय जाल्यार? ताईच्या वायटाची मीरा कल्पनाच करूंक शकलें ना, ताणें भावोजीक म्हळें, "भावोजी ताईक हॉस्पिटलांत व्हेल्यार बरें शें दिसता, पळय कितलो वेळ जालो ताका, निवळना तें." आनी मीराचो भावोजीय घामेलो, ताकाय कितें करचें तें समजना जालें. बरोच वेळ वाट पळोवन ताणें कपडे चडयले. भायर वचून ताणें खंयची तरी टॅक्सी हाडली आनी मीराच्या आदारान आपले बायलेक तेच अवस्थेंत टॅक्सींत बसयली.

ते रातीकडेन मीराचे भयणीक हॉस्पिटलांत दवरची पडली. घराकडेन धाकटो आसलो ताचो हुस्को मीराचे भयणीक जालो. "हांगा म्हऱ्यांत नर्शी बी आसात न्हय, वच तूं घरा. हांकां कांय रावप शक्य ना." आपल्याक घोवाकडेन पळयत मात्शी शी सावशीत जाल्ले मीराचे भयणीन म्हणिल्लें.

हॉस्पिटलांतल्यान भावोजी आनी मीरा घरा आयलीं. घरांत शेजान्न चल्याक मांडयेर घालून तांची वाट पळयताली. मीरा भितर सरना फुडें शेजान्नीन चल्याक अळंग उखलून पाळण्यांत दवरपाक खुणायलें. चलो सुस्त न्हिदिल्लो. शेजान्नीन मीराचे भयणीक हॉस्पिटलांत दवरचीं पडली अशा अर्थान मीराच्या भावोजीकडेन पळयलें तेन्ना मीराच्या भावोजीन तिचे नदरेची भाशा समजून तिका म्हळें, "हय, दोतोरूच म्हणपाक लागलो, रातभर ऑब्झर्वेशनाचेर दवरल्यार बरें. सकाळीं धांक सुमार व्हरूंक आपयला."

"बरें गो मीरा, चल्याची काळजी घे. सपनेत बी तो. पाळण्यांतल्यान भायर बी सरत. आतां पांय फुट्टात ताका" अशें म्हणून शेजान्न गेली.

घरांत पयलेच खेपे मीरा आनी मीराचो भावोजी अशी एकलींच आसलीं. मीराक चर्र जालें. ताका ओगीच काचाबूल जाल्ले भाशेन जावपाक लागलें. नाका, नाका म्हणटना ताचें काळीज ओगीच धपधप जावपाक लागलें. ताची ती अवस्था भावोजीचे नदरेक पडची न्हय म्हण मीरा बेगिबेगीन आपले कुडींत धांवलें. भावोजीक मीराच्या ह्या वागपाचो अर्थच समजना जालो. ताणें मनांत म्हळें, हाका आनी कितें जालें काय? "मीरा, कितें जालें तुका,

तूं अशें धांपेता शें कित्याक?" मीराच्या भावोजीन मीराचे फाटल्यान येत विचारलें.

"कांय ना भावोजी, ओगीच ताईक लागून अस्वस्थ शें जालें." कितें तरी सांगूंक जाय म्हण मीरान सांगिल्लें.

"तुका थंड उदक हाडटां आं पिवपाक" अशें म्हणत भावोजीन पेलोभर उदक घेवन तो मीरामुखार धरलो. "घे, उदक पिये, बरें दिसतलें."

"ना, भावोजी म्हाका तशें कांय जावंना."

"पूण उदक पिये तूं, मात्शें शितळ दिसतलें जिवाक." भावोजीन मीराच्या तोंडाकडेन पेलो व्हरत म्हळें.

मीरान भावोजीच्या मुखामळार दोळे किलकिलावन पळयलें. भावोजीच्या मुखामळार कसली शी चिंता, कसलो सो हय-न्हय सो हुस्को अस्पश्ट सो दिसतालो.

तशें जावपाकय कारण आसलें. भावोजीक ती गजाल स्पश्ट जाणवपाक लागली. ताणें केन्ना तरी मीराक सहज म्हणिल्लें, मीरान हांगाच रावचें. आपल्या घोवाचीं तीं उतरां मीराचे भयणीक खटकल्लीं आनी ताणें आपल्या घोवाचेर दोळे मोठे केल्ले.

ते गजालीक खंयच्यान झरो फुटलो कोण जाणा; पूण ताकाय बी तो विचार पयलेच खेपे आफडूंक लागलो, आनी तोय अशे रातीर. ताणें मीराक खीणभर पळेलें आनी मनाची चलबिचल जावचे पयलीं तो मीराचे कुडींतल्यान आपल्या बॅडरुमांत आयलो. आंगावयले कपडे काडले, बाथरुमांत वचून तोंडाक उदक मारलें आनी हातपांय पुसून तो न्हिदपाक खाटीर अचळय लवंडलो.

हेवटेन मीरानय आपली सलवार कमीज हॅंगराक लायिल्ली आनी आंगार लवलवीत ल्हव-ल्हव शी शेदाची मॅक्सी चडयली. आतां तें बरेंच सावशीत जाल्लें, आनी थाऱ्यार येवन स्वताच्याच मुर्खपणाची ताका तिडक आयिल्ली. पूण एक प्रस्न ताच्या मनांत आसलो. 'म्हाका तशें शें कित्याक दिसलें? हाचें कारण कितें?' मीराची तरणी पिराय चड फुडें धांवताली, भावना हुपून.

मीराच्या मनाक कुडीची उचंबळाय खबर नासली. ताणें कुडीचे उचंबळायेक बरीच वयर दवरिल्ली. मीरान लायट पालयली आनी दाराक खिळी घाली तरी सुद्दां ताका खूबच उचंबळाय सतायताली. ओगीच ताका ताचे कुडीभायर कोणाचीं तरी पावलां वाजतात शीं दिसपाक लागलीं. भावोजीन मीरा म्हण हळूच उलो मारलो कसो भास जावपाक लागलो. जें घडना तें घडटा अशें दाखोवपाक मन हट्टाक पेटिल्लें आनी ताचो परिणाम मात मीराच्या मनाचेर जावपाक लागलो. मॅक्सी भितर ताणें आपलें सगळें आंग बंदमुक्त केल्लें, ताका लागून ताचे छातयेर कोण तरी मोरपांख भोंवडायता अशें मीराक दिसपाक लागलें आनी मीरान आपल्याक सांबाळिल्ले भाशेन केलें. तरी पूण मनांतल्या मोरपांखाच्या स्पर्शाक चडूच

धुंदी आयली. मीरान माथ्यापोंदचें उशें काडलें आनी वेंगेंत घेतलें, आनी सुस्त न्हिदेक होरायली. पूण न्हिदच उचंबळ दर्या जाली. न्हिदेकय न्हीद येनासली.

घडयाळीचेर वरां वाजलीं तेन्ना एक जालें म्हणपाचें मीराच्या लक्षांत आयलें आनी आतां तरी न्हीद आयल्यार पुरो अशें चिंतपाक भायल्यान बाबूचो रडपाचो आवाज ताच्या कानार पडलो. भावोजी सुस्त न्हिदला जातलो; ताका आनी उठचें पडत म्हण जागेंच आशिल्लें मीरा बेगिबेगीन उठलें आनी दार उगडून भायर आयलें आनी तशेंच भावोजीच्या बॅडरूमांत भितर सरपाक बॅडरूमाचें दार धुकल्लें. भितर पळय जाल्यार भावोजी न्हिदला थंयच्यानूच दोरी हातांत धरून अर्दे न्हिदेंत, अर्दे जागेंत पाळणें हालयतालो. मीराक भावोजीची ती अवस्था पळोवन हांसूंकच आयलें. पूण तो वेळ हांसपाचो नासलो. भावोजी खाटीवयल्यान पाळणें हालयतालो, पूण चलो मात रडत आसलो.

मीरा पाळण्यासरीं गेलें आनी ताणें अचळय बाबूक पाळण्यांतल्यान उखलून धरलो.

मीराच्या आवाजान भावोजी उठून बसलो.

“मीरा, तूं जागेंच आसा?” भावोजीच्या प्रस्नान मीरा गोंदळ्ळें. कितें सांगतलें? खरें तर ते जागेंच आसलें, पूण जागें तरी कित्याक? आनी जागेंच आसलें हें भावोजीक कशें सांगप? ताणें स्वताक सावरीत म्हळें, “ना भावोजी, बाबू रडपाक लागलो आनी हांव जागें जालें.”

भावोजीन मीराकडेन पळयलें. मीराक दोळो लागिल्लो अशें कोण म्हणत? न्हिदेंतल्यान जागो जाल्लो मनीस कसो दिसता, ताचें रूप कशें दिसता हें न कळपा इतलो मीराचो भावोजी दूदपितो नासलो.

“अशें? भावोजीन मीराकडेन हांसत पळयलें, आनी म्हळें, न्हीद तूं वचून, हांव पळयतां बाबूक.”

मीराक भावोजीचो हांसो खूब बरो लागलो. भावोजीचो हांसो खूब ओडलायणो सो लागलो. मीरा भावोजी कडेन खीणभर पळयत उरलें, तेन्ना इतलो वेळ जी कीट पडूंक नासली ती कीट पडिल्ली. भावोजी भानार आयलो. भावोजीक स्वताचें भान जाणवलें आनी भावोजी आपले भितर हांसलो. ताणें मनांत म्हळें, हांव असो कसो गांवांत आसून रानांत सो? मीराची अस्वस्थ रात म्हाका न्हीद घालून गेली तरी कशी? भावोजीच्या मनांत आंकाताचें वादळ सुरू जाल्लें. त्या वादळाचो परिणाम भावोजीचे नदरेंतल्यान स्पश्ट दिसपाक लागलो. आनी कितें कोण जाणा, माजराचें वागरें हुंदराचेर पडचें आनी हुंदराक मांजराक पळोवन पळपाकच येवचें न्हय तशी गत मीराची जाली. ताका थंयच वावटोळी आयिल्ले भाशेन दिसलें आनी ते वावटोळेंत सगळो सुको पत्रो, खोलयो आनी भावनांचो धुल्ल भोंवरो जावन घुंवचो आनी वयर, वयर मळबांत पावचो तशें कितें तरी जालें. ताची

आंगावयली लवलवीत मॅक्सी त्या भोंवऱ्यांत आंगावयल्यान हुबून गेली अशें दिसपाक लागलें. मीरान तेवूय अवस्थेंत स्वताक सावरपाचो प्रयत्न केलो; मात ताका भावोजीच्या बॅडरूमांतल्यान ते रातीं भायर येवप कशेंच जमलें ना.

आनी उपरांत मीरा हें मीराच उरलें ना. ताका ताचे पिरायेन कवटाळून घेतिल्लें. वारें भरिल्लें ताचें शीड, मुठींत कशेंच धरलें ना. त्या अथांग महासागरांत मीराचें तारूं सयसलामत केन्नाच तडीक लागलें ना. त्या तारवांत मीराचो भावोजी शीड आपले मुठींत धरून हो वेळमेरेन तारूं तांडीत आसलो.

वादळांत सांपडिल्ल्या तारवाची खबर आनी वादळांत सांपडून फुटिल्ल्या तारवांचीय खबर सगळ्याक जाली. पयलीं पयलीं नवीदाद शी लोकांनी मीराच्या भावोजीची गजाल चघळून चघळून गुळगुळीत केली आनी कांय तेंपान लोक मीराक विसरले आनी मीराच्या भावोजीकय विसरले. कारण, लोकांक गालांत घालून घोळोवपाक दुसऱ्यो कितल्योच विपरितांच्यो' गजाली मेळिल्ल्यो. खंयचेय गजाली वेळार मीराची खबर आयलीय जाल्यार 'आंवंय, तें तरी कांयंच न्हय', अशें म्हणत समाजांतल्या मीरा-भावोजीच्या संबदां परसूय अदीक रुचीची खबर चघळून सांगताले.

भावोजी-मीराच्या त्या नव्या नात्याक कळटां नकळटां लोकांनी केन्ना मान्यताय दिली तें कोणाकच कळ्ळें ना. मीराचे भयणीन मीराक सवत केन्ना मानून घेतली ताचो पत्तो मीराचे भयणीकय नासलो. कशें तरी घडत गेलें, नातें जोडत गेलें.

भयणीच्या भुरग्याचे उबेची रूच लागिल्ल्या मीराक तेवूय अवस्थेंत स्वताच्या भुरग्याची ऊब जाय आसली. मीरान आपली इत्सा पूर्ण जातकच फक्त पांचव्या म्हयन्यार भावोजीक म्हळें, "हांव आतां आवयच्या भेसार चडलां."

गजाल आयकून भावोजी दचकल्लो; पूण मागीर मीरान धीर दितकच ताणेंय बी मनाची तयारी केली. शेकीं मीराक बेबी जालें. ते बेबीचे उबेंत मीराचें नवें जिवीत साकार जाल्लें.

आयज सकाळीं सकाळीं तो येवपाचो आसलो. ते रातीच्यान मीराच्या भावजीचो 'तो' जाल्लो आनी आयज 'तोच' येवपाचो आसलो. एका तेंपावयलो मीराचो भावोजी!



# मेघा

मेघाचे आवयन म्हळें, "तुज्यो व्हडल्यो व्हडल्यो वळखी आसात न्हय, मात्सो वेळ मेळटा तेन्ना हॉस्पिटलांत दोतोराक मेळून पळय. तुका सांगतलो तो दोतोर खरें कितें तें." मेघाचे आवयच्या दोळ्यांतली दुकां सुकून त्या सुकिल्ल्या दुकांचे खडे जाल्यात जावंक जाय. मेघाची खबर सांगतना ती आतां आदले भशेन दोळे ओले करिना. 'मेघा व्हंकल जाल्या, येन्ना कोणाच्याय घराक वचपाचें. मेघाच्या वांगडचीं सगलीं लग्न जावन आवयो जाल्यो. आनी आमच्या नशिबांत हे!' अशें म्हणत मेघाची आवय आपल्या नशिबाक रडटाली.

मेघा उणेच म्हळ्यार आता सत्तावीस अठ्ठावीस वर्सांचे आसुंये. हांवें मेघाक पयलें पळयलें तेन्ना मेघा खूप सुंदर दिसतालें. चकचकीत काळसर दोळे शितळ उदकाचे थेंबे कशे दिसताले. मोव मोव केंस कुचकुचीत आनी माथेंभर आसले. केसांक मुदयाळीं कुरलां मात खंयच नासलीं. काळे काळे किट्ट केंस. ताचे गोरे फाटीर एकदम सोबून दिसताले. वाटकुळेंच मुखामळ, चांफे कशें नाक, जाम कशे लालसार गाल, कळयो कशे ओंठ. मेघा म्हळ्यार सांतेभायर न वचपाचें फूल! बरी फुलां खंय सांतेभायर वचनांत आनी तांच्या फुलकाराक तीं विकपाक बाजारांत वचून बसचें पडना. तशें मेघा खातीर मेघाच्या बापायक बारा जोती झरोवपाची इल्लीय गरज नासली. मेघाक मागणी घालून व्हरतले अशेंच तें आसलें. सोबीतकायेची मूर्त- मेघा!

मेघा मॅट्रीकेक आसतना अभ्यास करतना आवयक म्हणपाक लागलें, "आई म्हजी तकली दुखता गे." आवयक तकली दुखप हो प्रकार सादो दिसलो आनी तशी तकली कोणाचीय दुखूं येता. "अभ्यास चड करता मगो, म्हणून दुखता तुजी तकली. तकलेक बरें तेल घाल आनी न्हीद, सकाळीं उठून बरें गरम उदकान न्हा. जातली बरी". मेघाचे आवयन मेघाक म्हणचें आनी आपल्या कामाक वचचें.

मेघाक खूब त्रास जाताले. पूण मेघा तशें शिकपाक हुशार आसलें. तशेय परिस्थितींत तें रातदीस भरपूर शिकलें आनी मॅट्रीकची परिक्षा दिली. रिजल्टाची वाट पळयता आसतनाच एक दीस मेघान आपणाले वागपच एकदम बदल्लें. मेघा कित्या कितेंय उलोवंक लागलें. तें पळोवन पयलीं आवयक धक्को बसलो. 'मेघा, मेघा, अशें कितें करता गो तूं, मेघा...

मेघा... पूण मेघाचें ते विश्व सोपिल्लें. पूण तें विश्व सासणाचें सोंपलां हें मात कोणाकच खबर नासलें.

मेघाक कसलेंच भान नासलें, मेघा कशाय कशें वागतालें, मेळत थंय भानाविरयत न्हिदतालें, मेघाक आपले कुडीची शुध्दी नासली. मेघा कशेंय न्हेसतालें, मेघाक नितळसाण सुध्दा दवरूंक कळनासली. मेघा जेवलें जाल्यार जेवलें, ना जाल्यार उपाशींच न्हिदप. पळयतां, पळयतां कालपयरचें सुंदर सोबीत मेघा मानसिक दुयेंसान अक्षरशा हुलपून गेल्लें. कुळागरांत उजो लागचो आनी त्या उज्यांत एकाद्री आंगापांगान गब्यांनी भरिल्ली केळ हुलपून करपूंची तशी गत मेघाची जाल्ली.

मेघाक दोतोराक दाखयलें तेन्ना ताका आल्तिनार आशिल्ल्या मानिकोमांत पयले खेपे व्हरपाक सांगलें. मेघाचेर उपाय सुरू जाले. मेघाक लायझर्स थेरपी सुरू जाली. मेघाक त्यो गुळयो घेवन मात्शे बरें दिसतालें तेन्ना तें खूब बरें वागपाक लागतालें. मेघा बरें जातलें अशें मेघाचे आवयक-वापायक दिसलें. मेघाक हॉस्पिटलांतल्यान घरा हाडलें. पूण मेघा आदलें मेघा मात नासलें. हॉस्पिटलांल्यान घरा येतकच सुद्दां घेवपाचो त्रातामेंत सोंपूक नासलो, ट्रांकिलायझर्स चालूच आसल्यो. मेघा मदीं बरोच वदल जाल्लो. केन्ना केन्नाय तें जनेलांत एकटेंच बसून आपलेभितर कोणाकडे तरी संवाद करतालें. तर केन्ना केन्ना सामकें मोनें जातालें. कोणाकच हटकिनासलें. कोणेंय उलो केल्यार जाप दिनासलें.

'ताका लग्न केल्यार सुद्दारत तें एकाद्रें. वयावयलें न्हू तें! लग्न जातकच घोवाकडेन संबंद येतकच कुडींतलो अंतःप्रवाह बदलता खंय. रगताच्या पेशींनी बदल जाता आनी मानसिक स्थितीक फरक पडपाक लागता. बायल मनीस बरी जाता,' अशें कोणूय जाणकाराचो आव हाडून सुचयतालो. पूण मेघाकडेन आतां कोण लग्न जातलो? मेघाचें मानसिक दुबळेपण जगलोकांक फांफां जाल्लें. रानांत लागिल्ल्या सुक्या कड्डाचो उजो चरचरीत करड लाशीत वता तशी मेघाच्या पिशेपणाची खबर गांवभर जाल्ली. सोयऱ्या-दायऱ्यांमदीं पसरिल्ली.

मेघाक कोणेंय जर विचारलें, "मेघा लग्न जातलें मगो?"

मेघा तत्काळ म्हणटालें, "हय तर, लग्न जांवकच जाय?"

"न्हवरो पळोवंया गो तुका?" परत मेघाची फकाणां केल्यार मेघा सामकें गांभिर्यान परतें म्हणटालें, "म्हाका एक बरो सो घोव जाय."

"कसलो घोव जाय गो?"

"बरोऽऽसो"

"बरोसो म्हणून कसलो गो?"

आनी बऱ्या घोवाची मेघाची कल्पना आयकतच मेघाक कोण पिशें म्हणटलो आसलो?

मेघा बऱ्या घोवाची कल्पना करतना म्हणटालें? म्हाका घोव जाय तो विडी, सिगार ओडिना तसलो. सोरो पियेना तसलो, जुगार-जुगडी खेळना तसलो, बरोऽऽसो. आनी अशें म्हणत मेघा खळखळून हांसतालें आनी बऱ्याच वेळान खूप हांसून जातकच मेघा सगळ्यांक फाट करून जनेलांतल्यान भायर पळयत एकलेंच आपल्याकच विचारतालें,

'ए मेघा, तुजेकडेन कोण लग्न जातलो गो? कोण लग्न जातलो?' मेघाक कितें जातालें कोण जाणां. मेघा मागीर हुडहुडक्यांनी खूब रडटालें. मेघाक सांबाळून घेतासर मेघाचे आवयक नाका पुरो जातालें.

म्हज्या पोराचें आता जातलें कशें, हें हे फुडेंय अशेंच उरलें जाल्यार... आनी मेघा फुडले जिणेंत अशेंच, एकटेंच उल्लें जाल्यार... हे कल्पनेनच मेघाचे आवयक तें दोळ्यांमुखार दिसतालें तें भिरांकूळ अवस्तेंतलें...

...मेघाचे म्हेळें पिजके कपडे, मेघाचें रान जाल्लें जटांचे माथें, मेघा गांवार पिशें जावन एकटेच भोंवता, मेळत थंय न्हिदता, ना खाण ना जेवण, उदक पिवप ना जाल्यार कोणांलेंय उश्टें खावप, मेघा पिशें म्हणून मेघाचे फाटल्यान भुरगे फातर घेवन लागप, मेघान तांच्या फाटल्यान धांवप, मागीर त्या पोरांनी मेघाचेर फातर शेवटावप आनी मागीर मेघाक तकलेक कोंक जावप आनी ते कोंक्रींतल्यान फळफळीत भळाभळा तांबडेंच रगत व्हांवप आनी मेघा...? मेघाचें रगत पुसपाक कोणूच थंय नासप, हांव नासप, ताचो बापूय नासप कोण... कोण - फक्त एकलें एकसुरें - मेघा!

मेघाची आवय मेघाची अशी भिरांकूळ कल्पना करतां, करतां भितर देवाऱ्यांत वचून महामायेक विचारी, 'अशें कसलें पातक आमी केल्लें म्हणून तुवें आमकां ही ख्यास्त दिली गे सायबिणी? आनी ख्यास्त दिवंचे दिवन कोणाक? त्या निश्पाप पोराक देवा, ख्यास्त दिवचीच जाल्यार म्हाका दिवपाची, म्हज्या पोराक न्हय... खऱ्यानीच म्हज्या पोराक न्हय' आनी मेघाची आवय देवाऱ्यांतले देवीमुखार बसून सुन्न जावन खंत करीत खूब वेळ रावताली.

आतां सदांच मरता ताका कोण रडटा? तशेंच सदांच पिशें आशिल्ल्या मेघाक कोण विचारता शें जाल्लें. मेघाचे दोन म्हयने साधारण वताले. उमास पुनव लागीं पावली की चड जातालें. मेघाक मागीर धरून परत मानिकोमांत पावोवचें पडटालें. मानिकोमांत ताचेर मागीर तशेच उपाय जाताले. पूण तें तात्पुरते बरें जातालें. मेघाक घरची याद जाताली. मागीर ताका घरा हाडटाले. मेघा घरा येतकच घरभर पासयो मारीत रावतालें. मेघाक न्हीद लागताली, पूण मदींच जागें जावन मेघा घरभर भोंवतालें. पयलीं, पयलीं मेघाचो घरच्यांक त्रास जातालो. पूण आतां पंदरा वर्सां जालीं, मेघाची सगळ्यांक संवय जाल्या.

"कित्याक मरना तें? मेल्यार तरी तेंय सुट्टलें आसलें आनी आमीय."

"मेघाचे आवय, अशें म्हणूं नाका, तुजें पोर तें!" अशें आयकतल्यान म्हणचें.

"असलें कसलें पोर देवान दिवचें म्हाका?" तिणें निर्शेत म्हणचें.

"कितें करतलो, नशिबांतलें कोणाच्यान काडूं येता?" आयकतल्याचो प्रतिप्रश्न.

मेघा एक दीस, मानिकोमांतल्यान घरा आयिल्लेकडेन मेघागेर हांव पावलों. पळय जाल्यार मेघा हारसो घेवन एके कातरीन आपले केंस कापता. घरांत कोण नासलो, मेघान आपले सगळे लांब, लांब केंस कापून उडयिल्ले, लांडें मेघा म्हज्यान पळोवं नज जालें. हांवें घरांत कोण ना म्हणपाचें वळखलें, "मेघा, मेघा, आगो केंस कापले मगो तुवें? सगळें बोडकें जालें मगो तूं?" मेघान म्हजें कानार घेतलें ना. कोण आयला, कोण गेला, हाचें ताका इल्लेंय भान नासलें. म्हजे वटेन लक्ष ओडपाक हांवें मेघाक परत म्हळें, "मेघा... मेघा, आगो केंस कापूं नाका... तूं बरें दिसचें ना... मेघा." मेघा फस्स करून भिरांकूळ हांसलें. हांवें तेन्ना अक्षरशा आंग काडलें, मेघान मुखार कातर हालयत म्हाका पळोवन येद्दे दोळे केले, त्या दोळ्यांत मेघाच्या आंगांत भिनिल्लें नसांव म्हाका स्पश्ट दिसपाक लागलें. मेघाचे तें मोट्टे केल्ले दोळे म्हाका घटाघट पिवन उडयतात काय कितें अशें म्हाका दिसपाक लागलें. मेघा म्हाका पळयत म्हणपाक लागलें. "आरे चोरा - म्हाका व्हरपाक आयला? हांव येवचें ना, हांव हांगाच रावतलें, हांव येवचें ना."

"मेघा, म्हाका वळखना तूं?"

"तूं दोतोर, दोतोर मरे? म्हाका इंजेसांव तोपूंक सोदता! ना, हांव ना करूंक दिवचें, बरो आसा तूं, इजेसांव करतना म्हाका घट्ट धरता."

"मेघा, हांव दोतोर न्हय...'

"दोतोर मस्तो मेल्लो, म्हाका कित्या कितेंय सांगता - न्हीद म्हणून सांगता, दोळे दाखोवपाक लायता, जीब भायर काडूंक लायता.... हड्डें दाबून पळेता, म्हज्या हड्ड्याक वायर लायता आनी म्हाका शॉक दिता... ही... ही... ही..." आनी मेघा आकांताचें हांसलें.

मेघान जशे केंस कापले तश्यो एक दीस दोळ्यांच्यो भुंवयोय कापल्यो. मेघा विद्रूप दिसपाक लागलें. मेघाक आतां पळोवपाचें नासलें. मेघाची ती अवस्था पळोवन तागेली आवय पिशी जावपाकडेन पावली. मेघाचो बापूय तर घराक म्हणटा तो नासतालोच. एका ऑफिसांत प्यून म्हणून मेघाची आवय काम करताली. त्या पगाराचेर घर चलतालें. पूण घरचे गरिबी परसूय मेघाचो प्रस्न तिका भंयकर सतायतालो.

एक दीस मेघाचें चड जाल्लें तेन्ना मेघागेर हांव गेलों. तेन्ना मेघाचे आवयन काळीज घट करून आनी साप्प गंभीर जावन म्हाका म्हळें, "अशें केल्यार कशें?"

"कितें?"

"मेघाक एक इंजेसांव दिवपाचें." मेघाची आवय मळबांत खोल पळयत सांगपाक

लागली.

"कसलें इंजेसांव?"

"मरपाचें!"

"मरपाचें?" हांवें अजापान विचारलें.

"हय मरपाचें! ताका ना जाल्यार म्हाका तरी... " आवयचे वितराग.

"अशी आशा सोडूं नाका." - हांवें मेघाचे आवयक थातारीत म्हळें.

"आतां हें फुडें कसली आशा धरपाची? पोराचें वय जावन गेलें, आतां तें म्हजे परस जाणटें दिसता. कितें आसा ताचे भितर? रानांतलें सुकिल्लें लाकूड कशें जालां तें! रगत आसा ताच्यांत? ते ताचे एका तेंपावयले उदकाची बांय कशे दोन दोळे आयज सड्यावयलीं तळपां कशीं जाल्यांत. ताच्या केंसांचो जाला खरखरीत सारणी खुंटारो. ताचे पोले जाल्या सुकिल्ली पोवली. खंय आसा तें मेघा म्हजें? कित्याक तार्णे जगूंक जाय? कोणाखातीर आनी कित्याखातीर! उलट ताका लागून आमची ही अप्रतिश्टा, ही अशी दैना. सांग त्या दोतोराक वचून, एक इंजेसांव दी आनी मार म्हणून ताका - मार. म्हज्या दोळ्यांतल्यान एक दूक येवचें ना. हांव म्हज्या कुसव्याक तें जालेंच ना समजन."

"कितें उलयता तूं मेघाचे आवय?"

"दुसरें कितें उलोवं? कितें आसा दुसरें उलोवपाक? आयज पंधरा वर्सां सोंपलीं. आमी कोणाचें केन्ना वायट चितलें ना, कोणाचें केन्ना वायट केलें ना आनी हें आमच्या वांट्याक, म्हज्यान सोसूं जायना रे. जिवाचें कितेंय बरें वायट करपाचे विचार मनांत एकसारखे येतात.

मेघाचे आवयची काकूळट करीत तितली थोडी आसली.

"देखून म्हणटाली हांव. तूं तरी मात्शें वचून पळय. विचार त्या दोतोरांक, मेघाचें कितें तें? बरें जावपाचें आसल्यार विचार ताका, कितलीं वर्सां जालीं हांव आशेर जियेतां. ह्या वखदान बरें जातलें, त्या वखदान बरें जातले; हो दोतोर बरो, तो दोतोर बरो. कोणाचोच गूण पडना न्हय ताका? आतां तूं तरी आमचे खातीर एकदां तरी हॉस्पिटलांत वचून पळे मात्सो, उपकार जायत तुजे. तुका ते खरें तें सांगतले. मेघा जर बरे जावपाचेंच ना जाल्यार वखदां आनी करून फायदो कितें, सोडुंया ताका ताज्या नशिबाकडेन. संवसारांत हजारांनी आनी लाखांनी पिशामदें म्हजीय एक धूव पिशी आसा अशें हांव समजन. पूण हे अशे आशेर जगप आता म्हज्यान सोंसूं नज जालां."

"हय, हांव पळयतां वचून, हांव मेळटां वचून मेघाचेर उपचार करतल्या दोतोरांक." हांवें म्हळें.

मेघाचे आवयक बरें दिसलें. मेघाचें दुयेंस नेमकें कसलें, आनी तें बरें जातलें काय ना

हें विचारप तिचेखातीर गरजेचें आसलें.

एक दीस सुटी काडून हांव म्हजी मोटार घेवन पणजे गेलों. आल्तीनार गाडी घेतली आनी बद्द मानिकोमाच्या रस्त्यार व्हरून उबी केली.

सकाळचीं इकरा जाल्लीं. मेघाक वतना कितें तरी खावपाक व्हरूंक जाय हाची याद जातकच थंयच लागीं आशिल्ल्या एका गाड्यार वचून दोन बिस्कीटांचे पुडे घेतले आनी हांव भितर सरलों. मानिकोमांतल्या दुयेंतीक मेळटलो जाल्यार पयलीं पास घेवचो पडटा अशें कोणे तरी सांगलें. हांवें कांउंटरार वचून एक पास केलो. मेघाचें नांव सांगलें. तें पांच नंबरच्या बायलां वॉर्डांत आसा म्हणपाचें म्हाका सांगलें.

एक व्हडलो लोखणाचो दरवटो आसलो, दरवटो बंद आसलो. त्या लोखणी दरवट्याक दोन वाटकुळींच जनेलां कशीं बुराक आसले. दरवट्यार एक शिपाय सो खाकी गणभेस घालून आसलो ताणें दरवटो धुकलून म्हजे पुरतो उक्तो केलो. हांव भितर सरलों ते बराबर सगळीं बायलां भितर हांगा थंय भोंवतालीं ती म्हाका टकटक करून पळोवंक लागलीं. कोण म्हाका खी खी करून हांसपाक लागलीं. कोण एकटी जाणटी बायल येवन 'विडी आसा रे?' म्हणून म्हाका विचारूंक लागली. तर दुसरी एकली 'कोण जाय' म्हणून विचारूंक लागली. पाचव्या कोराचे व्हिस्तीद सगळ्यांच्या आंगार आसले. कोण व्हारांदांत न्हिदिल्लीं तर कोण पयस सोप्यार बसून कांतारां म्हण्टालीं, कोण ओगीच हातवारे करून आपणाभितर उलयतालीं.

पिशां हॉस्पिटल हें अशें आसता तर! हांव मेघाक पळयत, पळयत फुडें गेलों. मेघा खंयच नदरेक पडलें ना. वॉर्ड लेडीक विचारपाक भितर सरलों. एक नर्स भायर मेळ्ळी, तिणेंच म्हाका हडकिलो.

"कोण जाय?"

"मेघा बिठ्ठोणकार?"

"हय..."

"आगो, मेरी, मेघा खंय आसा?"

"सिस्टर, मेघा आतांच हांगा आसलें." कोणें तरी म्हळें.

"फाटल्यान गेलां आसतलें, राव आं, आपोवपाक लायतां." अशें म्हणत दोगां जाणांक मेघाक सोदपाक धाडलीं.

हांवें परत एकदां भोंवतणी नदर मारली. उणींच म्हळ्यार शंबरेक पिशीं बायलां, तांचेमदीं चलयो, मध्यम पिरायेच्यो बायलो, म्हातारीं बायलां हॉस्पिटलाचो पाचवो कोराचो गणभेस घालून थंय आपआपल्यांत दंग आसलीं.

"हें पळे, येयलें मेघा. मेघा, तुका पळे कोण मेळपाक येयला." ते नर्शीन मेघाक

पळयत म्हळें.

म्हाका पळोवन मेघा हांसलें, खूश जालें.

"खावपाक हाडलां म्हाका?" - मेघान म्हज्या हातांतली पुडी पळयत विचारलें.

"हय - हय" अशें म्हणत हांवें ती पुडी मेघाच्या हातांत दिली. मेघान आधाशावरी बिस्कुत्यांचो पुडो फोडलो आनी थंयच बसून कुरकुरायत बिस्कीट खावंक लागलें. म्हज्या मनांत कसले पीळ पडले कोण जाणा. आंगभर शिर्रर्र जालें. अशा वेळार कोणेंय कसलीच कल्पना करची न्हय, अशा वेळार कल्पना भिरांकूळ आसता.

"मेघा म्हजी भयण आशिल्ली जाल्यार?" आंगार एक कांटो उबो जालो चर्रर्र करून.

"मेघा म्हजी बायल आशिल्ली जाल्यार?" आंगार दुसरो कांटो आयलो.

"मेघा म्हजी आवय आशिल्ली जाल्यार?" तिसरो कांटो.

"मेघा म्हजी धूव आशिल्ली जाल्यार...?"

मेघा म्हजी कोण तरी आशिल्ली जाल्यार हे कल्पनेनच हांव म्हज्या भावनांक सांसपूंक लागलों तेन्ना मेघाकडेन पळयतां पळयतां म्हजे पांय कंपीत जावंक लागले. संवसार भुयकांपान हालता काय कितें अशें दिसपाक लागलें. मेघा म्हजेकडेन उलोवपाचे वा म्हाका पळोवपाचे अवस्तेंत नासलें.

हांवें मेघाक थंयच सोडलें, "मेघा वतां हांव" अशें म्हणत चलपाक लागलों. पूण मेघान म्हाका पळयलो ना. तें बिस्कीटीचेर तुटून पडिल्लें. ताचेकडेन आनी कितें उलोवपाचें? मेघाक तपासपी आनी वखदां दिवपी दोतोर कोण तो वासपूस करून हांव त्या दोतोराक मेळपाक त्या लोखणी दरवट्यांतल्यान भायर आयलों.

दोतोराक सोदून काडलो.

"सॉरी, तें बरें जावचें ना, ताचें हें अशेंच, ताजें क्रॉनीक-" दोतोरान एका दमांत मेघाचो फुडार म्हजे मुखार उक्तो केलो.

"म्हणजे दोतोर, मेघा आतां केन्नाच बरें जावचें ना?"

"ना, शिजोप्रेनीक केज. तें बडीचें रगतांतच आसता. ते जीन्सच तसले, ताजेर कांय उपाय ना."

"म्हणजे - दोतोर मेघा... सो यंग?"

"मेघा, यंग! हॉस्पिटल भोंवन पळे, तुका मेघाभशेन कितलीं यंग दिसतलीं तीं. आमकांय पयलीं हो प्रस्न पडटालो. आतां आमीय सिझन जाल्यात. ह्या वातावरणांत अडॉप्ट जाल्यात."

"मेघाक गोंयाभायर खंयूय व्हेल्यार?"

"जे हांगा पिशे, ते भायर व्हेल्यार कशे शाणे जातले? 'वुइ आर प्रिस्क्रायबींग लेटेस्ट

सायकीक मेडिसिन्स' दोतोराचेर हांवें अविस्वास दाखयिल्ल्याचो दोतोराचो गैरसमज जाल्लो सो दिसता. दोतोराचो मूड हांवें पळयलो. ताका फुडें उलोवपाचें नासलें. हांव दोतोराच्या रूमांतल्यान धडधडट्या काळजान भायर सरलों. मेघाचे आवयक आतां केन्नाच मेळप ना हेंच थारावन.



# निमाणो कायतान

निकलांवाले सोऱ्या गादयेर झेम्याच्या भजांचो घमघम पडला आनी गादयेचे भितल्लेवटेन शेणान सारयिल्ल्या सोप्यार बसला निमाणो कायतान! ताका आतां सगळेजाण निमाणो कायतान म्हणूनच वळखुपाक लागल्यात. निमाणो कायतान म्हणून घेवपाकय कायतानाक ओंर्र दिसता. "आतां, हे फुडें म्हाज्या घराब्यांत किरिस्तांव नांवाचो एकलो सुद्दां कोंकणो उरचो ना, आनी हे फुडें केन्नाच जावंचो ना." कायतान सांगतालो.

आयजूय सदचेभाशेन कायतानान बरीच फेणी मारिल्ली. आजून तो तसो बरोच शाबुद्दीर आसलो. उतर आडवें पडपाचें आसलें. थोड्या वेळान तें पडटलें हाचें ज्ञान संवयेन कायतानाकय जाल्लें. उतर अस्पश्ट जावन तोंडांतल्यान तोंडांत विरचे पयलीं कायतान बरी ती गजाल गादयेर आयिल्ल्या हेर बेबद्यांक सांगून मेकळो जातालो. आंतांय ताका ताचे अवस्थेचें भान जालें आनी ताणें इलारीक म्हळें, "इलार इर्मांव, तुका एक सांगतां. हांव निजाचो कोंकणो. कोकणो कोणाक म्होण्टाय तें जाणा मुरे तूं? इलार इर्मांव, तसो तुंयी कोंकणोच. पूण खूब खूब पोन्नो. तुका चान्स ना, तूं इलार कार्दोजूच उरतलो. तुगेलीं भुरगींबाळां आनी येतलीं सगळीं पोरांतारां आनी नातरां-बितरां सगळी कार्दोजूच आसतलीं. आरे इलार इर्मांव, तशी गत म्हाजी न्हू. म्हाजे फामिलीची न्हू. आरे, हांव नातू त्या पयल्या बारक्याचो. म्हुज्या शापायचें नांव कितें आसलें तें जाणांय तूं? इठोबा, इठोबा कवळेकार. आमी शांतादुर्गेचे, आमची देई ती. हांव कायतान, कायतान कुयेल!"

निमणो कायतान सोऱ्याचे नशेंत बाटाबाटीचो तो काळ आयकतल्यांच्या दोळ्यां सामखार उबो करतालो. इलारीचे गादयेर मागीर एक इतिहासाचें पान त्या अक्षरशत्रू अडाणी गांवकऱ्यांमदीं उक्तें जातालें. याद जाता तशी खबर येताली. आनी जो तो आपल्या पूर्वजांची खबर सांगतालो.

"आरे, इलार तूं तें कितें सांगता? गांवकाराक नेमाचें पयलें कणस मेवतालें तें कणस इगर्जेचो पादिगार आयजूय आमच्याच घरांतल्या वांगड्यांक आपोवन मानान कित्याक दिता जाणा? म्हुगेले वोडील बाटचे पयलीं हिंगाचे गांवकार आसले, आयज गांवकाराक तुमी गोन्साल्वीस म्हणटा जायत, पूण आमी गोंयकार मुरे!"

गोन्साल्वीस उलोवन जातकच फुडें सरतालो तो काब्राल. कामील काब्राल तांबड्या लेंसाची काश्टी मारून सोरो काडटालो आनी कळशे हाडून इलारीक घालतालो. रितो कळसो घरा व्हरतना इल्लें कुट्ट करतालो आनी पांट्यार वतालो. गोन्साल्विसाची खबर आयकून काब्रालूय सांगपाक लागलो. बेताळाच्या देवळांत आयजूय गळ्यांतलें बेतीन काडून चोरू घेवन देवळाफाटले शिळेर व्हरून आमकांच दवरचो पडटा. इतलीं वर्सां जालीं, शेंकडे उलगले. पूण घराण्याक दिल्लो मान आमचो धर्म बदल्लो म्हणून शेणलो ना.

कायतानान सगळ्यांकूच खोल खोल चिंतूक घाल्ले. पूण खरी खबर आसली ती कायतानाची. कायतानाचो पणजो बाटिल्लो. आनी ते उप्रांत आजो मंगेश. आजो बाटिल्ल्याची खबर सगळ्यांक ताजी आसली. आज्यान ती खबर कायतानाच्या बापायक इस्तेवाक सांगिल्ली; इस्तेवान कायतानाक आनी कायतानान आपल्या पुताक. आज्याचें नांव दवरिल्ल्या मंगेशाचें हालींच कायतानान आडनांव बदलून घेतिल्लें आनी तो तसो फक्त आतां नांवाचोच किरिस्तांव उरिल्लो.

कायतानान आपल्या पांयांकडने पळयलें. पांय जमनीक लागपाक बरेच कठीण जातालें. ताणें इलारीचें बील फारीक करपाक खोमसाच्या बोल्सांत हात घालो आनी पांच रूपयाची नोट काडीत नशेंत म्हळें, “हांव निमाणो कायतान. आयज आसां, फाल्यां ना. पूण तुमकां सांगोन दवरतां, देव आनी धर्म आफोर्साद लादपाचो नासता. आमचेर तो लादलो, तुमचेर तो लादलो. जबरदस्तीन, आगळिकेन. हांव पिवोन उलयता म्हण समजोशात. हांव पुराय शाबुद्दीर आसां. देखून आतां हांव घरा वयतां. ते पयलीं निमाणीं उतरां सांगतां. इलार इर्मांव, गोन्साल्वीस, काब्राल, रोघू, भानू, सोत धर्माची आनी सोत देवाची कोण केन्ना जायरात कोरिनात. जायरात कोरतात फॅक्टरींत तोयार कोत्तात ते वोस्तूची आनी भाटयेंत काडटात त्या सोऱ्याची. हो सोरो असो, तो सोरो तसो. कित्याक, तो खपोंक जावो. तेजे दुडू मेळोंक जाये, दुडू पोट भोरपाक जाये. आरे धर्म म्होळयार सोरो न्हू, देव म्होळ्यार सकाळीफुडें तोंड धुवपाची माकोडशाप पावडर न्हू जायरात कोरपाक. आरे, मोळबांतल्या सुर्याची जायरात जाल्ली केन्ना तुमी आयकल्या? दोर्याची व्हडवीक कोणें जायरात करून सांगलेली आयकोल्या? सोत आसता तेजी वोळोक आपसूक जाता, असोत्त्याची वोळोक कोरची पडटा आनी दुसऱ्याच्या गोळ्यांत आफोर्साद फोकोत लोटूंक येता... तें ओसोत... हें.. हें पोये, कायतानाच्या- निमाण्या कायतानाच्या गळ्यांत आसा तें. हो दोरो आनी हे दोऱ्याक बेतीन आसलें एका तेंपार. आजूनय गळफास कशी तेजी याद म्हजो गळो अंदीता, आनी तेणेच फाल्यां म्हाका हो गळो अंदुचो आसा.

“आरे कायतान, चोल, तुका चोड लागलें, यो हांव तुका घरा पायतां” अशें म्हणत वाड्यावयलो खेमू कायतानाचे दंड धरून कायतानाक घरा व्हरपाक गादयेंतल्यान भायर

सरता. कायतानाक भळभळून येता आनी इलारीचे गादयेसामकार भर रातीचो निमाणो कायतान हुडक्या-हुडक्यांनी रडटा. सोरो पितकच जायते उमाळे वयर येतात, थोड्याच्यांन उमाळे सोसूं नज जातात. पूण हे खेपे कायतानाक आयिल्लो आसता तो उमाळो नासता, तें एक ताच्या काळजांतलें व्हडलें शल्य आसता. शल्य ताच्या नातवाचें, दिलीपाचें, दिलीपाच्या निश्पाप मोगाचें.

***

मसुराश्रमाच्या बाबान बाटयिल्ल्या पोरण्या गावड्यांक परते शुद्धिकरण करून हिंदू धर्मांत हाडीत सावन ओडशेलांतले सगळेजाण कितलींच वर्सां जालीं गणपती पुजपाक लागिल्ले. रीण-कर्ज काडून ते मोठ्या दबाज्यान वर्साची चवथ मनयतात. वाड्यावयल्या सगळ्यांनी पैशे जमोवन शिमेळ-घुमटां, कासाळें हाडून गांवचे देवळेंत दवरिल्लें आनी चवथी दिसांनी घुमटां-आरती करपाक सगळीं वाद्यां घेवन ते घराघरांनी भोंवताले. कायतान कवळेकारागेरूय वर्साभशेन अंदूय चवथ आसली. वाड्यार तिसाल आसलें. सगळ्यागेर गणपती दवरिल्ले. कोणागेर सांगून घेतिल्ल्यो सत्यनारायणाच्यो पुजा आसल्यो, तर कोणागेर घरांत नवी सून आयिल्ल्याचे खोशयेन नव्या जोड्यान पुजा बांदिल्ल्यो. वाडोभर सगळ्यांगेर चवथीचें वातावरण उपाट भरून ओत्तालें. घराघरांनी गणपतीमुखार तरेतरेचे देखावे केल्ले, रामायण महाभारतांतल्यो घडणुको जिव्यो करपी देखाव केल्ले, ते पळोवपाक वाड्याभायले गावांगावांतले लोक कायतानाच्या वाड्यार येताले.

अंदूंचो गणपती कायतानान दोळे भरून पळयलो आनी पुताक- मंगेशाक सांगलें, "पुता मंगेशा, हांव मरतकच तुमच्या नांवाचें खरें शुद्धिकरण जातलें. बदलूंक सोपेंपण आसलें जाल्यार कायतानाचो कोमू तरी करतलों आसलों रे. पूण मंगेश, एक मोतींत घट धर. हो गणपती जाणां मुरे, माती. मातयेचो तो. आनी माती म्होळ्यार माता. माता म्होळ्यार जाणाय मुरे कोण ती?"

"हय दादा" मंगेश बापायक समादान दिवपाखातीर म्हणटालो.

"तोहें न्हू रे, सारकें सोजमोन घे. पोय.. शितीद दिवन आयक. हो सगळो संवसार म्हळ्यार आमचो एक देव आनी ह्या संवसारांतलो हो एक फातोर, तोवूय देव. आमकां तोवूय देव कित्याक आमच्यांनी येद्या व्होडल्या संवसाराक आमचे इल्लेशे खोपींत भितर हाडूक जायना, देखून सोंवसाराचो कुडको कसो आमी ताज्या फातराक पुजतात. फातराक म्हणोन निस्तो पुजूंक येता? मागीर तेका तोकली, कान, दोळे, नाक बी ओशे आमचे म्हळ्यार मोनश्याचें रूप दितात, तेजी मागीर जाता सुंदर मूर्त. आनी हेच मुर्तीक आमी देव मानता. पूण सोत कितें तें हें. ह्या सोयमाक आमी पुजतांव, गणेशूय सोयमाचें रूप. देखून सोयमांत जें जें कितें जाता, पिकता, तें आमी तेजे भोंवतोणी माथ्यार वयर माटोळेक

पांयांकडे, सायडीन, सुवांत मेळटा थंय पुजेक लायतात."

मंगेश बापायचे बडबडीकडेन लक्ष दिनासलो. पूण आयकलां शें करून दाखयतालो, बापूय जाणटो आनी पोरण्या विचारांचो, ताका कितें समजता अशें चितून मंगेश बापायक दुखय नासतना सगळी लुक्षणां मोन्यानी आयकून घेतालो. पूण, एक उतर मात ताच्या कानार जूस्त साणवतालें. कायतान मंगेशाक सांगतालो, "हें पोय मंगेश, म्हुज्या नातवाक सांबाव. कितेंय कोरीत तो. कोंकण्याचेंच चेडूं कर तेका. बरें शें नांव दवर तेगेर जातल्या भुरग्याक, ना जाल्यार हांवें तुका आज्याचें नांव मंगेश दवरलां म्हणोन तूं म्हुज्या नातवाच्या पुताक कायतान दोवोरशी. घाणयतलो, शिराप पोडटोलो तुजेर, सोजमोलोय मुरे मंगेश?"

आनी त्या वर्साची ती चवथ जाली. अंदूं दुसरी चवथ येवची जाल्ली. ते पयलींच मळबाकडेन दोळे लागिल्ल्या कायतानाक एक दीस असोच गादयेर गेल्लेकडेन ती खबर कानार पडली.

"कायतान तितीव, पोत्त्यान तुज्या घोराब्यांत किरिस्तांव सून येता काय कितें रे?" - कोणाचीं उतरां ती कायतानाक खबर ना. काजू फेणयेचे दोन घोंट सकल नळयेंत देवंकच नासले, गळ्याकडचो हुलोप थंड जावंकच नासलो. गादयेच्या कडव्या भायल्यान कायतानाक लेखून म्हणिल्लीं तीं उतरां कायतानाच्या कानांत भट्टेंतल्या लोखणा-रोसा भशेन लागलीं आनी कायतान गडगड कसो मळबभर गडगडलो.

"कोण चेडयेचो सांगताय रे तो? येसो यो, ओहो म्हुज्या सामखारा आनी सांग सोत खोबोर कितें ती? आरे कायतान म्हातारो जाला जायत, भुजां देंवल्यां जायत, छाती भितर वोचोन हड्ड्यार हाडां दिसता आसोत, गालपोटां चिंवल्या आसोत, मणकटां सुकल्यां आसोत, पूण मोत शाबूत आसा म्हुजी. कोण सांगता म्हुज्या नातवाची खोबोर? म्हुजो नातू तो, तोहें केन्नाच कोरचो ना. किरिस्तांव चेडवाच्या वाऱ्याक रावचो ना तो. बोळजोबरीचें किरिस्तांवपण भोगलां तें पुरो आमचे फामिलीक आनी देखून हांव उल्लां तो त्या किरिस्तांवपणाच्या नांवरुपाची निमणी खूण. हांव फक्त निमाणो कायतान आसतोलों."

कायतानाची ती शिंवाची गरड आयकून निकलांवाले गादयेर सगळे कोले कुयो घालपाचे थांबले आनी आपले भितर फुतफुतले.

"ते पिडेक आनी चाळोवं नाका; तेका सोत समजल्यार जीव दवरचो ना तो."

पूण गजाल खरी आसली. कायतानाच्या नातवाचें, म्हळ्यार दिलीपाचें सूत एका किरिस्तांव चलयेकडेन जमिल्लें. दिलीप एका किरिस्तावांच्या बऱ्या घराब्यांतले सुशिक्षीत चलयेच्या मोगांत पडलो. दिलीप बी.ए. च्या निमाण्या वर्सांत शिकतालो. दिलीपाक तसलें कांय एक खबर नासलें; पूण आज्याचें नांव कायतान आसा तें पळोवन ताका अजाप दिसतालें. आज्याक म्हळ्यार कायतानाक दिलीपान एकदां नांव बदलून घेवपाचो आग्रो

केल्लो. पूण तेन्ना कायतानान नातवाक जाप दिली, “आरे म्हुज्या अपुरबायेच्या नातवा, आता मरच्या वोगतार रे नांव बदलून कितें जावपाचें आसा? आतां तें म्हाज्या मर्णाबरोबर सोंपतलें. तुका इल्ली लोज जाता जातली; जावं, सोंस मात्शी. सोमजता तेंका सांग. आमी नेये हिंदू म्हणोन, पोयलीं हिंदूच आहले, पाद्रीन बाटोयले, किरिस्तांव केले. आतां परत तीन पिळग्यो जाल्यो, कोंकणे- म्होळ्यार हिंदू जाले. हांवूय हिंदूच. पूण नांव मात आदलेंच आहा.”

आज्याच्या गिन्यानाचें दिलीपाकय केन्ना केन्नाय खूप अजाप जातालें. कांय एक शिकूंक नाशिल्लो हो जाणटेलो इतिहास उलयतालो, धर्माचें तत्वज्ञान सांगतालो, देवाचो अर्थ सांगतालो. पूण धर्मान्तराचे दाग पुसून उडोवपा खातीर आपणाक चिकटल्लें कायतान हें नांव मात लंचणपण कशें ताका दिसतालें, ही खंत मात दिलीपान केन्नाच पारखिली ना. दिलीपाक कांयच भोगचें पडलें ना. घरांत चिऱ्याखणीचो धंदो तेजींत चलतालो. पैसो आडको भरपूर. मंगेशान पुताक शिक्षणा खातीर शारांत दवरलो. दिलीपाक तसलें कांयच समजलें ना. तो सरळ मनान चलतां, चलतां एक दीस दिलीपाचे जिणेंत सुंदर सोबीत क्लारा आयिल्लें आनी दिलीपान क्लाराकडेन नक्की काजार जावपाचें थारायिल्लें; पूण ही खबर घरांत पावचे पयलीं गांवार पडिल्ली आनी जो कायतान लोकांक सांगत भोंवतालो कीं आपूणच आतां फक्त निमाणो कायतान आनी निमाण्या कायताना उप्रांत कोणूच घरांत किरिस्तांवाच्या नांवाचो आसचो ना वो येवचो ना, त्या कायतानाकय ती खबर शेकीं कळ्ळीच.

निमाण्या कायतानाच्या कानांत तापयिल्ल्या लोखणा-रोसावरी ती खबर झणझणून गेली तेन्ना कायतान नेटान उठलो आनी गादयेर गरादीर आशिल्ली एक अख्खी काजू फेणयेची बाटली घेवन घटां घटां पिवपाक लागलो. इलारान नाबी वयल्यान उडी मारून कायतानाच्या तोंडाक लायिल्ली बाटली बचक मारून झोमून परती घेतली आनी कायतानाक धुकलून सोप्यार लकयलो. कायतान धपांयच करून धर्तरेर आडवो पडलो. मात्सो सावशीत जावन थरथरत उठलो. थोड्या वेळाभितर ताका हुशारी आयली आनी घराकडेन वचपाक ताणें पावलां उखल्लीं. कसली तरी याद जाल्लेवरी तसोच तो चलपाक लागलो. चलतां, चलतां ताणें इलारीक सांगलें, “म्हज्या बोल्सांत आसात पोय, ते दुड्डू गादयेच्या बिलाक फारीक कर.”

बरीच रात जाल्ली. निकलांवाले गादयेवयल्यान सगळ्यांनी आपआपल्या घरची वाट धरिल्ली. निमाण्या कायतानानय सगळ्यांचो उद्धार करून घरा येवपाक घरची वाट धरिल्ली. पूण रातचीं तीन वरां जायत आयलीं तरूय कायतान घरा पावलो ना, तेन्ना मंगेश मध्यान रातचो उठून बॅटरी दिवो आनी शेजारच्या पांडूक घेवन निकलावाले गादयेवटेन येवपाक

भायर सरलो. कायतान घराकडे पावंक ना ही खबर न्हिदल्यात थंयच वाड्यावयल्या सगळ्यांक कळ्ळी. सगळ्यांची न्हीद खळ्ळी. फक्त तारापोरां तितलीं सुस्त न्हिदिलीं. इल्ली इल्ली खबर वाडोभर जाली आनी मध्यान-रातीर कायतानाल्या आंगणांत भौस भरिल्ले भशेन दिसपाक लागलें.

मंगेश आनी पांडू साद घालीत, उले मारीत कायतानाचे येवपाचे सदचे वाटेन फुडें, फुडें चलत रावले. पूण कायतानाची खंयच हूं, चूं कानार पडनासली. मंगेशान मनांतलो भंय पांडूक उलोवनय दाखयलो. पांडून मंगेशाक धीर दीत म्हळें, "गादयेरूच न्हिदला जातलो; चल, थंयच वचून पळोवया आमी," अशें म्हणून फुडलीं दोन पावलां मारपाक बॅटरे दिव्याच्या झोतांत वाटेर आडवो पडिल्लो निमाणो कायतान तांचे नदरेक पडलो. मंगेश बेगिबेगीन फुडें सरलो आनी ताणें निस्तेज पडिल्ल्या आपल्या बापायचेर, निमाण्या कायतानाचेर घालून घेतलें. ताणें पांडूक सारखो दिवो घालपाक लायलो. बॅटरे दिव्याच्या उजवाडांत मंगेशान सारखें पळयलें. कायतानान गळ्यांतल्या त्या दोरान आपलो गळो घट अंदून घेतिल्लो. ताची जीब भायर आयिल्ली. पयसुल्ल्यान अंधुक उजवाडांतल्यान कळवळ्यांनी कोणें तरी म्हळें,

"निमाणो कायतान गेलो...!"



# येदी केदी बावली

श्रीमंत रायूबाब आपले एकसुरे अपुरबायेचे धुवेक वेंगेंत घेवन आपल्या खांद्यावयल्या उपरण्याच्या शेवान कितलोसोच वेळ ओले जाल्ले दोळे परत परत पुसतालो तो देखाव पळोवन म्हालसालांत व्हंकलेक निरोप दिवपाक जमिल्ल्यांकय तांचीं दुकां आवरप शक्य जालें ना. आपल्या बापायची ती अवस्था पळोवन रमाबायचें मनय खूब अस्वस्थ जालें. कोणाची तरी उश्णी घेतिल्ली वस्त आपूण ताची ताका परत करतां काय कितें अशेंच कितें तरी आपल्या धुवांक परघराक लग्न करून दिता तेन्ना धुवांच्या आवय बापायांक दिसना बी मूं? रायूबाबान नेमकें तशेंच म्हळेंय बी.

"म्हजे अपुरबाये, हांवें तुका फकत चौदा वर्सां खातीर उश्णें घेतिल्लें. तूं तांचें, त्या घराण्याचें. श्रीमंत दादा सायबाल्या घराण्याचें. फकत जल्म तितलो घेवपाक तूं ह्या घरांत आयिल्लें अशें समज. आतां अख्खी जीण थंय त्या घरा!... रमू, म्हजे अपुरबाये, तुजें कल्याण जावं, तुवें अखंड सौभाग्य भोगूं,' अशें म्हणत श्रीमंत रायूबाबान आपले धुवेक अळंग आपले वेंगेतल्यान सोडयली आनी आपल्या जांवयाकडेन आशेन पळयत इतलेंच म्हळें, "हांवें रमाक तळटावयलो फोड कसो जपला, बापायचें कर्तव्य निभायलें, धन्य जावन, हांव तुमकां तोंड भरून आशिर्वचन दितां." न्हवऱ्याच्या भेसांत आशिल्ल्या तरणाट्या दादासायबान सकयल बागून आपल्या मांवांच्या पावलांक स्पर्श केलो आनी रमाबायचो हात धरून म्हासालांतल्यान वचपाचे तयारेक लागलो.

म्हासालांत निमाणो विधी चलतालो. श्रीमंत रायूबाबान आपले धुवेक केल्लें सगळें चांदीच्या पांच ताटांनी भरून दवरिल्लें. पयल्या ताटांत सगळे गळ्यांतले अळंकार आशिल्ले. रमाच्या आंगार अळंकार आशिल्ले ते भायर हे सगळे अळंकार वेगळ्या पेट्यांनी भरपाचे आसलें. तनमणी, चपलांहार, नेकलेस, सरपळ्यो, छडो, मोहनमाळ, मोतयांमाळ, धा पोवनांची गळसरी तर दुसऱ्या चांदीच्या ताटांत वेगळीं कांकणां, तोडे पाटली, तोड्यां मदीं भांगराचे तोडे, मोतयांचे तोडे, थिकांचे तोडे अशे प्रकार आसले. तर गोंट एकोडे तशे दोट्टीय आसले. पिड्डुकांची कांकणां, बाजूबंद, मुदयो, थिकांच्यो, खड्यांच्यो, मोतयांच्यो अश्यो तरातरांच्यो मुदयो. तिसऱ्या चांदीच्या ताटांत माथ्यांतले सगळे अळंकार मांडून दवरिल्ले. सुरंगां-वळेसर,

फुलांची आटी, पिसोळीं, आंबाड्यार खोंवचो मोर, भांग-तिळो. चौथ्या ताटांत कानांतले सगळे अळंकार आसले. वेगवेगळ्या खणांनी मांडून दवरिल्ल्यो वेडी, मोतयांच्यो, थिकांच्यो आनी वज्रांच्यो, मेळून तीन चार वेडीचे जोड आसले. ते भायर कानांतलीं, झुंबर, बुगड्यो, पिल्यो, कलाफुरां. पांचव्या ताटांत नाकांतले अळंकार तशेंच खणांनी मांडून दवरिल्ले, पिली, नथी, नाकांतलें, पायांतल्या अळंकारांमदीं चाळ, वाळे, बोटांतले वेडे, आनी माशे तशेंच निमाण्या ताटांत कंबराचे अळंकार मांडिल्ले. कमरपटो, कमर-सरपळी कमरगोफ, कमर-पदक. ते भायर रुप्याचीं ताटां, पेले, तबकडी, पडगो, दिवल्यो, निरांजनां आनी चंदनदीप, लामणदिवो धरून सगळें भरिल्लें.

"श्रीमंतांनो, ह्या वरदक्षणेचेर उदक सोडून आशिर्वाद घालात" - लग्नसुवाळ्याचे आतां मेरेन पुरयतपण करपी वेंकटेश दाते हांणी सुचयलें. तशें श्रीमंत रायूबाबांनी दोळे धांपून उदक सोडलें. श्रीमंत रायूबाबाच्या राजवाड्याच्या आकाराच्या घराकडेन आयज आतांच्या तेंपावयलो सगळ्यांत व्हड असो सुवाळो सोंपचेकडेन पाविल्लो तरी सुद्दां लोकांची गर्दी इल्लीय कमी जावंक नाशिल्ली. घराभायर रस्त्यार दोनय कडांनी तर गांवांतले आन गांवा भायलेय लोक घरभरवणी वता ती पळोवपाक गर्दी करून चोम्या-चोम्यांनी तिश्टताले. श्रीमंतांच्या घराच्या दुर्गाभितर तर लग्नाक आयिल्ल्या गोंयांतल्या तशेच गोंयांभायल्या श्रीमंतांचे मेणे तशेंच माचुलां एके हारीन मांडून दवरिल्लीं आनी तीं खांद्यार घेवन वचपी भोये आपआपल्या मेण्यांक तशेंच माचुलांक धरून कडेक उबे आसले. खंयच्याय खिणाक लग्ना-माटवांतल्यान वचपाचे तयारेन त्या मेण्यान जावं माचुलान वचपी श्रीमंत येत म्हणून सगळे भोये तत्परतेन आपआपल्या धनयाचे वाटेकडेन दोळे लावन उबे आसले.

दुसरे वटेन एका उकत्या मळार तरातरांचो फोग पेट्टालो. तो फोग लावपा खातीर कितलेशेच फोगेरी हातांत चंदरजोती घेवन बोवाळटाले. कोण बाण पेटयतालो तर कोण गर्नाल पेटोवन वयर हवेंत भिरकावन मारतालो. कोण चक्रबाण लायतालो, तर कोण शिंगे आनी नाळी, खोजने लायतालो. मळबांत फोगाच्या धुंवराचींच कुपां जाल्लीं. आनी त्या कुपांनी मळबांतलो चकचकपी सुर्या सुद्दां अस्पश्ट दिसतालो.

भितर कांय कडच्यो मदलशी आजून सोंपूंक नासल्यो. रंगेल श्रीमंत जमखणांचेर बसून कर्नाटकांतल्यान खासा हाडिल्ल्या नाचपिर्णींचो मनभुलोवणो नाच पळोवपाक गुंग जाल्ले. फोगाचो धोंपरभर कोयर पणजे वाठारांत जाल्लो पळोवपाक सुद्दां आजू-बाजूंचो गरीब लोक जमिल्लो.

उणेंच म्हळ्यार धा बारा दीस चलिल्लो हो श्रीमंत रायूबाब हांचे एकसुरे धुवेचो लग्नसुवाळो आतां निमण्या पेण्यार पाविल्लो आनी पणजे सावन भोमकुंडांत परतवण व्हरपाचे तयारेक नेट आयिल्लो. मांडवीचे न्हंये-देगेरूय लोकांची गर्दी आशिल्ली. सुमार

पंचवीस व्हडीं पणजेच्यान आयिल्लीं तशीं भोमकुंड गांवांत परतीं वचपाक तयार जाल्लीं. चडशां होड्यांचेर भोमकुंडांतलेच सगळे लोक भरिल्ले. एक दोन व्हड्यांचेर व्हंकलेचें देणें भरिल्लें आनी एक उक्त्या व्हड्याचेर रंगीबेरंगी शिडांचो माटोव कसो केल्लो. व्हडें खूप सोबीत तरेन नटयल्लें. हें व्हडें माचुलांतल्यान येवपी न्हवरो-व्हंकलेक भोमकुंडाक व्हरपाक सगळ्यांत फुडें नांगरून दवरिल्लें.

आनी शेकीं तो उचंबळीचो खीण आयलो. श्रीमंत रायूबाबाचे एकसुरे धुवेची व्हंकल पावणी सुरू जाली. श्रीमंत रायूबाबाचे धुवेक निरोप दिवपाक पणजे शारांतले सगळे लोक जमिल्ले. आपल्या माचुलांतल्यान व्हंकलेन लोकांक पळयलें. सगळ्यांच्या नदरांतल्यान एक भास दिसताली. दिल्ल्या घरा तूं सुखान राव, अशेच ते सगळे मोन्यांनी मनांतल्या मनांत म्हणटाले जावंक जाय.

मांडवीचे देगेर नांगरून दवरिल्लीं सगळीं व्हडीं मांडवी न्हंयचीं ल्हारां चिरीत नवे व्हंकलेक घेवन भोमकुंड गांवाकडेन वचपाक लागलीं.

सजयिल्ल्या होड्यांतल्या माचुलांत बशिल्ली रमाबाय तशी भुरगे-मतीचीच आसली. चौदा वर्सां म्हळ्यार तशीं तिचेखातीर सवणीं कशीं केन्ना उडून गेलीं तिकाच कळ्ळें ना. रमाबायन माथ्यार घेतिल्लो पदर मात्सो सो नदरे आड येता म्हणून कुशीक काडून पळयलो. म्हऱ्यांत दादासायब ना म्हणपाचें तिच्या लक्षांत आयलें. दादासायबाखातीर वेगळें माचूल आसलें आनी तें तिचे कुशीकच व्हड्यार दवरिल्लें. दादासायबांची नदर न्हवरेपण विसरून व्हडें चरचर करून कापीत चलिल्ल्या मांडवीच्या ल्हारांकडेन लागिल्ली. भरतेचो वेळ आशिल्ल्यान उदकाक नेट लागिल्लो. ताका लागून व्हडीं बरेच गतीन धांवतालीं. तांडेल्यांक व्हडीं तांडपाची तशी व्हडली शी तकालस घेवची पडनासली ते खातीर तांडेलीय बरे मौजेंत आसले. ते फक्त व्हड्याचें येरें तितलें धरून आसले.

जसो, जसो सूर्य माथ्यार येतालो, वताची हुनसाण इल्ली इल्ली आपलें आंग दाखोवंक लागिल्ली. पंचवीशेक व्हडीं एके ओळीन एके न्हंयेंतल्यान एका फाटोफाट मंद गतीन येतालीं ती पळोवन तडीवयल्या लोकांक एक अजापच दिसतालें. व्हड्यांची माळ कोणें तरी गुंथून न्हंयेंत सोडल्या कशी पयसुल्ल्यान पळयतल्यांक दिसल्यार अजाप न्हय. इतलीं व्हडीं अशीं एकाच वेळार एका फाटोफाट न्हंयेंतल्यान आयिल्लीं तडीवयल्या लोकांनी पयलेच खेप पळयिल्लीं. श्रीमंताचें लग्न जालां हाची फाम अख्खें गोंयभर जाल्ली, देखून श्रीमंत रायूबाबाले धुवेची व्हंकल-पावणी व्हड्यांनी भोमकुंडा वचपाक येतली हें सगळ्यांक पयलींच खबर आसलें. देखून न्हंयच्या दोनय देगांचेर लोकांनी उपाट गर्दी केल्ली. मदल्या कांय व्हड्यांचेर तर मदीं मदीं माराण पेटोवन उदकांत उडयताले, तातुंतले कांय माराण पेट नासतना उदकांत पडून पालवताले, कांय व्हड्यांवयले तांडेली तर व्हड्यांचे बाणयेर उबे

रावन फोग पेटयताले आनी ताका लागून न्हंयचें पात्र दुमदुमन गेल्लें. फोगांची धुंवरी उदका वयर कापूस कशी व्हड्यां फाटल्यान उबताली. ताका लागून न्हंयच्या पात्राक धुंवराचो लेप सारयिल्ले वरी दिसतालें.

माचुलाचे कुशीकच दोन दासी रमाबायचेर नदर दवरून आसल्यो. प्रवासांत तिका कसलोच त्रास जावचो न्हय म्हण त्यो तत्परतेन रमाबायचे गरजेचे जिनस, आवडीचें खाण, आडसरांचें उदक, गरम करून शिशांनी भरून घेतिल्लें उदक घेवन तयारेक आसलीं. कितें कोण जाणा, रमाबायक आपल्या माचुलांत बसल्या थंय एकलेपण शें जाणवपाक लागलें. तिका ह्या वेळार दिसलें, आपल्या नव्या घरकारान आपले सरीं येवन बसचें. पूण अशें चारचौगांत श्रीमंत दादासायब आपल्या म्हऱ्यांत येवन बसतले तरी कशे आनी बसलेय जाल्यार हांव तांचेकडेन उलोवं तरी कितें? शी बाये! अशें मनांतल्या मनांत म्हणत रमाबाय खूब लजली, आपणाक अशो लजतना कोणें पळयत बी अशा दुबावान तिणें माचुला भायर नदर मारली, तेन्ना नेमकी दादासायबांची नदर तिचेर पडली. दादासायबाच्या मनांत कसली तरी हुरहूर लागिल्ली आसूंक जाय. पूण रमाबाय आपणाली नवी व्हंकल, आपणाली अर्धांगिनी जावन लेगीत श्रीमंत घराण्याच्या चालीरितींक धरून आनी संकेताक पाळो दिवपाखातीर प्रवासांत तरी तो रमाबायच्या माचुलांत बसूंक शकनासलो, तरी सुद्दां रमाबायच्या माचुलाकडेन येत भिडेत, भिडेत ताणें ल्हवूच म्हळें,

"पावचीं जालीं आमी. भोमकुंड गांव लागींच आसा." एका व्हड्याचेर संथ गतीन वाजंत्री ताशे आनी शेनायचेर व्हंकल-पावणेक सोब सारके सूर काडून तालबद्ध वाजप करताले. त्या बोवाळांत कोण कोण कितें उलयतालो ताका कानाकडेन येवन कानांत तोंड घालून उलोवपा बगर दुसरो मार्ग नासलो. दादासायबांचो गोरोपिट्ट तेजिस्ट चेरो रमाबायन पळोवन घेत म्हळें, "तुमी भायर शे कितें निरखितात? खूप मज्जा येता अशा प्रवासांत, सासणाची याद उरतली आमकां ह्या आमच्या लग्न-सुवाळ्याची."

"आमकांच शी कित्याक? अख्ख्या संवसाराक म्हण."

"हय, तेंयी खरेंच." अशें म्हणत दादासायब हांसलो.

"वेळ वचना, प्रवास बरोच लांबलो" - रमाबायन ओगीच म्हळें.

"हय, बाणस्तारी न्हंयचेर पूल जाल्लो जाल्यार आमी मोटारीनूच येवपाचीं."

"हय, तेंवूय खरेंच. बाबा म्हणटालो, पुर्तुगेज सरकार ते न्हंयचेर रोकडोच पूल बांदपाचो आसा म्हण."

"बांदता तेन्ना बांदता. पूण आमची ही वरात अशी न्हंयेंतल्यान व्हड्यांनी काडची पडली ना?" - दादासायबांक दाद दीत रमाबाय हांसली आनी म्हळें,

"खऱ्यानीच, अशी व्हंकल-पावणी आनी कोणाची हे आदीं काडिल्ली नासुंये."

"काडपाची गरजच उप्रासली ना जावंये, श्रीमंत रायूबाब राव नाशिल्ले जाल्यार अशी वरात काडपाची पाळी खंय येतली आसली आमचेर? आतां सरकारान पूल बांदलो म्हण्टकच भोमकुंडांतल्यान पणजे वचप म्हळ्यार कांय धेंपांची वाट जातली. मागीर बरें-मावोडे यो-वच करपाक." मात्सो सो थांबत दादासायबान म्हणून सोडलें तशीं दोगांय मन भरून हांसलीं. न्हवरो दादासायब आनी व्हंकल रमाबाय अशीं उलयतात तीं पळोवन कडेक उब्यो राविल्ल्यो दोगूय दासी मात्श्यो पयस वचून रावल्यो आनी दोगांकय मात्शें मेकळेपण दिलें.

"पळे, तडीवयले लोक तुमकां हात हालयतात." रमाबायन परत नदर मारीत म्हळें, 'व्हडीं आतां गवडाळ काडून कुंभारजुवेंचे खाडयेंत भितर सरिल्लीं आनी थोड्याच वेळान भोमकुंडाचे मानशेर पावपाचीं आसलीं.

व्हडीं तडीक लागपा खातीर मानशे कडेन धाकटुले व्हाळशेचे आकाराचे न्हंयेंत तांडेल्यांनी आपआपल्या व्हड्यांचीं येरीं घुंवडायलीं आनी व्हड्यांचीं भिरीं भोमकुंड गावांत खऱ्या अर्थान भितर सरलीं.

भोमकुंड गांवार सर्ग देंविल्लो. भर दनपारच्या कडार अख्खो गांव व्हंकल-पावणेक येवकार दिवपाक जमिल्लो. रमावायन पयसुल्ल्यान आपल्या नव्या गांवाक पयलेच खेप पळयलो आनी तिचें मन खोश्येन फुलून आयलें.

कुचकुचीत माडांनी भरिल्लो पाचवो गांव, लांब लांब शेतां, माडा वयर व्हडलीं व्हडलीं झाडां आनी शेतां. मदीं कणग्यांचीं कापां कशीं ल्हान मळां. तांचेर घडाघडांनी भरिल्यो केळी. पणजे शारांत असलें कांय पळोवंक नाशिल्ल्या रमाबायक भोमकुंड गांव अप्रुपाचोच दिसपाक लागलो आनी आपूण एका वेगळे तरेच्या गांवांत भितर सरतां हाची तिणें स्वताच्या मनांक समजणी करून दिली.

व्हडीं तडीक लावपाक एकूच बोवाळ जालो. एक एक व्हडें भितर घेवन लोकांक देंवोवपाचें थल्लें; पूण सगळ्यांत पयलीं व्हंकल-न्हवरो आशिल्लें तें व्हडें तडीक वांदपा खातीर तडी वयल्या लोकांनी, व्हडेकारांनी सोडिल्ल्यो दोरयो घट धरून तडी वयल्या मांडांक रेवाडल्यो. मानशेर व्हडीं एकाच वेळार वांदप शक्य नासलें. मानस धरून फुडल्या मेकळो आशिल्ल्या बांदा मेरेन एकाच वेळार तीन व्हडीं तडीक लावप शक्य आसलें. देखून पयलें व्हडें रितें जातकच हेर व्हडीं रिती करचीं अशें तांडेल्यांनी थारायलें आनी ते प्रमाणें ते एक एक व्हडें भितर घेवपाक लागले.

सवकासायेन व्हंकल-न्हवरो तडीर देंवली तसो भोंवतणी जमिल्लो सगळो रयत गांवकार खुशालभरीत जालो. तांणी न्हवऱ्या-व्हंकलेचेर पयसुल्ल्यानूच फुलांपाकळ्यांचो खूब शिंवर केलो. जो तो श्रीमंताचे नवे सुनेक पळोवपाक एकामेकांक लोट्टालो. रमाबायचें

माचूल भोयांनी उखल्लें आनी मागीर दादासायबांचेंय पालखी कशें दिसतालें तें माचूल भोयांनी आपआपल्या खांद्यार मारलें आनी वाजप, फोग, गर्नाल आनी लोकांच्या गजबजान लागींच आशिल्ल्या श्रीमंत शिवरामबाब भोमकुंडकाराच्या म्हालघराकडे व्हंकल-पावणी वचपाक लागली.

भोमकुंडकाराच्या वाड्यार वचपाचीं सगळीं सोपणां चडून माचुलां भुजार मारिल्ले भोये वाड्याच्या मुखावयल्या आंगणांत मुख्य आर्का हुपून सल्ले तेन्ना लागींच आशिल्ल्या उकत्या मळार फोगाची एकूच आतशबाजी सुरू जाली आनी पणजे लग्नाक पळयिल्लो फोग, त्या फोगाक लागून पणजे शारांत धोंपरभर जाल्लो फोगाचो कोयर कांय न्हय कसो दिसपाक लागलो.

श्रीमंत घराण्याच्या रितीरिवाजा प्रमाणे श्रीमंत भोमकुंडकारांनी नवे सुनेक येवकार दिलो आनी हुंबऱ्या वयलो भरिल्लो चांदीचो, मापा आकाराचो पेलो उमथावन व्हंकल रमाबायन आपल्या घरकाराचो हात धरून वाड्यांत पयलें पावल दवरलें.

सगळे घरा परतले. व्हड्यांनी भरून हाडिल्लीं देणीं, सामानसुमान, ट्रंको आनी सगळ्यो पेटो वाड्यार पावल्यो. इतलें करता म्हणसर दीस उलगलो. आमोरी जाली आनी वाड्यार चौघुडो वाजूंक लागलो. देवळाकडचो चौघुडो आयज भोमकुंडकाराच्या वाड्यार वाजतालो. सगळे कडेन दिपरत्नां पेटपा खातीर उणेंच म्हळ्यार शंबरेक लोक पणट्यो आनी वाती-तेल घेवन हांगा थंय बोवाळटाले. पळयतां, पळयतां सगळो भोमकुंडकारांचो वाडो पणट्यांच्या उजवाडान लख्ख करून सोडलो आनी भोमकुंडकारांच्या वाड्यार त्या लख्ख पर्जळांत रातीचो सुर्या उदेल्ले भशेन दिसपाक लागलें.

नवे व्हंकलेक श्रीमंतांच्या घरचे चालीप्रमाण वाड्यांतल्या भव्य देवघरांत व्हेली आनी दादासायबाचे आवयन पयलीं आपले किरवटीचो एक चावयांचो घोंस नवे सुनेच्या हातांत दिलो. तिका चांदीच्या पाटार बसयली आनी न्हवऱ्याक रमाबायच्या कपलाचेर आडवो कुकूम लावपाक चांदीची एक काडी तांबडे पिंजरींत बुडोवंक सांगलें. न्हवरो श्रीमंत दादासायबांनी आवयचो हुकूम पाळ्ळो आनी श्रीमंत रायूबाब पणजेकारांची धूव रमाबाय आडव्यांले चौगरितींत भितर सरली. हे फुडें रमाबायन आडवेंच कपलाक लावपाचें आसलें हाची जाणीव रमाबायन केन्नाच करून घेतिल्ली. आडवे कुकमा-चिरेन तिच्या कपलाच्या मळबार इंद्रधोणूचो बाण मारिल्लेवरी दिसतालें.

सगळ्यो भोगावळी जातकच व्हंकल रमाबायक तिची भव्य कूड दाखयली. ते कुडींत आदींच तिचें सगळें निजी अशें खाशेलें सामान आनी वरदक्षणेच्यो पेटो, ट्रंको चाकरांनी व्हरून दवरिल्ल्यो.

रमावायक एकांत जाय म्हणपाचें तिचे दासीक समजलें तशी ती रमाबायक सांगून

कुडीभायर येवन उबी रावली. दादासायबय आजून सकयल सालांत आशिल्ल्या सोयऱ्यांमदीं घुस्पून आसले. तांकांय आंगावयले भरजरी कपडे केन्ना काय काडीन जाल्लें. देखून दादासायब हे कुडींत येवचे पयलीं, आपले पोरणेच कुडींत गेले म्हणपाची खबर रमाबायक दासीकडल्यान कळ्ळी. कुडीचीं दारां धांपतकच रमाबायक खूब मेकळें, मेकळें दिसलें. आनी कडेन हाडून दवरिल्ले एके पेटेकडेन तिणें पळयलें आनी ती तिका उगडपाची उमळशीक लागली. ते पेटयेंत तिची खूब आवडीची एक वस्त आसली. जेन्ना जेन्ना तिका कसलीय उबगण येताली तेन्ना तेन्ना ती ते वस्तीन आपलें मन रिझयताली. ती वस्त तिका जीव की प्राण अशी आसली.

रमाबाय तशीच उठली आनी तिणें कमरेक खोयिल्ली एक चावी घेतली आनी अळंग ती पेट उक्ती केली. उक्ती करून ते पेटयेंत भितर न्हिदयिल्ले भशेन दवरिल्ले पुर्तुगाली बावलेक ती सोदपाक लागली. सगळी पेट तिणें सांसपिली आनी मागीर तिडकीन उस्तिली सुद्दां. पूण रमाबायच्या हाताक येदी व्हडली बावली लागली ना. सगळें सामान भरतना पेटयेंत ती बावली अळंग भरपाचो हुकूम तिणें भायर सरचे पयलीं दोन दीस आदींच दासीक दिल्लो. मागीर बावली खंय गेली तर? रमाबायन सगळी पेटभर बावली सोदली. आनी पेटेंत बावली ना ती पळोवन व्हंकल रमाबायची नुराच सामकी बदल्ली. तिच्यांतलो सगळो उत्सव खंयचे खंय उडून गेल्ले वरी जालें, तिचें तोंड पडलें, ती बरीच अवस्थ जाली. तिणें दासीक साद घालो आनी रुक्मिणी नांवाचे दासीक भितर आपयली. तेच दासीक तिणें बावली पेटेंत दवरपाक सांगिल्लें. दासी रुक्मिणी भितर येनाफुडें रमाबायन आवाज चडयत म्हळें, “रुक्मिणी, पेटयेंत बावली घाली ना तुवें?”

“बाये, सगळीं देणीं, वरदक्षणा, भांगरां भरल्यांत ह्या पेटांनी.”

“हांव भांगराचें विचारिना; म्हजे खातीर ती बावली एक मोटें भांगर आसा.” आनी ती दासीचेर तापताली तेन्नाच कुडी भायर दादासायब खांकलो तशी रमाबाय एकदम थप्प जाली. दादासायब हुंबऱ्यार पावला तो पळोवन दासी रुक्मिणी बेगिबेगीन कुशीच्यान दडत कुडीभायर गेली.

दादासायब आपले कपडे बदलून सामको ताजो जावन रमाबायची वासपूस करपाक आयिल्लो. आजून रात जावंची आसली, घरांत घरभर बोवाळ चलतालो. गांवांतले लोक आजून वाड्यार बोवाळटाले. मोटे मोटे पावणे-सोयरे राजांगणांतल्या चौकांत बसून लग्नाच्योच खबरी करताले.

“कितें जालें, कसली वस्त शेणली?”

“ना.. कांय ना.” ... रमाबायन आडखळत पूण दचकत म्हळें, तिचो जाल्लो गोंदळ दादासायबांच्या लक्षांत आयले बगर रावलो ना. रमाबाय आपणाक कितें तरी सांगपाक

कांचवेता म्हणपाचें दादासायबांच्या लक्षांत येवपाक कळाव लागलो ना.

"ना, तुजें कितें तरी शेणलां, सांग म्हाका. सोदुंया, कसली वस्त ना जाल्या?'

दादासायब रमाबायच्या लागी येत तिका विस्वासांत घेवपाचो प्रयत्न करपाक लागलो. ताणें कडेक पळेलें. एक पेट उस्तिल्या म्हणपाचें तिका दिसलें, ती पेट पळेत दादा सायबान रमाबायक विचाल्लें.

"हे पेटेंत कितें सोदताली?"

"अं ..कांय ना.."

"खरेंच???"

"ऽऽऽ...!" रमाबाय आतां मात तकली सकयल घालून वोगी रावली. दादासायबान म्हऱ्यांत वचून तिचे खाडकेक धरून तिची सकयल केल्ली मान वयर करीत तिच्या दोळ्यांक दोळे लावन म्हळें,

"खरें सांग रमा, अशी खंयची इतल्या मोलाची वस्त ना म्हणून तूं निर्शेलां? कसली व्हड वस्त ती?"

रमावाय आपल्या घरकारान दाखयिल्ल्या धिराक कशीच झिडकारूंक शकली ना. ते वस्तीचें नांव सांगतकच आपलो घरकार आपणाक मुर्खांत काडटलो, भुरगें-मतीचें म्हणटलो, वावली- आनी बावले खातीर तूं इतलें निर्शेता, अशेंय म्हणटलो हाची तिका जाणीव आसली. तरी सुद्धां दादासायबांक सगळी खबर सांगूंक जाय म्हणूनच तिणें दादासायबाक पळयत म्हळें,

"हय, ना म्हळ्यार बावलेक तशें तें भांगरा, मोतयांचें आनी हांवें हाडिल्ल्या वस्त्रां-माणकांचें मोल नासत. पूण म्हजेखातीर ती गजाल खूब भावूक जावन आसा. ती वावली खंयी घाळ जावप म्हळ्यार म्हजो म्हाकाच खूब, खूब पच्छाताप जावप."

"अशें बावलेचें कितें घेवन बसलां तूं?' आमकां कितें उणें आसा ह्या घरांत? बावली खेळोवपाक तूं कितें आतां कुकुलें बाळ न्हय."

"हय, जाणां हांव, आनी म्हाका हांगा कांयच उणें ना. मात ती वावली नासत जाल्यार म्हज्या यादीच्या देवळांतली एक पेट्टी दिवली पालवल्लेवरी जातलें म्हाका."

"इतली म्हत्वाची वावली ती?" - दादासायबान अजापान विचारलें.

"हय, तुमकां ती हांसपाची गजाल जावं ये, पूण म्हजे खातीर ती एक याद."

"कोणाची याद?"

"एका व्हड मनाच्या बापायची." .

"कोणाची म्हणटा?... श्रीमंत रायूबाब... तुज्या..."

"न्हय न्हय, म्हज्या बापायची न्हय-" रमाबायन आपल्या घरकाराक थांवयत म्हळें.

“कोणाची... कोणाची? रमा, आतां मात म्हजीय उमळशीक तेंगशेक पावल्या. बावलेची गजाल म्हण हांवेंय बी ती पयलीं फकाणांचेर व्हेल्ली. पूण तूं जें इतलें ते बावले खातीर अवस्थ जालां तें पळोवन म्हजोय हुस्को वाडला. सांग खरी गजाल कितें ती?”

“ती बावली म्हाका एका पुर्तुगेज गोव्हेर्नादोरान दिल्ली.”

“पुर्तुगेज गोव्हेर्नादोरान??”

“हय. हांव बाबा वांगडा एकदां बाबाचो हात धरून गोव्हेर्नादोराचे पालाशेंत गेल्लें. जालीं ते खबरेक आतां सात आठ वर्सां. आमी जेन्ना गोव्हेर्नादोराचे पालाशेंत पावलीं तेन्ना म्हाका पळोवन तो गोव्हेर्नादोर कितलो वेळ एकदम मोनो कसो जाल्लो. बावान ताका हटकिलो, पुर्तुगेज भाशेंत ताचेकडेन संवाद करपाचो ताणें प्रयत्न केलो, पूण तो मात कितलोच वेळ म्हजेकडने पळयत राविल्लो.

“बाबाचो तो मोटो इश्ट आशिल्लो जावंक जाय.”

- दादासायबान रमाबायची मनस्थिती बदलुपाचो प्रयत्न करीत म्हळें.

“हय, खूब दाट इश्टागत आसली तांची.”

“तुका पळोवन तो इतलो मोनो सो कित्याक जालो तर?”

“वऱ्याच वेळान ताका जाप फुटली. म्हाका पळोवन ताका ताचे एकसुरे, अपुरवायेचे धुवेचो उगडास जालो खंय आनी हांव खंय ताका सामकी ताचीच धूव ताचेमुखार उबी आशिल्ल्याचें दिसलें, देखून तो खीण भर म्हाका पळोवन मोनोच जालो.”

“पूण ताची धूव...”

“तेन्ना ती ह्या संवसारांत नाशिल्ली...”

“कितें???”

“हय...”

बाबाकय ताचे ते वागणुकेचें अजाप दिसलें. ताची भास म्हाका समजनाशिल्ली. बाबाक ताणें पुर्तुगेज भाशेंत कितें तरी सांगलें. तेन्ना बाबाय बी भावनाविवश जालो. गव्हर्नर उलयतालो तशे बाबाले दोळे ओले जाल्ल्याचें हांवें पळयलें. हांव तें पळोवन काचाबूल जालें. म्हजी ती कावरी बावरी अवस्था पळोवन दोगूय जाण भानार आयले आनी त्या दिसा दीस भर हांव आनी बाबा गोव्हेर्नादोराचे पालाशेर रावलीं. गोव्हेर्नादोराची बायल आसली. तिणेंय म्हाका खूब वेंगेंत घेतलें आनी तीय रडली. म्हजे भुरगे-मतीक तांचें दुख्ख समजूंक पावलें ना तेन्ना सांजवेळा घरा येतना गोव्हेर्नादोरान म्हाका खूप सोबीत बावली दिली. ताणें पुर्तुगेज भाशेंत बाबाक म्हाका सांगपाक लायलें. ही बावली खूब मोलाची, हिऱ्या-माणकां परस मोलाची, म्हजे धुवेची ती. हे बावलेक म्हजी धूव क्लारा सद्दां घेवन न्हिदता उठ्टना खेळटाली, ज्युस्त म्हजे धुवे भशेन तूं म्हाका दिसली म्हणून म्हजे धुवेची ती

बावली आयज हांव तुका दितां अशें म्हणत तांणी म्हजी पापी घेवन ते बावलेक तुजेच सरीं दवर, खंयच उडोवं नाका, तिका एकटी सांडूं नाका, अशें सांगलें. बाबान ताचीं उतरां म्हाका आमचे भाशेंत सांगलीं. तेन्ना हांव साप्प ल्हान नासलें. म्हाका इल्ली बुद्द आसली. त्या गोव्हेर्नादोरांतलो एक दुख्खी बापूय म्हाका तेन्ना भिडून गेलो. हांवें ती बावली इतली वर्सां खूप जतनायेन दवरिल्ली... त्या दुख्खी बापायचे धुवेचो उगडास म्हण. ते बावलेन म्हज्याय मनांत घर केल्लें. खूब व्हडलें घर केल्लें ते बावलेन म्हज्या काळजांत. देखून म्हज्या कुळारा तिची अपुरबाय म्हजे फाटल्यान कोण करचो ना म्हणून हांवें ती हांगा हाडपाखातीर पेटयेंत दवरपाक सांगिल्लें. पूण ह्या सगळ्या दिर्व्या-देण्यांनी, भांगर-शिंगरांनी, वस्त्रांनी, माणकां-मोतयांनी भरिल्ल्यो पेटो म्हाका रित्यो दिसतात."

रमाबायची समजूत कशी घालची तेंच दादासायबाक समजना जालें. लग्न जावन इतले उमेदीन, येद्या दबाज्यान घरांत येता थंय आसा, आनी ह्या सगळ्या आनंदाचेर अशेतरेन विरजण पडिल्लें पळोवन तोय निर्शेलो. ताणें बावली सोदपा खातीर सगळ्यो पेटो सोदून पळयल्यो. खंयचेच पेटेंत बावली मात सांपडली ना.

श्रीमंत रायूबाबाली सुंदर-सोबीत धूव रमाबाय एक इल्लेशे बावलेक लागून भोमकुंडकाराच्या आलिशान वाड्यांत सुखाचे बाज्जेर पडून आपल्या लग्नाचे पयले रातीं बावलेचे यादीन रातभर कुशीर कुशी बदलीत रावली.



# शिगमो बुडलो

"हांगा शिगमो बुडला," त्या भुरग्यान उदकांत बोट दाखयत म्हळें.

"शिगमो बुडला?" - म्हाका कसलोच बोध जालो ना देखून हांवें अजापान त्या भुरग्याक विचारलें.

"भावडे, तूं भितर बुडी मारता?" म्हज्या प्रस्नाक जाप दिनासतना ताणें दुसरो प्रस्न केलो. ताका हांव म्हळ्यार अजापाचोच मनीस दिसलो जावंये. पाणट्यार न्हावपाक येतनाच तो आमकां पळयत राविल्लो. हांव, मायकल, आनी विसेंन्त कालेंच्या त्या पाणट्यार न्हावपाक गेल्ले. व्हांवते न्हंयेंत मदींच कोंड जावन तळें कशें उदक सांठवल्लें. न्हंयेच्या दोनूय देगांनी घे म्हणून झाडां! न्हयच्या उदकांत उडी मारपाचे तयारेन जे सुवातेर हांव उबो राविल्लों, ती सुवात म्हळ्यार एक कांसवा आकाराचें खडप आसलें. हें खडप उदकांत भितर पोखरिल्लें आनी उदकांत एक भुयार कशें जाल्लें. चुकून कोणूय भितर सरल्यार भायर येवपाक कठीण. खडपाच्या एका उंचवट्यार तो, त्या गांवचो भुरगो उबो आसलो. भोंकार बोंत पडिल्लें, चिखलान दाट जाल्लें कालसांव आनी काजूच्या रोसान खतावल्लो एक चामुड्डो बुश्कोट ताच्या आंगार आसलो. भुरगो रुपान बरो. पूण तोंडाक चिखोल, कपलार रांपिल्लो रांप स्पश्ट दिसतालो. हातूय नितळ नासले. म्हऱ्यांत गेल्यार भूस करून काजू फोकांचो वास. तरूय तो भुरगो मानवलो. हांव न्हावपाक तयार जालां तें पळोवन ताणें भियेत त्या पाणट्याक बोट दाखयत 'शिगमो बुडला' म्हूण परत सांगलें.

म्हाका शिगमो म्हळ्यार आमचो अंत्रुजेंतलो मेळ दिसलो. धोल ताशांच्या घुमचे कटर घुम चेर नाचपी लोकांचो मेळ म्हळ्यार शिगमो, असलो शिगमो थंय ते न्हंयेंत बुडला म्हूण सांगतकच म्हाका अजापूच दिसलें. म्हजी उमळशीक वाडली. हांव उदकांत पांय सोडून खडपाचे धडेर बसलों. तो भुरगो थंयच उंचवट्यार उबो रावन म्हजे कडेन उलयतालो. मातशे पेल्यान पेंवपाक येना म्हूण मायकल आनी विसेंत धोंपर भर उदकांत लोळटाले. आनी हांव पेंवपी हें तांकां दाखोवपाक, खोल उदकाचे धडेर एकलो बुडी मारूंक हे वटेन आयिल्लों. शिगमो बुडलो हें उतर म्हाका समजलें ना. शिगम्याची खबर सांगपी सामकार आसतना कोण जायत हो शिगमो म्हण तकली खाजोवपाची गरज नासली. ताच्या दुसऱ्याय

प्रस्ना कडेन दुर्लक्ष करीत हांवें तांका परत विचारलें,

"कोण शिगमो? आनी अख्खो शिमगो हांगा बुडला?" शिगम्याचो मेळ पळयिल्लो हांव. खीण भर दिसलें, शिगम्याच्या मेळांत नाचपी लोक बी हांगा बूडूंक ना मूं?

"कितले लोक बुडले?"

"योक," ताणें बोट करीत म्हळें.

"एक, एकटोच?"

"हय, पूण तो शिगमो, आमच्या गांवचो शिगमो. पिंजर मारून जातकूच न्हावपाक येयलो हांगा..." म्हजी उमळशीक आनिकूय वाडली. हांव आस्थेन विचारता तें पळोवन त्या पोराक धादोशी जाली. ताणें आपलें तोंड गंभीर आनी भिरांकूळ करून म्हळें, "पेडार शिगमो खूब नाचलो, शिगम्या वांगडा आमीय नाचले. कितले ताळे मोडले जाणां भावडे, त्या धनान? तर पाद्रील्या उशेलांतले असले ऊस हुमटून काडले. फुलयल्ली सत्री कशी वयर झेलयत ऊस घेवन नाचलो तो. शिगमो कसो नाचलो? तेज्यान ताळे घेवं येता. तो शिगमो न्हूं?"

"शिगमो म्हळ्यार कोण तरी एक व्यक्ती जावंक जाय असो हांवें अदमास बांदलो."

"ताणें कितें घेतलें तर?"

"गुडी. गांवची गुडी शिगमोच घेता. अवसर येता तेजेर, मागीर आमकां कौल दिता. म्हजो वावा गेल्लो कौल घेवपाक, म्हाज्या कपलाक बिबूत बी लायलेली." ताणें बिबूत फांशिल्ल्याचे हावभाव करून कपलाकडेन हात व्हेलो.

आनी सगळो प्रकार म्हज्या लक्षांत आयलो. फरक इतलोच कि आमी मेळाक शिगमो म्हणटात, तर ते गुडी हातांत घेवन नाचप्याक शिगमो म्हणटात. पूण शिगमो बुडला ताचे संबंदीं हांव बरोच अस्वस्थ जालों. आनी थंय कोण तरी बुडला वो केन्ना तरी बुडिल्लो हें सांगतकच ते सुवातेर उडी मारपाचो धीर कोणाक जायत?

कल्पनेन म्हजें आंग ओगीच जड जालें. उदकांत लांबयल्ले पांय हांवें अळंग वयर काडले. शिगम्यान पांयांक धरून भितर व्हेल्यार? चतुर्दस आसली त्या दिसा. मांडार वचून शिगमो उलगुपाचो. ताचे पयलीं न्हावन, धुवन निवळ जावप. दर वर्साची कार्यावळ ती. जांवावलेचो पाणटो तांवडो जाल्लो हांवें पळयिल्लो. काल्यां शिगमो जाता आनी असो जाता तें हावें केन्नाच आयकूंक नासलें. म्हणटकूच शिगम्याच्या मर्णाची खबर जाणा जावन घेवचीच पडली.

"शिगमो कितल्या वर्सांचो आसलो?"

"सामको भुरगो, म्हजे परस मात्सो व्हडलो."

"पूण कसो बुडलो रे तो?"

"तेजें तेशेंच जावपाचें आसलें खंय."

"कोण सांगता?"

"देवान सांगलें खंय तेज्या बापायक."

"खंयचो देव?"

"आंवंयं, तुमी देवाक वळखनात?"

"तुमच्या देवाक हांव कसो वळखतलों? हांव ह्या गांवचो तर? ताका म्हज्यो मखलाशी पटल्यो आनी ताणें न्हंये पलतडी सुमार दोनशें मेत्र अंतराचेर आशिल्ल्या पेडाकडेन बोट दाखयत म्हळें.

"तो पळे आमचो देव, वाठार!"

पलतडच्या पेडार जाय त्यो तांवड्यो गुडयो लायिल्ल्यो. गुडयो नव्यो, पोरण्यो, विटिल्ल्यो. गुडयो पेडाक हुमकळटाल्यो. पेडाच्या मुळसाक रोयणूय आसली.

"मुळसाक रोयण ना, तेंतून जाग्याचो रावता. पातकी मनशांक दिसना खंय तो."

त्या मानान गांवगिरे जिणेविशीं ह्या भुरग्यांक बरेंच कितें आसलें. 'वाठाराचो', 'जाग्याचो', 'धांवांचो', 'शिमेचो' अशे गांवचे देव ताका पाठ आसले. "आनी तूं जाणां, शिगमो आतां लागता खंय."

"कोणाक लागलो रे?"

"हांगा एकटो येवपाची छाती आसा काय कितें कोणाक?" म्हजीं उतरां कानभेरी करून तो आपणाक जाय तेंच सांगतालो. तो आतां सामको तल्लीन जाल्लो. हांव कोण तरी सामकोच नेणार, म्हाका त्या गांवाविशीं कांयच खबर ना आनी आपूण तें बेसवरें जाणां आनी म्हजे सारकिल्याक सांगतां, हाची व्हडवीक ताज्या मुखामळावयल्यान उफाळून ओत्ताली.

"तूं, तुजे नांव कितें रे?" इतले वेळ हांव ताचें नांव विचारूकच विसरिल्लों. पूण परत ताणें म्हज्या प्रस्नाकडेन दुर्लक्ष केलें. "शिगमो एकदम बरो भुरगो आसलो; भाटांतले शाळेत वयतालो तो. पयली शिकतालो."

"तूं वचना?"

"वयतां तर, हांवूय पयलेंतूच आसां."

"शाब्बास."

"बाई शिकयता आमकां. आमकां ती पदां बी म्हणपाक शिकयता. म्हाका वीट येता त्या पदांचो. कांय अर्थूच लागना, आमचे भाशेंत शिकोवपाक कितें तिका शिरें माल्लां?"

"तुका समजतात तीं पदां कसलीं?"

"आमचीं तीं, हांगासल्लीं, आमचे मातयेचीं."

"एक म्हण पळोवंया."

“आतां ना. हो वोगोत पदां म्हणपाचो?”

“ये, आरे, असो किते थंय उबो रावला, मार मरे उडी, व्हडलो पेंवपी न्हुरे तूं!” पयसुल्यान विसेंन्तीन म्हळें. बरोच वेळ जाल्लो खरो. उदकांत उडी मारपाक धीर जायनासलो. शिगमो बुडला हे सांगत पासून थंय न्हावपाक जीव फाटीं-फुडें जावपाक लागलो.

“न्हायना!” ताणें विचारलें.

हातांत एक फातोर घेवन खश्टाचेर मारलो आनी हुमकळटलें खश्ट उदकांत पडलें. दुसरो फातोर घेवन ताणें उदकार अशे तरेन मारलो कि तो फातोर दोन तीनदां उदकाक आपटून पयस पडलो.

“बेबूक न्हू?”

“खंय रे?”

“हांयें केल्लें, पळेलें ना तुयें.”

“हां, तें फातराचें!”

“शिगमोय अशींच बेबकां करतालो.”

“राव रे, शिगमो बुडलो म्हणटकूच अंदूं शिगमो कोण नाचतलो?”

“गांवांत जायते शिगमे आसात. सगळे नाचतले, पूण तोरण कोण घेवचो ना.”

“कित्याक?”

“तें वाठाऱ्याक आनी जाग्याच्याक खबर आसा.”

“तूं घेतलो तोरण?” तो हांसलो. तो आपलोच अधिकार अशा हावभावान तो हांसलो.

“म्हजे बगर दुसरो कोण घेतलो?”

“कोणें सांगलें तुका?”

“हे तेणें... वाठाऱ्यान... म्हाज्या वाठाऱ्यान -” अशें म्हणून त्या भुरग्यान कपड्यांसयत त्या खोल उदकांत उडी घेतली.”

“आरे, आरे हो ...” म्हजो आवरो उडलो. उडी मारून तो वयर सरतलो अशे म्हाका दिशिल्लें. पूण तो वयर आयलो ना. हांवें व्हडल्यान विसेंन्तीक आनी मायकलाक साद घालो. धोंपरपर उदकांत लोळटाले ते दोगूय तशेच निसरड्यावयल्यान धांवन म्हजे सरीं पावले.

“कितें जालें, कोणाक पळेलो तुयें!”

“आरे त्या पोरान भितर उडी माल्ली.”

“कोण पोर?”

“आतां म्हजेकडेन उलयतालो तो.”

"तुजेकडे उलयतालो, कोण?"

"तुमी पळोवंना, हांव इतलो वोगोत ताचे कडेन उलयतालों तो?"

"तुका पिशें बी लागुंना मरे? आरे तुजेसरीं कोणूच नासलो. तूं इतलो वोगोत एकटोच, न्हावचो सोडून हांगा उबो आसा तो आमी पळेलो."

"कितें सांगतात रे तुमी? आरे, ताणें हांगा शिगमो बुडला ती खबर म्हाका सांगल्या. गांवचो शिगमो बुडला खंय हांगा."

"हेका पिशें बी लागूं ना मरे मायकल?"

"रोमेश, आरे, तूं जाग्यार आसाय मुरे?"

"हं."

"हं हं कितें, तुवें कोणाक पळेला देव जाणा!"

"ना रे; आरे, आतां मरे तो म्हजे कडेन उलयला. हांव ताजे कडने उलयलां."

हेका पिशें लागलां मुरे, चोल, चोल आमी रुमार या. बांयचेर न्हा तूं" - अशें म्हणून मायकलान आनी विसेंन्तीन म्हाका हातात घट धरून देगेवयल्या खडपा वयल्यान वयर वाटेर व्हेलो. म्हजी तकली सामकी भेरेल्ली. सगळेंच अजाप कशें. कितें म्हण कांयच समजलें ना. सत सांगल्यार इश्टांनी पिशांत काडलो.

सगळो वेळ भ्रमिश्टास्थेंत हांव कॅम्पांत रावलों. पाणट्यार हांव एका भुरग्या कडेन उलयलां ताचो तपशील सांगून गजाल सामकी खरी आसली म्हणून सिद्ध करपाचो हांवें यत्न केलो. पूण कोर्णेंच सत मानलें ना.

रातच्या जेवणाक बसला आसतना, जेवणाच्या मेजार आमचे मदीं पाद्री आब्रेव बशिल्लो. पाद्रीक ही गजाल सांगपा खातीर हांवें म्हळें, "फादर, आमी आयज पाणट्यार गेल्ले."

"पाणट्यार गेल्ले?"

"हय फादर, न्हावपाक गेल्ले!"

"थंयसोर शिगम्यान नकलामी बी केल्योना मुरे?"

"शिगमो?"

"हय. थंयसोर पोरूं शिगमो बुडोन मेला, तो थंय आजनेरी कोरता."

'शिगमो बुडून मेला... तो आजनेरी करता...' हीं उतरां कानार पडना फुडें हातांतलें कुलेर-कांटो सुटून एकदम जमनीर पडलीं. आनी म्हजी दांतखिळी एकदम घट्ट जाली.



# जैताची एक खेळी

माथ्यावयलो भडक सुर्या इल्लो, इल्लो आतां माथ्यावयल्यान देंवन अस्तमतेकडेन सरकतालो. जसो, जसो सूर्या सरकतालो तश्यो नेहरू स्टेडियमावयल्या ग्रांवडार मरून फिल्डींग करपी खेळगड्यांच्यो सावळ्यो इल्ल्यो, इल्ल्यो लांब जावपाक लागिल्ल्यो. लांव लांव लांबतल्या सावळ्यांक लागून दर एकलो सावळेचो आडो कसो ग्रांवडार पडला कसो दिसतालो. पूण खंयच्याच खेळगड्याक पडटल्या दिसाचें भान नासलें. मुखावयलो स्कोअर बोर्ड इल्लो, इल्लो फुडें फुडें सरकतालो आनी जसो, जसो धांवड्यांचो आंकडो चडटालो तसो, तसो दर एकल्याच्या काळजाचो ठोको धडधडटालो. क्रिकेटींत खंय केन्ना कोणाचें दालें जड जायत सांगपाक जायना. हो खेळूच नशिबाचो. आयज दोन पंगडाचें नशीव नेहरू स्टेडियमाचेर कसाक लागिल्लें.

ड्रेसिंग रुमांतल्यान महेशान परत एकदां धडधडट्या काळजान ग्रांवडार नदर मारली. पळय जाल्यार श्रीलंकेच्या मुखेल्यान फिल्डींग आंवळून घेतिल्ली. बाउंड्री वयले फिल्डर्स लागीं हाडिल्ले आनी बॅटसमॅनाचेर मानसिक दबाव हाडपा खातीर बॅटसमॅनाक मदीं घालून सगळ्या फिल्डरांनी सर्कल केल्लें. फकत डीप लेगांत तितलो एकलोच फिल्डर आवट फिल्डर दवरिल्लो. मीड-ऑन आनी मीड-ऑफ फिल्डरूय मात्शे फुडें आयिल्ले. पीच बरीच नरम जाल्ली आनी पिचीर टप्पो घेतिल्ले बॉल अकस्मात आपली लायन सोडून एक तर भितरल्यान घुसतालो ना जाल्यार भायर तरी वतालो. भितल्ल्यान येवपी बॉल चड भिरांतेचो आसलो. खंयच्याय खिणाक विकेट घेवन वचपाची शक्यताय आसली. महेशान स्कोअर वोर्डाचेर नदर मारली. फकत धा बॉल उरिल्ले आनी जिखपाक फकत आठ धांवड्यो जाय आसल्यो. आठवो गडो खेळटालो आनी निमाडो गडो संजय कुमार पेडां बांदून खंयच्याय खिणाक ग्रावंडार बेटिंगेक वचपाचे तयारेन राविल्लो.

"संजय?" महेशान संजया म्हऱ्यांत येत म्हळें.

"कितें सांगूंक सोदता तूं?" संजयान उमळशिकेन आपलो कॅप्टन महेशाक विचाल्लें.

"डॉन्ट गॅट नर्व्हस, बी कंफटेवल."

"नॉट ॲट ऑल" - संजयान हांसत म्हळें.

"रिअली?"

"ऑफ कोर्स!!" - संजयान परत आपलो आत्मविस्वास आपल्या कॅप्टनाक दाखयलो.

"पूण, खेळपाची पाळी म्हजेर येतशी दिसना."

"ओनली एट रन्स आर रिक्वायर्ड."

"बाबा, एट रन्स! पूण, हे आठ रन्स भयंकर कठीण मार्गार आसात. पळे, पळे ताणें कशें अपील केलें तें. ते आमचेर आतां मानसिक दवाव हाडपाक सगळीं तंत्रां वापरतले." महेशान भायर ग्रांवडार पळयत म्हळें. श्रीलंकेच्या विकेट किपरान आनी बॉलरान लेग बिफोर विकेटी खातीर अपील केल्लें. ऑफ ब्रेक केल्लो बॉल बॅट चुकोवन विनोदाच्या उजव्या पेडाक आपटलो. पूण अंपायर त्या आकांताच्या अपिलान मात्तूय चलबिचल जालो ना. बॉल लेग विकेटी भायल्यान वतालो. चवताळिल्ल्या बॉलरान येद्दे दोळे करून अंपायराचेर 'खायन तुका जितोच' अशा अर्थाची नदर मारली. पूण अंपायर मुरलीक आतां बॉलरांच्या असल्या पोकळ अपिलांचीय संवय जाल्ली आनी दोळे फोडून पळोवपाची नदराचीय संवय जाल्ली. आनी जालेंय बी तशेंच. अंपायर अचूक आसलो म्हणपाचें कॅमेऱ्यान टिपलें आनी रिप्लेंत ते दाखयलेंय बी. पूण रिप्ले ग्रांवडावयल्या खेळप्याक थोडीच पळोवंक मेळटा. ड्रेसिंग रुमांत मात भारताच्या पंगडांतल्या सगळ्यांच्या तोंडांतल्यान उत्स्फूर्त उतर फुटलें, "थँक गॉड!"

स्कोअर बोर्ड हालनासलो. महेशान स्कोअर बोर्डाचेर नदर मारली 'इंडिया - एट फॉर टू हंड्रेड!' श्रीलंकेचे दोनशें आठ रन्स हुपूंक जाय आनी जिखपाक दोनशें णव काडपाक जाय हें आव्हान घेवनच इंडियाचो पंगड मैदानार देंविल्लो. त्या मानान श्रीलंकेचेर भारतान बरेंच चेपण हाडिल्लें. श्रीलंकेचे पयले पांच गडे शंभरां भितर तंबूत परतले आनी देडशां भितर श्रीलंकेचो अवतार सोंपतलो अशें सगळ्यांकच दिसतालें. पूण सवो गडो मैदानार देंवलो आनी तांणी भारताची फास्ट बॉलींग झोडपून काडली, कॅप्टन महेशान जेन्ना स्पिनरांक हाडले तेन्ना रन्साचो रेट उणो जालो आनी मागीर शंकराचे फिरकेन आपणाली करामत करून श्रीलंकेक दोनशें णवांचेर गुटलायली.

मैदानाचें आउटफिल्ड मात्शें जड शें आशिल्ल्यान बॉल तितलो धांव नासलो. आवटफिल्डावयली हरयाळी वरीच दाट आशिल्ली, ताका लागून बरे बरे पावरफूल शॉट मारून सुद्दां चौको चड करून मेळनासलो. आवट फिल्डार पावतकच गतीन येवपी बॉलाची गती अकस्मात कमी जाताली आनी ते मेरेन फिल्डर धांवत येवन बाउंड्री भितर बॉल आडायतालो.

"संजय टेक केअर ऑफ लेग सायड. फक्त लेगसायडीतलेंच आवटफिल्ड हरयाळेन चड दाटलां आनी तुजे आवडीचे शॉट मारपाचें ऑफ फिल्ड बरें सुळसुळीत आसा. तुवें

बॉलाक मात्शी ग्रीप दिवन ग्लान्स दिल्यार पुरो. बॉल सोमतोच बाउंड्री भायर म्हण समज तूं."

"पूण ती पाळी म्हजेर येत शी दिसना, विनोद करतलो ती करामत." संजयान हांसत कॅप्टन महेशाक म्हळें. इतल्यांत संजयाच्या हातांतलो फोन वाजपाक लागलो. फोल्डींग मोबायल फोन उक्तो करून संजयान मुखार ग्रावंडार नदर दवरीत म्हळें,

"हॅलो, संजयकुमार स्पिकींग."

"बेटा संजय, पापा हिअर."

"या पापा?" संजयाक आपल्या बापायचो फोन केन्नाच येवंक ना. ते भायर पापाक सद्याचें सिच्युएशन खबर आसा. पापा-मम्मी ह्या वेळार नक्कीच टिवी मुखार आसूंक जाय. तरी सुद्दां थोडो सो भयभीत जायत आपल्या बापायक कितें तरी म्हत्वाचें सांगपाक जाय हें संजयाक कळ्ळें आनी ताणें ताचो पापा फोनार कितें सांगता तें आयकलें."

"संजय, आर यू ओके?"

"हय पापा, आय ॲम क्वायट ऑलरायट. एनिथींग?"

"संजय, म्हाका आतांच एक फोन आयिल्लो."

"कोणाचो फोन?" - संजयान मोटे उमळशिकेन बापायक परत फोनार विचारलें.

"फोन पैजो लावप्यांचो आसूंक जाय. म्हाका फोन करतल्यान श्रीलंका जिकता म्हण आपले धा लाख लायिल्ले आसात. आनी जर भारत जिकीत जाल्यार तो पैजो हारतलो आनी पैजेक लायिल्ले धा लाख वगडायतलो."

"ताचें म्हणणें कितें?"

"संजय, म्हज्या पुता, तो म्हाका ब्लॅकमेल करूंक सोदता, आमकां विकते घेवंक सोदता."

"पूण अशे कशे तो आमकां ब्लॅकमेलींक करूंक सोदता?"

"ताची एका लाखाची ऑफर आसा." तेवटेनच्यान संजयच्या बापायन एकदम खरो फॅक्ट सांगलो.

"एक लाख?" संजयान अजापान बापायक विचारलें.

"हय, एक लाख?"

"पूण कित्याक."

"आतां तूं लास्ट बॅटस्मॅन म्हण खेळपाक वचपाचो आसा."

"करेक्ट, मागीर-"

"ताचो डिमांड आसा, यू हॅव टू गॅट आऊट डेलीबरेटली."

"वॉट नॉन्सेन्स??"

"हय, म्हज्या पुता."

"पूण कित्याक??"

"म्हाका धमक्यो येतात, तुज्या जिवाचें कितेंय बरें-वायट करूं येता." थरथरत संजयाक ताच्या बापायन ती खबर सांगली.

"पुता, ते जुगारी. खेळ खेळटात तुमी आनी तुमच्या हार-जैतांचेर हे लोक कोट्यांची उलाढाल भायर करतात. पुता, भारत जिकल्यार आमकां धमकी दितले हारतले आनी- "

महेशान संजयाक नर्व्हस जावन फोनार उलयता तो पळयलो आनी ताणें लागीं येत संजयाक विचारलें, "वॉट इज द मॅटर, संजय?" इतल्यांत परत संजयाचो मोबाइल आवाज करपाक लागलो. संजयान भियेत, भियेत मोबायल कानाक लायलो आनी ताणें सवकास 'हॅलो' म्हळें.

"देखो संजय, हम बहुत खतरनाक लोग हैं और हम आपके बहुत नजदीक हैं."

"मागीर, म्हाका कितें कर म्हणटा?"

"जर विनोद आवट जालो आनी तुजेर खेळपाची पाळी येत जाल्यार-"

"जाल्यार कितें???"

"जाल्यार तुवें मुद्दम आवट जावंक जाय, आनी ही मॅच हारपाक जाय, श्रीलंकेचें जैत जावंक जाय, ते खातीर तुजे एक लाख तुज्या घरा पावतले."

"कोण तूं?? हॅलो... कोण तूं, नांव सांग तुजें." संजयाक कडकडो भरलो, तो रागान तांबडो गुंज जालो. ताचे हात शिवशिवपाक लागले.

ताणें पळयलें, स्कोअर बोर्ड फुडें सरच नासलो. इतल्या वेळांत विनोदान फकत तीन धांवड्यो काडिल्ल्यो. इतल्यांत श्रीलंकेच्या बॉलरान बॉलींग मर्यादेगेर पांय दवरून रेग हुपली आनी अंपायरान नो बॉल दिलो आनी हे भाशेन भारताक फक्त चार धांवड्यांची गरज आसली. विनोदाक बिटवीन द विकेट धांवन एक चिकी रन काडटना स्लिपांतल्यान श्रीलंकेच्या एका फिल्डरान अचूक डायरेक्ट थ्रो स्टंपार मारलो आनी रन आउट केलो. मैदानार एकूच बोवाळ जालो. श्रीलंकेचे खेळगडे विजयाचे खात्रेन जल्लोष करपाक लागले. एकामेकांक वेंगो मारून उडयो मारपाक लागले. भारताचो लास्ट प्लेयर, आनी तोवूय तसो मोटो बॅटस्‌मॅन न्हय, ताका आउट करपाक कांय न्हय हें गृहीत धरून श्रीलंकेच्या खेळगड्यांनी मैदान पयलेंच उखलून घेतलें. आउट जाल्लो विनोद क्रीज सोडून पॅव्हिलियना वटेन येता तो संजयान पळयलो आनी ताणें आपल्या बांदिल्ल्या पॅडांचीं क्लिपां घट केलीं, सदळ घाल्ले बूट अंदिले. हाताचे ग्लोव्हज सदळ केले, अबडॉमन पॅड हात लावन पयलें आनी बॅट जमनीक उबें तेकोवन संजयान वयर सकयल करून आंग सदळ करपाचो प्रयत्न केलो. दोन तीन उठाबशी काडल्यो. धोंपरां-स्नायू सदळ करपाक आंग सदळ करून घसाघसा हालयलें,

मानेक झटको दिवन मान दाव्यान उजव्यान वळोवन मानेचे स्नायू सदळ केले, बॅटाक बरी ग्रीप येवची म्हण ग्लोव्हज घाल्लीं बोटां आंवळून सोडलीं. आनी ताच्या बोल्सांतलो फोन परत घणघणलो. ताका कळ्ळें, तो तांचोच फोन. पळय जाल्यार फोनार संजयाची आवय उलयताली.

"संजय, भिवपाची गरज ना. आमकां नाकात ते अधर्माचे दुडू. पुता, तुज्या देशाचें आनी मांयभुंयेचें नांव वयर दवर. फक्त चार धांवड्यांची गरज आसा. टेक कॅअर, म्हजो तुका आशिर्वाद आसा. तांचे फोनार फोन येत आसात, पूण आतां तुवें बॅटीची तरसाद करून तुजो प्रताप दाखेवंक जाय. पुता, सगळो भरिभार तुजेर, अख्खो संसार तुजे कडेन दोळे लावन बसला."

"मम्मी, वतां हांव-" अशें म्हणत संजयान फोन काडून आपल्या लॉकरांत दवरलो आनी तो ग्राउंडार वचपाक भायर सरलो. वाटेर ताका कॅप्टन महेशान फाटीर हात मारून धीर दीत म्हळें, "टेक इट इझी, बी कूल अँड प्ले."

"यस् सर" संजयान आत्मविस्वासान जाप दिली.

संजयान ड्रेसिंग रूमांतल्यान मैदानार पावल दवरपाक अख्ख्या स्टेडियमाचें लक्ष संजयाचेर थीर जालें. संजयाक कचाकच भरिल्ल्या लाखभर प्रेक्षकांनी ताळ्यांच्या कडकडाटान येवकार दिलो आनी पॅव्हिलियनाच्या सगळ्या दालनांतल्यान एका तालार एक आवाज मैदानभर घुमलो.

"संजय, वी वाँट स्क्वेअर कट..."

संजयाची एके विशिश्ट पद्दतीन स्क्वेअर कट मारपाची कळाशी प्रेक्षकांक भूल घालताली आनी संजय ऑफसायडी बॉल घेवन सोवीत स्क्वेअर कट कांयच न्हय करून मारी. संजय सवकास चलत चलत पिचीर पावलो. आपली नदर स्पश्ट करपाक ताणें वयर मळबांत सुर्याकडेन पळयलें आनी मोटे धिटायेन संजयान पिचीर उबो रावन लेग गार्ड अंम्पायरा कडेन मागलो. लेग गार्ड घेवन संजयान फुडें पळयलें. श्रीलंकेच्या मुखेल्यान बॉलींग वदलली. श्रीलंकेच्या खतरनाक अशा फास्ट बॉलराच्या हातांत ताच्या कॅप्टनान बॉल दिलो आनी ताच्या कानांत कितें तरी सांगलें. विनोद निमण्या बॉलार आउट जाल्ल्यान नवो बॉलर हाडप श्रीलंकेक सोपें जाल्लें. संजय फास्ट बॉलिंगेचेर गडवडटा असो कितें तरी समज श्रीलंकेच्या मुखेल्याचो आसलो जावंक जाय. फास्ट बॉलींगेक फिल्डींग लायली. स्लिपांत तीन गडे लायले. एक लेग स्लिपांत दवरलो आनी चौथो फिल्डर संजयाच्या फुडल्यान क्लोज-टू-द-पीच दवरलो. मीड-ऑन, मीड ऑफ मात्शे भायर व्हेले आनी संजयाची ऑफसायड बरी आसा हें मतीत घेवन ऑफसायडींत सामके बाउंड्रीचेर दोन फिल्डर लायले. फिल्डींगेचो चक्रव्यूह करून संजयाक चक्रव्यूह जसो कितें फोडपाचेंच

आव्हान श्रीलंकेन दिल्लें.

पूण संजयाक हे व्यूह-रचनेचें कांय एक पडूंक नासलें. ताणें निर्धार केल्लो, बॉल खंयचोय आसूं, कसोय आसूं, फुडल्या बॉलाक राव नासतना निमणे ओवरीचो पयलोच बॉल हाणपाचो.

श्रीलंकेचो अक्षरशा कर्दनकाळ कसो दिसपी धिप्पाड फास्ट बॉलर लाँग रन घेवपाक बरोच फाटीं गेलो. उणेंच म्हळ्यार ताणें तीस पस्तीस मिटरांची रन घेवपाचें थारायिल्लें आसूंक जाय. ही रन घेवन संजयाचेर पयलो परिणाम करपाक श्रीलंकेचो फास्ट बॉलर झमझम करून एखाद्रें तुफान कशें संजयाचेर येता कशें जालें.

जेन्ना धावपट्टे वयल्यान बॉलरान पयलें धेंप घालें, तेन्ना हाताची ग्रीप बॅटाक घट करीत येतल्या तुफानाक परतून लावपाची मनाची तयारी संजयान केली. स्लिपांतले फिल्डर्स संजयाची कॅच धरपाक बळारी कशे बॉलाचेर नदरो जोखून बागोवन रावले. विकेटकिपर फास्ट बॉलर म्हणटकच विकेटीच्या पंधरा मिटरांच्या अंतराचेर बाग घेवन राविल्लो. खंयच्याय खिणाक संजयाची बॅट बॉलाक लागून ताका कॅच मेळपाची शक्यताय आसली. बॉल बंपर पडल्यार, संजय बॉल आंगार येता सो पळोवन आपले दोनूय हात वयर घेवन उंचायेवयलो बॉल पीच डावन करपाचो प्रयत्न करतलो आनी तेन्नाच बॉल ताच्या मनगटाक वो ग्लोव्हजाक लागून कॅच दितलो अशे आशेन क्लोज फिल्डर मीड ऑफाक तयारेन राविल्लो.

बोलराच्या पयल्या धेंपा बरोबर अख्ख्या स्टेडियमांत शांतताय पसरली. सगळ्यांनी आंवडे घोटून स्वास कोंडून धरले, सगळ्यांच्याच काळजाचे ठोके खीणभर थांबिल्ल्याचो भास जालो. भोंवतणचे सगळे टीवी कॅमेरे तो खीण टिपूंक तयार रावले. कसलो खीण टिपपाचो वेळ येतलो तें मात कोणाकच खबर नासलें. संजय आउट जावप म्हळ्यार श्रीलंकेचें जैत आनी संजयान एकच फोर मारप म्हळ्यार भारताचें जैत. अशे तरेन ह्या दोनूय पंगडाचें जैत एकल्या संजयाचे बॅटीचेर तरसाद कशें हुमकळटालें.

हेवटेन संजयाच्या घरांत टीवी मुखार संजयाची आवय आनी बापूय धडधडट्या काळजान फुडलो खीण पळयतालीं. धर्मीक वृत्तीचे संजयाचे आवयन आपल्या सगळ्या देवांक होरायले. फोनार आयिल्ले धमकेक भीक घालिनासतना संजयान आपणालें कर्तव्य केल्यार पुरो अशें बापायक दिसतालें. खेळामळार खेळगड्यांक विकते घेवपाचे हे प्रकार सुरू जायत सावन संवसारभर हार-जैताचेर जुगडी खेळपी जुगारी लाखांनी रुपयांच्यो पैजो लायताले आनी जांकां पैजो हारपाचो भंय आसतालो ते अशे तरेन खेळगड्यांचेर दबाव हाडटाले. हेच खातीर ही खेळी संजयाच्या धिराचें कसब आनी निबर मनाची गवाय दिवपाची आसली.

आनी पळयतां, पळयतां बॉलरान वयर उडी मारून क्रीज हुपून धंपायच करून बंपर घालो. पयलो टप्पो अर्दे पिचीर पडलो आनी बॉल बाण कसो संजयाचे फुडले वटेन ऑफ सायडींत पावनाफुडें संजयान विजेचे गतीन दोळ्यार आयिल्ल्या बॉलाचेर बॅट वयर उखलून तेकयलें आनी एक वीज चमकल्ले भशेन बॉल खंय गेलो हें कळचे पयलींच ऑफसायडींतल्यान बॉलाचो टप्पो सगळ्यांचे तकले वयल्यान सोमतो वचून बाउंड्री भायर पडलो. मोटे आशेन टपून बशिल्ले श्रीलंकेचे सगळे फिल्डर्स आशिल्ले थंय खिळे कशे ग्राउंडार घट जाले. सगळ्या स्टेडियमांत एकूच जल्लोश जालो आनी संजयाच्या अप्रतीम शॉटाक दाद दिवपाक सगळे प्रेक्षक खिणांत उबे रावन ताळ्यांचो शिंवर घालो. संजयान खंयचे कडेन कांयच घडूंक नाशिल्ले भशेन सगले कडेन पळयलें. मैदानावयल्यो आडखळी हुपून शेकड्यांनी लोक ताचेवाटेन धांवन येतात ते ताणें पळयलें. भारताच्या ड्रेसींग रूमांत शँपेनीचो शिंवर जालो आनी प्रेक्षकांनी जैत मनोवपाक संजयाक उखलून घेतलो.

घराकडेन टीवी मुखार बशिल्ले संजयाचे आवयन आपल्या पोल्यार आयिल्लीं खोसयेचीं दोन दुकां आपल्या पदरान पुसलीं. संजयाच्या बापायच्या काळजाचे ठोके संथ गतीन पडपाक लागले.



# खलाशी

"गंगाराणी बार्ज तडीर व्हरपाची गरज आसा. बार्जीक बरोच मार लागला. मदल्या फाळक्याक वेर गेल्या. माल भरतकच उदक झिरपूंक शकता." गंगाराणी बार्जीची पळोवणी जायनाफुडें कंपनीच्या इंजनेरान फर्मायलें. इंजनेराची सुचोवणी पयली मानवली मंगेशाक. मंगेश बार्जीर हालींच खलाशी म्हणून चडिल्लो. पूण मंगेशाचे कान इंजनेराच्या फुडल्या उतरां कडेन लागलें. बार्ज तडीर व्हरूंक जाय, पूण खंयचे गोदींत व्हरपाची तें मात इंजनेरान आजून सांगू नासलें. मंगेशाक एकोशी आशिल्ले अग्रवाल कंपनीचे गोदींत बार्ज व्हेल्ली जाय आसली आनी ताका ताचें निजी अशें कारण आसलें. गोदींत बार्ज कामाक व्हरप म्हळ्यार दोन-तीन म्हयने तडीर. एकेच कडेन रावपाचें. तडी वयल्या गांवांनी मागीर भोंवपाचें. एकोशीचे गोदींत बार्ज व्हरप म्हळ्यार थंयच्यान चोडणां वचपाक मेळप. मंगेशाक चोडणां गांवची खूब ओड लागिल्ली. आनी जालेंय बी तशेंच, मंगेशाच्या मनासारखें. इंजनेरान म्हळें, "ही बार्ज हांगाचे गोदींत दवरचे बदला, एकोशी वर्कशॉपांत व्हरप गरजेचें, कारण काम खूब आसा." इंजनेरान बार्जीचें इन्स्पेक्शन करून कंपनीक आपलो रिपोर्ट दिलो आनी तो बार्जी वयल्यान सवकास देंवलो. मंगेशान मनांत म्हळें. नवदुर्गाच हेच्या कांट्यार बसली. ना जाल्यार कुट्टाळे ना जाल्यार पैराक व्हरूंक सांगिल्लें जाल्यार सगळें पिड्ड्यार जावपाचें. तरणाटो मंगेश खुशालभरीत जावन बार्ज वास्कोच्यान जुवारी न्हंयतल्यान मांडवी न्हयेंत केन्ना भितर सरतली हाचीच वाट पळोवंक लागलो.

गंगाराणी बार्जीक दोन दिसां आदीं बोरयेच्या पुलाक आपटून मोटो अपघात जाल्लो. बार्ज चलोवपी सुकाणी राघोबा पुला पोंदच्यान बार्ज काडटना गडबडलो. फुडल्ल्यान दुसरी बार्ज येता ती ताणें लार्गी पावली तेन्ना पळयली. ते बार्जीच्यो वयल्यो लायटी पेटनासल्यो आनी ते बार्जीच्या सुकाणीन लायटीचो झोत मारूंक नासलो वो हॉर्न मारूक नासलो, काळखांत ती बार्ज केन्ना फुडें पावली हें राघोबाक कळ्ळेंच ना. राघोबान सुकाणें घुंवडाय घुंवडाय घुंवडायलें. पूण येदी व्हडली गंगाराणी भरल्या पाणयार राघोबाक कशीच पेलली ना. हेरवीं राघोबा खांपो सुकाणी. कॅप्टनाचें लायसन्स मेळ्ळ्यार ताका पंधरा वर्सां जाल्लीं. केन्ना असो अपघात ताचे कडच्यान जावंक नासलो; मात आयज ताचो वेळ फाल्स आसलो.

पुला पोंदच्यान बार्ज वतां, वतां एका मोट्या खांब्याक बार्जीची धडक लागली तशे घसयस् करून सगळे खलाशी जागे जाले. चडशे खलाशी बार्ज संथपणान चलता तें पळोवन आपआपल्या केबिनांनी वचून आडवे पडिल्ले. सुकाणू कडेन फक्त राघोब एकटोच आसलो. आनी राघोबाच्या हातांत सुकाणें आसतकच सगळे खलाशी निर्धास्त रावताले. गंगाराणीन खांब्याक धपको दिलो; पूण दैवसुयोगान कांयं वायट घडलें ना. पुलाक मोटो नेटान धपको लगिल्लो जाल्यार पूल सोमतोच न्हंयंत जलसमाधी घेवपाचो. अपघात जाल्ली बार्ज तशीच थंय बांदून सुकाण्यान वास्को कंपनीच्या ऑफिसांत अपघाताची खबर कळयली. पूण रातीकडेन पंचनामो करप शक्य नासलें. रातभर बार्ज तशीच पुलाकडे नांगरून दवरली. सगळ्या खलाशांच्यो दांतखिळ्यो बशिल्ल्यो; तांचे बेपर्वायेन हो अपघात जाल्लो. सगळेजाण अपघाता वेळार आड पडिल्ले. पूल पार करतना बार्जीच्या दोनूय कडांनी रावन बार्ज पुला पोंदच्यान सयसलामत वतली हे खातीर खलाशांनी जतनाय घेवपाची. पूण सगळे घाळ रावले आनी गंगाराणीक अपघात जालो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं कंपनीचे लोक आयले, पुलीस आयले आनी सुकाणी राघोवाक अटक केली. पंचनामो करून पुलाच्या खांब्याक जाल्लें लुकसाण पळयलें आनी कंपनीक लुकसाण-भरपाय दिवपाक फर्मायलें. कंपनीन बार्जीचें इन्स्पेक्शन करून बार्ज रिपेरींगाक धाडपाचें थारयलें. हे सगळे गजालीचो खरो आनंद जाल्लो तो फक्त तरणाट्या खलाशाक - मंगेशाक!

कांय दिसां आदीं एकोशेच्या डॉकांतल्यान बार्ज भायर काडपा खातीर हेर खलाशां बरोबर कंपनीन मंगेशाक धाडिल्लो. जलप्रभा ही बार्ज एकोशेच्या डॉकांत कंपनीन बांदिल्ली. मंगेश आंगलटीन सामको सणसणीत आसलो. ताची रूंद छाती म्हळ्यार काळें-काळें तळप कशें; ताचीं भुजां म्हळ्यार कुपादराचीं खडपां कशीं; ताचे पांय म्हळ्यार सायलाच्यो पाटयो कश्यो, पांयाच्यो पोंवट्यो म्हळ्यार पाशाणाचे गुळे कशे. लांबरुंद मंगेश, काळो-कुळकुळीत रंगान जरी आसलो तरी खूब हांसरे नुरेचो. ताच्या तोंडार सदांकाळ हांसो फुलतालो, देखून मंगेश पयल्या खिणां कोणाचेरूय रोकडोच छाप घालतालो. मंगेशान गांवचे मुळावे शाळेंत चवथी पास केली पूण माध्यमीक शाळेंत मात ताणें खूब गड्डे खाल्ले. "हाका कोणें चवथेक पास केलो? हो फातर मरे, निबर सामको, तकलेंत फक्त धोडयाऱ्याचे तीन फातर हाच्या!" अशें म्हणून माध्यमीक शाळेंतले शिक्षकय मंगेश कांयच शिकना तो पळोवन म्हणपाक लागले. मंगेशाक तें कशेंच सोसना जालें. ताणें एक दीस मनांतल्या मनांत सगळ्या मास्तरांचो उध्दार केलो; शाळेंत आनी परतो येवचो ना म्हणून शाळेक सासणाचो रामराम केलो. कांय तेपान कोणें तरी मंगेशाक वास्को व्हेलो आनी बार्जीर खलाशी म्हणून कामाक लायलो.

खलाशाच्या कामांत मंगेश खांपो जाल्लो. पंदरा दीस बार्जीर काम करप आनी पंधरा दीस घरा. ते भायर पगारूय भरपूर मेळपाक लागलो. झक मारलें तें शिकप-बिकप, शिकिल्ल्यांनी खंय उजवाड घाला, शिकिल्ले म्हाजे परस कमी जोडटात. फाल्यां खलाशाचो सुकाणी जायत जाल्यार म्हयन्याक धा-पंदरा हजार जोड. कोणाक नागोवंक वयतलो! मंगेशान बार्जच आपलें पोट भरपाचें नेमकेंसाधन थारायलें आनी बार्जीरूच तो खरो रमपाक लागलो. ताचें वळ आनी काम पळोवन तांकीचें काम ताच्या वांट्याक येवंक लागलें. एकोशे जांव कुट्ठाळे वो पैरा, खंयूय बार्ज उदकांत लकोवपाची आसताली तेन्ना थंय मंगेशाक कंपनी हमखास खासा ओ.टी. आनी अदीक बोनस दिवन धाडटाली. जलप्रभा हे नवे बार्जीक जेन्ना चालीक लावपा खातीर उदकांत लकोवपाचें जालें तेन्ना मंगेशाक पयले खेप एकोशे वचचें पडिल्लें आनी ते खातीर एकोशे तडीर ऑफिसाच्या रुमांत हेर खलाशां बरोबर तीन दीस रावचें पडिल्लें. त्या तीन दिसां भितर मंगेशाचें मन एकोशेच्यान लागींच आशिल्ल्या चोडणां गांवांत घुस्पल्लें.

सांजवेळा न्हावन, धुवन सगळे खलाशी पासयेक वताले. त्या दिसा मंगेशूय बरो नटून, थटून चोडणां गांवांत पासयेक गेलो. बांद चलून वतकच मंगेश गांवच्या मुख्य रस्त्यार पावलो तेन्ना रस्त्यार दोनूय देगांनी कुचकुचीत रोयिल्लीं वारयीं पळयलीं. झोपांनी मिर्सांगांचे घोंस लोंबकळटाले. कांय मिर्सांगो तांबड्योच जावन तटास जाल्ल्यो तर चडश्यो मिर्सांगो जित्योच आसल्यो. पूण तांचो हरवो रंग पाचव्या पानांनी चट करून नदरेक भरनासलो. मिर्सांगाच्या कुणग्यांमदीं मेरो आसल्यो. त्या मेरांचेर विरवीर लायिल्ले आनी विरविराच्यो सांगो लोंबकळटाल्यो. मदीं मदीं हळडुवीं ताल्ल रोजां फुलिल्लीं. तीं सगळ्यां मदीं उठून दिसतालीं. मदीं मदीं वांयंगी, कांद्यापात, धोडे, कोबी, फ्लॉवरूय लायिल्ले. तांबडी भाजी आनी कणगांचेंय खोपें आसलें. अंत्रुंजेतल्या मंगेशाक पाचवीचार हीं असली वारयीं पळोवन खोस जाल्ली. ताच्या रसीक मनाक चंवर आयलो. देगे वयल्या वारयांत ताणें लाट वयर सकयल जाता ती पळयली. कोण तरी लाटीन उदक काडटालें. मंगेशान फुडें वचून पळयलें. पळय जाल्यार त्या पाचव्या वाठारांत एक रंगबेरंगी घागरो पोलको घाल्लें, एक तरणाटें सोबीत चली, लाट वयर सकयल करून वांयंत लात बुडयतालें आनी लात भरून बांयतलें उदक काडून कळमेंत ओत्तालें. कळमेतलें तें उदक मागीर पाटापाटांतल्यान सगळ्या कुगण्यांनी वांटून वतालें आनी जंय पाट नासले थंय एका फोणाऱ्यांत वचून जमतालें. ते तरणाटे चलयेक आदार करपाक एक धा-बारा वर्सांचो तरणाटो आसलो. तो उदकाक सारकी वाट करून दितालो. मंगेशाक लाटीन उदक काडून वारयीं शिपपाचें विस्मीत दिसलें. ताणें अंत्रुजेंतलीं कुळागरां कल्ल्यान शिंपतना पळयल्लीं, पूण ताणें लाटेन उदक काडून वारयें शिपपाचो प्रकार केन्ना पळोवंक नासलो. मंगेश वारयांत वचपाक चिंतूंक

लागलो; पूण थंय वचप म्हळ्यार, अनवळखी गांवांत परको. ते भायर थंय लाटीन उदक काडटालें तें चलीमनीस. तो तसोच रस्त्यार उबो रावन वारयांत लाटीन उदक काडटले तरणाटेक बरोच वेळ पळयत उरलो. अशें कित्याक जालें हें खुद्द, मंगेशाकय समजलें ना, भोंवपाक आयिल्लो मंगेश त्या वारयांत घुस्पून उरलो. कांय खीण वतकच ताचे फाटीर कोणें तरी ल्हवूच थपय माल्ली आनी मंगेश भानार आयलो. पळय जाल्यार ताचेच कंपनींत काम करपी दुसरो एक खलाशी श्रीकांत.

"मंगेश, कितें, मणभर मिर्सांगो जाय?" श्रीकांतान मंगेशाक पयलो थोमणो माल्लो.

"ना रे, हें पळयतालों, तें शिंपता तें. लाटीन उदक काडटा बरें न्हू? आमचे वाटेन लाटी ना. आमी आमचीं कुळागरां कल्ल्यांनी शिंपतात."

"अशें, तूं लाट पळेतालो काय लाटीर झोंपय मारून लाट बांयंत बुडयतलेक पळयतालो रे? घालुंया उतर? हांव वळखतां तेच्या बापायक. पळे, जाता जाल्यार जा जांवय चोडणेचो" श्रीकांतान एका दमान सगळें म्हणून सोडलें. मंगेश श्रीकांताक कितलो वेळ तोको कसो पळयत रावलो.

"असो अजापान कितें पळयता? हांव सोयरो तेंचो, म्हाका कठीण न्हू तें काम. आंकवार तें. व्होंकल कोणाच्याय हाताक लागपाचें. तेंतूंत तुजेसारको धणधाकट मानाय खलाशी मेळत जाल्यार कोणाक नाका?"

"आरे, श्रीकांत खऱ्यांनीच सांगतां. हांव ते नदरेन थंय तेका पळय नासलों. तूं एक बाबा, भलतेंच कितें तरी?" मंगेशान मात्शें खाल्ल्या मनान म्हळें. नांय जाल्यार हो वेळमेरेन ताच्या तरण्या आनी आंकवार मनांत इल्लीशी उमळशीक आनी चलबिचल सुरू जाल्ली. ताका लाट घेवन बांयंत लात भरून काडटल्या चेडवाक पळयन शें जाल्लें. पूण ते खातीर थंय ताचे लागीं वारयांत वचपाक जाय आसलें. हांगाच्यान काय तें स्पश्ट सारकें दिसना.

"आरे, भलतेंच हांव उलयना. घडये तेजेय घडे भरल्यात जावं येता, वडे करपाक! योगायोग तो, देवाच्या मनांत कितें आसा तें कोणाच्यान सांगो जाता? ना जाल्यार तूं हांगा हेवटेन सो पासयेक कित्याक येवचो? हो कितें पासय मारपाचो गांव?"

"आरे, हांवें तेका आजून सारकें पळोवंक सुद्दां ना मरे, आनी धपक्याक आमची सोयरीक करता तूं?"

"कांय गजाली तश्योच घडोन येतात रे. हांव पुराय वळखतां, हांयें पळेलां तेका. आमचें सोयरें तें, तेज्या बापायक सारको वळखतां. यो, हांव दाखयतां तुका वारयें, वारयांत वचून इल्ल्यो हरव्यो मिर्सांगो आनी वाल विकते घेवंया.'

"थंय विकतात तर तीं?"

"आरे, विकपा खातीरूच रोयतात तीं हें सगळें. तेंकां खावपाक न्हू."

मंगेशाक पटलें. तो आयकून जाणा आसलो, चोडणां मिर्सांगो पिकयतात म्हण आनी मागीर त्यो गोंयांत जातल्या माया म्हयन्यांतल्या पुरुमेतांच्या फेस्तां-फेरयांनी वचून विकतात म्हण. कांदे, मिर्सांगो, आमटाण बी विकून चोडणेचे लोक आपलो चरितार्थ चलयतात.

"कितें येवजिता? यो, लजेक गेल्यार पेजेक पावचो ना" अशें म्हणत श्रीकांतान मंगेशाक हाताक धरून ओडलो आनी चलत घेवन तो वारयांत देंवलो. मिर्सांगांच्या रोंप्यातल्यान वाट काडीत ते लाटीकडेन पावले. श्रीकांतान ते लाटीक धरून आशिल्ले चलयेक हडकिली.

"ये लता..."

"कोण भावोजी, केन्ना येयला, बार्ज कामांक हाडल्या काय कितें? -" अशें म्हणत आतां मेरेन नांव खबर नाशिल्ले ते चलयेन - लतान श्रीकांता बरोबर आयिल्ल्या मंगेशाचेर नदर मारली आनी मंगेशानय ताचे नदरेक नदर दिली. वयलेचाराक मंगेशान तोंडार हांसो हाडलो. पयलेंच हांसरें मुखामळ, तातूंत मुद्दाम हांसतकच मंगेशाचें काळें-सावळें मुखामळ फुलिल्ल्या ब्रह्मकमळा भशेन लख्ख दिसपाक लागलें, खंय कीट पडली कोण जाणा, मंगेशाक पळोवन लतान श्रीकांताक म्हळें,

"भावोजी, असो अकस्मात आमच्या वारयांत सो?"

"आगो, हेका खंय इल्ल्यो हरव्यो मिर्सांगो आनी वाल जाय. ती नेयी बार्ज कंपनीन बांदल्या न्हू, ती फाल्यां लकयतात. ती लकोवपाक येयला, दोन दीस आसा तो हांगा."

"कितल्यो जायो मिर्सांगो आनी वाल?"

खरें म्हळ्यार मंगेशाक वालय नाका आसले आनी मिर्सांगोय नाका आसल्यो. पूण पाडपडिल्ल्या श्रीकांतान ताका त्रासांत घाल्लो. शेकीं ताणें ततपप करीत म्हळें, "मिर्सांगो अर्द कील आनी वाल वीस रुपयांचे."

"अर्दकिल? आमी बाबा वारयांत कितें कील घेवन बसल्यांत?" लतान मंगेशाचेर पयलो तोणको घालो.

"आरे मंगेश, हो कितें भाजी बाजार, तुका किलांनी मिर्सांगो मेळपाक?"

"मागीर कश्यो मेजतात तर?"

"तें तुका लागना. तुका अर्द किलाच्या वजनाच्यो मिर्सांगो मेळटकूच जालें."

"भावोजी, पावणो खंयचो?"

"ते वर्टेतलो, अंत्रुजेंतलो गो..." श्रीकांतान म्हळें.

"तरी म्हटलें..." अशें म्हणत लतान मंगेशाचेर वयर सकयल आनीक एक झळझळीत नदर मारली आनी थंय उबो आशिल्ल्या तरणाट्याक फर्मायलें, "बाबू, मिर्सांगो तोड, हांव तो मेरेन वाल तोडटां" अशें म्हणत लता कळमे वयले पाटार आयलें आनी खुंटाचेर चडिल्ल्या विरविरांचे वाल देंठयेक घट धरून तोडपाक लागलें.

“जून नाका आं, तन्नेच काड.” श्रीकांतान हांसत म्हळें.

“भावोजी, हांगा सगळे तन्नेच आसात, जून कांय ना, आमी रोयतात थंय आसात.” - लताची खोंचक आनी सूचक उतरां आयकून मंगेशाक बरें दिसलें. मनांतल्या मनांत मंगेश खूश जालो लताचेर. पूण मिर्सांग कशी तीख मात आसूंक फावना.

“मंगेश, कितें चिंत्ता?” लता मात्शें पयस गेलां तें पळोवन श्रीकांतान म्हळें.

“गांव बरो आसा.” मंगेशान हांसत म्हळें.

“मानवलो गांव?”

“मानवलो, पूण...?”

“पूण कितें?” श्रीकांतान मंगेशाचें उतर तोडीत विचारलें.

“कशें घडोन येतलें?”

“तें हांव पळयतां. तूं फकत बाशिंग बांदपाची तयारी कर-” श्रीकांतान म्हळें.

इतले म्हणसर लतान आनी ताच्या भावान- बाबून मिर्सांगो आनी वाल हाडले. एके प्लास्टीकचे पोंतयेंत भरून लतान पोती श्रीकांता कडेन दिली.

“कितले दिवपाचे?” श्रीकांतान विचारलें.

“भावोजी, सांगलें न्हू, हो फेरयेंतलो पसरो न्हू म्हणोन. घे तूं.” लतान परत हांसत म्हळें.

“म्हाका न्हू गो ते, हेका. हे तेंचे बार्जीर जेवण करनात, तडीर रावतात. आनी दोन दिसांची गजाल ती.”

“कितेंय जावं, तेका जांव वो तुका जावं, तुजे वांगडा येयला म्हणटकच तोवूय आमचोच जालो ना? तेका परको लेखूं आनी तुका आमचो म्हणो, भावोजी हें तसलें म्हाज्यान जावचें ना रे बाबा-” आनी लता अशें म्हणत खळखळीत हांसलें. त्या हांशा सरशीं मंगेशाच्या काळजाचो तरणो गोंडो खसखसून हाल्लो. ताणें धीर करून आतां मात लताक सरळ पळयलें. इतलो वेळ तो ताका नदर दिवपाक दचकतालो. वाटकुळेंच मुखामळ, टवटवीत गाल, मुदयाळे लांब केंस, दोनूय खांद्यार सोडिल्ल्यो त्या काळ्या, मुदयाळ्या केसांच्यो विणयो, उदक काडटना मुदयाळ्या केंसांच्यो कपलार आयिल्ल्यो बोटयो. नाकांत पिली, कानांत वेडी आनी गुलाबाच्यो पाकळ्यो कशे तांबडेगुंज ओंठ. मंगेश चित्त हरयता काय कितें हाचो श्रीकांताक भंय जालो. ताणें मंगेशाची अवस्था पारखिली आनी मंगेशाक म्हळें, “मंगेश, चल या आमी. लता आमचे कडच्यान पयशे घेवचें ना.”

“भावोजी, पयशे चड जाल्यात जाल्यार दुसरे खेप येतकच दी, पूण हे खेपे ही म्हजी भेट समज.” आनी लता परतून उदक कशें खळखळून हांसलें.

श्रीकांत आनी मंगेश वारयांतल्यान भायर आयले. श्रीकांत आपले वाटेन गेलो आनी

पासयेक आयिल्लो मंगेश तसोच फुडें वच नासतना लतान दिल्ली ती मिर्सांगां-वालांची पोती मोठें देणें कशें झेलयत घेवन परतो एकोशे आयलो.

ह्या सगळ्या प्रसंगाची याद मंगेशाक परत एकदां जाली. गंगाराणी बार्ज एकोशे गोदींत कामाक व्हरूक जाय, हें इंजनेरान सुचयना फुडें मंगेश मोर कसो फुलिल्लो तो लताच्या उगडासान. 'हे खेप लताक सोमतेंच मागणेंच घालपाचें. आनी आनीक कळाव नाका. तेका तरी कशें कळटलें, म्हाजें मन तेजेर बसला म्हणोन, हांयें कांय परतें तेका सुचयलें ना वा श्रीकांतानय परतो ताचो विशय कामाच्या बोवाळांत काडलो ना.'

गंगाराणी बार्ज दुसऱ्या दिसा मांडवी न्हंयेंत पावली तशी मंगेशाची उमळशीक वाडली. दीस गरमेचे आसले, सगळे कडने उबाळ मारताले. चलते बार्जीर मात दर्याचें वारें झणझणून येतालें आनी वाऱ्या बरोबर लताचे विचार. तेन्ना गेल्लो तो, कितल्या तेपान परतों येता हांगा. कितें करता आसतलें काय लता?

गंगाराणी बार्जीन मांडवी पुला-पोंदच्यान एकोशे-बिठ्ठोणा वयतल्या मांडवीच्या फांट्यांत तोंड केलें आनी ती आतां खऱ्या अर्थान एकोशेचे गोदीकडेन वचपाक मार्गस्थ जाल्ली.

केन्ना काय बार्ज तडीक लागता आनी केन्ना बार्जी वयल्यान देंवन पलतडीं चोडणां वतां अशें मंगेशाक जाल्लें.

दनपारचीं बारा जाल्लीं तेन्ना बार्ज गोदींत भितर घेतली आनी वयर तडीर काडली. दोरयो घालता, सांखळ्यो घालता म्हणसर देड वर जालें. मंगेश बेगिबेगीन कामांतल्यान मेकळो जालो तसो न्हावपाक गेलो. बरो न्हालो, धुलो आनी बरें पॅण्ट-खोमीस घालून तो चोडणां वचपाक भायर सरलो.

बांद चलून तो मानशे कडने पावलो. ताणें पयलीं आयिल्लो तेन्ना रोयिल्ले वारये पळयले. वारयाचो तेंप नासलो तरी बांयंत लाट आसली. वारयांत आतां शेत रोयिल्लें. शेत बरेंच पिकिल्लें. मंगेशाक कळ्ळें, शेतां लुवन जातकच थंय उबाळा दिसांनी चोडणकार वारयीं रोयतात. ताका तीं वारयीं रितीं, रितीं दिसपाक लागलीं. तो तसोच चलत फुडें गेलो. कांय लोक नटून, थटून वयर वाड्यार वताले. पयस लाउडस्पीकराचो आवाज येतालो. खंय कितें आसा काय? सत्यनारायणाची पूजा, काय कोणाचें लग्न? मंगेशान मनांतल्या मनांत हांसत म्हळें आनी लग्नाचे कल्पनेन ताच्या आंगार प्रसन्नतेचो कांटो शिंवशिंवलो.

"आरे, मंगेश, खंय तूं इतल्या तेपान? जालें मरे, तुजी जागमाग ना मरे!" - श्रीकांतान अकस्मात फुडें येत म्हळें.

"कसली जागमाग?"

"कसली कितें?" - मागीर तुवें कांयच फुडें हालचाल केली ना. लताचें आयज

लग्न... लतान तुकाय आमंत्रण धाडलें काय कितें रे? हांव लग्नाकच वयतां."

श्रीकांताची आनी मंगेशाची तेन्ना जाल्ली तशीच अचकीत गांठभेट जाल्ली. पूण ही गांठ भेट मात मंगेशा खातीर जीवघेणी थारली. श्रीकांत लताच्या लग्नाक वचपाक वतालो तर मंगेश इतलो तेंप मनांत बाळगून धरिल्लो आपलो घूट उकतो करपाक आयिल्लो. श्रीकांत कितें सांगता तें मंगेशाक समजना जालें. "श्रीकांत कितें सांगता तूं?"

"हय मंगेश, लताक एक बरो सुकाणी मेळ्ळा, घोव म्हणून. पंधरा हजार जोडटा, भायली कंपनी. बरो मेळ्ळो. नांय जाल्यार आमी बरें म्हटलें आनी चितलें म्हणोन लताचो वापूय खलाशाक आपलें चेडूं थोडोच दितलो आसलो! तूं सुकाणी आसलो जाल्यार तरी जावं आसलें, उतर घालपाक पेज येवपाचो."

मंगेश श्रीकांताचीं ती उतरां आयकून थंयच गळसणलो. येदो व्हडलो ताचो देह थंयच थंय गळून पडिल्ले भशेन जालो. ताका श्रीकांताक परती नदर दिवपाचो धीर जालो ना. तो तसोच फाटल्या पांयांनी परते वाटेक लागलो. ताच्या कानार लग्नाक लायिल्ल्या लाउडस्पिकरावयलीं खोसदेर्णी हिंदी गितां पडटालीं. पूण सुन्न जाल्ल्या ताच्या काळजार कसलोच सूर आयज सादनासलो. तळपासारकें ताचें हड्डें पयलेच खेप लोणी जावन गळसळ्ळें आनी उमाळ्यांनी भरून आयलें. मळबांत पावसाचीं कुपां नासतनाय मळब भरून उटंगाराचो पावस लोटांनी पडटा आनी त्या लोटान आपूण एक लोळगो कसो व्हांवत वतां असो मंगेशाक भास जालो.



# एक माड हुमटतना...

जायते खेपो त्या बांदावयल्यान चलतना म्हाका सालवसांवाचो भास जाता. सालवसांव म्हज्या पावलार पावल दवरून चलता, अर्दी मर्दी म्हाका खेटून चलता, म्हजो हात हातांत घेवन बोटांनी म्हज्या तळटाक कातकुतल्यो करता, नाच जाल्यार चलतां, चलतां म्हजे लांबतले हात आपणाक लागचे म्हण म्हजे मर्दी चलता आनी मागीर म्हजे दंड कळटां नकळटां ताच्या उबार थानांक लागतात. मागीर, मागीर, सगळो बांदभर म्हजेर अख्खो सांवरीचो पावस, कानसुलां गरम, अख्खें आंग एके उमेदीचे गरमेन उपारट भरून व्हांवप आनी .. खरेपणीं मात, त्या निर्जन बांदार हांव एकटो एकसुरोच!

सालवसांवाची पयली भेट बाणावलेचे वेळेर जाली. तेन्ना सालवसांव सामकें तन्ने तोर कशें, देंट मोडल्यार दिकाची शिळकी सुटची तशें ताचें तोर कशें आंग. तिवतिवीत, काळें कुळकुळीत पुण तटास पोपाये भशेन, खूब जाय जाय कशें दिसपी. सालवसांवाक हावें पयलें पळयल्लें तेन्ना तें आनी ताजी मांय वेळेर नुस्तें पांट्यांनी भरताली. नुस्त्याचें पांटे भरून ताजी मांय देगेर उबी आशिल्ले पिकपींत ओत्ताली. ओणव घालून पाटें भरतलें सालवसांव आनी सदळ व्हिस्तीदाच्या गळ्यांतल्यान सळसळपी ताची छाती खळखळत येवपी उंच ल्हारां कशीं म्हज्या काळजाच्या आरपार वतालीं.

सकाळचीं णव वरां मेरेन हांव वेळेर सारतालों. नुस्तें दारांत येतालें, पूण वेळेर वचून सालवसांवाकडच्यान ताज्जें नुस्तें हाडपाक एक भलतीच ओड आसली. म्हजें ना चुकता रापणीवेळार येवप सालवसांवाचेय नदरेक भरलें. पूण सालवसांव म्हजे नदरेंत भरलां हें मात ताका बरेंच उसरां कळ्ळें.

एक दीस रांपणीक कळाव जालो. रांपण ओडपीं खारवी दर्यांत आसले. देगेर सगळी बायलां रांपणीची वाट पळयत दर्याक तोंड करून आसलीं. थोड्यांनी बसकण मारिल्ली. सालवसांवाची मांय रेंवेर बशिल्ली आनी सालवसांव पाटलो पोंदाक घालून पाटल्यार बशिल्लें. सदांचे भशेन म्हजी नदर सालवसांवाचेर थिरावली आनी एके घटकेक सालवसांवाची नदर दोन कुपां एकामेकांक घश्टूर्ची तर्शी म्हजे नदरेक घश्टलीं आनी पयलें केण पडलें. सालवसांवाचे नदरेक नदर दिवपाक धिटाय म्हाका कशी कितें आयली खबर ना. पूण

सालवसांवा वयली थीर नदर कशीच हालली ना. ओंठांत हांशें फुटलें आनी सालवसांवाचे काळें तिवतिवीत वाटकुळें मुखामळ पोल्याक खळी घालून मंद हांसलें. आनी ताचे अपेक्षे भायलें घडलें आनी म्हजे अपेक्षे भितर्ल्लें घडलें. ताणें केन्ना चितलें ना जातलें, कॉलेजीक शिकतलो भिसू भाटकारालो चलो आपणाचेर मरतलो म्हण.

म्हाका पळोवपाची सालवसांवाची नदर बदल्ली, वागप बदल्लें आनी नदरांची भेट कांय दिसांनी उतरांची भेट जाली. गाजतल्या दर्याभितर आमचीं म्होवाळ उतरां ल्हारां फुटचीं तशीं फुटूंक लागलीं, म्हाका याद जाता, सालवसांवान म्हाका म्हळें,

"चोल्या, म्हुगे नुस्तें बोरें लागोता?"

"तेच खातीर वेळेर येतां हांव."

"कोणापासोत?"

"सांगूं, सांगल्यार राग येवचो ना न्हय?"

"तुमी चेडे एशेच, नोखरे कोत्ताय."

"तशें जाल्यार आयक, हांव तुजे पासत वेळेर येता." - हांवें एकदम सांगलें खरें. पूण काळीज मात ओगीच गडबडलें. सालवसांवाक कितेंय दिसल्यार, ताणें ताचे मांयक सांगल्यार, मांयन मागीर म्हज्या बापायक सांगल्यार आनी गांवांतल्या भाटकारालो पूत हांव, खारव्याल्या चेडवाचेर मरता म्हण कळ्ळयार? पूण तशें काय एक घडलें ना. सालवसांवाच्या काळजार म्हजो साद गाजलो. ताका म्हज्या नदरांचीं पावलां ताचेवटेन चलतालीं तीं केन्ना कळिल्लें. सालवसांवान अमुरपिक्या हांश्यान आनी मात्शे शे लजेन म्हळें-

"तें म्हाका फोबोर आहा."

"खऱ्यांनीच?"

"केदोना कोळ्ळें तें सांगोचें?"

"केन्ना?"

"मासळी पोतयां घालतोना तूं कितें कोत्तालो रे?"

ताच्या ह्या प्रस्नान म्हाका कशेंशेंच दिसलें. पोतयेंत नुस्तें घालतना, मुद्दाम नुस्तें हातांत घेतना सालवसांवाच्या बोटांक म्हजो स्पर्श जावचो म्हण हांव प्रयत्न करतालों. सालवसांवाक म्हजे हे प्रयत्न खबर नासले अशीच म्हजी समजूत आसली. पूण म्हज्या मनांतली भास म्हज्या बोटांनी सालवसांवाच्या काळजा मेरेन पावयली तें आयकून म्हाका उर्बा आयली, आत्मविस्वास आयलो आनी आतां धिरान वागपाचें थारावन हांवें म्हळें,

"तशें हांव तुजेखातीर करतालों."

"बोटां लायल्यार सोजमोता?"

"तुका कशें समजलें तर?"

"म्हाकाय तूं घोस्ताक गेलो."

"हांव तुका जाय?"

"जावो म्हुणोन तोरआतां हिंगा रावलां न्हू रे."

"हांव तुजो मोग करतां."

"कसलो मोग, काजाराचो वो फोकोत मौजा मारपाचो?"

"तूं म्हजेकडेन काजार जातलें?"

"मागीर? मोग करून मागीर कितें करप? मोग एकल्याकडेन, काजार भोलत्याकोडे?' इतले भितर रांपण पावली आनी सगळीं खारव्यां रांपणी भोंवतणी जमलीं. सालवसावांक ताचे मांयन उलो मारलो आनी तें घागरो काशेक खोवन वचपाक परतलें. वतना ताणें म्हळें,

"आयज म्हुगे मासोळी तुका, समजिलो?"

"हूं..." आनी सवणें कशें सालवसांव गुलाबी घागऱ्याचीं फोल्गां, पांखां कशीं फुलोवन थंयच्यान उडून कशें गेलें. आनी खिणांभितर रांपणी सरी पावलें.

हांव सैरभैर जालों. वेळेर लोकांची नुस्त्याक गर्दी जाली, लोक यो वच करताले. सांडिल्लें नुस्तें चोरपाक घांट्यांची पोरां काळ्यो जाल्ल्यो पोतयो घेवन बक्याचे नदरेन वेळभर भोंवतालीं. कावळे भोवशें झोंपय मारून व्हरूंक तयार जाल्ले. नुस्त्याची घे रास जाली. खारवी रास निवळ करपाक लागले. नुस्त्याचे वेगवेगळे प्रकार वेगळावंक लागले, करबट, कुल्ल्यो, धोडयारे, शेतकां, खांपयो वेगवेगळ्यो करून तांचीं पाटीं भरपाक लागले. म्हजी नदर मात फक्त सालवसांवाक सोदताली. सगळ्या खारव्यांचे घागरे आनी कातीचे रंग एकूच जाल्ल्यान कोण सालवसांव तें वळखुपाक कुस्तार जातालें.

सालवसांव... खिणांभितर म्हज्या रंद्रारंद्रांनी रिगलें आनी शिरंतरां तापोवन आंगांतल्यान खंकाळ जाल्ले न्हंयेभशेन खळखळ व्हांवपाक लागलें. वेळेवयलें भान शेणलें आनी हांव त्या सोबीत संवसारांत पावलों.....

..त्या माडापोंदा आमी दोगांच बशिल्लीं, बगलेक जितो मूस नासलो. दर्याची येळां मात अदींमदीं किळची मारून आमची तनरी भंगयतालीं. माथ्यार माडाचीं चुडटां वाऱ्याच्या झोतान सळसळ करून धोलतालीं. पूण तांचो थंड शितळ सळसळ आमच्या उस्वासावरी आमच्यांत भरसून गेल्ल्यान ताचें अशें वेगळेंपण जाणवनासलें.

सालवसांवाचें माथें म्हजे मांडयेर आसलें, म्हजे हात ताच्या काळ्या कुळकुळीत मोव केंसांतल्यान चंवर कशें अळंग भोंवताले. सालवसांवाची नदर मळबाक लागिल्ली आनी लक्ष म्हजेर आसलें. सालवसांव सुळसुळीत सेदाचो व्हिस्तीद घालून आयिल्लें. गुलाबी रंगाचेर हळडुवीं फुलां ताचे काळे कातीर उठून दिसतालीं. आंगाक इंटिमेट चेर घाल्लो, केंसांक लक्स साबावांचो घमघम येतालो. ओंठांक लाली लायिल्ली. काळे गाल तांबसाणेन

चकचकताले. लाली लायिल्ले तेलकट ओंठ चिंवपा सारखे दिसताले. वेळेर घागरो न्हेसून पाटली भरतलें सालवसांव तें हेंच काय दुबाव मारतालो.

"कितें चोयताय रे?" - सालवसांवान म्हजे खाडकेक हात लावन म्हजी नदर आपले वटेन ओडली आनी ताचे नदरेन हांव ताच्यांत बुडून वतां कशें दिसपाक लागलें.

"सालू?"

"म्हाका सालू म्हणों नाकाय."

"मोगान गो तें, सालवसांव कितलें लांबलें नांव."

"जांव, पूण तूं म्हाका तोहेंच म्होण."

"कितें सालवसांव?"

"वोय."

"तुका हांव दुसरें नांव दवरूं?"

"......"

"आमचें गो, इन्दियान नांव-"

"म्हुगे नांव फोरेन तोरी?"

"नांव फोरेन, तूं न्हय."

"हांव कोण तोर?"

"इण्डियन, भारतीय."

"तेसो म्हाका सोजमोना, हांव गांवान बाणावलेचें. म्हुगे गांव बाणावले, हांव इण्डीयन बिंडीयन कोण न्हू. हांव जावन आसां एक बाणावलकान्न."

"पूण बाणावले खंय आसा?"

"बाणावले बाणावलेंत आसा. आनी फुंय आसतोली?"

"तशें न्हय गो, येद्या व्हडल्या ह्या संवसारांत बाणावले खंय आसा?"

"संवसारांत आसां"

"च्चे! तुका समजना कशें?"

"म्हाका ती गोरोज ना. मुगे मासोळी संवसारभर घेयन हेडचें नाका."

"आतां मासोळी विकप ना."

"म्हाका बाज्जेर बसयतोलो?"

"व्हय."

"तोहें जाल्यार मुगे हातपांय धोत्तो मरे? आरे, काम कोरोन येयलो मनीस हांव. पूण राबरे, तूं खोऱ्यांनीच म्हुको काजार जातो मरे, काय केटां रे? तुमगे चेड्यांगे सांगो जायना, चान्स मात्ताय आनी चेडवां सोडट्टाय तुमी."

सालवसांव खाऱ्या दर्याचें उदक पचोवन आयिल्लें अशेंच कितें तरी उलयतलें असो भास म्हाका जालो. खारव्यालीं चेडवां असली भास उलोवपाक सामकीं चलाख....

मन खिन्न जालें. सालवसांवासंबंदी म्हाका मोगाची इच्छा जावप आनी खऱ्यानीच तें गळ्यांत पडल्यार? ह्या खिणांत सगळें खरें आनी सगळे बरें; पूण वेळ येतकच? सालवसांव आमच्या घरांत कोणाक मानवत? धव्या फुलांमदीं काळें फूल सोबून दिसूं येतालें, पूण ताका धव्या फुलाचोच परमळ तरी येवपाचो. सालवसांव कांय एक शिकूंक ना. च्ये, सालवसांवाचो नाद सोडल्यार बरो, म्हजें एक मन सांगतालें. दुसरें मन म्हणी, सालवसांवासारखें चली मेळटा, कित्यात सोडटा? लग्नाचें येन्नाच कोणें चितलां, फायचें फाल्यां.

म्हजी नदर परत रांपणी भोंवतणी जमिल्ल्या खारव्यांचेर झळपेवंक लागली. सालवसांव खंय आसा काय आनी सालवसांवाचो हुस्को करतां करतांच सालवसांव धाकली पाटलीभर मुड्डश्यो घेवन म्हज्या सामकार येवन राविल्लें.

"चोल्या, मुड्डश्यो" अशें म्हणून पाटली भरून मुड्डश्यो म्हजे पोतयेंत ओतल्यो. कितले पयशे दिवचे हें चिंतूंक हांव पडलों, पूण पैशे दिवपाक तें नदरेक रावता कित्याक? म्हजे पोतयेंत नुस्तें ओतलें आनी सालवसांवान नुस्तें पुंजावंक परत धांव मारली.

परत गुंथिल्ले मणी कोंचून जमनीर शिंपडिल्ले भशेन म्हाका दिसलें. सालवसांवाचें वागप इतलें विचित्र आसलें कि कितें तें कळपाकच कठीण वतालें. ताचे दर एके करणेचो हांव एक अर्थ लायतालों तर ताची कृती ताचो भलतोच अर्थ सुचयताली.

म्हज्या हातांतली पोती तशीच घेवन हांव थंयच उबो रावलों. नुस्त्याचे पयशे दिवंक नासले. इतले दीस नुस्तें विकतें व्हरतालों आनी आयजूय फुक्याचें व्हरप? पूण तें तर पैशे विचारिनासतना एकदम घोस्ताचें नुस्तें म्हजे पोतयेंत ओतून गेल्लें.

बरोच वेळ जालो, सालवसांव परतें आनी म्हजे सरी आयलें ना. वेळ माथ्यार चडलो. वेळे वयली गर्दी इल्ली इल्ली उणी जावपाक लागली आनी लोकांमदीं सालवसांव केन्ना खंय गडप जालें तें कळ्ळेंच ना.

हांव नुस्त्याची पोती घेवन घरचे वाटेक लागलों. रेंव माडयत हांव भाटांत पावलों. पळय तर अवसडी वाटेर झुडपांआड म्हजी वाट पळयत सालवसांव उबें आसलें. ताका थंय तशें एकांतांत पळोवन म्हजें काळीज ओगीच धप धप जावंक लागलें. जें मनांत दिसतालें तें भोगपाचो खीण आयिल्लो. पूण उजवाडांतलें चिंतप आनी काळखांतलें चिंतप हातूंत फरक आसता. काळखांत बसून केल्ल्यो कल्पना उजवाडांत वास्तवरुपान हाडपाक धीर जाताच अशें ना. सालवसांव आतां कितें सांगतलें काय? प्रस्नचिन्ह घेवनच हांव सालवसांवा सामकार उबो रावलों. मनाची धडधड वाडपाक लागली. कोणेंय पळयल्यार?

"चोल्या, यो बेगीन."

“खंय?”

“तुका चान्स जाय मुरे?”

“हूं. ना...” म्हाका शेळो घाम.

“नेर्वोज जालो रे?” - म्हजी आवतिकाय ताचे बारीक नदरेंतल्यान सुटली ना.

अशें क्वचित घडून येता. कल्पने परस अदीक रम्य आनी अदीक वास्तव. सालवसांव सांगतालें तशें हांवें अशें पयल्याच धपक्याक सपनांत लेगीत चिंतूंक नासलें, मात प्रत्यक्षांत सालवसांव म्हाका आयज आव्हान करतालें.

“चोल रे, वोगोत जाता, मांयक कॅट करून हांव तुजेपासोत फाटल्यान रावलां. यो, कोण ना हिंगा. चल आटाप बेगीन.”

“कितें?”

“तुका जाय पोय, तें.”

“म्हाका... म्हाका कांयच नाका.”

“अशें कित्याक म्होण्टाय?”

“ना गो...”

“ताकाक येवन गाडगो कित्याक लिपोयता रे?”

“नाका. खऱ्यानीच म्हाका...”

“काजार जावचें पोडटोलें म्हणोन भियेताय रे?”

“सालवसांव...”

“हं... येसो मोग मुरे, मुंगसा काळजा मुरे तें!”

“धीर जायना...”

“दादुलो मुरे तूं?”

एक चलीमनीस अशें वागूंक शकता हाचेर म्हजो विस्वासूच बसलो ना. पूण गजाल खरी आसली. सालवसांवान म्हज्या दादलेपणाक अशें उघड उघड आव्हान दिल्लें. खरें म्हळ्यार त्या खिणा ते वटेन कोण तरी येवचो, ताच्या धिरान हांव थंयचो सुटचो अशें म्हाका जाल्लें. मनाची स्थिती तर सामकी फ्रिजांतल्या गोठिल्ल्या उदकावरी जाल्ली. सगलो कल्पनेंतलो उत्साह वास्तवतेच्या उज्या-धगान बावपाक लागलो आनी सालवसांवान बगलेक येवन म्हजो हात आपलेवटेन ओडचे पयलींच हांव सामको गळून पडलों. वादळ वारें नासतना, मोडधाड नासतना ते सकाळीं बाणावलेचे वेळेर एक धणधाकट माड मुळांसकट हुमटून पडलो!



# गांव परगांव

पयर बऱ्याच तेंपान रामदाद म्हाका मेळ्ळो. रामदाद चवथीक म्हण खूब वर्सांनी गोंयांत आयिल्लो. गांवच्या देवळा कडेन ताचें आदले मोदीचें पूण गडगंज अशें बरें घर आसलें. आमच्या ल्हानपणांत चिकू खावपाक ताच्या घरा फाटल्यान आशिल्ल्या वट्टांत आमी वताले. रामदादाक पळोवन ताच्या घराचो ओगीच उगडास सो जालो.

“बरींच वर्सां जालीं, तुमगेर पावल्यार. तें चिकवांचें झाड आसा न्हय आजूनय?” रामदादाक हांवें म्हळें.

“घर! आरे, म्हज्या घरा पावपाक, म्हज्या घरांत हांव आसूं नाका? चलो मुंबयच्यान आयला आनी स्वताच्याच गावांत भाडेकार जाला. शाणू कामतीच्या घरांत सायडीचो रूम घेवन रावता आनी म्हाका शिराप दिता.”

“पूण तुमचें स्वताचें घर-”

“हय. घर आशिल्लें आमचें, पूण कोण तरी घर नाशिल्लो एक दीस असोच दारार येवन काळीज ओतून रडपाक लागलो. म्हणूंक लागलो, ‘रामदाद एक देड वर्साखातीर तुमच्या घरांत रावतां; आमी घराक जागो घेतला, रोकडेंच घर बांदतले आनी आमी नव्या घरांत वतले. म्हाका दया आयली. काकुळटेक गेल्यार बिर्मत फुट्टा म्हणटात ती अशी. हांवें घर दिलें, वर्स जालें, दोन वर्सां जालीं, पांच वर्सां जालीं, धा जालीं आनी आयज वीस वर्सां जालीं, तो घरांतल्यान भायर सरना.”

“पूण तो नवें घर बांदतालो न्हय?”

“हय, बांदतालो. पूण रावपाक घर मेळटकच घर बांदपाचें काम बंद. आतां म्हजो पूत मुंबय सोडून गांवच्या मोगान घरा आयलो. पूण आज्याचें घर पोराक भोगूंक मेळना. सद्याक कोण तरी वाटे वयलो भोगता.”

“पूण, तूं कोर्टांत बी कित्याक गेलो ना तर?”

“कोर्टांत कित्याक? एका घराचे दुडू वकिलाच्या हड्ड्यार घालपाक? कोर्टांत गेल्यार ह्या देशांत वगतार केन्ना न्याय कोणाक मेळ्ळा? हांव आसां तो बरो आसां. त्या मनशाक देवी म्हाळशेन बरी बुद्द दिल्यार पुरो” - आनी रामदादान दोळ्यांतली दुकां पुसलीं.

रामदादालें दुख्ख म्हज्या दुख्खापरस खर आसलें. म्हजी फसवणूक तर म्हज्याच घरच्यांनी केल्या, रामदादाची फसवणूक भलत्याच मनशान केल्या. आनी मागीर बारीक विचार करतकच रामदादाचें दुख्ख म्हज्या दुख्खा परस उणें म्हणपाचें म्हाका जाणवलें. कारण परक्यान फटयल्यार तो परकी म्हण फटयता. पूण जेन्ना आपलेच मनीस विश्वासघात करतात, बरेपणाचो फायदो घेतात आनी फटयतात तेन्ना जें वायट दिसता तें मात कळा मारपाचेंच आसता.

रामदादान म्हाका पळोवन म्हजे तरी तसले कांय प्रस्न नासतले, सगळें व्यवस्थित चल्लां आसतलें अशें धरून म्हाका विचारलें, “केन्ना आयिल्लो तूं?”

“खंय केन्ना आयिल्लो म्हणटात तुमी रामदाद?”

“घरा चवथीक केन्ना आयलो काय म्हणटां?”

“ना. हांव घरा येवंक ना.”

“म्हणचे? आतां तू घरच्यान येवंक ना?”

“ना, म्हज्या फ्लॅटा वयल्यान आयलां.”

“म्हणचे, तुवें फ्लॅट घेतला तर?”

“हय.”

“राव रे. फ्लॅट घेतलो म्हणून मूळ घर सांडूं येता? फ्लॅटार गणपती बी पुजला काय कितें?”

“ना.”

“आरे, पूण तुजे दोळे रे ओले कित्याक जाले?” रामदादान म्हज्या दोळ्यांत पळयत अजापान विचारलें.

“हरशीं... ओगीच तुजी गजाल आयकून वायट दिसलें म्हाका.” हांवें लेंस दोळ्यांक लावन म्हळें.

“च्चे! जेन्ना म्हजी गजाल सांगिल्ली तेन्ना ती सांगतना हांव गलबल्लों. म्हाका दिसता, तुजेंय म्हजे सारखेंच कितें तरी प्रॉब्लेम आसा.”

“ना. रामदाद, तुवें कोणाचेर तरी विश्वास दवरिल्लो. तुजेभाशेन पोटा फाटल्यान हांव गेलों. गांवांत घर जाणटेल्यांचें, म्हणटकच थंय कोण तरी जाणटो जावन म्हज्या अधिकाराचेर अतिक्रमण करीत अशें हांवें सपनांत लेगीत चिंतलें ना. हांवें जसो भायर फ्लॅट घेतला, तसो फ्लॅट घेवचो, स्वताचें घर वांदचें; पूण वाडवडलांचे घर फकत आपूण घरांत रावतां म्हण आपणेंच घरा भायर पोटापाणयांक रावतल्या घरच्याच मनशांक फटोवप!”

“हूं... समजलों?” रामदादाक ‘वा’ ची ‘वार्ता’ कळ्ळी.

“पूण म्हाका सांग रे,” रामदादान फुडें म्हळें. “चड देवासांव थंय चड माल्दीसांव

आसता काय कितें रे?"

"अशें कित्याक म्हणटा तूं, रामदाद?"

"तुजे घरचे लोक खूब सद्‌भावार्थी, पापभिरू, कर्मकांडांचेर विस्वासून रावपी, पोथयो-कथयो वाचपी..."

"जो मेरेन स्वार्थाचो कस लागना, तोमेरेन आमी सगळेच तशे आसतात. नासले जाल्यारूय आमी तशे आसात अशें जगाक दाखोवपाची धडपड करतात."

"समजलों. एकूण आमी गांवांत आयल्यात ते समदुख्खी. दोगांकूय घरां आसात पूण घरां नात. पूण हें पळय शिवदास, हांवें म्हज्या पुताक जो गांवांत धाडला तो ताका मुंबयंत रावपाक जागो ना म्हणून न्हय. आरे, आपली जल्मभूंय, आपलो गांव ही भावना एक वेगळीच आसता. बरें जालें, घराचे ओडीन गांवांत तरी पावलों काय ना? घर नासूं, गांव तरी आसा काय ना?"

"तशें न्हय रामदाद. ज्या घराचे चार वणटींभितर तुजो जल्म जाता, तूं ल्हानाचो व्हड जाता, सगळें सुख-दुख्ख भोगता, आपलीं पयलीं म्हणून वावुरता. पूण घर जेन्ना अशें कोणाच्याय आपसुवार्थाक लागून पयस जावंक पावता तेन्ना खूब वायट दिसता. आमी जल्माक येतना वांगडा घर घेवन येवंक नाशिल्ले. आनी आतां वयतनाय हड्डुयार मारून वचचे नात. हांव, तूं, जावं तुका फटयतले आनी म्हाका फटयतले बी. पूण प्रस्न आसा तो आमच्या मनीसपणाचो. आमी कित्या खातीर इतले आपसुवार्थी जाल्यात? तुका फटोवपी तुजे फकत वळखीचो; म्हाका फटोवपी म्हजोच मनीस. तुका तसो फटयलो तरी म्हाका हांव घरा पासून कामधंद्याक पयस आसां तो पळोवन संदीचो फायदो घेतलो."

"कोणाचेर विश्वास दवरपाचो ना. आरे, कोण कोणाचो?" - रामदादान चालंत ओपार मारली.

"कोण कोणाचो ना अशें कशें आमी म्हणचें? खऱ्यानीच आमी एकामेकाचेच. पूण आयज हे एकामेकाचे भावने परस सुवार्थ मात्सो वरचड जाला. सुवार्थान वागतल्याकय तो खंय तरी चुकता हाची सुलूस आसत. आमी इतले निश्ठूर जावंक ना रे रामदाद. घडये आमी अशे आपमतलबी जावपाक आयची निर्माण जाल्ली नवी परिस्थिती कारणीभूत आसत. आमकां आदले भाशेन खंयूय कशेय मेळत तशे पडपाची संवय ना. आदल्या तेंपार खळांत न्हिदताले. गरादींत न्हिदताले. एकशेंदरी-उशें पावतालें. आयज तुका बेडरूम जाय, मोव मोव गादी जाय, माथ्यार फॅन जाय, म्हऱ्यांत मिनी-टेबल जाय, लँप जाय, अॅटॅच्ड टॉयलेट जाय. दोंगरार जावं व्हाळार वचपाचे दीस गेले. ह्या असल्या गरजांतल्यान घराची कल्पना बदलली आनी ती भावनाय सोंपली. तें आपलेपण जावं घराचो मान अभिमान बी आतां खंय? फ्लॅटाचो अभिमान कोण बाळगितलो?"

"आरे, तेच खातीर तर आमकां मूळ घरां जाय. तीं कसलेय मोदीचीं जायना. तांचीं पाखीं माथ्याक तेकलीं जाल्यारूय कोंताक येता; पूण तीं मूळ घरां -" म्हाका थांबयत रामदाद उलोवंक लागलो.

घरा वयलो हो दुख्खा संवाद आमचो बरोच रंगात आयिल्लो. आमच्या म्हऱ्यांतल्यान लोक यो-वच करताले, आमकां ताचें भान नासलें. दोग समदुख्खी मेळटकच उतर आनी जापेक जाप फुट्टा म्हणटात ती अशी.

"रामदाद, कितले गणपती पळयले?" घरावयलो विशय बदलपा खातीर हांवें म्हळें. पूण म्हजे परस रामदाद घरांत खूब भितर गेल्लो. तो ताच्या घरांत उबो आसा थंयच्यान भोंवतालो.

"तूं जाणा, आरे म्हज्या घराच्या वणटींक कोणाची वेंग पावपाची ना. पिकास मारल्यार तो बागवत पूण दिपळ येवचें ना. आयजूय तेर्रास काड ताचेर. म्हज्या आज्याचें काम तें!"

"रामदाद, या आमी. आमोरी जाली. वर्साचे पांच तरी गणपती पळोवं नाका?"

"तशें जाल्यार यो, आमचो गणपती पळय पयलो." रामदादान म्हळें.

"भाड्याच्या घरांत तुमी गणपती पुजला?"

"आरे, देवाक कितें? भाड्याचें आनी स्वताचें."

"पूण तुमच्याय घरांत त्या भाडेकारांनी पुजला जातलो."

"हय, म्हज्या घरांत गणपती आसा. निकतोच पांयां पडून आयलों हांव. आतां तूं यो आमगेर." अशें म्हणून रामदादान म्हाका आपणागेर व्हेलो.

भाड्याच्या घरांत काय जायना, रामदादान गणपती बरोच सोबयिल्लो. भोंवतणी मखर केल्लें. गणपती फाटल्यान रामदादाल्या नातवान घुंवतें चक्र लायिल्लें. माटोळी सोबयिल्ली. प्रसन्न वातावरण. तें वातावरण पळोवन म्हाका म्हज्या घराची याद जाली. ल्हान आसतना गणपती फाटल्यान बॅटरी लावन बल्ब पेटोवपाची सकाळच्यान कसरत करतालों. आयज लायटी आयल्यात, बॅटरी-बल्बाची गरज ना. मागीर सांजवेळा लोक गणपती पळोवंक येवचे पयलीं बरी एक रांगोळी घालप. ते खातीर शेणाची जमीन चक्क बरी पुसप. रांगोळी रंगोवन आनी आकारून घालप. म्हजें मन ओगीच चलबिचल जालें. अशीच रांगोळी चिमटेंतल्ल्यान देंविल्ल्याचो म्हाका भास जालो. 'बदक, मोर, नेहरू, गांधी, भगतसिंग घालतकच पळयल्याक तो अमकोच म्हण वळखूंक आयल्यार रांगोळी सफळ. म्हजी रांगोळी सफळ जाताली. कितें कोण जाणां, म्हाका ओगीच दिसलें, रामदादाल्या गणपती मुखार रांगोळी उणी आसा.

"रामदाद, तुमची हरकत नासल्यार, हांव हांगा रांगोळी घालूं?"

"आरे, बरे भाशेन, सगळें सामान आसा. नात मुंबयच्यान आयिल्ली जाल्यार घालतली आसली. घाल." आनी रामदादान म्हाका रांगोळेचें सामान हाडून दिलें.

लोक गणपती पळोवंक येताले. तांचे मुखार हांव रांगोळी घालूंक लागलों.

रांगोळी रंगांत आयिल्ली. खीणभर हांव रामदादाल्या भाड्याच्या घरांत आसा म्हणपाचें विसरलों आनी म्हज्या घरांत पावलों.

"आरे, शिवा मरे, हांगासर? रांगोळी घालपाचें कॉंट्रॅक्ट बी घेतलां काय कितें?" हांव इश्टाक हांसलों, रांगोळी घालून जाल्ली.

"रामदाद, पोरूं रांगोळी घालूंक नाशिल्ली हांवें - म्हणजे पोरूंच्यान - पोरूंच्यान गांवचीं घरां म्हजीं घरां जाल्यांत."

"तशें जाल्यार बरें जालें, आदीं तूं फकत एकाच घरांतलो समजतालो, आयज साबार घरांचो घरकार."

"हय, खरें तुजें." अशें म्हणून रामदादाचो हांवें निरोप घेतलो. वतां वतां रामदादाक म्हळें, "रांगोळी कोणूय पांय दिवन फापशीत बी."

"हांव पळयतां. आरे, रांगोळी उखलून दवरपाक मेळिल्ली जाल्यार ती हांव कपाटांत दवरतलों आशिल्लों. -"

"मस्करी आसूं रामदाद."

"आरे, मस्करेचें बरें आसा. घर कोणाचेंय आसूं; पूण अशी रांगोळी घालपाक तुजें घर विसरूं नाका, तुजो गांव विसरूं नाका. ह्यो परबो, सुटूं पावतले धागे घट करतात. तांचें देवस्पणाचें म्हत्त्व खंयय पावूं. पूण मनशांतलें देवस्पण त्यो जागयतात. तुजी ही रांगोळी म्हज्या म्हणण्याचें ताजें उदाहरण."

"रामदाद, आमी मुळावें उलयले, खूब तेंपान."

"हय."

"आरे, मुळां गांवचे मातयेंत खोल, खोल गेल्यांत. तीं... तीं कोणाच्यान हुमटूंक नज, तुका पयस करून तुज्या अधिकाराचेर अतिक्रमण करपी तुज्या मनशांकय जमचें ना. म्हजें घर वर्सा खातीर घेवन वीस वर्सां सोंपली तरी घर सोडपाचें नांव काडिनात. त्या परक्यांच्यानूय जावचीं नात. चल, हांव आनी तूं हीं केदीं व्हड घरां म्हण जाणा तूं?" रामदादाची बुदवंतकाय आयकून हांव सुन्न जाल्लों. भारावल्ले स्थितींत तिनकात्रीर गांवाची शीम हुपून गांवा भायर आयलों आनी परगांवची वाट नेटान चलपाक लागलों.



# म्हजो पापा

"म्हजो पापा" इतलो सोपो विशय हांवें तुमका दिल्लो, कितल्या जाणांनी बरयला ह्या विशयाचेर निबंध?

वर्गांत म्हजो प्रस्न घुमलो तशे धावेचे सगळे भुरगे हात वयर काडूंक लागले. "म्हणजे सगळ्यांनी निबंध बरयला तर?" "यस सर" - भुरग्यांचो एका सुरांतलो आवाज.

"म्हजो पापा ह्या विशयाचेर निबंध परिक्षेक येतलो सर?" - एका भुरग्यान म्हाका मदींच विचारलें.

"येवं येता, तुमी तयारेंत रावंक जाय. निबंध खंयच्याय विशयाचेर येवं येता. म्हजो देश, म्हजें गोंय, म्हाका आवडिल्ले प्रदेश, दर्यावेळेर एक वर, एका रस्त्याची आत्मकाणी"

"पूण सर, म्हजो पापा म्हळ्यार माय फादर असो विशय निबंधाक आसूं येता?"

"कित्याक नासचो? कितें, एका भुरग्याक आपल्या बापायचेर चार ओळी बरयन दिसल्यो आनी त्यो वेवस्थीत बरयल्यार त्या भुरग्याची निरीक्षण शक्ती, व्यक्ती पारखुपाची तांक सिद्ध जावची ना? कितेंय आसूं, म्हजो पापा हो विशय परिक्षेंत पेपरांत आसूं वो नासूं, तुमी बरयात. पळयात तुमचो अणभव बरोवन."

"सर, प्रत्यक्ष पापाचेर बरयता म्हणटकच ताजे संबंदीं वायट बरें बरोवचेंच पडटलें."

"कित्याक?"

"म्हज्या पापाक एक वायट वेसन आसा. म्हज्या पापाचें वर्णन करतना पापाचें हें वेसनूय सांगप? शी बाबा, पापान वाचल्यार पापा कितें म्हणटलो?"

"हें पळयात, निबंध बरयता तो खऱ्या पापाचेर म्हळ्यार तुमच्या बापायचेरूच बरोवंक जाय अशें ना, तुमची कल्पकता ताणून, बापूय नासल्यार लेगीत बापूय आशिल्ल्याची कल्पना करून तुज्यान म्हजो पापा ह्या विशयाचेर नक्कीच बरोवं येता. बरें आसा, आतां कोणें कोणें निबंध बरयल्यात ते करेक्शनाक हाडात."

"सर, माधुरी रडटा" - वर्गांतल्यान एके चलयेन आवाज चडयत म्हळें.

"कितें जालां माधुरीचें?"

"सर, ताणें खंय निबंध बरोवंक ना."

“मागीर रडपाक कित्याक जाय? हांवें कांय कोणाक शिक्षा करूंक ना, वर्गांतल्यान भायर घालूंक ना. माधुरी, कितें जालां, आयज बरोवंक ना मगो, फाल्यां घेवन यो.” पूण निमण्या बांकार माधुरीचे हुडके वाडूंक लागले. माधुरी अशें केन्ना रडपी न्हय, थंड स्वभावाचें चली. शिकपाक मंद आसलें तरी आपलो अभ्यास नेमान करपी. ते भायर आलां तें मॅट्रिकेक पाविल्लें. मॅट्रीक पास जावपाची उर्बा बाळगून आशिल्लें. माधुरी रडटा तेंवूय बी निबंध बरोवंक ना म्हणून. कितें तरी नक्कीच जालां जावंक जाय. हांव उठलों आनी माधुरी म्हर्यांत गेलों. “माधुरी, निबंध बरोवंना मगो? फाल्यां बरय. रडटा कित्याक तूं?”

“सर, ताणें निबंध बरयला...” ताच्या शेजारा बशिल्ल्या मेरीन सांगलें.

“बरयला मुगो, मागीर?”

“माधुरी, कितें जाला तुजें, कोणें कितें म्हळें? श्शी... शी येदें व्हडलें चली तूं, मॅट्रिकेंतले चली. रडप तुका सोबना, माधुरी...”

अशें म्हणून माधुरीचे फाटीर हांवें ताका धीर दिवपाक अचळय हात दवरलो आनी ताका थातारपाचो प्रयत्न केलो, तर ताका अदिकूच हुडके फुटले.

भुरगीं खो करून हांसपाक लागलीं. चले रिमार्क पास करूंक लागले, तसो हांवें वर्गाचेर धेंगसो घालो आनी सगळ्यांक ओगे केले.

“माधुरी, कितें जालां तुजें?”

“सर... सर...” माधुरीन हुडकेत म्हाका म्हळें.

“हां... सांग... कितें जालां तुजें?”

“आय ॲम सॉरी सर...”

“कित्याक रडलें तूं?”

“हरशींच सर, रडूंक आयलें...”

“कित्याक?...”

“ना, सर, हरशींच, हें पळे ओगें रावलें हांव.” अशें म्हणून माधुरीन उमथी घाल्ली मान वयर काडली, हातांतल्या लेंसान दोळे पुसले.

“पिशें... आगो येदें व्हडलें चली तूं. अशें रडप वर्गांत?”

“सॉरी सर -” आनी हांवें ताच्या हाता-पोंदा दाबून धरिल्लो नोटबूक काडलो, उगडून पळयलो आनी पळय जाल्यार ताणें खऱ्यानीच निबंध बरयिल्लो.

“सर, आमचेय नोटबुक घे, आमी कसो बरयला तो तपास सर.” - माधुरीचो नोटबुक हांवें घेतलो तें पळोवन एका चल्यान म्हळें.

“हांव सगळे नोटबुक तपासतलों. मॉनीटर, नोट बुक्स एक करून स्टाफांत घेवन यो.” अशें म्हणून हांवें माधुरीचो नोटबुक मात म्हज्या हातांत दवरलो.

इतल्यांत बेल जाली आनी वर्गांतल्यान हांव भायर आयलों.

"सर माधुरीचोच नोटबुक घेवन गेलो." कोणें तरी म्हळें.

"माधुरी, कितें बरयलां गो तुवें?" कोणें चलयेन माधुरीक विचारिल्लो प्रस्न.

हांव तसोच स्टाफरुमांत आयलों. म्हजी उमळशीक म्हाका ओगीच अस्वस्थशी करूंक लागली. सगळे कादेर्न थंय दवरून धावेच्या वर्गाचो मॉनीटर गेलो. हांव फ्री आसलों, म्हाका तास नासलो. हांवें माधुरीचो नोटबुक घेतलो आनी निबंध वाचूंक सुरवात केली.

'म्हजो पापा.

'म्हजो पापा कसो आसलो तो म्हाका खबर ना. म्हजो पापा जेन्ना हो संवसार सोडून गेलो तेन्ना हांव खंय फक्त देड म्हयन्याचें आसलें. म्हजो पापा कसो दिसतालो, कसो न्हिदतालो, कितें करतालो तें म्हाका कांयच खबर नासलें. पापाचें वर्णन मम्मी करताली. पापाचे कांय फोटेय आसात, पूण ते ताच्या भुरगेपणांतले. म्हाका खंय पापाचें रूप आयलां. म्हजे दोळे ज्युस्त म्हज्या पापाचे. मम्मी सांगताली, म्हजो पापा एक व्हड कलाकार आसलो. पूण तो खंय आपले कलेचें प्रदर्शन करी नासलो. म्हजो पापा खूब बरीं चित्रां काडटालो. ते भायर पापाक कविता करपाची संवय आसली. पापा नाटकांतूय कामां करतालो. म्हजो पापा अश्टतासांचो आसलो.

आयज म्हाकाय बी पापाच्यो त्योच क्वालिटीस आयल्यात. पापाभशेन आतां म्हाका चित्रां काडूंक येता, म्हाका कविताय करप जमता. म्हाका ॲक्टींग करूंक आवडटा. म्हजो पापा सभावान मायेस्त आशिल्लो अशें ताचे फ्रेंडस् सांगतात. मात मम्मी अशें कित्याक सांगता तेंच म्हाका समजना.

मम्मी सांगता, पापाक संवसार करूंक येनासलो, सगळी जोड मोडटालो. पापाची जोड कितली आसली, तें मात ती केन्नाच सांगना. पूण जायते खेपो मम्मी पापाचेर रागान उलयता. पापान आपले एकसुरे धुवेक फाटल्यान कांय एक दवरूंक ना अशें मम्मीचें म्हणणें. पूण मम्मीचें हें म्हणणें म्हाका मान्य ना. पापान म्हजे सारकें एक चली फाटल्यान दवरलां तें मम्मीक कशें समजना? पापान म्हाका जल्म दिला, पापाची हांव धूव आनी पापा म्हजो बापूय. हें बापूय-धुवेचें नातें निर्माण करून दवरलां. पापाचें हें हांव, मागीर मम्मी अशें कितें म्हणटा, पापान म्हजे खातीर कांय एक दवरू ना म्हणून. पापान मम्मीक आनी कितें दवरपाचें?

खूब फावटीं, पापाचें खूब रडूंक येता. पापान फाटल्यान म्हाका दवरलां हें मम्मीक कशें पटोवं? पूण ती म्हणटा, पापान जोडून कांय एक दवरलें ना. मम्मीक म्हज्या फुडाराचो हुस्को लागला. म्हज्या लग्नाचो हुस्को लागला. म्हज्या लग्नांत दिवपाक जाय ते वरदक्षणेचें कशें जातलें ताचो हुस्को लागला आनी तेच खातीर ती मेळत तेन्ना पापान फाटल्यान कांयच

दवरलें ना म्हणून पापाच्या नांवाचो उद्धार करता.

पापाक अपघाती मरण येतलें म्हणून पापाक तरी खबर आसलें? कोण मुद्दाम म्हणून मरण आपणायता? मुद्दाम आपणायिल्ल्या मरणाक आत्महत्या म्हणटात. म्हजो पापा आत्महत्या कित्याक करतलो? म्हज्या पापान तसलें कांय करूंक ना. पापा तसलो भित्रो नासलो, जिणेच्या आव्हानाक भिवन पळ काडपी. पूण मम्मी मात पापान मुद्दामूच मरण आपणायिल्ले भशेन पापाविशीं उलयता. मम्मीची तीं उतरां आयकतकच म्हाका राग येता, मम्मीचेर तापचें कशें दिसता. 'स्टॉप इट' म्हणून आड्डुन सांगचें दिसता. पूण तीय म्हजी मम्मी, तिचेर कशें तापतलें हांव? खऱ्यानीच मम्मीन ह्या संवसारांत नाशिल्ल्या म्हज्या पापाविशीं कितेंच वायट उलोवचें न्हय अशें म्हाका दिसता. मम्मीक आड्डून सांगचें दिसता, '...मम्मी, पापान कांय दवरुंना मूं? नाका दवरूंक. हांव आसां समर्थ म्हजी वरदक्षणा उबी करपाक. हांव काम करतलें. मम्मीचेर कसलो भार घालचें ना...' पूण मम्मीक अशें सांगपाइतलें हांव खऱ्यानीच व्हडलें जावंक ना.

म्हजो पापा मम्मी खातीर केन्नाच व्हड दिसलो ना. मम्मीच्यो अपेक्षा वेगळ्यो आसल्यो, हें मम्मीच्या उलोवपा वयल्यान हांवें पारखिलां. मम्मीक पापाची कला बी आवडनासली, तिका पापान बरो संवसार केल्लो जाय आसलो. पापान नोकरी करपाची, पगार घेवपाचो, तो मम्मीकडेन हाडून दिवपाचो. मम्मीची अपेक्षा पापा पुरी करूंक शकनासलो. मम्मी-पापा सदांच झगडटालीं जावंक जाय. पापाक झगडीं मानवनासलीं. पापाक घरांत शांतताय जाय आसली. आसा तातूंत सुख मानपाची पापाची प्रवृत्ती आसूंक जाय.

पापाचे कांय फोटो आसात. सगळे फोटे पळय जाल्यार पापाचो रूपकार खूब प्रसन्न दिसता. प्रत्येक फोटोंत पापाच्या रूपांत हांसो, हांसो पळोवंक मेळटा. गंभीरपणाचो एकूय फोटो ना. पापाक जिणेंतलें झंजाळ नाका आसलें. ताका सुख-समाधानान, कसलोच व्हडलो हावेस बाळगिनासतना आपले परीन जगपाचें आसलें. पूण मम्मीक मात जिणेंत खूब दुड्डू, खूब जोड, सगळीं सुखां दारांत आसचीं अशें दिसतालें.

पापा संबंधान हांवें अदमास केला तो असो.

जायते खेपो पापाचे कांय इश्ट म्हाका पळोवन म्हणटात, 'पोर बापायच्या वळणार गेलां, बापाय भशेन दिसता, आनी बापायभशेनूच हुशार.' पापाच्या इश्टांचीं हीं उतरां आयकून म्हाका मूठभर मास चडटा. म्हाका बरें दिसता. म्हाका म्हज्या पापाची एकसुरी धूव आशिल्ल्याचो अभिमान दिसता. म्हजो पापा जर ह्या संवसारांत आसत तर म्हाका तो खूब खूब आवडटलो आसलो. हांव म्हज्या पापाची कितली माया करतलें आसलें म्हणून सांगू... म्हजो पापा... म्हजो पापा...

निबंध सोपूंक ना. माधुरीन निबंध अर्दारूच सोडला. ताका फुडेंय कितें तरी सांगपाचें

आशिल्लें जावंक जाय. निबंधाचे सुवातेर एक सुंदर कथा वाचतां काय कितें अशें म्हाका दिसूंक लागलें. म्हजो पापा ह्या शब्दाफुडें आनी कितें तरी माधुरीन बरोवंक जाय आसलें.

माधुरीचो नोटबुक हांवें बंद केलो. माधुरीक वर्गांत रडूंक कित्याक आयिल्लें ताचें कारण समजल्लें. हांव तसोच उठलों, माधुरीच्यो भावना उचंबळ जाल्ल्यो आसतनाच ताका म्हजो अभिप्राय दिवंक जाय आसलो. निबंधाक धांतले धा गूण दिवपाक जाय आसले.



# ‘द नेम ऑफ ॲन अनबॉर्न सन’

आमोरेर तो म्हज्या घरांत भितर सरलो. तसो ताका हांव हय-न्हय सो वळखतां. मात तो म्हाका बरोच वळखता जावंक जाय, इतलेंच न्हय, जे अर्थी तो म्हज्या खंयच्याच एका लागशिल्ल्या इश्टान म्हजे कडेन वागचें इतले संवकळीन वागता ते अर्थी तो म्हाका ताचो लागशिल्लोच एक इश्ट मानतालो जावंक जाय. ना जाल्यार म्हज्या घरांत एकदम एखाद्न्या इश्टान भितर सरचें तशें भितर कित्याक सरचें?

तो भितर सरलो तसो सोमतोच म्हज्या म्हऱ्यांत येवन बसलो. म्हाका अजाप दिसलें, पूण हांवें ताका कांय म्हळें ना, तोच उलयलो,

“हांव कित्याक आयिल्लों जाणां?” ताणें सुरवात केली, “तुमकां लेखकांक बरीं बरीं नांवा येतात, म्हाका एक चल्याचें नांव जाय. बरें आं, सामकें युनीक, खंयच ना तशें, तुजे चलयेक तुवें बरें नांव दवरलां.” तो सांगत सुटलो. तो जितलो संवकळीन आनी मेकळेपणान उलयतालो, तें पळयल्यार ताका अनवळखी कोण म्हणटलो आसलो?

तो आसुंये तिशींतलो तरणाटो. ना म्हळ्यार हांव ताका तसो हय-न्हय सो वळखतालों, तो वळखिचोच आसलो. पूण नेमको खंयचो, कोण, ती याद जाय नासली. तरीय हांवें ताका कसलोच दुबाव दाखयलो ना. म्हजे कडेन तो तशें कांय एक मागूंक येवंक नाशिल्लो, ताका फक्त एक युनीक नांव जाय आसलें चल्याचें. हांवें म्हळें,

“कोणाक चलो जाला? केन्ना नांव दवरतात?”

म्हज्या प्रस्नान तो हांसलो, मात्सो सो मुरगुटलो, लजलोय बी. ताचें तें हांसप आनी लजप म्हजे नदरेंतल्यान सुटलें ना. तो मात्सो म्हजे वटेन सरकलो, कदेल कुल्यांनीच ओडून लागीं घेतलें, सालांत हांगा थंय पळयलें आनी कोण लागीं ना तें पळोवन ताणें म्हाका म्हळें,

“नांवाची गरज म्हाकाच आसा.”

“ओ, सो यू हॅव बिकम फादर ऑफ ए सन?”

“नॉट यट” - आनी तो तशें म्हणत परत लजेलो सो. म्हाका अजाप दिसलें. चल्याचो बापूय जायनासतना नांव सोदता. हरकत ना, पयल्या भुरग्याच्या वेळार बापूय अशेच सपनाळे आसतात आनी तांकां सपनां पडटात तीं फक्त चल्याचींच. मात फ्रॉयडाच्या

विचारप्रणालीक धरून बापायक सपनां पडूंक जाय तीं चलयेचीं. पूण आतां ह्या वेव्हारी संवसारांत बापायकूय पुताचींच सपनां चड पडूंक लागल्यांत, मागीर आसना थंय अपवाद एकाद्री एकसुरी धूव, इंदरा गांधीचो!

तरी ताका तिडावपाक हांवें म्हळें, "मामा जाला, भयणीक चलो जाला?"

"ना रे बाबा, भयणीक न्हय, म्हाका... म्हाका पूत जावंचो आसा. फुडल्या म्हयन्यांत दो. कामतीन तारीख दिल्या."

एकूण प्रकार आतां पुराय तरेन म्हज्या लक्षांत आयलो.

हांवें एक लांब सुस्कारो सोडलो तो पळोवन ताणें म्हाका म्हळें, "तशें कांय ना, आय एम शुअर, म्हाका पुराय गॅरंटी आसा की म्हाका पयलो चलोच जातलो. यू नो आय ॲम ऑल्सो फर्स्ट मेल चाइल्ड ऑफ माय फादर!"

खऱ्यांनीच तो स्मार्ट आसलो. म्हाका ताच्या जावच्या चल्याचें नांव सांगचे पयलीं ताचेकडेन असोच उलयत रावचो कशें दिसूंक लागलें. म्हाका तो खंय वळखता हें लेगीत विचारपाक हांव विसरलों, ताची ती मदीं मदीं इंग्लीश कातरपाची रितूय ताच्या उलोवपाचे पद्दतींत मुदयेर थीक कशी बसताली. खरें म्हळ्यार घरांत भितर सरनाफुडें आंगावयले घामाचे कपडे काडून हातपांय धुवन खाटीर लवंडुपाची म्हजी सदची पद्दत. उप्रांत च्या येसर आयिल्लीं पत्रां फोडून फक्त नदरे खाला घालून उप्रांत सविस्तर वाचपा खातीर दवरप. पूण आयज मात कपडे खंयचे, पांयांचे बूट लेगीत काडपाक हांव विसरलों. त्या नांव व्हरूंक आयिल्ल्या नव्या संवसार करप्याचें तें उलोवप खऱ्यानींच ओडलायणेंच आसलें आनी खास करून जावपाच्या आशिल्ल्या भुरग्याक तो नक्कीच चलो म्हणटा हाचेंय म्हाका अजापूच दिशिल्लें.

"म्हणटकच तुका चलो जातलो तर?" हांवें दुबाव काडलोच.

"ऑफ कोर्स, शंबर टक्के!"

"कशें कळ्ळें तुका? सेक्स तपासणी केल्या?"

"गरज ना, हांव जाणां!" - ताणें परत एका खर आत्मविस्वासान म्हळें.

"पूण, तूं अशें खात्रीन कशें सांगूंक शकता?"

"एक्स प्लस वाय, नॉट वाय प्लस वाय" - ताणें एक एक्स-वायचें इक्वेशन घालें. हांव गोंदळ्ळों. आयुश्यांत म्हजीं केन्नाच इक्वेशनां सुटलीं नात वो आल्जेब्रांतूय गूण घेतले नात. तातूंत हो आतां एक्स प्लस वायचो हिशोब स्वता आपणें केल्ल्याची गवाय दिता. विचित्र, पूण तरूय इंटरेस्टींग.

"जाणा तूं मि. शिवदास, हांवें बुन्याद घाल्ली ती म्हूर्त करूनच."

"कसलो म्हूर्त?" - म्हाका तो इल्लो, इल्लो चक्रायतालो, "बुन्याद, म्हूर्त, सगळेंच

कोड्यांनी. पयलें एक्स-वायचें प्रकरण. मात तें मात्शें हांव जाणां आसलों. चलो-चली जावपाक एक्स-वाय क्रोमोझोन मेळपाक जाय आनी अशे दोन तरेचे क्रोमोझोन फक्त दादल्यांतूच आसतात, देखून चली वो चलो जावप हें पुराय रितीन दादल्याचेरूच अवलंबून आसता, असल्यो जायराती हालीं टीवी चेर येवंक लागल्यात.

“तू जाणा, पिरियड सोंपले उपरांत चौदाव्या दिसा जर संपर्क येत जाल्यार खंय चलो जाता. हांवें ह्यो सगळ्यो गजाली अभ्यासून चल्याची खात्री केल्या.” ताणें म्हळें.

मनशाक इतलो आत्मविश्वास आसता आनी आपणाक चलोच जातलो हाची खात्री बाळगून नक्कीच तेविशीं धाडस करपी अजापांतलेंच म्हणूंक जाय.

“ते खातीर म्हाका एक बरेंशें नांव सांग.”

“म्हाका एक सांग, चल्याचें नांव सोदपाक तुका म्हजें नांव कोणें सुचयलें?”

“कोणें सुचोवंक जाय? लेखकांकडेन नवीं नवीं नावां आसतात, तुमचे कल्पनेतलीं.”

“आनी एक सांगू, तूं जे अर्थी इतले संवकळीन म्हजेकडे उलयता ते अर्थी तूं म्हाका बरोच वळखता जावंक जाय... रागार जावं नाका आं स्पश्ट सांगतां म्हणून, हांव मात तुका आजून वळखुंना, खऱ्यानीच. आमंचें तशेंच जाता. जायते खेपो आमकां एक बरोवपी बी जाल्ल्यान हेर लोक वळखतात; मात आमी दुसऱ्यांक वळखतातच अशें नासता.”

“आंवयं! म्हाका आनी तूं वळखना? हांव तुज्याच गांवचो, तुजो शेजारी म्हळ्यार जाता.” - हांवें ताका वळखलो ना म्हळो म्हणून ताका कांयच वायट दिसलें ना, परत खोशयेन ताणें आपली वळख करून दिवपाचो प्रयत्न केलो. तातूंत तो म्हज्या गांवचो, सामको शेजारचो आसूं येता. मूळ घराकडेन म्हजो संपर्क तुटल्यार उणींच म्हळ्यार आयज पंदरा तरी वर्सां जालीं. तसो गांवांत अदींमदीं वतां. पूण कोण कोणाक मेळटा? एका तिरायत भोंवडेकारा भशेन गांवांत वचपाचें आनी येवपाचें. कांय वर्सां आदीं चवथीक म्हणून घरा वचप जातालें, आतां तेंय बंद जालां. आनी आतां म्हजें घर तशें म्हजे खातीर नांवाक उरलां. ते खातीर शेजाराच कित्याक, म्हज्या घरांत सुद्दां दुसरो कोणूय रावता म्हळ्यार आतां म्हाका फट दिसचें ना. सांगपाचें म्हळ्यार ह्या भावी चल्याच्या बापायचें नांव जाणा जावन घेवपाची म्हाका उमळशीक शी लागली.

“तुजें नांव कितें?” हांवें ताच्या तोंडाकडेन पळयत ताका विचारलें.

“म्हजें नांव तशें आजून कांय ना, हांवें थारायलां नांव घेवचें तें तुजेकडच्यानूच, आनी ताका फाल्यां हिस्टोरिकल म्हत्त्वय येतलें. अमूक लेखकान दवरिल्लें नांव म्हणून म्हाकाय बी म्हज्या सोयऱ्या-दायऱ्यांक सांगूंक मेळटलें, देखून हांवें म्हजें अशें नांव चल्याक सोदून काडूंकच ना.”

जावपाचो आशिल्ल्या भुरग्याच्या गोड नांवान ह्या मनश्याक झपाटला म्हणपाचें

पुराय सिध्द जाल्लें. आतां ताका हांवें ताचें नांव विचारल्यार तो म्हणटा ताणें चल्याचें नांव सोदूंकच ना म्हणून.

"तशें न्हय, हांव विचारतालों, तुजें नांव- म्हळ्यार तुजें नांव, युवर नेम."

"म्हणजे म्हजें नांवूय खबर ना? तुमच्या गांवचो, तुमचो शेजारी - "

"हय, सगळें खरें, पूण हांव आतां खंय रावतां गांवांत आनी घरांत. म्हज्या घराची गत कितें ती जाणां तूं? केन्ना पळयला तुवें म्हाका म्हज्या मूळ घराकडेन?"

"हय, तेंय खरेंच, पूण तुमकां लोक वळखतात ते आमच्याच गांवचे म्हणून. आं, म्हजें नांव रमेश. बाबलो नासलो -"

"नासलो म्हळ्यार?"

"हय, पिड्ड्यार जालो, जालीं दोन वर्सां, तागेलो व्हडलो पूत हांव."

खीणभर हांवूय मात्सो सुन्न जालों. एक हरशींच म्हणिल्ली गजाल खरीच जाल्ली. गांव फक्त नांवाकच उरिल्लो. गांवांत कोण जाता, कोण मरता, कसलोच पत्तो नासलो. खऱ्यानीच जल्मगांवा कडेन इतलो परको जावंक फाव नासलें, म्हजें म्हाकाच लंचणपण शें जालें. हांव ओगी जालां तें पळोवन ताणें म्हळें, "आतां हांवेंनूय गांव सोडला, बायल नोकरी करता. हांवूय बँकेंत आसतां, आतां फोंड्यांतच फ्लॅट घेतला. हांगा, लागींच. परत हांगाय तुमचोच शेजारी म्हळ्यार जाता. ती व्होल्तार काजी बिल्डींग ना, ते बिल्डिंगेंत चौथ्या मजल्यार डब्बल बेड घेतला."

"म्हणजे परत तीच गत, हांगाय बी तूं म्हजो शेजारी म्हणपाचेंय म्हाका खबर ना." आनी म्हजीं हीं उतरां आयकून तो खोऽऽ करून हांसलो आनी म्हळें,

"गांवांत खंय मनश्यांक नांवां आनी शारांत कोनश्यांक. आतां शारांत कोनशेय वळखुपाक येनात. शाराचे गर्देंत कोण कोणाक वळखता? तुमचें खंयचें? खुद्द आमचे काजी बिल्डिंगेंत वयल्या आनी सकयल्या मजल्यार कोण रावता तें जाणा जावपाचें सोडातच, खरें सांगू, म्हज्या फुडल्या फ्लॅटांत कोण रावता तें लेगीत म्हाका आजून खबर ना," अशें म्हणत तो परत हांसलो.

तरणाटो एकदम जॉली लागलो. खूब उमेदी. अशा मनशाचे जिणेंत जर उमेद इल्ली तरी उणी जाली जाल्यार ताका ती खऱ्यानीच सोसूंक जावची ना. हुसक्या मेकळो असो तो चिंतेविरयत आत्मविश्वासान जियेता जावंक जाय.

इतलो वेळ हांवें ताका तसो गंभीर घेवंक नासलो. पूण एक गजाल खरी, ह्या मनशाच्या मनांत खोल, खोल उपाट भरून आसा तो निखळ आनंद. घडये आयज मेरेन ताका खात्रीन तो मेळत आयला जावंक जाय. जें, जें ताणें येवजिल्लें तें, तें तशें घडून आयलां जावंक जाय. मनाप्रमाणे लग्न, इच्छिल्ली तशी बायल, फ्लॅट, कार बी सगळें

ताच्या मनासारकें घडून आयलां जावंक जाय. देखून ताका, आतां चलोच जातलो हाचो आत्मविस्वास दिसूंक लागला जातलो. अशा मनशाची आनी आनीक चड फकाणां करप समा न्हय अशें चिंतून हांवें ताका म्हळें, “पयलोच तूं आमगेर आयला न्हय, म्हणटकच कितयें च्या, कॉफी वो कोल्ड.”

“ओ, नो, फॉर्मलिटी नाका. म्हजेर फक्त इतलोच उपकार करात, म्हाका एक बरेंऽऽशें नांव तुमी म्हज्या चल्याक दवरपाक सुचयात.”

“नांव आतांच सांगूंक जाय?”

“एकदम बरें जातलें.” ताणें तत्काळ म्हळें.

“हं, आनी हांवें सांगिल्लें नांव तुका पसंत पडटलेंच म्हणपाची गॅरंटी-”

“ना, प्रॉमीज. हांवें थारायलां, म्हज्या चल्याक तूं सांगता तेंच नांव दवरतलों.”

ताचें उलोवप सुसूत्र नासलें. तो म्हाका केन्नाय नांवान पाचारी, तर केन्नाय अनेक वचनान तर केन्नाय आरे-तुरेन. मनीस विचित्र आसलो खरें.

“बरें आसा.” अशें म्हणत हांवें ताका सांगलें. “आतां म्हाका विचार करपाक वेळ ना न्हय, म्हण्टकच हांव तुज्या चल्या खातीर अशीं कांय धा-बारा नांवां वेंचून, बरोवन काडटां. पूण म्हाका थोडो वेळ दियात. आजून वेळ आसा न्हय. ते भायर तुमची घरकान्न आजून सुटची आसा. तुजो पत्तोय आतां कळ्ळो, हांवूच येतां तुगेले थंय पेडो खावपाक, ओके?”

आनी खऱ्यानीच ताणेंय बी पेडो खाल्ले भशेन गोड तोंड करून म्हाका म्हळें, “रियली, तूं आमगेर म्हज्या चल्याचें नांव घेवन येतलो?”

“हय, बरेंऽ शें नांव हांव तुज्या चल्याक दवरूंक घेवन येतलों.”

म्हाकाय आतां ताचो निरोप घेवपाचोच आसलो. घरांत भितर सरून आजून कपडे काडूंक नासले. आमच्यो खबरी आयकून भितर ओगीच कपबश्यो संतापान श्यो, निशेधान श्यो वाजताल्यो. बायलांक आपलो निशेध उक्तावपाक रांदचे कुडींत घे म्हणून शस्त्रां मेळटात. कितेंच ना जाल्यार वावराडेक जावं भुरग्यांक उद्देशून तरी कितेंय म्हणप. तें सगळें घडचे पयलींच हांवूच उठलों आनी ताका म्हळें, “बरें तर मेळुंया.”

“मागीर बरें शें नांव विसरू नाकात आं.” अशें म्हणत तोय उठलो आनी म्हाका बरें दिसलें.

हांवें खऱ्यानीच बरीच तकालस घेवन आनी सवड मेळत तेन्ना विचार विनिमय करून कांय नांवां बरोवन काडलीं. आनी बरेच दीस तीं नांवां दुसरेकडेन आनी कोणाकूच ना म्हणपाची खबर काडून कांय नांवां घेवन बऱ्या देड म्हयन्या उपरांत हांव काजी बिल्डिंगेंत त्या भावी चल्याच्या बापायक मेळपाक गेलों.

दोन-तीन माळे चडून हांव चौथ्या मजल्यार पावलों. ताचो फ्लॅट सोदून काडलो.

पळय जाल्यार तांच्या फ्लॅटांत कोणाची जाग माग नासली. हांवें दारावयली बेल दाबली. भितर बेल जाली तरी बरोच वेळ फ्लॅट कोणेंच उगडलो ना. उप्रांत हांवें बेल परत वाजयली, तेन्ना मात एक मनीस आयलो. ताका त्या हय-न्हयशा उजवाडांत हांव वळखूंक शकलों ना. तो मनीस सामकार आयलो, ताणें दार उक्तें केलें आनी त्या उजवाडांत सदां प्रफुल्लीत, जॉली तरणाटो तो तोच काय कोण असो खीणभर दुबाव आयलो.

म्हाका पळोवन ताणें तकली एकदम सकला घाली आनी तो मुसमुसून रडूंक लागलो. तो रडटा म्हणपाचेर म्हजो विश्वासूच बसना जालो. म्हगेर नांव व्हरूंक आयिल्लो तेन्ना तो जसो खुल्लम खुल्ला उलयतालो तो हो न्हयच कशें म्हाका दिसूंक लागलें, म्हजी खात्री करून घेवपाक हांवें ताका 'रमेश..' अशें म्हणून उलो मारलो, तेन्ना तर तो फुडें येवन म्हजो खांदो आधाराक घेवन परत रडपाक लागलो.

ताची ती अवस्था पळोवन हांव गलबल्लों. कितें तरी वायट घडिल्लें जावंक जाय ताचे जिणेंत. ताची बायल सुट्टना... वो भुरग्याचें कितेंय वायट बी जालें काय कितें?

आनी म्हज्या मनांतलें चिंतप मनांत आसतनाच ताणें म्हळें,

"पयलेच खेप म्हाका म्हजे जिणेंत आत्मविश्वासान धक्को दिलो," आनी अशें म्हणून तो परत भावनाविवश जालो, सामको सद्गदीत जावन उमाळ्यांनी रडूंक लागलो.

कितें कोण जाणां, म्हाकाय बी धिरार्ची उतरां त्या वेळार सुचना जालीं. मात हांवें म्हजें काळीज घट करून ताका म्हळें, 'बॅटर लक नेक्स्ट टायम' आनी चल्यांच्या नांवांची वळेरी बरोवन काडिल्लें कागद काडलें आनी ताचे मुठींत खोयलें. ताणेंय बी तो कागदाचो कुडको लाखमोलाची वस्त कशी आपले मुठींत घेतली. आनी अचळय भरिल्ल्या दोळ्यांनी उक्ती करून वाचपाचो प्रयत्न करपाक लागलो.

हांव आनी ताची ती फुडली अवस्था पळोवंक थंय रावलों ना. फाटल्या पांयांनी काज़ी बिल्डिंगेचीं सोपणां देंवन सुन्न मनान हांव घरा परतलों. एका सदाबहार तरणाट्याचे जिणेंतलो तो एक काळोकीट्ट खीण आसलो, इतलें म्हाका होलमलें.



# दिसवडो

वीस कुंभांचें लांब-रुंद कातोल्ल. आनी कातोल्ल्यांच्या दोंगराचेर पेसणां कशीं लांब-रुंद बांद. हे बांद चिकणे मातयेन पूण चिऱ्यांनी बांदिल्ले जाल्यार तांचो मोटारींचो रस्तो कसो उपेग करूक येतालो. आनी चिऱ्यांचे घटसाणेक लागून पुनवेचे खर जोरगतीन बांदाक खांवटींय पडचीं नाशिल्लीं. पुणून वीस कुंभ भात निगळीक घेवपी घुशी भाटकारान ह्या कातोल्लाक फाव तो दुडू केन्नाच खर्च केलो ना. बांदाक खांवटीं पडूं ना जाल्यार शेताक कीड लागूं, ताचें दुख्ख घुशी भाटकाराक केन्नाच जालें ना. थिकणांतले धा-बारा मुंडकार, गवळांतले पांच मुंडकार, पांडवाचे मुंडकार मेळून वीस-तीस मानाय ह्या मेलांच्या कातोल्लाक घामाचें सारें घालताले, रगतान शिंपताले, पावलांनी कालयताले आनी कातोल्ल सावडींत दिताले. पुणून घुशी भाटकारान बुड्याचे मानशेकडलें कातोल्ल केन्नाच सावडीक दिलें ना, तशी ताका गरज पडली ना. वीस-तीस लोक फुकट्याक कामाक मेळ्ळ्यार शेतां सावडीक खंयचो शाणो दीत? खावड घाल्यार सावड मेळटा हाची ताका भरपूर खबर आसली. आनी देखूनच घुशी भाटकार भायल्या मुंडकारांक वर्सभर साणयेर चंदन झरयतात तशें आपल्या शेतांच्या आंगार हुसक्या मेकळो झरयतालो; विचारतलो-पाचारतलो आसल्यार घडये एकाद्रो मुंडकार ताचे तावडींतल्यान सुटत आसलो. पुणून तशें केन्नाच घडलेंना.

हाडली पड खाली पड, सकाळीं उठून परत पडीक चल, असो दिसपट्टो कार्यक्रम जाल्ल्यान तांचे तें संवकळीचें जाल्लें. घुशी भाटकार काम करतकच आपलो दिसवडो उडयतलो अशें केन्ना खंयच्याच मुंडकारान येनजिलें ना. पुरी पुरंतराक चलत आयिल्लें कश्टांचें दायज तेय आयज अभिमानान घेवन चलताले. भाटकाराली पड म्हळ्यार देवाचो प्रसाद हे भावनेन काश्टेची झोळी करून भाटकाराच्या दारार मुंडकाराचे भौस तोके कशे बसतात. भाटकारालें क्रियाद आगोस्तीन सूपभर तांदूळ घेवन पड-पड काश्टेचे होंटयेंत घालतलें हें सगळ्यांक खबर आसता. कोणाचें हूं ना चूं नासता; मोन्यांचो व्यापार. भाटकारा म्हाका एक रुपया, भाटकारा म्हजे पांच रुपया, हीं उतरां घुशी भाटकाराच्या दारांत खंयच्याय मुंडकारान चुकून लेगीत काडलीं नात.

कोणा भाग्यवंताचे खोंपी पाख्यार भांगराचीं किर्णां शिंवरून पाख्याक भांगराचो लेप

लायला अशें पयसुल्ल्यान पळयतल्याक केन्ना दिसत हें सांगू नज. असो भांगरा किर्णाचो शिंवर करपी सूर्या दर एका मनशाचे जिणेंत उदेता अशें सांगतात.

आनी अशा मनशांच्या खोपींचेर जर अचकीत एके सोबीत सकाळीं सुर्याच्या भांगरा किर्णाच्यो दडको पडल्यो जाल्यार तातूंत अजाप कित्याक करचें? दिसवडो हातांत घेवन परततना कृष्ण मुकादमाक आनी ताच्या वांगड्यांक कातोल्लांतलो बदलपी भांगरा खीण दोळ्यां सामकार दिसूंक लागलो...

"आयकात..." घुशी भाटकारालो कारभारी कातोल्लांत उबो पळोवन गवळांतल्या मानायांक केन्नाच जावंक नाशिल्लें इतलें अजाप जालें. भाटकार बरो ना देखून भाटकाराची ओर्द घेवन कारभारी जुआंव शेतांत आयला जातलो असो दर एकल्यान अदमास केलो. पुणून आयकात म्हणटा, ताका कितें सांगपाचें आसा काय? दिपळ्यांचेर पानकुदळ मारपाक उखलिल्ल्या हातांनीं दांडे सदळ सोडले. तायटाचेर घेतिल्ली थुंकी काश्टेच्या पोंताक पुसली, कामेऱ्यांनी कमराक खोयिल्लो पदर सदळ केलो. केरांतले दुर्गावतीन माथ्यांत हात घालून आंबाड्याक घाल्ली सकाळची पार्थी फाती सांसपिली. दीस भर रखरखत्या वतांत आंबांड्या वयली फाती करपल्ली म्हणपाचें दुर्गावतीच्या लक्षांत आयलें. फांतयेच्या पोडाक गुथिल्लो बोकड्यो तिच्या हातांत आयलो. तिणें तो नाकाकडेन व्हरत घुशी भाटकाराल्या कारभाऱ्या वटेन नदर घुंवडायली आनी नदरेंतल्यानूच अशा अर्थान तिणें म्हळें, 'कितें आयकयात, मडें? आज मेरेन आमी तेंच आयकत येयल्यांत. काम सारकें जायना, तांदूळ कमी गावतले.' दुर्गावतीन ओंठ दावले, दादले मनीस शेतांत आसतना पचकेपणा उलोवप बरें न्हय हाची तिका जाणीव जाली. आयकयात म्हण सांगपी मुखार कितें सांगता तें आयकुपाक तिणें कान फुरफुरायले.

"तुमकां सगळ्यांक खण्णी जातकूच भाटकारान घरालागीं आपयल्यात." जुआंवालीं हीं उतरां आयकून जायत्या जाणांचीं उकर्ती जाल्लीं तोंडां अजापान कितलो तरी वेळ उक्तींच रावलीं.

"भाटकाराल्या घरा?-" सगळ्या खणप्यांचे जिबेर अजापाचीं उतरां आयलीं. पुणून जुआंवाक पळोवन जिबेच्या पोंतारूच शेणलीं. ओंठां भायर आयलींच नात. केन्ना भाटकार सणा-परबेक घराकडेन सगळ्यांक एकदम आपोवपी न्हय, केन्नाय भाटकारान मायेमोगान घराकडेन व्हरून कोणाकय दोन उतरां सांगलीं नात.

भाटकाराचे व्हडले धुवेचें लग्न जालें, मदलो पूत दोतोर जालो, निमाणो पूत पाद्री जावपाक पुलपितार चडलो. एकूण ह्या भाग्याच्या खिणांतय घुशी भाटकारान केन्नाच आपल्या मुंडकाऱ्यांक एका उतरान आपयलें ना. फकत तांचे हात-पांय झरय झरय-झरयले. तो घुशी भाटकार आज आपल्या घराकडेन सगळ्यांक एकाच वेळार आपयता?

"जुआंवबाब, आमकां कित्याक आपयले जातले भाटकारान?" - शिरसाटांतल्या कृष्णान भिये-भियेत विचारलें.

"तें म्हाका कितें खोबोर? पुणून म्हाका दिसता, भाटकारान तुमकां बरेंच पुर्राद दवरलां जावंक जाय. तुमचे कडच्यान कसली तरी चूक घोडपाक जाय."

"चूक? आमची चूक? जुआंवबाब, तुका अशें दिसता की जोर आमची चूक घडत जाल्यार ती दाखोवन दिवपाक भाटकार आमकां थंयसर आपोवन व्हरतोलो? पोरू कुश्टान गोरवांक गोठो काडल्यार कुश्टाचेर भाटकारान कसलीं थापटां मारलीं तीं जाणा? तेन्ना आमकां भाटकारान घराकडेन आपोवन व्हेल्ले? आरे, आमी ताका नाका तसलें करचें आनी ताणें आमी केलां ताचेर खीणभर चितचें आनी फुडलें करचें अशें केन्ना घडलां? खिणाक जीब उखलून ताळ्याक लावपी भाटकार आयज चूक घडल्यार असो ताची ख्यास्त दिवपाक आमकां घरा आपयतलो? केन्ना-केन्नाय अडाणी मनशाच्या तोंडांतल्यान देववाणी झिरपून भायर येता, तेन्ना त्या मनशाच्या आत्म्याक जिबो फुट्टात. त्या जिबांचेर खेळपी भांगरा मोलाचीं उतरां खंयचेय तागडेन जोखूंक जायनात. जुआंव लेगीत तकली सकयल घालून खणून काडिल्लो पानकुदळीच्या सांच्याचो काळो दिपळ पांयान चिड्डीत येवजूंक पडलो.

"हय," जुआंवान ल्हवूच म्हळें, "म्हाकाय बी अजापूच दिसलें. गिरणीचेर पैशे घेवपाक म्हजेशिवाय कोणाकूच ना सांगपी भाटकारान रामरायाक गल्ल्यार बसोवन म्हाका हांगा तुमकां रकाद दिवपाक धाडप आनी आपूण ऑल्तेरार पडून रावप, सगळेंच अजापाचें. कांय नज, आयज दनपरां तुमी आंगणाचे पेळयेर येवन रावात." - जुआंव इतलें सांगून बांदार आयलो आनी तारी वाटेन एकोशे वचपाक चलपाक लागलो.

कातोल्लांत हातांचीं तायटां थुकी लावन मोव करपी खण्णेकार जुआंवाक पळयत रावले. तांची नदर मळबांतल्या सुर्याचेर पडली आनी तांच्यो मुंडळ्यो सूर्य-बिम्बांनी लिकलिकल्यो त्यो एकामेकांनी पळयल्यो.

"वोत दोळ्यांर मारता" - तारामतीन म्हळें तशें सगळ्या कामेऱ्यांनी कमराचो पालव माथ्यार घेतलो. मानायांनी तुवाल्याची खोळ माथ्यार घाली आनी पानकुदळी उखल्ल्यो. कवाईत करतल्या सैनिकांचीं आर्मां जशीं एकाच तालार वयर सकयल जावन खांद्यार दिसतात तशो तांच्यो सगळ्यो पानकुदळी एकाच वेळार उखलताल्यो आनी एकाच वेळार भुंयेचे दिपळे काडटाल्यो. नीट वळीन पळेतल्याक अशें दिसचें की एकूच मनीस एकेच कुदळीन आख्खें कातोल्ल खणटा.

खणटां-खणटांच कृष्ण मुकादमाची सामकारा कातोल्लाचे मानशेर नदर पडली. मानशेचीं दारां उक्तीं जाल्यांत आनी तुकल्यान जाळ लायलां तें मुकादमाक दिसलें. ताणें

आपल्या वांगड्यांचेर नदर मारली. आनी आयज कसलें बगलांट येता काय देवा अशें म्हण हड्डें भर सुस्कारो सोडलो. सामकारचे मानशेच्या जाळाक हुंवाराच्या उदकाच्या भोवऱ्यांत सांपडिल्लें भोवशें फारवल्लें. तुकलो जाळ काडटालो, पांटें भरतलो आनी बायलेक पांटें घेवन भोवशें भांगरा मोलान विकपा खातीर बाजाराक धाडटलो. ह्या जाळांतल्या भोवश्या सारखी आमची गत. कृष्णा मुकादमान मनांत म्हळें आनी परत कुदळीक हात घालो, पुणून कुदळ उखलना जाली, दिपळो दसून कुदळ जड जाल्या जातली. म्हण तार्णे कुदळेर दावो पांय ओडलो. पुणून कुदळी घांसाक दिपळो नासलो. ताका कुदळच जड जाल्ल्याचो भास जालो. आनी ताची खात्री जाली की आयज भाटकार तांकां गवळांतल्यान भायर सरपाक सांगतलो म्हण. गिरेस्तकायेच्या जाळांत फारवल्लीं आमी मनशां भोवशें कशीं आज मेरेन अशींच तडफडत आसात. आमचे कडेन जाळ तोडपाची शक्त ना आनी जाळा भायर आशिल्लो उंदीर आमकां आदार दिवपाची शक्यताय ना. कृष्ण मुकादमान स्वास चिडडून मळबांतल्या सुर्याक पळयलो. सूर्य-बिम्बान ताच्यो मुंडळ्यो भाजल्यो-हुलपल्यो अंसो ताका भास जालो. ताणें काश्टेच्या लेंसान दोळ्यां-कडो ल्हवूच पुसल्यो. वांगड्यांनी आपल्याक पळोवंक ना हाची खात्री करून घेतली आनी कानाक लायिल्लें पोतेर काडून तोंडांत घालें. गिड्डया बोल्सांतलें फस्क काडलें, काडी मारली. काडी पेटली ना. कशें पेट्टलें? घामाच्या दडकांनी फस्काचो गंधक पातळ गंध जाल्लो.

"जानू?" - शेजारच्या खणप्याक कृष्णान साद घालो.

"कितें?" जानू कडच्यान फस्क घेवपाक कृष्णान जानूक उलो मारिल्लो. पुणून आपणें जानूक फस्क घेवपाक उलो मारिल्लो हाचें भान कृष्णाक उरलेंच ना. ताका गवळ दोळ्यांमुखार दिसपाक लागलो.

गवळांतल्यो धा-बारा खोंपी, माथ्याक तेकपी पाखीं आनी आंगणांतच कल्लोवन मस्तून रेबट जाल्लो गोरवांचो गोठो. त्या रेब्यांत खेळपी नागडीं-उगडीं पोरां, पावसांत खोंपींनी भरपी उदक, आनी न्हिदपा खातीर शेंदऱ्योय-बोंदऱ्यो, हांगा-थंय धांवपी आपले वांगडी, तांचीं बायलां-पोरां कृष्णाक दिसपाक लागलीं.

"भाटकारा, खोंपी पोंवतात, भितोडी खळखळून गेल्यात; भाटकारा, आमी नळे घालतात -" एक दीस कृष्णान भिये-भियेत घुशी भाटकार मात्सो हांसलो तेन्ना सांगलें. पुणून घुशी भाटकारालो हांसो म्हळयारूच उज्याचें आगटें! नळे, तुमच्या खोंपींक...तूं... कृष्णा म्हाका सांगता? बिल्डिंगो बांदात रे म्हाका कितें, पुणून म्हज्या गोवळान न्हु, सोजमोलोय? दुसरे खेप अंसली भास केन्नाच काडूं नाका. तूं मुकादम जाल्यार तुजे सावडीचो. म्हाजो न्हू, गोमलें?"

तेन्नाचीं तीं उतरां आयकून आपटून आपटून कानाचो पड्डो पिंजत काय कितें असो

भंय कृष्णाक जालो.

"घे, फस्क घे" - यादूच्या उतरांनी कृष्णा सावचीत जालो.

"कितें जालें? कितलो वेळ जालो तुयें फस्क मागल्यार, घे म्हळ्यार हात फुड्यां करिना, कितें येवजिता रे?" यादून लागीं येत कृष्णाक विचारलें.

"हय. येवजितालों, आयज भाटकारान कसली ख्यास्त दिवपाक आमकां आपल्या घराकडेन आपयल्यात तें."

"आपयल्यात जातले रे कितेंय काम सांगपाक. सांगतलो, खांवटे पडल्यार आमी बांदाक चिकोल काडप, आमीच माडयो हाडप, आमीच भोंम मारप आनी कितें सांगतलो?" - यादूकच न्हय, सगळ्यांकूच भाटकार आनी कसलीं कामां केन्ना कशीं फर्मायतलो हें खबर आशिल्लें. घुशी भाटकाराचो खीण-खीण ते वळखताले. ताचे ल्हंवेची हाल-चाल वळखताले, गोरे कातीवयले काळे केंस खुटे कशे उबे जाले तेन्ना भाटकाराच्या आंगापांगाचें होमकण पेटलां हें समजुपाक तांकां वोगोत लाग नासलो; आनी तेन्ना ह्या होमखणांत मोन्यानी जळपाखातीर दोळे धांपून घेवप तांकां संवकळीचें जाल्लें.

आयज घराकडेन आपोवन असल्याच होमखणांत आमकां चरचरीत भाजतलो अशी दर एकल्याची पुराय खात्री जाल्ली. कृष्णान पानकुदळ जमनीर आपटिली. आनी वळीन आशिल्ल्या खणप्यां मुखार तो उबो रावलो. तो सांगूंक लागलोः

"भावांनो, हांव तुमचो मुकादम. तुमी विचारान म्हाका मुकादम केला. मेळटा ती पेजपाणी खावन आमी आयज मेरेन धादोशी जाल्यात. तुमकां कांय, आमी कशे आसात, खंयच्या इफेर्नात रावतात, कितें खातात, कशे जगतात, हें सांगपाची गरज ना. आनी आमच्या ह्या दुख्खा भायर आमकां पोटा-पाण्याक वयता थंयूय सूख नासता. आमी मुंडकार म्हण दिसवडो मेळना. दुसऱ्यांगेर कामाक गेल्यार आयज १०-१५ रुपया दिसवडो मेळटा, पुणून असलो दिसवडो आमच्या नशिबांत ना. आमकां फकत पडभर उकडे तांदूळ. आमच्या वेठीच्या वावराचो दिसवडो हो पडीन जाता? तेन्ना आयज आमकां भाटकारान आपयल्यात ते आमची पड कमी करपाक जावंक जाय. बरो शेरमांव सांगतलो आनी फायच्यान आमकां अर्द पड दिवपाक सुरवात करतलो. तेन्ना भावांनो, आमी भोगलां तें पुरो. पोटाक वेंटो घातलो, आंतकड्यांक पीळ घालून पेजे निवळ पोरांच्या ताळ्यार घातलो. हो पेजे निवळ आयज कमी जातलो. आनी फकत आमकां वेठीचोच वावर करचो पडटलो. तेन्ना आयज आमी भाटकारागेर वयतले तेन्ना ह्या दिपळ्याचो मातये तिबो कपलाक लावन या. मागीर ह्या मातये तिब्यार रक्ताची शिळकी उसळ्यार उसळूं. जाल्यात तशे मरतले. तेन्ना तुमकां म्हाका नेमकें कितें सांगपाक जाय तें समजलां अशें हांव समजतां. चलात आतां. आनी वोगोत नाका. बांदार चलात, पोनेळ सोडून एकोशे पावपाक

अर्दवर लागतलें. आमी वेळार या. मागीर तें आनी काचकिसांव नाका.

बुड्याच्या कात्तोल्लाक भार आयलो. हड्डीं ताणशेलीं, मातयेचे दिपळे लोखण जाले आनी पावलांचें वारें जालें. बांद सोपलो. पनेळाक वोलें मारलें. न्हंयची ल्हारांची शक्त खदूंक लागली.

एक आलतड आनी फुडें पलतड. पलतडच्या घुशी भाटकाराले मुंडकार आपलो गवळच पनेळांत घालूनच आंगणांत आयिल्ल्याचें दिसपाक लागलें. पनेळ फातराक बांदलो.

घुशी भाटकाराच्या आंगणांत दनपारच्या पारार फेस्त भरलें! फेस्ताक आयिल्ल्यांनी घामाचो चेर मारिल्लो, काश्ट्यांचे सूट घाल्ले, बोंदरांचे विस्तीद घाल्ले. सगळे भाटकाराल्या त्या फुडल्या बल्कांवाकडेन पळयताले. सेरमांव आयकुपाक कान तानेल्ले, हड्डीं कंपान थरथरतालीं.

"ये... भाटकार येता?" - कोणें तरी भाटकाराक घराच्या दारावयलो पड्डो कुशीक काडून भायर येता तो पळयलो.

घुशी भाटकारान आंगणांत येवचे बदला वयरूच, गरादीचेर रावन खीणभर सगल्यांचेर नदर मारली. आनी मुकादम कृष्णाक साद घालो.

"कृष्णा?"

"भाटकारा?"

"हिंगा यो."

"कितें भाटकारा?"

"हो तुमचो दिसवडो, मानायांक १० रुपया कामेऱ्यांक ७ रुपया-" भाटकार. भाटकार आमची जीवघेणी मस्करी करिना मूं? अशा दुबावान सगळ्यांनी घुशी भाटकाराकडेन पळयलें.

"हय... आयच्यान तुमचो वेठीचो वावर सोंपलो, सरकाराची ओर्द," अशें म्हणून घुशी भाटकार चणचणीत मदल्या दाराचो पड्डो कुशीक काडून भितर गेलो.

गवळांतलो मुंडकार भाटकार गेला ते वाटेन पळयत उरले. आनी दर एकल्यान एकाच सुरांत म्हळें,

"कितें, आमचो दिसवडो?"

खोपीच्या पाख्यार सूर्य-बिंबांतलीं तांचीं पडबिम्बा तांकां दिसवड्याच्या रुपान दिसतालीं.



# माय फस्ट अँड लास्ट क्लाएंट

हॉलीडे कन्सल्टंट म्हणून जेन्ना म्हजी नेमणूक जाली तेन्ना पयल्याच दिसा कंपनी मॅनेजरान म्हाका सोमतोच सामक्या निमण्या मजल्यार आशिल्ल्या उकत्या ऑफिसांत बसपाक सुवात दिली. खरें म्हळ्यार तो ते पांच मजली इमारतीचो तेर्रासूच आसलो. पूण वयर कसलें तरी तार्पोलिनाचें पाखें करून ताका ऑफिसाचें रूप दिल्लें. पूण माथ्यार सावळेखातीरचे पाखें सोडलें जाल्यार फुडल्यान, फाटल्यान आनी सायडीच्यान कसलीच आडखळ म्हणटा ती नासली, ताका लागून हॉटेलाचे भोंवतणचो सगळो वाठार निवळ पळोवंक मेळटालो. वयर पावनाफुडें म्हजी नदर गेल्ली ती फाटल्या दोंगराचेर. दोंगरार गच्च झाडां. थोडीं सुकिल्लीं तर थोड्यांक नांवाक पाचवो रंग बाकी आसलो. घडये येतल्या पावसांत तीं झाडां परतीं पालेवये. पूण माय लागचे पयलीं ती करपल्लीं इतलें खरें. तरी सुद्दां मुखावयल्या मेजार बशिल्लें गोरें जोडपें दोंगरार पळोवन तोखेतालें. "व्हेरी व्हेरी हाय पीक, फँटास्टीक!" तांचें तें उलोवणें आयकून हांवें मनांत म्हळें, हें जोडपें खंयच्या वाळवंटांतलें काय? सुकिल्ल्या झाडांक सुद्दां तोखेतात तीं...

हांवें दोंगरावाटेन थिराविल्ली म्हजी नदर घुंवडायली आनी हेवटेन पळय जाल्यार अस्तमती दिका तांबडी, तांबडी जाल्ली दिश्टी पडटाली. सगळ्या अरबी दर्यांत तांबडो लाल गुलाल खिरयला कसो दिसता तें हांवें पयलीं कशें पळयलें ना काय, हाचेंच म्हाका अजाप दिसलें. तांबसाण, आनी येद्या दर्याची म्हज्या लक्षांतच आयली ना. पयस वास्कोच्या बंदरांत नांगरून दवरिल्लीं व्हडलीं, व्हडलीं तारवां आनी म्हालवाहू बोटी अंदुक श्यो दिसताल्यो, हाचे वयल्यान हडफडेच्यान वास्को खंयचे दिकेन आसा तें सोपेपणाक कळटालें.

भोंवतणी नदर मारतकच एक गजाल सामकी पळोवंक मेळ्ळी की उत्तर गोंयची सगळी दर्यादेग तरेतरेच्या हॉटेलांनी कचाकच भरिल्ली आसा. हॉटेलां म्हळ्यार तरी कसलीं? त्या वाठारांत पंचनखेत्री हॉटेलां जरी नाशिल्लीं, तरी सगळी तांची मांडावळ आनी भितल्ली सगळी वेवस्था पंचनखेत्री हॉटेला सारकीच आसता खंय. हांव ज्या हॉटेलांत बशिल्लों त्या हॉटेलाची अर्द मैल लांबाय आसुंये. वयर सकयल मेळून प्रत्येक इमारतीक जोडून एक मिनी स्विमिंग पूल, आनी त्या पुलाच्या पाचव्या उदकांत शितळ न्हाण घेवपी तांबडीं गूंज युरोपी

जोडपीं. आयज पयलोच दीस म्हणून हांवें हो सगळो भोंवतणचो सैम भरपूर पळोवन घेतलो. फायच्यान गंभीरपणान कामाक लागपाचें.... हांव हॉलीडे कन्सल्टंट. म्हाका प्रत्येक गजाल जाग्यार घालपाची संवय आशिल्ल्यान हांवें पयलो दीस असोच घालोवपाचो थारायलें. काल मुलाखतीच्या वेळार कंपनीच्या एका जाळवणदारान सांगिल्लें, "तुमी क्लायंटाची वाट पळयत बशिल्ले आसतना जर तुमकां वाज बी येत जाल्यार तुमच्यांनी एक बियर वो एक व्हिस्की पेग घेवं येता. पूण टेक कॅअर. तुमी इतलें पिवंक फावना, जाका लागून तुमचेकडेन आयिल्लो तुमचो क्लायंट तुमचे पसून पयस वचत. मागीर मात तुमचें लुकसाण. यु आर लुजर्स; ओके? पूण पयल्या दिसा. घेवया एक बियर अशें म्हणून हांव कांवटरार गेलों आनी एक बियर म्हजेखातीरूच म्हण घेवन आयलों आनी म्हजे सुवातेर बसलों. बोल्सांतलें व्हील्स सिगार काडलें. गॅस लायटराचें रॉद आंगठ्यान धुंवडायलें आनी लायटर पेटोवन सिगाराच्या पोंताक लायलो. सिगाराचो एक बरो सो लांब झुरको घेतलो. तसो सोमतोच बियरीचोय एक घोंट घेतलो. इतल्यांत वेटर येवन म्हाका म्हणपाक लागलो. "सर. यू हॅव ए क्लाएंट. ही इज कमींग अप. प्लीज रिसीव्ह हीम."

क्लाएंट, पयल्याच दिसा? खऱ्यानीच इतलो भाग्यवंत हांव? आनी हो क्लाएंट म्हाका मेळ्ळो आनी हांवें ताका एक हॉलीडे होम विकतें घेवपाक पिकयलो जाल्यार धपक्याकच म्हाका पांच हजार रुपया कमिशन मेळटलें. एक वो दोन वरां भितर. पांच हजारांची जोड!

"फट न्हय..." कंपनी मॅनेजर म्हण्टालो, "...तुमकां जर एका म्हयन्याक धा क्लाएंट मेळत जाल्यार तुमचे पन्नास हजार कोणें व्हरूंक नात!' म्हणजे हो नवो उपक्रम म्हाका म्हयन्याक इतली जोड दितलो, जी जोड हांवें वर्साक सुद्दां केन्ना जोडली ना. मनांत खीणभर विचार आयलो आनी सुखावलों. हॉलीडे कन्सल्टंट म्हळ्यार पयसोच पयसो म्हणटाले तें फट न्हय तर!

पूण विचार करपाक वेळ नासलो. लिफ्टीन पांचव्या मजल्यार म्हजो पयलो क्लाएंट येतालो. घडये तो लिफ्टींतल्यान भायर सरून हांगा येवपाक चलपाक लागला जातलो. हांव तसोच उठलों आनी म्हज्या गिरायकाक येवकार दिवंक तयार रावलों. हांवें म्हज्या गळ्याचो टाय मात्शी गांठ वयर सरकून टायट केलो, शर्ट ओडून घेतलो, कमरावयली पँट मात्शी सकयल घसरिल्ली ती वयर ओडली आनी ठाकठीक, इंप्रेसीव्ह जावपा खातीर बोल्सांतलो लेंस काडून तोंडार भोंवडायलो. कपलावयली हूम पुसली. तोंडार बशिल्लो धुल्लाचो रांप लेंसाक लागलो तेन्ना कळ्ळें, म्हज्या तोंडार बरोच धुल्लाचो रांप बशिल्लो.

"एक्स्क्यूज मी. आर यू...?" - ताणें पुराय विचारचे पयलींच ताचें वाक्य अर्दवट तोडीत हांवें म्हळें,

"यस्, आय एम काज्मीरो मोंतेरौ, हॉलीडे कन्सल्टंट फॉर द इण्टरनॅशनल हॉलीडे कंपनी पॅनोरामा."

"यू आर वेलकम" अशें म्हणत हांवें म्हज्या पयल्या क्लाएंटाचो हात दाबलो. गोरी कात, मोव-मोव. जाणटेपणाची मिळमिळसाण ताच्या हाताच्या स्पर्शान म्हाका जाणवले बगर रावली ना. म्हजो पयलो क्लाएंट बरोच जाणटेलो, आनी ते भायर एकलो एकसुरो कसो. ताच्या सांगताक ताची बायल वा भुरगीं सुद्दां नासलीं. "व्हॉट विल यू हॅव?" हांवें बियर घेतिल्ली म्हणटकच झक मारीत म्हज्या ह्या क्लाएंटाकय ड्रींक्स दिवचेंच पडलें ना? ताका मुखार बसोवन हांव बियर पितलों आनी ताचेकडने डिलींग कसो करतलों? च्वे, खरें म्हळ्यार हांवें बियर घेवपाचीय न्हय, पूण कोणाक खबर असो हांव भाग्यवंत म्हण, पयल्याच दिसा पयलो क्लाएंट म्हाका मेळटलो म्हण?

"नो, सॉरी..." ताणें म्हळें.

"सॉफ्ट ड्रिंक्स??"

"ओके" - ताणें 'क' नेट दीत म्हळें. हांवें वेटराक पेप्सी हाडपाक सांगलें आनी हांव म्हज्या क्लाएंटा कडेन डिलींग करपाक लागलों. म्हाका पयलेंच जाणवलें. सेल्समॅनशीप कितली कठीण ती. 'यू हॅव टू सेल युअर टॅलंट.' ट्रेनिंग घेतन्ना त्या मॅनेजरान सांगिल्लें. 'यू नो... सगळें तुमचेर आसा. हो वेवसाय तुमच्यांतले कापाजदादीक एक आव्हान, तुमी सगळी बुद्द, तांक, हिकमत हांगा पणाक लावंक जाय, क्लाएंट आयिल्लो आसता तेन्ना ताका वश करप, प्रभावीत करप आनी हॉलीडे होम विकतें घेवपाक ताका तयार करप, हो तुमचो विजय. मागीर ही कळाशी जर तुमकां जमली जाल्यार तुमचे सारके तुमीच. म्हयन्याक पन्नास हजार जोडून तुमी तुमचें भाग्य फळयतले.' - परिसंवादांतलीं तीं तज्ञांचीं उतरां म्हज्या कानांत घुमता आसतनाच आतां म्हाका म्हज्या पयल्याच क्लाएंटाक हाताळपाचो आशिल्लो, "वेल्, व्हॅन डीड यू कम टू गोवा?" - हांवें म्हज्या क्लाएंटाक पयलो प्रश्न घालो.

"जाले चार-पांच दीस, म्हाका गोंय खूब, खूब आवडलें. यू सी, गोवा इज व्हेरी व्हेरी ब्युटीफूल, आय लव टू स्टे हिअर..."

"व्हेरी गुड, यु आर रायट, गोवा इज व्हेरी ब्युटीफूल. यु नो, इट इज काश्मीर ऑफ साऊथ इण्डिया." हांवें म्हळें. गोंयाक दक्षिणेकडचें काश्मीर म्हणटात, ह्या म्हज्या उत्तरान तो बरोच खोशी जाल्लो दिसलो. ताची ती खोशी ताच्या किलकिल्या दोळ्यांनी दिसताली. ताचें मुखामळ बरेंच मिरयेल्लें, गालार, कपलार, कातीर सुरकुत्यो पडिल्ल्यो. बाकी हांवें एवरोपी लोकांचें एक पळयिल्लें. ते रोखडेच कात सोडटात. वीस पंचवीस वर्सांचे जुवान सुद्दां. पन्नाशींतले कशे पोक्त जाणटे कशे दिसतात खरे, पूण ताचे पिरायेचो अदमास करप

कठीण आसलें. हांवें चिंतपांत चड वेळ वगडावचे परस, क्लाएंटाकडे चडांत चड उलोवपाचें येवजून ताचें पयलें नांव विचारपाक म्हळें, “मे आय नो युवर गूड नेम प्लीज.”

“य्या, आय एम मायकल स्मीथ, आय एम फ्रॉम लंडन. अँड धीस इज माय ग्रीन कार्ड.” ताणें पाकीट काडून पाकिटांतलें ग्रीन कार्ड दाखयत म्हळें, हांव जाणां आसलों, हॉलीडे होम अशें सहज विकतें घेवपी मनीस कोण साधारण आसूंकच शकना.

“यू वील लव्ह टू स्टे हियर.” - हांवें म्हळें.

“रायट, तुमचें खरें, आय लव्ह...” आनी तो खोऽऽ करून हांसलो. ताका गोंयांत हॉलीडे होम विकतें घेवन रावपाची खूब्ब उमळशीक लागिल्ली जावंक जाय.

हांवें म्हज्या क्लाएंटाक हॉलीडे होम विकतें घेतल्याक आमचे कंपनी कडच्यान मेळपी सगळे फायदे सांगले.

“वन्स यू बाय ए होलीडे होम-” हांवें ताका सांगपाक सुरवात केली. तो कान दिवन शितिदान म्हाका आयकतालो. केन्ना केन्नाय म्हजो इंग्लीश उच्चार ताका गोत जायनासलो, म्हाका बी ताचो इंग्लीश-लंडन पध्दतीचो ऐक्संट कळ नासलो, पूण सॉरी म्हणत आमी आमचे संवाद परते म्हणटाले आनी आमी एकामेकाक समजून घेवपाची धडपड करताले.

“तुमच्यांनी हॉलीडे होम मागीर जाय जाल्यार परत आमचे कंपनीक विकूं येता. तुमी जेन्ना हांगाच्यान लंडनाक वतले तेन्ना तुमचें हें होम आमी भाड्याक दितले; जें भाडें येता ताचे फिफ्टी पर्सेंट कंपनीचें आनी फिफ्टी तुमचें. कांय तेपान हें ‘हॉलीडे होम तुमकां खरें म्हळ्यार फुकटच पडटा. इट इज व्हेरी गुड स्कीम.” हांवें म्हळें.

“नो... नो. आय एम नॉट कन्सर्न्ड अबाउट दॅट... लॉस ऑर प्रॉफीट” म्हाका फायदो लुकसाणीचें पडून गेल्लें ना. आय हॅव लॉट ऑफ मनी, बट... आय डोंट हॅव....” अशें म्हणत म्हजो क्लाएंट एकदम स्तब्ध जालो आनी बरोच वेळ पयस खंय तरी दर्याकडेन नदर लायत चिंतपाक लागलो. म्हाका ताचे हे अवस्थेचें अजापच दिसलें. ही अवस्था कलाकाराची जाता, विचारवंताची जाता. अकस्मात खोल विचारांत बुडपी.

“सर, यू सी...”

“यस सर... वील यू प्लीज शो मी द होली डे होम?” ताणें एकदम भानार येवन म्हळें.

“ऑफ कोर्स, इट इज माय प्लेजर...” अशें म्हणत आमी दोगूय उठले. उठ्टां, उठ्ठां हांवें घटाघट बियरीचे दोन मोटे घोट घेतले. अर्दी बियर काबार जाल्ली, म्हाका मात्शी तरतरी येवपाक लागिल्ली. तरतरे भितर म्हजो इंगलीश उच्चारूय बी स्टायलीश जावंक लागिल्लो. म्हजो क्लाएंट म्हजेर खूश जालो.

आमी लिफ्टीकडेन आयले. आमकां हॉलीडे होम पळोवपाक हॉटेलाचे फाटले वटेन

एके रांगेन बांदिल्ल्या धाकट्या धाकट्या नव्या ताल्ल बंगल्यां कडेन वचपाचें आसलें. कांय बंगले पयलींच सरळ वेव्हारांत विक्रेक गेल्ले. पूण चडशे उरिल्ले आनी ते खपोवपाचें काम आमचे सारख्या हॉलीडे होम कन्सल्टंटांचे आशिल्लें. तातूंत म्हजो तर पयलोच हो अणभव. हे आदीं असली सेल्समॅनशीप हांवें केन्नाच करूंक नासली.

आमी लिफ्टान सकयल देंवले आनी स्विमींग पुलाचे कडेवयल्यान चलपाक लागले. क्लाएंट प्रत्येक गजालीची तोखणाय करतालो. सैम, सोबा, रंग, संगीत, नाच, साहित्य, खेळ ह्या साबार गजालींनी ताका रस आशिल्लो दिसतालो.

"वन मिनीट" - अशें म्हणत ताणें म्हाका मदींच एका झाडाचे सांवळेंत रावपाक सांगलें.

"यू नो, आय वॉंट ए होलीडे होम, अँड आय वॉंट ए फॅमिली- कॅअरटेकर फॅमिली!"

"कॅअरटेकर फॅमिली????" - हांव अजापलों. म्हाका कांयच बोध जालो ना देखून ताका पळयत उरलों. ताका कळ्ळें जांवये. ताणें म्हाका परत समजावपाक म्हळें.

"आय मीन... फॅमिली, म्हाका म्हजो सो कोण तरी जाय... कम ...लॅट अज सीट हिअर" अशें म्हणत थंय लागींच आशिल्ल्या एका बांकार बसपाक ताणें म्हाका सुचयलें.

"पळय, हॉलीडे होम घेवचे पयलीं म्हाका आनीक एक गरज आसा. त्या होलीडे होमा खातीर" आनी ताणें पयस खोल नदर मारीत आपले मतींतलें एक ल्हानशें विश्व म्हजे मुखार उबें केलें, ज्या विश्वांत तो केन्नाच रावन येवंक नाशिल्लो, न्हय म्हळ्यार तें ताच्या वांट्याक केन्नाच येवंक नाशिल्लें. तें विश्व म्हळ्यार ताची फामील. ताचें अशें कुटुंब. "आय डोंट नो व्हेअर आय वॉज बॉर्न, आय डोंट नो हू ब्रॉट मी इन धीस लायफ- आय हॅव नो पेरंटस्," भयण ना, भाव ना वो पयसुल्ले, लागशिल्ले कोणूच सोयरे दायरे ना. हांव अनाथाश्रमांत रावलों. शिकलों... खूब शिकलों, मोटो तंत्रज्ञ-तज्ञ जालों. यू नो, टुडे आय एम रिचेस्ट मॅन इन लंडन. यू सी, आय कॅन जस्ट बाय धीस वर्ल्ड. म्हज्यान हो संवसार विकतो घेवं येता, म्हज्यान ही तुमची हॉटेल कंपनीच विकती घेवं येता. म्हाका संवसारांतलें सगळें मेळ्ळें. खूब बायलां भोगलीं...यू नो, आय हॅव इंजॉयड मॉस्ट ब्युटीफूल वुमन ऑफ द वर्ल्ड. संवसारांतलीं सोबीत बायलां हांवें भोगलीं, पूण म्हाका एकच गजाल मेळ्ळी ना. माय कॅअर, माय फॅमिली, माय चिल्ड्रन... आय एम अलोन... आय एम सिंगल... आय एम अलोन इन धीस वर्ल्ड... आय एम सिंगल" आनी ताज्या भावनांक आकांताचो ओतो आयलो आनी तो हुंडक्या हुंडक्यांनी रडपाक लागलो. म्हाका कितें करचें तेंच समजलें ना. असो क्लाएंट, पयलो क्लाएंट, मेळ्ळो म्हण हांव खोशी जाल्लों.' आनी असलो खंती, दुख्खी क्लाएंट मेळिल्लो. ताका हॉलीडे होम विकतें घेवपाचें आसलें, पूण ताका त्या हॉलीडे होमा परस आनी कितें तरी वेगळें जाय आसलें. हांवें क्लाएंटाची जाल्ली अवस्था समजून

घेवपाचे प्रयत्न करीत म्हळें, "एस, वॉट मोअर कॅन आय गीव्ह यू?"

"कॅन यू गीव मी अ लव्हींग, कॅअरींग फॅमिली? म्हाका एक मोगाळ बायल जाय... जी आतां म्हजे शय्येर म्हजे सरीं बसून म्हजो हात दाबीत म्हणटली, 'मायकल, डाँट वरी, आय एम हिअर... आनी हांव वतकच म्हजे खातीर म्हजे कुडीर म्हज्या मर्णाच्या दुख्खान दोन दुकां झडयतली. आनी तो सामक्या उमाळ्यांनी म्हणपाक लागलो, 'खूब सोबीत बायलां भोगलीं."

जिणेंत खूब मजा केली म्हण सांगपी ह्या गिरेस्ताचे जिणेंत ताचो सांगात करपी मात कोणूच एकाद्री मोगाळ, मायेस्त अस्तुरी केन्नाच आयली ना काय? म्हजी उमळशीक भलतीच तेंगशेक पावपाक लागली.

"यू सी, आय लव्हड् एव्हरी वुमन... म्हजे जिणेंत आयिल्ले दर एके बायलेचो हांवें मोग केलो. पूण खंयचेच एके बायलेन म्हाका जाय तो मोग केन्ना दिलो ना. यू सी, आय कांट एक्सप्लेन दॅट लव, दॅट आय एम लुकींग फॉर, टील टुडे. कसलो मोग म्हण सांगू...? यू सी..."

आनी ताणें एक सत्य सांगलें. तुजेर जो मोग करता तो तुजो, मागीर तुवें ताजेर मोग केलो ना जाल्यार जाता. पूण म्हजे बाबतींत उरफाटेंच घडलें. हावें तांचो मोग केलो पूण ताणीं मात म्हजो मोग केन्नाच केलो ना. आनी आतां हांव हे पिरायेचेर फॅमिलीची अपेक्षा करतां. फॅमिली, आय मीन नॉट चिल्ड्रन, इट इज नॉट पॉसिबल नांउ. पूण एक पूत, एक धूव आपलो पापा मेलो म्हूण संवसाराच्या खंयच्याय वाठारांतल्यान हांगा म्हजेसरीं धांवन आयिल्लीं आनी तांची नदर, निमणी नदर म्हजे कुडीर पडची अशीं सपनां मात हांवें खूब पळयलीं. इतलें म्हणून तो स्तब्ध जालो, ताका जाणवली ताची स्वताची अस्वस्थकाय आनी तो आपले फॅमिलीचे कल्पनेंतल्यान भायर सरलो जावंक जाय. ताणें आपले दोळे पुसले आनी परत म्हाका म्हळें, "यस्... हांव जाणां, म्हाका सगळें मेळत, पूण तरी सुद्धां म्हजी इच्छा... म्हज्या निमण्या दिसांनी ह्या हॉलीडे होमांत जेन्ना हांव रावतलों तेन्ना, हांव जीव सोडटना म्हजेसरीं म्हजी अर्दांगी जावन रावपी एक बायल मनीस जाय. व्हू विल रियली शेड वन टियर ऑन माय डेथ. म्हजे खातीर कोण रडचो ना, हे इतले दुड्डू रडचे नात, आय हॅव टू गो सिंगल... सिंगल..."

पयलो क्लाएंट, आनी मेळचो मेळून कसलो क्लाएंट? हांव चितपाक लागलों. गिरायक वगडावंक फाव नासलें, पूण हाका हाचेर मोग करपी बायल मनीस हांव खंयच्यान हाडून दितलों? हाका जाय ती खरो मोग करपी. पयशांनी जायत्यो नर्सी, जायत्यो बायलो हाडूं येताल्यो.

म्हाका ह्या जाणटेल्याची खूब काकुळट दिसपाक लागली. मनांत म्हळें, "एका

एकल्याचें कसलें कसलें दुख्ख आसता पळय. हांव हाचेर खूब वेळ चिंतपाक पडलों. कोणूय हांगा खंय मेळटली? हाचेर मोग करपी, हाचे खातीर एक दूक झड़ोवपी? आनी उत्स्फूर्तपणान हांवें ताका म्हळें, "मिस्टर स्मीथ... वन थींग आय कॅन गीव यू..."

"वॉट इज दॅट??" ताणें आधाश्यावरी विचारलें.

"सम्वन हू विल सीट बिसायड युवर डेथ बेड, युवर सन... तुजो पूत जो पयसुल्ल्या गांवांत सावन आयला आनी निमाणो मेरेन तुजेच सरीं रावला. ही विल शेड टिअर्स... रियली. तो तुजेखातीर खऱ्यानीच दुकां झडयतलो, तो तुजेखातीर रडटलो... खूब... खूब..." म्हज्या काळजांत हो वेळ मेरेन जमिल्ल्या भावनांचो स्फोट जालो.

"ओ माय गोड!... यु आर क्राईंग?"

म्हाका ताणें सावशीत केलो. म्हज्या पयल्याच क्लाएंटान म्हज्या काळजांत खवदळ मातयिल्लो, म्हज्या भावनांक खदांखदां अशें हालोवन सोडिल्लें. एक खंयचो कोण मनीस, मोगाखातीर- बायलेच्या, भुरग्यांच्या- असो झुरतालो... अशे तरेन हो मोग सोदीत खंय खंय भोंवला आसतलो काय? हो मनीस दुर्भागी काय सुभागी?' हांव स्वता एक हॉलीडे कन्सल्टंट हें हांव विसरुनच गेलों.

हांवें ताका परत पळयलो. ताच्या तोंडार खूब हांसो उदेल्लो. खोशयेचे जशें कितें ताचे जिणेंत ताका पयलेच खेप कितें तरी खूब अमोल अशें प्राप्त जाल्लें. तो म्हज्या दोळ्यांत तेळीत रावलो, आनी बऱ्या वेळान ताणें म्हजो हात आपल्या हातांत घेतलो आनी घट्ट दाबलो. म्हजें आंग शिर्र जालें. ताणें म्हाका म्हळें, "म्हाका हांगा हॉलीडे होम जाय. चल आमी सगळ्यो फॉर्मलिटीस करुंया. पूण एक गजाल मतींत धर. आय एम नॉट युवर क्लाएंट... यू आर...माय..."

म्हज्या दोळ्यांकांठार आयिल्लीं दोन दुकां ताच्या मनगटार झडलीं. ताची हूनसाण ताका खंय तरी जाणवली आनी ताणें ओंठांतल्या ओंठांत म्हळें, "...यू आर माय टिअर्स ऑन माय डॅथ-बेड. यू आर माय गिफ्टेड सन!"



# महासागरांतलें महानिर्वाण

वादळ वारें नाशिल्ल्या दर्यार म्हजें तारूं जेन्ना हांवें लोटलें तेन्ना वयर मळबय खूब नितळ आसलें, राती तर चकचकीत नक्षत्रांच्योच आसताल्यो. केन्नाय उल्कापात जातालो. पूण मळबांतली उल्का म्हज्या माथ्यार पडटली अशें मात म्हाका केन्नाच दिसलें ना, वो केन्ना तरी आज्यान सांगिल्लो रामनामाचो मंत्रय ओंठांनी पुटपुटचो अशें दिसलें ना, कारण मळबांतली उल्का पयसुल्ल्या मळबांतल्यान बाण कसो खिणांत सकयल येता येतांच मदींच नाच जाताली. आज्यान सांगिल्लें, मळबांतल्यान नक्षत्र पडटना दिसल्यार बरें न्हय म्हण. कितेंय वायट घडपाचें आसल्यारच तशें नक्षत्र पडटना दिसता. आजो उल्केकय नक्षत्रच म्हणटालो, हांवें एक दीस आज्याक म्हळें लेगीत, ते शुटींग स्टार म्हण. आजो हांसलो आनी म्हणपाक लागलो, स्टार म्हणजे नक्षत्रच मुगो? आनी आज्याचेंच खरें आसलें.

म्हजें तारू संथ चलतालें. हांव तशें वसवशें न्हय, म्हाकाय बी वादळवाऱ्याची खूबच नसाय आसली. म्हाका दिसता, अशें सगळ्यांकच जाता जावंक जाय. कोणाक जाय आपणाले जिणेचें तारू वादळांत सांपडिल्लें?

आवयस्, केदो आकांत न्हय, वादळांतलें तारू खडपार आपटून फुट्टा. सालवार जाता तें खडप, अर्थात संकटाचें, फाटीं पडसर कळपच कुस्तार जाता. बरें एक खडप निस्तारलें म्हणून फुडलो दर्या तरी सारको सोपो आसतलो हाची खात्री आसा?

हांव एकटें एससुरें दर्या हुपतालें तेन्ना म्हाका ह्या फुडल्या खडपाची सुलूस लागली ना, घडये ती म्हज्या बापायन जावं आवयन लागूंक दिली ना जावंये. प्रत्येक चलयेच्या आवयबापायचें अशें आसता काय? पूण म्हजे बाबतींत मात तशें आसलें. दादान तर म्हाका फुलाची बाज्ज करून दिली. आवयन पांयापोंदा विलोदाचीं जमखणांच घाल्लीं. राजाली धूव नासूनय बी तांणी म्हाका राजकुंवरी वरी दवरपाखातीर आपले जिणेचें रान केल्लें.

त्या रानांत कुचकुचीत झाडां आसलीं. त्या कुचकुचीत झाडांतल्यान भर दनपारचें सुद्दां एक सादें किर्ण म्हज्या गांवांत पडपाक कुस्तार आसलें. सांवळी म्हणून कितली घेवपाची? सांवळेचोय बेजार येता हें म्हाका तेन्ना कळटालें. झाडा माथ्यार वयर मळबांत

रखरखीत सुर्या हेंय सत्य आसलें. पूण सांवळेची संवय जाल्लें म्हजें मन तें मानपाक तयार नासलें. तारू झेललें, हाललें तरी हांवें दिसाचें दर्शन घेवपाचो धीर केलो ना तो हेच खातीर. भोवतणचें जग सुंदर आसलें, म्हजे खातीर तरी म्हजें घर, घरा भोंवतणचें पाचवेंचार शेत, शेता पलतडचे दोंगर आनी मदली न्हंय. दोंगराचेर कोणें तरी मानिफेस्तां मारिल्लीं आनी दोंगराच्या कपलाचेर पिकास मारून भळभळीत माती तांबडेंगूंज रगत कशें व्हांवतालें तेन्ना दादा म्हणटालो, कोण तरी गिरेस्त जालो. गिरेस्त जावप म्हणजे मिनेर जावप अशें तेन्नाचें मानप. तो म्हज्या दादाचो हिशोब आसतालो.

दादा हिशोब करतालो. दादाकडेन एक धाकटुली बरी तागडी आसली. तागडेक दोन वाटयो आसल्यो. दोनूय वाटयो बरे नाजूक सरपळेक गुंथिल्ल्यो. ताका लागून केन्ना केन्नाय ती तागडीच गळ्यांत सरपळी कशी घालची अशें म्हाका तेन्ना दिसतालें, पूण तांबड्या गुंजांनी लखलखीत भांगर जोखतल्या दादाक म्हर्जी पिशेपणां दिसूं येतालीं. तशें तो केन्ना केन्नाय हातांतलो तुतयो भांगर पेचपाक मारतना म्हाका पळोवन म्हणटालोय बी -

"अशे घण सोसपाची संवय जावंक जाय मनशाक! दादा कोणाक थोमणे मारतालो तें म्हाका खबर ना, पूण ते थोमणे म्हाका नक्कीच नासले, कारण म्हजेर कोणेंय तरी तुतये हाणचे अशें म्हज्या दादाक दिसप शक्यच नासलें, तो ती कल्पनाच करूंक शकनासलो. पूण तुतये खंयचे, घण घेवपाचे प्रसंग आयले म्हजेर. तेन्ना कळ्ळें, बापायन जिणेंतली वास्तवता म्हजे पसून लिपोवपाचें म्हापातक केलें. ना जाल्यार हांव अशें थतरवितर जावचेंच नासलें.

जेन्ना म्हजें तारू म्हज्याच हातांत आसलें ते मेरेन दादा सांगतालो तितलेंय खरें दिसतालें; पूण एक दीस अकस्मात म्हज्या तारवार तो चडलो. ध्यानी-मनी नासतना आनी म्हज्या तारवाचें अर्दे सुकाणू धरता म्हणत गळ्यांत पडलो, म्हजो कंठमणी जावन.

तो खंयसून आयिल्लो, म्हजे खातीर चडचे पयलीं ताणें कितल्या तारवांचीं सुकाणीं हाताळिल्लीं हाचो मागमूस म्हाका नासलो. जे धडाडीन ताणें म्हजें तारू झेललें तशें ताचेर हांव भुल्लुसलें आनी म्हाका दिसलें आतां हे फुडें दर्यांतलींच कित्याक, म्हासागरातलीं खडपांय आड आयल्यार म्हाका भिवपाची गरज ना, आनी दादालीं उतरांच खरीं जातलीं कशें दिसपाक लागलें. जेन्ना तो म्हज्या तारवार चडलो तेन्ना फुडलो दर्या म्हजेखातीर तरी साप्प शांत आनी शितळ आसलो. एक लेगीत सादें ल्हार वयर सकयल जाय नासलें आनी म्हजें तारू चलता काय नांगरून दवरलां तें बिलकूल कळनासलें, इतलीं संथ हांव आनी म्हजे जिणें तारू तेन्ना आसलीं.

एक दीस होच म्हणपाक लागलो. आमच्या तारवाक आतां पनेळ बांदल्यार कसो? जाय तो आमकां आमच्या फुडाराक. ह्या आमच्या तारवाचें सदांच कितें बरें आसतलें म्हण

सांगपाक जावचें ना. उदकांत उरून उरून करमेतलें आनी बरगेतलें तें आनी मागीर करंयच करून फुट्टलेंय बी एक दीस!

"तेच खातीर पनेळ तारवाक बांदुया म्हणटा?" हांवें ताका विचारलें.

"ते खातीर म्हण न्हय, पूण नेम तो हे नियतीचो!".

तो तसो पच्च करून पोशांतलें उदक तीर्थ कशें कोणाचेरूय मारून ताका सामको मंत्रून उडोवपाक खांपो. म्हजेर ताणें कसल्या मंत्राचें तीर्थ शिंपडायलें तें म्हाका खबर नासलें. पूण हांवें ताचेर मनापासून भरवंसो दवरून आमच्या तारवाक पनेळ बांदपाचें थारायलें, आनी तारू फुडल्या प्रवासाक सोडपाचें तें सोडलें.

आमचे दोगांयच्याय फाटल्यान पनेळ बांदिल्लें तारू चलतालें, मदीं मदीं ल्हान व्हड वसाडींनी मात्शें तारू झेलतालें, हे बाणीर ते बाणीर जातालें, पूण काळजांत मात धस्स अशें केन्ना जालें ना, वो धस्स जावपासारकें वारें दर्यार जालें ना. तारवार जिवीत सुरक्षित ना म्हण पनेळांत बसून पनेळ घेवन तडीक वचपाचेंय केन्ना दिसलें ना.

हो वेळ मेरेन म्हज्या दर्यार हांव एकटेंच आसलें ताच्या सांगाताक. फुडाराक आमी आमच्या तारवाक आनीक एक पनेळ बांदलो- एक हेवटेन आनी दुसरो तेवटेन. खूब सोबीत दिसतालें आमचें तारू. तडेर रावन पळयतल्यांक तर आमचो मत्सरूय दिसतालो आसुंये, कोणाक खबर? पूण हांव तरी खऱ्यानीच धादोशी आसलें, पूण हें समाधान चड तेप तिगलें ना. तारू चलतां, चलतां जेन्ना भायल्या दर्यार पावलें तेन्ना म्हाका ओगीच भास जालो, म्हज्या तारवाचे समान्तर आनीक एक तारू चलताशें. इतलो वेळ हें तारू म्हजे नदरेक कशें पडलें ना काय? म्हजे म्हाकाच अजाप दिसलें. तशें हांव खूब शिटूक, पूण ह्या समान्तर चलतल्या तारवाक हांव कशें वळखलें ना? हांवें हाका म्हळें लेगीत, हें आनी आमचे बरोबर समान्तर चलतलें तारू कोणाचें काय?

हाणें म्हज्या प्रस्नाकडेन साप्प दुर्लक्ष केलें, कानार केंस काडले आनी म्हणपाक लागलो, "म्हाका खबर ना."

"पूण अकस्मात तें खंयच्यान आयलें तर?"

"अकस्मात म्हणून येता? तें ह्या दर्यार पयलीं सावन आशिल्लें आसूंक जाय." हांवें अदमास पर्गटायलो.

तेन्ना हो ओगी रावलो. हांव पयलेच खेप शिटकावलें. त्या तारवार फक्त एकलेंच सुकाणी आसलें. म्हाका ओगीच दिसलें, तें सुकाणी म्हाका दांत दाखोवन हांसता शें, एके तरेचे सूड-भावनेन! आनी हांसतां, हांसतां ताणें तारू म्हज्या तारवावशीं हाडलें आनी म्हज्या तारवाक एक दीस धडांयक करून धक्को दिलो. म्हजें तारू इतलें हाललें म्हणून सांगूं, फक्त परतुपाचेंच उरिल्लें. म्हाका दिसलें, आतां हो ताका ओगी रावचो ना, कसोच ओगी

रावचोना, ताचेर वाग कसो गुरगुरून वतलो, सोरोप कसो फोंसां घालतलो. पूण तशें कांय घडलें ना, म्हाका अजाप दिसलें, हांवें म्हळें लेगीत. “आमच्या तारवाक ताणें धक्को दिला आनी तूं ताका कांयच विचारिना. कोण तें? अशें आमच्या मार्गार कित्याक, ताका दुसरी वाट ना, शेडाय न्हय ताका?”

पूण हाणें सगळेंच हांशार व्हेलें. आंगा वयलो धुल्ल फाफुडचो तशी ताणें म्हजी संतापाची उतरां फाफडून उडयलीं. म्हाका कितलो राग येवचो म्हण सांगू? हांव रागान उज्यांत कडयल्लें पातें कशें तांबडेंगुंज जालें. हांवें म्हळें, “सोड तूं सुकाणू, हांव पळयतां तें कशें आसा तें, म्हाकाय धक्को मारूंक कळटा, सोमतेंच उडयतां ताचें तारूं.” पूण हाचो प्रतिसाद एकदम थंड! हांव अजापीत जालें, कोण कोणालें वशाड तारूं आमच्या तारवाक येवन आदळटा आनी हो त्या तारवाच्या सुकाण्याक कांयच विचारिना.

दर्यार मोड नासलें, वसाडी मारिनासल्यो, खंयच तुफान नासलें, इतलेंय आसून म्हज्या काळजांत मात मोठें तुफान उप्राशिल्लें. पयले खेप म्हाका म्हज्या दादाची याद जाली. ‘अशे घण सोसपाची संवय जावंक जाय मनशाक’ दादान म्हणिल्लीं तीं उतरां म्हजेच खातीर आसलीं काय? म्हजेच खातीर आशिल्लीं जावंक जाय, अशें म्हाका आयज पयलेच खेप दिसलें.

“हांवें तारूं चलयतना उजवे वटेन पळयलें, आतां ताचें तारूं म्हाका स्पश्ट दिसपाक लागलें. आमची, आमच्या तारवाची, ताची आनी ताच्या तारवाची तुळाच जावंक शकनासली. अणभवान, पिरायेन, ते भायर ताच्या तारवार दुसरो तिसरो कोण एक नासलो. म्हजें तारूं जशे पयलें एकलें एकसुरे आसलें तशें तें आनी ताचें तारूं आसलें. तरी सुद्दां हांवें म्हज्या मनाची समजणी घालीत म्हाका समजायलें. आसत कोणूय दर्याच्या गाजांत थतरवितर जावन गर्भगळीत जाल्लें बी. पूण थतरवितर जावन चलतल्या तारवाचो धक्को आमच्या तारवाक लागचो? ताणें ताचे वाटेन वचपाचें न्हय?

खऱ्यानीच म्हजें मन साप्प भ्रमांत पडलें, हो तर दोळ्यांक झापड लागिल्ले भशेन न्हिदचें सवंग घेता तें म्हाका स्पश्ट कळटालें. खात्रीन कितेंय तरी आसूंक जाय, खंय तरी उदक मुरूंक जाय. ना जाल्यार अशें शक्यच ना. हांवें हाका ताच्या दोनूय भुजांक धरून सामको खोदळायलो तेन्नाच रुखार झिरकल्ले शेंक्रे झडचे तशे तागेले उतरांचे शेंक्रे झडपाक लागलें.

“चलूं तें तारूं समान्तर.”

“पूण आमकां आडखळ कित्याक त्या तारवाची? ताका दुसरो मार्ग ना? केदो लांब रूंद दर्या हो?”

“घडये ताका आमचो धीर जाय आसुंये, सांगात जाय आसुंये.”

"कोणाचो धीर, कोणाचो सांगात?"

"म्हजो, तुजो- आमच्या दोनूय पनेळांचो -"

"कोण तें!"

"कोणय आसत -"

"आसत म्हळ्यार, आसा म्हणून तूं स्पश्ट कित्याक सांगना."

"दर्यार अशीं जायतीं तारवां यो-वच करतात, आनी येतना वतना तीं केन्ना केन्नाय एकामेकाक भिडटातय बी." हाणें म्हळें.

"म्हणजे तें तारू तुका भिडून गेल्लें...?"

"...ओगीच तारू तुका भिडून गेल्लें?" हांव फणफणलें.

हो ओगीच रावलो, म्हज्या प्रस्नाक जाप दिवपाचो हाका धीर जालो ना, हागेलें मोनेपण म्हाका खूब कितें सांगून गेलें. हांवें मागीर म्हळें, तशें तें केन्ना तरी भिडिल्लेंय बी आसत, पूण आतां सो ताचो संबंद कितें? आनी कित्याक?

"सबंद आसा." हाणें थंडपणान म्हाका म्हळें, आनी ताच्या त्या दोनूच थंड उतरांनी म्हाका भगभग घालो. म्हजें आंगापांग सामकें पेटून उठलें, म्हज्या रुवांरुवांतल्यान तिरस्काराच्यो शिळक्यो भायर मारपाक लागल्यो, हांवें हाका म्हळें,

"म्हज्या तारवाचें सुकाणू तूं सोड, म्हाका म्हजें तारू जड जावंक ना. हांव वचन एकटेंच ह्या दर्याचेर आनी फुडल्या महासागराचेर, वचन घेवन अशेंच दोनूय पनेळ तारवाक बांदिल्ले अवस्थेंत. वच तूं काडून हांगाचो, जाय जाल्यार मार उडी ताच्या तारवाचेर. पूण ताका हांव म्हजें तारू फोडपाक दिवपाचें ना. कशेंच दिवपाचें ना. आनी समजशी तूं, हांव हांगाचें हें म्हजे तारू सोडून वतलें म्हण. इतलीं खडपां सालवार करून हांगा मेरेन हांव पावलां तें म्हजो हो प्रवास अर्दार सोडून फाटीं सरपाक न्हय, आनी तारवांतल्यान उडी मारपाकय न्हय, समजलो?"

हांवें हाची फाटभूंय सांसपून पळोवपाचें थारायलें. हांव मात्शें सावशीत जालें, आनी म्हजे सद्विवेक बुद्दीन भितरले भितर म्हाका साद घालो आनी म्हळें, 'तूं म्हळ्यार वाऱ्या वादळांत खवदळ घालपी महासागर न्हय. थातारूंक येना तो महासागर, तूं तर मन आशिल्लें मनीस. मनाक लगाम घाल; भावना आवर, संताप गीळ, राग भिरकाय आनी हाची वासपूस कर. तुज्या समान्तराक चलतलें तारू तशें चलपाक कसलेंय तरी कारण आसूंक जाय. कसलेंच नातें-पातें नाशिल्लें तारू तुज्या तारवाचे आड येतलें तरी कित्याक?

"म्हणजे तें तुका भिडून गेल्लें केन्ना तरी?"

"हय, फक्त भिडून गेल्लें." हाणें म्हळें.

"हाची सुलूस तुवें म्हाका कित्याक दिली ना म्हज्या तारवार चडचे पयलीं?"

“म्हाका गरज दिसली ना. म्हाका खबर नासली आमची ताटातूट जातकच परत आनी केन्ना तरी तें अशें वाटेर भेट्टलें म्हण. ताणें दुसरो दर्या धरला जातलो असो म्हजो समज आसलो.”

“म्हाका कित्याक फटयलें तुवें?”

“म्हजेकडेन जाप ना, पूण हांवें तुका फटोवं ना.”

“पूण तुवें ताच्या तारवाचें सुकाणू कित्याक धरलें ना?”

“म्हज्या आधाराची गरज नासली ताका. खूब घमेंड आसली, आपूण एकटेंच आपलें तारूं ताणूंक जाणां अशें तें सदांच म्हणटालें.”

“तशें जाल्यार आतां आमच्या तारवा सामखार आडवें येवपाची ताची इतली धडपड कित्याक?”

“घडये ताका आतां दिसलां आसत...”

“कितें तें?”

“आमच्या सांगातान आमच्या धिरार हो फुडलो महासागर हुपपाचो.”

“ताच्यान आनी कोणाचोय आधार मागूं येतालो, पळे... पळे कितलीं व्हडलीं, व्हडलीं तारवां चलतात तीं ह्या सागरांतल्यान.”

“ताचे पसून खूब पयस आसात तीं. ताचे नदरे पैस, आतां तांची फाट धरून कोणाचोय सांगात धरप ताका शक्य नासुंये.”

“मागीर हें ताचें तारूं अकस्मात कशें उदेलें?”

“हावं नकळो.”

“म्हजीच चूक जाली. तुका हांवें म्हज्या तारवाचें सुकाणू धरपाक दिवपाचेंच न्हय.”

“म्हजें आयकता?”

“कितें तें?”

“ताचें तारूं आमच्या तारवाच्या आड येवचें ना, तें आतां कशेंच शक्य ना.”

“म्हणून ताणें आमचेर नेटाचो धपको मारलो व्हय?”

“ताच्या धक्क्यान आमचें तारूं फुटपाचें ना. आमी मार्ग काडपाक शिकुंया.”

“कसलो मार्ग? ह्या दर्यार आनी दुसरो मार्ग खंयचो?”

“मार्ग आसूं येता, मार्ग सोदुंया.”

“हे फुडें आनी नवो मार्ग सोदतलीं?”

“फाटल्यान आमचे दोन पनेळ आसात, ताका ताचें तारूं घेवन फुडें वचुंदी, तूं ताच्या तारवाक विसर, विसरपा बगर आनी दुसरो उपाय ना.” ताणें सुकाणू घुंवडायत आनी म्हज्या दोळ्यांत खोल पळयत म्हळें.

"हांव विसरल्यार जातलें? तुजें कितें? तूं त्या तारवाक विसरपाचो ना?" म्हजी अपेक्षा आसली, आतां तो खऱ्यानींच म्हण्टलो की 'हय, हांवूय विसरून वतां त्या तारवाक, समजन हांव ह्या दर्यार फक्त आमचेंच एकटें एकसुरें तारू वता महासागराचे वाटेक, बांदून फाटल्यान दोन पनेळ;' पूण अशें कांयच ताणें म्हळें ना. तो फुडल्यान समान्तर चलतल्या त्या संथ गतींतल्या तारवा कडेन पळयत रावलो आनी बऱ्याच वेळान म्हणपाक लागलो.

"आतां आमचो प्रवास कितलो सो उरला?"

"म्हाका खबर ना." हांवें म्हळें.

"हय, तो म्हाकाय खबर ना, कोणाकच खबर ना. पूण म्हाका एक खबर आसा" ताणें फुडें पळयत म्हळें.

"कितें तें?"

"आमचें हें तारू केन्ना तरी नक्की बुडटलें, मागीर ताचें तारू आड येवं वा खंयच्याय खडपाचेर आदळूं; आनी मागीर आमच्या तारवाक फाटल्यान बांदिल्ले ते दोन पनेळ आमच्या बुडट्या तारवाक सोडून आपआपले वाटेन वतले. आपलो दर्या सोदीत, स्वतंत्र जिणें जियेतले ते."

"आवयस्, कितें उलयता तूं हें?"

"जिणेंतलें सत आनी वास्तवता. नेम तो ह्या सैमाचो, ताका तूं आनी हांव अपवाद कशीं जातलीं?"

"म्हाका... म्हज्यान ही कल्पना करूं नज. आमच्या तारवाक बांदिल्ले पनेळ सुद्धां आमकां सोडून वतले?"

"वतले काय वचचे नात तें म्हज्यान सांगूं नज, पूण आमच्या हातांत ह्या खिणा कांयच ना. हें तारू आतां तडीक लागपाचें ना, आनी ह्या सागराची तर पलतड नदरेक पडना. देखून -"

"देखून कितें??"

"आतां आमी पावता थंय पावपाचें, तारू फुट्टा थंय बुडपाचें. मतींत धर, कोणाचींच तारवां ह्या महासागरा पलतडी पावचीं नात. पावुंनात. ताचेंय बी. म्हणटकच तुवें एक गजाल घट्ट मतींत धरपाची. हांवें तुज्याच तारवाचें सुकाणू घट धरलां, कारण ह्या महासागरांत एका तारवा वयल्यान दुसऱ्या तारवार वचप आतां कशेंच शक्य ना."

"खरेंच...??" हांवें ताका अशे तरेन पयलेच खेप अजापान विचारलें आनी ताणें तारवाचें सुकाणू खीणभर मेकळें सोडून म्हाका ओडून आपले वटेन हाडलें आनी म्हळें,

"पळय, आमी कितलें उदक हुपलां तें! आतां सगळें फाटीं पडलां. न्हंय, दर्या बी आनी आतां महासागरांतल्यान महानिर्वाणाकडेन आमी वतात. त्या महानिर्वाणाचे वाटेक

आमी आमचें तारूं तांडुंया अशें म्हणत ताणें म्हाका आनीकय घट्ट आपले वेंगेंत आंवळून धरलें, हांवें वयर मळबांत पळयलें. म्हाका आमच्या महानिर्वाणाचो महासागर वयर मळबांतय स्पश्ट दिसपाक लागलो.



# आमोरेचो सुर्या

मळब तेन्ना खूब खूब कंवळें- इतलें कंवळें की कोणेंय मळबाक पिपरी कशी करकरीत चाबून खावचें आनी पळयतल्याच्या तोंडांत गालभर उदक सुटचें. उदक धुंदीचें, उदक त्या पयल्या वयल्या मोगाचें. लक्तुबाय करपा इतलें शानुलें मळब कोणाय आवयचें खऱ्यानीच तानुलेंच आसलें. ह्या मळबाक आजून कोणाचोच धग न्हय, वास सुद्दां लागूं नासलो.

अशें हें निश्पाप मळब एके सकाळचें कंवळ्या सुर्याचे नदरेक एकदां पडलें. थंयच घात जालो. सुर्या मळबाक भिडलो आनी पळयतां, पळयतां सुर्या मळबाचोच सो जावंक लागलो.

मळबाक सुर्या कित्याक मानवलो खबर ना, पूण ह्या मळबाचो सुर्या खऱ्यांनीच तसो नाशिल्लो. आंगार तें सुर्यवंशी तेज- तें समजतालें तशें ब्रह्मतेज. हो तर सुर्या भांडारांतलो कुळवाडी सो. पूण सुर्याक ध्यास आसलो, केन्ना ना केन्ना तरी आपल्या खर धगान पाशाणाच्या काळजाच्या मळबाक कडोवन उडयतलों मेण कशें आनी व्हांवयतलों झरी अमृत मोगाच्यो. पूण अशें जालें ना. मळबाच्या मोगा खातीर सुर्यान आपलीं सगळीं किर्णां भात्यांतल्यान काडून एक एक करून मोगान मळबाचेर मोखलीं. तीर चुकयनासतना मोखलीं पूण पाशाणाक एकय जोगूल पेटलें ना, इल्लीय कीट पडली ना.

सकाळीं, सकाळीं सुर्यान आपल्या सुर्यकमळा बरोबर मध्यान-राती कडेन नाळ तोडिल्ली आनी तो स्वतंत्र जाल्लो, आपलो स्वतंत्र दीस जगपाचो हावेस धरून. जेन्ना सुर्याचे जिणेंतली सकाळ आयली तेन्ना ताका दनपाराच्या रखरखाची कल्पना आसली, पूण तो रखरख न्हय, मळबाक वेंगेंत घेवन आंगांत पाझरिल्लो, काम रस. तो कामरस तसोच रखरखीत मळबाचे खोल खोल कोळमेंत ओतून सुर्याक आपली सुर्यामाळ गुंथपाची आसली एका उत्सवाचें नांव घेवन!

पूण सुर्याचे जिणेंत असंख्य भर-दनपार आयल्यो आनी गेल्ल्योय बी. पूण मळबाची कूस मात केन्ना उजवलीच ना. सुर्यान अशें घडपाचीं कारणां तपासून पळयलीं. मळब कित्याक व्हियेलें ना एखाद्रें नक्षत्र, आनी जालो ना उत्तर-दिके कडचो ध्रूव? मळबाचो कसलो आसलो सुवार्थ आनी कसलो आसलो हावेस हें सुर्याक समजलें ना अशांतली

गजाल न्हय.

खरी गजाल वेगळीच आसली. मळबाच्या सुर्याक खंयच्या तरी गिऱ्यान आपलो धनी मानिल्लो आनी सुर्या त्या गिऱ्या कडेन धनीपणाचे भावनेन वागतालो. गिरो आपल्या कर्तव्यांक केन्ना चुकलो ना, धनी आनी आपलें अतूट नातें आसा हाचें भान गिऱ्यान सोडलें ना आनी मळबाक सुर्या कडचें नातें वेगळ्या अर्थान जोडूंक केन्ना जमलें ना.

मळबाचो सुवार्थ आकांताचो. ताची नसाय एका पोंतावयली, तरी मोग दुसऱ्या पोंतावयलो. मळबाची नसाय आनी मळबाचो मोग हांकां दोगाकय तळभाराक व्हेल्लीं जाल्यार नसाय मोगा परस खरीच जड जातली आसली. मळब सुर्याची नसाय करतालें तें फक्त सुर्याक धनी मानपी गिऱ्याक लागून, हें मात खरें आसलें.

ह्या संघर्शांत मदले मदीं सुर्याक बरोच मनस्ताप भोगचो पडलो. सुर्याची सकाळ तितली मात्शी हय-न्हय शी बरी गेल्ली, पूण सुर्याचे जिणेंत मळब आनी गिरो येत सावन सगळें भोगलें त्या मध्यान्नी पुतान, सुर्यान. मात सुर्याचें एक बरें, मळब-गिऱ्याचे गोचींत सुर्यान आपलें तेज केन्ना वगडायलें ना. ताणें परजळपाचें केन्ना सोडलें ना. अख्खे गिरावळींत तो भोंवरो कसो गरगरत रावलो. आपले लख्ख प्रतिभेक ताणें केन्ना चेपली ना, आपले शक्तीन ताणें केन्ना खचयली ना आनी सुर्या म्हणून ताका सभावीक फाव जाल्ले प्रतिभेचो ताणें केन्नाच न्हास केलो ना. सुर्याचें खाशेलेपण तें हें.

आसमंतांत सुर्या सथरवितर जालो; मात्सोसो हाल्लो मळबाच्या मालुकपणांनी. मळब खऱ्यानीच मालूक जाल्लें, वशाची पिडा लागची तशो मळबाक वसो लागिल्लो नेर्वांच्या रोगाचो. तरी तेय दशेंत मळब सुर्याक विसरूंक शकनासलें, आनी सुर्याचीय गत वेगळी नासली. मदींमदीं सुर्या आसमंत भर सैरभैर जावन कुपांनी लिपतालो, आनी कुपांचो पदर तोंडार ओडून मुसमुसून रडटालो. मनांत म्हणटालो, आयचो हो दीस आपल्याच वांट्याक सो कित्याक आयलो?

सुर्याच्या माथ्याक कितले भोंवरे आसले तें सुर्याक स्वता केन्ना पळोवंक मेळ्ळे नात. ना म्हळ्यार मध्यान रातीन सुर्याक काळखाचें न्हाण घालतना म्हणिल्लें एक फावट, 'म्हज्या अपुरबायेच्या पुता तुका मरे दोन भोंवरे आसात.'

दोन भोंवऱ्यांचो अर्थ सुर्याक मात केन्नाच कळ्ळो ना. जशें कितें सटयेन बरयिल्ले तें भोंवरे ताचें प्रारब्ध आनी ताच्या वांट्याक आयिल्लें सभावीक नियतीचें जिणें अशें मानून तो चलतालो. मळबाक नियती मान्य नासली. स्वताची आनी दुसऱ्याची बी. सुर्याचे आनी मळबाचे जिणेंत एक गजाल मात निश्चित येताली. ती म्हळ्यार दोगांचींय नातीं. मळबाक सुर्याचें भान आसलें तशें सुर्याक मळबाचें, पूण हो खेळ तात्पुरतो हुंवारांतलो. जसो तो सैमाचो हुंवार देंवलो की मागीर खरें वास्तवचित्र पळोवपाचें.

मळब तांबडें तांबडेंच- भट्टेंतलो काडिल्लो लोखणाचो रोस कसो लालगुंज, तर सुर्या मात खोर्नातलो चणो कसो रेंवटांत भाजून दापोळ फुटिल्लो सो, आपलें अस्तीत्व दवरून. पूण सुर्या भट्टेंत केन्ना पडलो ना. सुर्याक ताचें भानच न्हय तर शिटूकसाणय आसली. त्या लावा रोसांत चुकून सुध्दां लकल्यार सुर्याचोच ज्वालामुखी जावन अख्खो आसमंत आनी गिरावळ लासून गोबोर जावपाक एक खीणय लागचो नासलो.

म्हणटां, म्हणटां भर दनपार रखरखून आमोरेच्या पाख्या पोंदच्यान व्हांवपाक लागली. ताच्या किर्णाचो धग इल्लो, इल्लो उणो जावपाक लागलो. मळबाक ताची जाणीव जावपाक लागली. सुर्या-माळेंतले ल्हान-व्हड गिरे ल्हान व्हड जावपाक लागले. सुर्या आपले आमोरे कडेन इल्लो, इल्लो पावलां मारपाक लागलो.

घटका-पळां सरलीं. सुर्यफुलांच्यो पाकळ्यो तोंड इल्लेंशें करून बावपाक लागल्यो. सुर्याच्या किर्णाक सुरकुत्यो पडपांक लागल्यो. ते वटेन मळबाची तीच अवस्था जावपाक लागली. मळबान आंगार घेतिल्लो तो गर्विश्टेचो पदर आतां इल्लो, इल्लो रंग झडोवंक लागलो. मळबाचे रंग इल्ले, इल्ले बेरंग जावपाक लागले. मळबान माथें वयर शें करून वय़र पळयलें, ताच्या माथ्यावयर आसतालो तो आतां बरोच खाला पाविल्लो. अस्तंतेकडेन सवकास पावल मारतल्या सुर्याक मळब पयलेच खेप कांचवेलें.

सकाळ ती अमुरपिकी आनी भर जवानी कशी भर-दनपार धुंद कशी केन्ना केन्ना धुंदी शेणोवन गेल्ली. आतां उरल्या ती इल्ली शी आमोरी.

आमोरी गुलाबी-गुलाबी शी. मळबाच्या गाला वयली आमोरी तर आतां काजळी पडिल्ले ताटले वरी जाल्ली. काजळी झडोवन ताटली पुसपाची इत्सा मळबाक पयलेच खेप जाली. खीण भर ताका दिसलें, हो विचार दनपारां कसो मनांत आयलो ना. आतां सगळें सरलें आनी ओतले उप्रांत अशें कित्याक दिसचें?

मळबान कासावीस जावन सुर्या वटेन पळयलें. सुर्या आपली सगळी जीण शिंवरीत, शिंपडायत वाट चलून आयिल्ल्याचे दाग मात मळबाच्या आंगापांगार जळीमळीं उदेल्ले. मळबाक ते दाग अशें नकळटां आयज सतावपाक लागले. ताच्या मनांत एक विचार जोगूल कसो जोगलावन गेलो. त्या विचारान मळब मनांतल्या आपल्याच पिशेपणाक हांसलें आनी मागीर ताच्या मनांत आड्ड्यो सुरू जाल्यो. सकाळच्यान आतां मेरेन सुर्या कडेन आपणें जो वेव्हार केलो तो तरी शाणेपणाचो खंय आसलो आनी त्या वेव्हारी शाणेपणान म्हजे होंटयेत कसलीं दिर्वां पडलीं, काय कर्माचीं दुकां-फुलां पडलीं, जीं आतां पार्ती जावंक लागल्यांत

दीस धारेक पावपाचे वाटेर पावचे पयलीं आतां निर्णय मळबाक घेवपाक जाय आसलो.

आयचो दीस आनी ही आयची जीण फायची नासतली. फायचो दीस नवो आसतलो.

आनी फायच्या दिसा खातीर म्हजो आयचो सुर्या नासतलो. म्हजो आयचो सुर्या खऱ्यानीच पयस आसूनय म्हजोच आसलो. कारण तो आसलो म्हणून ताच्या नाड्यार हें इतलें दुख्ख भोंगलें. दुख भोगपाकय कोणाचें तरी अधिश्ठान जाय पडटा. तें अधिश्ठान म्हाका म्हज्या सुर्यान दिल्लें आनी हें सत्य हांव कशें विसरूं, कशें विसरूं?

मळब सुखावलें. कोण तरी आपलो समजून जियेवप हीय एक जीण, हेंय जगप. अशें जगलें मळब म्हणून ह्या मळबांत एक सुर्या आसलो हें सत्य. हें सगळें हांगा घडलें तें कशें नाकारपाचें? मळब चिततां, चिततां खासावीस शें जालें.

मळबान मनांत म्हळें, जो सुर्या सकाळीं तुजो नाशिल्लो तो आमोरेर जर तुजो जाता तर त्या सुर्याक म्हजीं दारां बंद कित्याक करप? आनी मळबान आमोरेच्या सुर्याक उमाळून आयिल्ल्या मोगान एकूच हांबेर घाली तेन्ना सगळो आसमंत गळसणून गेलो आनी आमोरेचो सुर्या सासणाचो मळबाचोच जालो.



# आवयची धूव

सदचोच क्रम, फांत्यार पासयेक वचपाचो, झिळमिळत निकतेंच उजवाडटालें. ना म्हळ्यार अस्तमते कडेन चंद्रीम आजून मळबांत आसलो. धुंवटेन सगळो वाठार भरिल्लो. आकांताचो कुडकुडो खातालो, हांवें आंगाक गरम घाल्लें. गळ्यांत तांबडो मफलर रेवडायल्लो. मदीं मदीं आंगात गर्मी येवपाक हांव नेटान चलतालों. बरो रस्तो मेळ्यार मात्सो धांवतालोंय बी. हात वयर सकयल करीत सकाळ-पारा आंग सदळ करतालों.

केशवा देवळा कडसून जो नवोच रस्तो शेतांत मातयेची भर घालून केल्लो आसा, त्या रस्त्यांतल्यान चलपाक एकदम बरें. कसलीच येरादारी लागना, धुल्ल लागना आनी ते भायर सकाळची हवा एकदम शुद्ध मेळटा म्हणून हांव तसोच देवळा कडेन मेरेन सरळ वतां आनी थंयसान मागीर प्रासार येतां, घरा परतुपाक.

सदचे भशेन मारूती देवळा कडच्यान हांव नेटान चलत फोंडेच्या प्रासार पावलों. मनगटाचे घडयाळींत पळयलें, स वरां जाल्लीं. प्रासार पावता म्हळ्यार बरोच उजवाड जाल्लो. लोकांची वर्दळ वाडूंक लागिल्ली. वर्तमानपत्रांचे गट्टे येवन पडिल्ले आनी सकाळी सकाळीं पेपर वाचपाची संवय आशिल्ले गट्टे सोडपाची वाट पळयताले. इतल्यांत पुण्याची बस प्रासार पावली. प्रासार आशिल्ले तरणाटे हमाल बसी वयल्यान कोण तरी देंवतलो आनी आपणाक भाडें मेळटलें हे आशेन बसी फाटल्यान बस थांबसर धांवत रावले. बस थांबली. हांवय बी सकाळचो पेपर घेवनच घरा वचपी. पूण पेपरांचे गट्टे सोडवंक नासले, कांय पेपर पावपाचे आसले. खंय कांय ना म्हण उबो आशिल्लों. थंयसान म्हजी नदर थांबिल्ले बसींतल्यान देंवतल्या पॅसेंजरांचेर थिरावली. बसींतल्यान कांय पॅसेंजर देंवले, इतले म्हणसर पेपर विकप्याक गट्टे सोडून आमकां पेपर दिले, बेगिबेगीन हांवें म्हजे पेपर घेतले आनी घरचे वाटेक लागपाक थंय सावन, पावलां उखल्लीं.

पुण्या सावन आयिल्ले ते बसीकडेन हांव पावलों. घडये ते बसींतलो देंवतलो तो निमाणो प्रवाशी आसुंये. हांवें दारांत पळयलें. ती एक बायल आसली. जाणटी बायल. बसींतल्यान सवकासायेन देंवताली. तिच्या हातांत एक पिशवी आसली. तिची ब्रिफकेज कंडक्टरान पयलींच भायर काडून दवरिल्ली. इतले म्हणसर आतां प्रासार लख्ख सकाळ

जाल्ली. त्या सकाळच्या उजवाडांत आतां सगळें बरें स्पश्ट दिसतालें. बसींतल्यान देंविल्ले ते जाणटेलेक हांवें पळयली. तिच्या फाटल्यान दुसरो कोण देंवलो ना, तिच्या सांगाताक पयलो कोणूय देंविल्ले बी आसुंये, घडये तिजो पूत, जांवय वा आनी कोणय. तिच्या धव्या फुल्ल कपला वयल्यान ती विधवा आसुंये, हांवें अदमास केलो. सकयल देवना फुडें तिणें चोंयवशीं अशें, तशें पळयलें. आनी सवकासायेन ब्रिफकेस हातांत उखल्ली. एका हातांत पयलींच पिशवी आसली. 'एकटीच जाणटी बायल पुण्या सावन गोंयांत आयल्या. थंडेच्या दिसांनी तिका अशी रातच्या प्रवासाक एकटेक धाडली बरी तिच्या घरच्यांनी' हांवें मनांत म्हळें. ती खंयचे वटेन चलपाक लागतली काय? तिका रिक्षा बी जाय काय? प्रासार मोटर सायकल पायलट आसले, पूण रिक्षा खंयच लागीं दिसनासल्यो. म्हज्या मनांत ओगीच दिसलें, जाणटेलेक विचारचें, खंय वचूंक जाय काय म्हूण? पूण खीण भर हांवें मनांत म्हळें, ती हांगाचीच- फोंडेंचीच आसुंये, कोणूय व्हरूंक बी येतलो तिका. तिणें आपलें सामान हाडून कडेक दवरलें आनी ती हुसक्या मेकळी जाल्ल भाशेन मात्शी सुशेग घेवपाक शी थंय आशिल्ल्या सोपणाचेर कुलो तेकोवन उबी रावली. म्हाका घरा कडेन वचूंक जाय आसलें. तरी पूण मनांत ते जाणटले बद्दल ओगीच उमळशीक शी निर्माण जाल्ली. कोण खंयची वळख-पाळख नाशिल्ली ती जाणटेली, उणीच म्हळ्यार सत्तरींतली तरी आसूंक जाय. हांवे अदमास बांदलो. गोरी कात, धवे जाल्ले केंस, तोंडार पळयल्यार बऱ्या घराण्यांतली म्हणपाचे चटकन लक्षांत आयलें बगर रावनासलें. आंगावयली कापडाय तशीं बरे प्रतीचीच आसली. गळ्यांत एक भांगराची सरपळी आसली. हाताक कांकणां, पांयांत बऱ्यो व्हाणो. हांवें तिका वयर सकयल निरखिली आनी मनांत परत विचार आयलो. बऱ्या घराण्यांतली ही जाणटेली, तिका अशी एकटेकूच प्रावासाक धाडची तरी कशी? हांव वचपाक म्हण पावल उखलपाक तीय बशिल्ली थंयच्यान उठली आनी तिची नदर म्हजी नदर एक जाली. म्हाका ओगीच दिसलें, तिची कसली तरी अडचण आसा जावंक जाय. फुडें सरून तिका विचारचें शें दिसलें, इतल्यांत तिणेंच म्हाका पळयत म्हळें,

"आपण इथलेच का?" म्हणजे ती मराठी उलोवपी बायलमनीस. ती गोंयकान्न न्हय, महाराष्ट्रीयन आसतली असो हांवें अदमास केलो आनी तिका म्हळें,

"हय... हांव फोंडेचोच, तुमी खंय वतात?" - हांवें कोंकणींतल्यानच म्हळें. पूण तिका म्हज्या प्रस्नाचो अर्थ समजलो जावये. तिणें म्हळें,

"मी फोंड्यालाच आलेली आहें."

"खंयच्यान आयल्या?" हांवें परत विचारलें.

"पुण्याहून..." थंडसाणेन तिणें म्हळें.

"हांगा कोण आसा तुजो?"

"माझी मुलगी राहाते इथं." तिणें आतां मेकळेपणान म्हळें. हांव तिची वासपूस करतां हो तिका धीर कसो दिशिल्ल्याचे भाव तिच्या मुखामळार हांवें स्पश्ट पळयले आनी मनांत म्हळें, म्हजे आवय भशेन कशी. म्हजे आवयइतलीच पिरायेची आसुंये. म्हाका बसींतल्यान ती एकटीच देंवताली तेन्नाच मनांत खंय तरी ओगीच चर्रर जाल्लें. ओगीच कळटां नकळटां तिची काकुळट शी दिसूंक लागिल्ली. घडये हिकाय बी तसलेच जंजाळ भोगचे पडटात काय? पुताक खबर नासतना असवडीं आवयचो पूत भायर आसतकच, मांयच्यो भोगल्यो करपी सुनो पयस वचनासतना हांवें म्हज्या घरांतच पळयिल्ल्यान हालीं कितें कोण जाणा, म्हाका ओगीच जाणटेपणाचो भंय सो दिसपाक लागिल्लो. त्या भंयाचो धसको मागीर अशी खंयी जाणटेली दिसली कीं जाणवपाक लागता. जाणटेलेक मदत करपाचें चितून हांवें तिका म्हळें, "रिक्षा आपोवं?"

"रिक्षा... रिक्षा घेऊन कुठं जाणार बाबा मी?"

"म्हणजे???" म्हाका एकदम अजाप जालें. म्हणजे ही आयल्या तरी खंय, वता तरी खंय? म्हजी उमळशीक आनीकय भलतीच वाडपाक लागली.

"तुमी कोणागेर वतात, हांव पावयतां-" हांवें परत म्हळें.

तिच्या दोळ्यांत पळयलें. खूब दुख्ख भरिल्ले भशेन तिचे दोळे उपाट कसल्या तरी भावनांनी भरिल्ले हांवें पळयले. ती खऱ्यानीच संभ्रमांत कशी आसली. रानांत शेणिल्ले गायेवरी म्हाका ती सैरभैर दिसपाक लागली. पूण जे अर्थीं ती फोंड्यांतच देंवल्या, म्हणटकच फोंड्यांत तिचो कोण तरी आसूंकच जाय. ना जाल्यार ओगीच ती फोंड्यांतच कित्याक देंवतली आसली? हांवें तिका परत खोंचून विचारलें, "तुका खंय वचूंक जाय तें सांग, हांव पावयतां व्हरून तुका."

"देव तुझे भले करो बाबा, कोण कोणाचा तूं! मला मदत करायला निघालास, आणि माझा स्वतःचा..." अशें म्हाणत ती एकदम उलोवचीच थांबली. तिका कितें तरी सांगपाचें आसलें, 'माझा स्वतःचा' अशें म्हळें तेन्ना हांवें मनांतल्या मनांत तिचें अपूर्ण वाक्य पूर्ण केलें.

"तुमचा स्वताच मुलगा अशेंच म्हणपाचें आसा न्हय तुका?"

"हो माझ्या स्वतःच्या मुलाने-" आनी अशें म्हणत ती गळ्ळ करून थंयच रडपाक लागली. पालवान दुकां पुशीत ती म्हणपाक लागली, "माझी मुलगी फोंड्यात आलेली आहे. तिच्या पतीची बदली फोंड्यांत झालेली आहे."

"कोण नांव?"

"बॅकेंत असतो" तिणें म्हळें.

"कुठल्या बँकेंत?"

"माहीत नाही बाबा." अशें म्हणत ती वयर मळबांत कसल्या तरी खोल हुस्क्यान पळयत रावली.

म्हाका रातची याद जाली. म्हजीय आवय म्हणटाली, "फाल्यां चल्ली हांव म्हज्या पोरागेर, थंय तरी इल्लो पेजे निवोळ ताळ्यार पडटलो. हांगा आयिल्ल्या दिसा त्रास. कितेंय खाल्लें आंगाक म्हणटा तें लागना." गजाल खरी आसली. पूण आवयचे जातले हाल म्हाका मोन्याचो मार कसो, हांवें तोंड उगडल्यार 'घेवन वच तुजे आवयक, कित्याक दवरल्या ते म्हातारेक हांगा म्हज्या पांयांकडेन?' अशीं मुक्ताफळां मागीर कानार पडटालीं. मागीर हांव मनांत म्हणटालों. हय, फकत मनांतल्या मनांत म्हणपाचें. तोंड उगडल्यार मागीर घरांत रणखेव जातालो. भुरग्यांक त्रास, शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांकय ओगीच त्रास. घरांत कली नाका म्हणून हांव म्हजे भितर चितूंक पडटालों. कितली विचित्र पाळी येता मनशाचेर. जाणटेपण इतलें भिरांकूळ आसता, आनी खास करून एकलोच पूत आशिल्ले जाणटे आवयक आपल्या एकसुऱ्या पुता बगर आनी दुसरो कोणाचोच आधार नासता तेन्ना. म्हाका मागीर मावशेबायची याद जाताली. मावशेबायक तरी ज़ोडकार तीन पूत. एकलो पणजे फ्लॅट घेवन रावतालो, दुसरो मडगांवां तर तिसरो वास्को. मावशेबायन घोव मरतकच तिगाय पुतांक रगताचें उदक करून कवाथे शिंपून माड वयर काडचे तशे शिंपून तिगाय पुतांक माड कशे वयर काडले, पूत शिकून सवरून जोडूक लागले आनी लग्नाचे जातकच मावशेबायन एकएकल्या पुताक उजयलो. बरी घरा-दाराचीं भुरगीं समजून मावशेबायन तिगां चलयांक एका एका वर्साच्या अंतरान सुनो म्हणून घरांत हाडल्यो. मावशेयबायचे खोशेक शीम-मेर उरली ना. सुनांची अर्थ-अपुरबाय करतां, करतां मावशेबायक केन्ना साठी सोपली तेंच कळ्ळें ना.

उपरांत घरांत इल्लो, इल्लो कली रिगलो. व्हडले सुनेक प्रायव्हसी जाय आसली. घोवाक पिडापीड करून शेर्की तिणें वेगळो फ्लॅट घेतलोच. नोकरी परगांवांत आशिल्ल्या पुताक आयतेंच नीब सांपडलें. उप्रांत असोच मदलोय गेलो आनी धाकट्याय पुतान मागीर आपलो असो वेगळो फ्लॅट घेतलो. घरांत उरली ती एकली एकसुरी मावशीबाय. तिगूय पुतांनी चार चार म्हयने आवयक वांट्यांनी प्रत्येकागेर दवरून घेवपाचें थारायलें. पूण मावशीबाय ह्या पुताल्या घरांतल्यान रडत भायर सरताली आनी त्या पुतागेर वताली. थंय म्हयनो दोन म्हयने जातकच तशीच रडत भायर सरताली आनी तिसऱ्यागेर वताली. हे भशेन आवयपणाचें आनी एकलेपणाचें दुख्ख पोटलेक बांदून हांगा थंय भोवताली. ह्या गोलांतल्यान त्या गोलांत खोंटावन फुटबॉल मारचो तसो मावशीबायचे तिगूय जोडकार पूत मावशीबायचो फुटबॉल करताले. आनी अशीच एक दीस एका पुताल्या घरांतल्यान सुनेचे जांच सोसूं नज जावन तिडकीन घरांतल्यान भायर सरिल्ली ती एका मोटार अपघातांत

सांपडली आनी सासणाची सगळ्या त्रासांतल्यान एकदांची सासणाची सुटली. मावशीबायले तिगूय पूत आतां मावशीबायचें श्राद्ध मोटे श्रद्धेन मनयतात. दर वर्सा मावशीबायच्या मर्णा दिसा गोंयांतल्या दोन-तीन तरी मराठी दिसाळ्यांनी तीन कॉलम मावशीबायच्या फोटो सयत जायरात दितात. जायरातींत हमखास ह्यो शब्द-सुमनाच्यो ओळी आसतातः

"प्रिय आईस...तूं आमच्या सुखी संवसारांतून अकस्मात उठून गेल्यास आज वर्षे झार्ली. तुझ्या आठवणी शिवाय एकही दिवस जात नार्ही." आनी जायराती सकयल सुनांचीं नांवां सगळ्यांत पयलीं. मावशीबायची ती दशा कित्याक जाली जावंये, कोणें केली जावंये ताचो प्रत्यय म्हाका म्हज्या घरांत येता आसतनाच आयज आनी एक कोणाची तरी आवय अशीच घर सोडून आयिल्ली आसूंक जाय असो हांवें अदमास न्हय, सामकी खात्री केली. आनी आत्मविश्वासान तिका म्हळें. "घरांतले जाच सोंसूंक जायना म्हणून तूं घर सोडून आयल्या व्हय?" म्हज्या ह्या प्रस्ना बरोबर तिणें म्हज्या तोंडा कडेन आ करून पळयलें. 'तुका कशें कळ्ळें रे बाबा?' अशे प्रस्नार्थक नदरेन तिणें आपलें अजाप उक्तायलें. तिका आनीकय आत्मविस्वास दिसपाक लागलो. तिच्या तोंडार सकाळचीं किर्णां तशेंच खोस तांबशेल्ली म्हाका स्पश्ट दिसपाक लागली. दीस वयर येतालो. तिका तिचे धुवेगेर पावोवंक जाय आसली. मनांत दिशिल्लें, सुनेचे कसले त्रास जाताले ते तिका विचारचे. पूण हें सगळें विचारपाची ती सुवात नाशिल्ली. घडये तिका सून ती घरांत कसलेंच काम करिना, आयतें बसून खाता म्हणून तापयताली काय तिका जेवणय सारकें वेवस्थीत दिनासली काय? जाणटेली म्हण शेळेंपाळें वाडटाली काय? कित्या कितेंय उलयताली काय तिची सून तिका? आमगेले हिचे भशेन, म्हजे आवयक सद्दां सतायता तशी.

"कसला विचार करतोस बाबा?" म्हाका ती परत, परत खूब नमळायेन 'बाबा बाबा' करतकच म्हाका म्हजेच आवयन म्हाका उलो मारिल्ले भशेन दिसतालें. हांवें भानार येत तिका म्हळें, "तुजे कडन मात लेगीत पत्तो ना तुज्या जांवयाचो? नांव तरी सांग, हांव वळखतां कांय बँक ऑफिसरांक हांगाच्या. ना जाल्यार विचारुंया. कोणूय सांगतलोच. फोंडें म्हळ्यार तुमचें पुणें न्हय.. हांगा आजून मनशांक नांवां आसात, तुमच्या पुण्यांत कोनश्यांक नांवां दिल्यात, चौकांक नांवा दिल्यांत तर्शी कोनशाक नांवां हांगा नात. हांवें मात्शें शें हांसतच म्हळे.

तिका म्हज्या म्हणण्याचें मर्म समजलें. ती पयलेच खेप मन हलकें करून तोंडभर हांसली. म्हाकाय बी अनळखीपण आतां बरेंच पयस जाल्लें दिसूंक लागलें. कोण तरी खूब पोरणे वळखिचीच जाल्ले वरी हांवूय तिचेकडेन उलोवंक लागलों. हांवें तिका परत एकदां तिच्या जांवयाचें नांव विचारलें आनी कसली तरी अचकीत याद जायना फुडें म्हळें,

"तूं पुताक सांगून गोंयांत आयल्या?"

"नाही, मी कुणालाही सांगितलेलं नाही. घरांतून बाहेर पडताना कुठं जायचं ते मी ठरविलं नव्हतं. स्टँडवर पोचतांच गोव्याची बस दिसली, मुलीची आठवण झाली. फोंड्याला बदली झाल्याचं मुलीनं फोनवरून सांगितलं होतं."

"ताका फोन आसा, ताचो नंबर-"

"नाही... त्यांना त्यावेळी फोन मिळालेला नव्हता..."

"ठीक आहे. नांव सांगा, बघूं या प्रयत्न करून" हांवें म्हळें तशें तिका नांव सांगन दिसलें जावंये. तिणें म्हळें, "सुकुमार राजमाने."

"कितें सुकुमार राजमाने???" हांवें मोठ्या अजापान व्हडल्यान म्हळें.

"काय झालं, एवढं आश्चर्य वाटायला काय झालंय? हांव कितलो तरी वेळ सुन्न जालों. म्हज्या तोंडांतल्यान उतरांच भायर फुटना जालीं.

सुकुमार राजमाने. म्हज्या फ्लॅटाच्या फुडल्या फ्लॅटांत हालींच रावपाक आयला. घरांत सदां झगडीं-झुजां, तींय सुकुमाराचे आवयक लागून. सुकुमाराची बायल म्हळ्यार हिगेली धूव! सामकें कन्फर्म करपाक हांवें शांत जायत विचारलें,

"तुमच्या मुलीचं नांव काय हो? सुषमा?"

"हो.. हो.. सुषमाच.." आनी आपली धूव सांपडली. पयल्याच धपक्याक पत्तो वित्तो सारको नासतना सांपडली हिचो तिका सुखाचो धक्कोच बसलो. हांवें मनांत म्हळें, कालच सुकुमाराची आवय धुवेगेर गेल्या- सुनेच्या जाचांक लागून आनी आयज सुनेची आवय आपले सुनेचे जाच सोसूं नज जावन गोंयांत धुवेगेर पावल्या. हांव तसोच तिका घेवन चलत रावलों. "जास्त दूर नाही, माझे शेजारी आहेत तुमचे जांवई" अशें म्हणत हांवें तिची ब्रीफकेस उखल्ली.

थोड्याच वेळांत आमी आमचे कॉलनीत पावलीं. हांवें तिका तिचे धुवेचो फ्लॅट दाखयलो आनी हांव म्हज्या फ्लॅटांत भितर सरलों. भितर सर जाल्यार म्हजी आवय खर्शेखर्शेत साटली-पोटली घेवन घरांतल्यान सकाळीं-सकाळीं भायर सरता. हांवें अजापान आवयक म्हळें, "आई तूं आनी खंय वता गे सकाळीं फुडें?"

"रावात तुमीच, तूं आनी तुजी बायल. तूं बायलेगेर जल्माक आयिल्लो न्हय रे? आवयगेर न्हय - वतां हांव पोरागेर..."

हें, हें कितें सगळें विचित्र घडटा...?? अशें येवजीत हांवें शेकीं कपलार हात मारलो. ही, ही म्हातारी अशी वताली तरी खंय???

आनी जाणटेपणाचे कल्पनेन आंगार परत एकदां कांटो फुल्लो.



# धवोफुल्ल गुलाब

दनपारचें जेवण जातकच माला, इल्ली शी न्हीद काडची आनी उप्रांत गायनाच्या क्लासाक वचचें अशें चितून आड पडिल्लें. दोळ्यांची झापड लागता थंय आसा, फ्लॅटा भायले वटेनचे फुडले व्हाळशेंत धपांयच करून कसलो तरी आवाज जालो तो जुस्त आयकलो आनी तें तशेंच खाटीवयलें उठलें आनी दार उगडून भायर जनेलांत आयलें.

भायर ना म्हळ्यार पावसाचीं ओलीं, ओलीं पावलां मातयेचेर उदेल्लीं स्पश्ट दिसतालीं. फुडल्या झाडा वयले ओथांबे आजून सकयल टपटप करून गळटाले, दनपारचें वत तशें लख्ख वत म्हणपा सारकें नासलें. मात आसर पडिल्लो पळोवन शेजाऱ्याल्या वट्टांतल्या झाडांचेर शेवर्णी, कावळे हे सदचे सोयरे कशे हाजीर आसले. मळबांतलीं काळीं कुपांय तशीं पुराय पयस जावंक नाशिल्लीं, देखून खंयच्याय खिणा परतो पावस रकपाची चड शक्यताय आसली. पूण आवाज कसलो आयलो हाची उमळशीक मात मालाक जाणा जावन घेवपाची आशिल्ल्यान ताचें मन परतें भितर वचून खाटीर लवंडुपाक तयार जालें ना. तें तशेंच भायर गॅलरींत आयलें. भायर वयल्या मजल्यार गॅलरींत धा बारा वर्सांचे जावंये, दोग तीग तरणाटे व्हाळशेंत पळोवन खदखदून हांसताले, ते ताका दिसले. मालान तांचे मौजेचें कारण समजून घेवपा खातीर वयर प्रश्नार्थक नदरेन पळयलें, तशी त्या भुरग्यांची नदर मालाचेर पडली आनी आपणाक कोणें तरी पळयल्यात, हें समजना फुडें ते तिगूय तरणाटे भुरगे ल्हवूच गॅलरींतल्यान बाग घेवन थंयच लिपले. मालाक दुबाव आयलो. हांणी वयल्यान कितें तरी व्हाळशेंत शेंवटून मारलां. आनी शेंवटून मारिल्ले ते वस्तूकडेन पळोवन ते मजा लुट्टाले. माला तशेंच फुडें गेलें आनी ताणें ते रुंद व्हाळशेंत चोंयवर्शी भिरीभिरी नदर मारली. पळयतां पळयतां ताका व्हाळशेचे एका उंचायेर, जंय उदक नाशिल्लें अशे सुके सुवातेर एक प्लॅस्टीकची पोती दिसली. ताणें बारीक पळयलें, पोटली वयर-सकयल जाता आनी गडगडटा. मालाक अजाप दिसलें. ताणें मनांत म्हळें, पोरांनी कोणाचो जीव घेतलो काय? तें लागी गेलें आनी बारीकसाणेन पळयलें, जाल्यार ते प्लॅस्टीकचे पोतयेंत एका माजरा पिलाक घालून पोती भायल्यान तोंडाकडेन घट बांदल्या. भितरलो माजरा-पेटो ते पोतयेंतल्यान भायर सरपाक धडपडटा. तो भितरले भितर आपले नाजूक पांय ताठारून

आनी तोंडान घास मारून ती पोती फोडपाचो प्रयत्न करतालें. मालान रागान वयर त्या भुरग्यांकडेन पळयलें तेन्ना ते भुरगेय मात्शे भिल्ले, मालान सकयल्यानच म्हळें, 'तुमी उडयलां मरे ह्या माजरा-पिलाक?'

तांकां कितेंय म्हणपाक वो वयल्या फ्लॅटांत वचून ताच्या बापायक तांचें कर्म सांगपाक वोगोत नासलो. सगळ्यांत पयलीं व्हाळशेंत देंवन माजरा पिलाक सोडपाची गरज आसली आनी थोडो वेळ ते पील तशेंच उरलें जाल्यार घुस्मटून, फुगार जावन मरतलें आसलें. मालान बेगिबेगीन आपले वावराडेक उलो मारून भायर आपयली. मालाली वावराडी बेगिबेगीन धांवत म्हणटा तशी भायर आयली. बायन असो आकांतान उलो मारिल्ल्यान तिवूय बावडी बरीच काचाबूल जाल्ली. भायर यो जाल्यार माला व्हाळशेचे धडेर उबें रावलां आनी व्हाळशेंत बाग घेवन पळयता. ताचे म्हऱ्यांत वचत वावराडेन विचारलें,

"कितें जालां बाय, थंय कोणाक पळयता?"

"पळय गो अमृत्या, वयल्या फ्लॅटांतल्या त्या पोरांनी माजरा-पोराक पोतयेंत घालून व्हाळशेंत उडयलां. कसले पोर गे ते हैवान कशे? बऱ्या घराब्यांतले भुरगे मुगो ते? हीच देख दिल्या तांकां तांच्या आवय-बापायन?" अशें म्हणत मालान परत एकदां झळझळीत नदरेन वयर पळयलें. आजून ते तरणाटे आडसाक रावन माला आतां फुडें कितें करता तें येवजीत सकयल पळयताले.

"अमृत्या, कोणूय दादलो मनीस दिसता जाल्यार पळय गो, पोराक वयर काडुंया" - मालान म्हळें.

"बाय, आतां कोण मेळटलो ह्या वेळार?"

"मागीर, मरतलो मुगो माजरा-पिलो. अशें फुगार जावन मरप? ना... ना, अमृत्या, ह्या माजरा-पिल्याक कशेय भशेन वांचोवंक जाय. चल, हांव आनी तूं सकयल देंवुंया" - माला सामकें उतावळें जाल्लें. एका माजरा-पिलाचो जीव वता हें ताच्यान पळोवं नज जालें. ताच्या मनाक अक्षरशा मायेचो पीळ पडिल्लो. अमृत्याची वाट पळय नासतना माला स्वता जावन व्हाळशेंत देंवपाची तयारी करपाक लागलें. ताणें आपली साडी वयर धोपरा मेरेन खोयली आनी पदर कमराक खोयलो. मालाबायची ती अनवळखी अशी अवस्था पळोवन अमृतेंय खासावीस जालें. मोनजाती विशींची मालाची कळवळ पळोवन अमृत्याकय दिसपाक लागलें. व्हाळशेंतलो पोतयेंत फुगार जावन मर्णाकडेन झूज दिवपी तो जीव असो तडफडून मरूंक फावना. अमृतें बेगिबेगीन फुडें सरलें आनी ताणें मालाक म्हळें,

"मालाबाय तूं अशें राव, हांव देंवतां व्हाळशेंत, तुका जमचें ना तें. पडल्यार ओगीच तें दुसरें अपसरण नाका," - आनी अमृतें व्हाळशेचे धडे वयल्यान अळंग एका, एका फातराच्या आधारान व्हाळशेंत देंवपाक लागलें. मालाकय अमृत्याचें बरें दिसलें. मालान

अमृत्याक धडेर रावन धीर दिलो. अमृतें अेकदांचें व्हाळशेंत देवलें आनी रेब्यांतल्यान, उदकांतल्यान चलत वचून सुके सुवातेर पडिल्ली ती माजरा पिल्याक भितर घालून उडयिल्ली पोती उखल्ली आनी पिशवेक मारिल्ली गांठ सोडयली. माजरा-पील अर्दमेल्लें जाल्लें. पिशवेंतल्यान मेकळें जावपाक ताणें बरीच धडपड केल्ली, ताका लागून पिशवेक बारीक बुराक पडिल्ल्यान तें पोर घुस्मटून मेलें ना जांवये. अमृत्यान माजरा-पिल्याक हातांत धरलो आनी तशेंच तें व्हाळशेंतल्यान चलत वयर येवपाक वाट सोदूंक लागलें.

"जावं सायबिणी! अमृत्या, तुवें साल्वार केलो त्या पिल्याक." अमृतें वयर येना फुडें मालान ताका म्हळें.

"कोणाले गो हें पोर?"

मालान वयर पळयलें आनी माजरा-पिलो वयल्या फ्लॅटांतल्यान पोरांनी उडयला म्हणपाचें अमृत्याक सांगलें.

"कसले दारूण काळजाचे पोर गो हे आतांचे? इस्कोल शिकतात काय कसयागेर वयतात गो ते?"

"हय गो बाये, कसायाच्याच काळजाचे जावंक जाय ते" मालाचो संताप उतरा-उतरांतल्यान उक्तो जातालो. विचार वचून वयर, कळूं दी तागेल्या आवय-बापायक आपणाली अवलाद कसली निजपल्या ती! " अमृत्यान रागान म्हळें.

मालान पळयलें, माजरा-पिल्याक तत्काळ उपाय जावंक जाय, पयलीं कितें तरी ताच्या पोटांत पडपाक जाय. मालान माजरा-पिल्याक अळंग हातांत धरून मोटे मायेन आपणाल्या फ्लॅटांत हाडलो आनी ताका सुक्या सडसडीत कुडक्यान पयलीं पुसलें. धव्या फुल्ल माजरा पिल्याक इल्लो, इल्लो जीव येतालो. आतां ताका म्यांव फुटपाक लागलें, ताणें आपले इल्ले शे दोळे किलकिले करून मालाक पळयलें.

"अमृत्या दूद तापोवन घेवन यो" अशें म्हणत माजरा पिलाचें आंग पुसून सुकें केलें. आमी ताका भितर व्हरून गॅसाचे गरमेक दवरुंया. मात्सो सो धग लागतकच माजरा-पील खूब सुखावलो. ताणें मायेन म्यांव म्हळें, घडये ताणें म्हळां आसुंये- देव तुजें कल्याण करूं. अमृत्यान तापयिल्लें दूद एके बशयेंत घालून हाडलें. हून आसत म्हण फूक मारून दूद न्हिवयलें आनी माजरा-पिल्याच्या तोंडाकडेन धरलें. माजरा-पिल्याक कोणें तरी पयलेच खेपेक दुदाक धरिल्ले भशेन जालें जावंये. कितलो वेळ माजरा पिल्याक बशेंतलें दूद कशें पिवचें तेंच कळना जालें. माजरा-पील दूद पिना तें पळोवन मनशा-पोराक सांगचें तशें मालान म्हळें, "अशें चाट मरे, जिबेन चाट."

अमृत्याक मालाची ही वागणूक पिशेपणाची काय शाणेपणाची तीच समजना जाली. ताणें पळयलें, जशें कितें मालाचीं तीं उतरां त्या पिल्याक समजल्ले भशेन तें पोर मालान

चाटूंक सांगना फुडें आपली जीब भायर काडून चटचट करीत बशयेंतलें दूद एक सारको चाटपाक लागलें.

"मालाबाय, तुजें आयकलें मगो ताणें."

मालाक काळीजभर खोस जाली. मोन-जाती कडेन मनीस जेन्ना संवाद करता तेन्ना मोनजातीन प्रतिसाद दितकच मनशाक ज़ाता त्या आनंदाचे वर्णन करप कठीण आसता, तसोच आनंद मालाक जाल्लो. तो ताच्या मुखामळार स्पश्ट प्रगट जाल्लो दिसतालो.

आनी वयल्या फ्लॅटांतल्यान प्लास्टीकचे पोतयेंत भितरले भितर गुस्मटून मरचो म्हूण व्हाळशेंत उडयिल्लो तो माजरा-पेटो मालाल्या घरचो त्या दिसाच्यान एक वांगडी जालो.

एक दीस मालाक थोडे दीस आवयगेर वचपाचें आसलें. मालाचो घोव भोंवेडर आशिल्ल्यान माजरा-पील घरांत एकलेंच उरतलें हें चितून मालान अमृत्याक म्हळें, "अमृत्या, माजरा पिल्याक मात्सो व्हर, दुदाक आनी शिता खातीर चार दिसांचो खर्च हांव दितां तुका."

"आंवंयं आंवंयं... माजरा पिल्याचो खर्च हो कसलो बाये, आमगेर कितें माजरा-पिल्याक घालपा इतलेंय अन्न ना काय कितें?"

"तशें न्हय गो, तुका आनी ओगीच ख्यास्त कित्याक? घे तूं..." अशें म्हणत माजरा पिल्याक अमृत्याकडेन सोपयलें आनी माला हुसक्या-मेकळें आपणालो फ्लॅट बंद करून आवयगेर गेलें.

अमृत्यान माजरा-पिल्याक आपणागेर व्हेलें. पयलीं, पयलीं अमृत्याच्या घरचीं माजरां ह्या नव्या सोयऱ्याचेर गुरगुरपाक लागलीं आनी चार दीस सोंपतां, सोंपतां एक दीस किजील जालें. माजरा पील एक दीस रस्त्या वयल्यान वतले एके सायकलीच्या रोदाक सांपडलें आनी ताचें भेंड मोडलें. मालाबायन ताका मर्णांतल्यान कशें वाटायिल्लें तें अमृत्याक खबर आसलें. पिल्याचें भेंड मोडलां तें पळोवन माला आतां आपणाक खाले बगर रावचें ना म्हणपाचें येवजून अमृतें काचाबूल जालें. अमृत्याची ती अस्वस्थताय पळोवन तागेलो घोव आनी भुरगीं सुद्दां अमृत्याक हांसपाक लागलीं.

"आगो, मनशाचेंच भेंड मोडिल्ले भशेन करता मगो तूं... माजरा-पोर तें-" अमृत्याच्या घोवान म्हळें.

पूण त्या माजरा-पिलाच्या दुख्खाची कर्मकाणी ताणें स्वता पळयिल्ली. ते काणयेंत मालाबायच्या वांगडा ताचोय इल्लो वांटो आसलो. मनशाचें भेंड मोडल्यार एक वेळ मालाक सोसत आसलें पूण त्या माजरा पिल्याचें न्हय. अमृत्याक कितें करचें आनी कितें ना तेंच कळना जालें. माजरा-पिल्याच्या भेंडाक कसली तरी साल झरोवन लावं येत? मनशाक जाल्यार दोतोराचें वो झाडापाल्याचें वखद करूं येतालें. अमृतें येवजुपाक पडलां आसतनाच

माला अमृत्याच्या दारांत दत्त म्हणून उबें जालें. आवयगेरच्यान सांजे येना फुडें माला स्कुटरीन माजरा-पिल्याक व्हरूंक आयिल्लें.

मालाक फुडें पळोवन अमृत्याच्या काळजांत धस्स जालें, आतां मालाबायक पिल्याचें भेंड मोडलां ही खबर कशी सांगची?

"अमृत्या, दी गो बाये पोर म्हजें, व्हरतां ताका हांव." अमृत्याक कितलो वेळ जापच फुटना जाली. अमृतें कांयच उलयना आनी इल्लेंशें तोंड करून बसलां तें पळोवन मालाच्या मनांत कसली तरी पाल चुकचुकली.

"कितें जालां गो अमृत्या, खंय आसा माजरा-पोर?"

"बाय कितें सांगू, सायकलीच्या रोदाक सांपडून ताचें भेंड मोडून पडलां तो!" अमृत्यान अेकदांचें सांगून सोडलें. तें आयकून मालाचेर अक्षरशा मळब कोसळ्ळें.

"सायकलीच्या रोदांत सापडलें! आगो, तुका इतलें सांगून फुकट मगो? थंय घरांत तें उपाशीं मरतलें म्हणून तुका सांगलें हांगा तुज्या घरा व्हर म्हणून; हांगा हाडिल्ल्याचें परतें हे पानवळ मगो म्हाका?" माला खूब-खूब कितें, कितें संतापान उलयलें आनी मागीर निर्शेवन आपणेंच म्हळें,

"आतां उलोवन कसलो फायदो? चल, दी त्या पोराक, दोतोरागेर तरी व्हरतां आनी पळयतां ताच्या भेंडाक कितेंय उपाय जाता जाल्यार"- मालान निर्शेत म्हळें. अमृत्यान सगळें उलोवणें भोन्यानी आयकून घेतलें. चूक जाल्ली खरी. मालान व्हाळशेंतल्यान काडून ताका संजिवनी दिली इतलें खरें. आनी आतां माजरा-पिल्याचें भेंड मोडलां तेंय तें सारकें करपाक सोदता. विपरिताचीच ही बायल! कोण हाडामासाच्या आपल्या पयल्या मनशाक सुद्दां करचो ना इतलें माला एका माजरा-पिला खातीर करता. कोणाकय ही गजाल सांगल्यार फट दिसतलें, अमृतें आपले भितर खंती जावन येवजितालें.

"चल, तूं येतलें जाल्यार यो म्हज्या वांगडा, हांव वतां दोतोरागेर" अशें म्हणत भेंड ओडीत थंय आयिल्ल्या माजरा-पिल्याक उखलून मालान ताका पोशेलो, ताचो उमो घेतलो आनी लोंबकळटल्या ताच्या भेंडाचेर मायेन हात ओडून मालान म्हळें, "तुजें भेंड हांव बरें करतलें आंऽ, तूं आदले भशेन परत चलतलें."

माला माजरा पिल्याक घेवन स्कुटरी सरीं आयलें. अमृतेंय न्हेसून भायर सरलें, गुन्यांवकारा भशेन तें मोन्यांनी मालाचे स्कुटरीर बसलें.

स्कूटर एका दोतोराले कोंसुलतारी सामकार थांबली आनी माला पिल्याक घेवन कोंसुलतारींत भितर सरलें. हातांत माजरा-पील घेवन आयिल्ल्या पेशंटाक पळोवन थंय बशिल्ल्या हेर पेशंटांक अजाप दिसलें. मालाक त्या अवतारांत पळयल्यार कोणेंय खरेंच पिर्शे म्हणपाचें, पूण माला दोतोराक दाखोवपाक एका माजरा-पिल्याक घेवन आयलां तें

मात पेशंटांक खबर नासलें. गर्दी आसा ती पळोवन मालान पेशंटांची नांवां घेवंक बशिल्ले एके चलयेक म्हळें, "चड नंबर्स आसात?"

"हय, तिसावो चलता." ते चलयेन चोपडेंत पळयत मालाक म्हळें, आनी उमळशिकेन ते चलयेन मालाक पळयत विचारलें,

"कोणाक तपासूंक जाय?"

मालान फाटलो-फुडलो विचार करी नासतना सांगलें "ह्या माजरा पिल्याक! मालान तशें म्हणना फुडें थंय बशिल्ले सगले पेशंट खो खो करून हांसपाक लागले. तें नंबर घेवपी चलीय पोट धरून हांसपाक लागलें. माला घुस्पलें, ताका राग आयिल्लो. सगळ्यांक बरीच भायरी दिवची अशें ताका दिसलें, पूण ताका दोतोर मेळपाक जाय आसलो. "आगे, हो मनशांचो दोतोर, जनावरांचो न्हय." नंबर घेवपी चलयेन हांसो थांबयत मालाक म्हळें.

"म्हाका खबर आसा तें." - मालान तिडकीन म्हळें.

"खबर आसल्यार हांगा कित्याक आयल्या तर?"

'"जनावराच्या दोतोराचो पत्तो मनशाच्या दोतोराक खबर आसतलो हें जाणां, देखून दोतोराकडेन व्हेटर्निटी दोतोर कोण ह्या शारांत आसा तें विचारपाक हांगा हांव आयलां. समजलें? हांव वळखतां तुज्या दोतोराक. घे, हें म्हजें कार्ड व्हरून भितर दोतोराक दी" अशें तापत मालान पर्सींतलें आपलें वळखकार्ड ते चलयेच्या हातांत कोंबलें. आतां मात नंबर घेवपी चली बरेंच शेळेलें. ताका कळ्ळें, हें लचांड तशें सार्देसुदें न्हय, ताणें मालान दिल्लें कार्ड भितर दोतोरा कडेन दिना फुडें दोतोरान मालाक सोमतेंच भितर आपयलें. भायर बशिल्ले सगळे पेशंट पळयत उरले, माला थोड्या वेळान भायर आयलें आनी पिल्याक तसो हातांत धरून कोंसुलतारी भायर वचून पार्क केल्ले स्कूटरीर बसून ती स्टार्ट करपाक लागलें. बाबडें अमृतें बेगिबेगीन धांवत येवन फाटल्यान बसलें. ताणें हूं काय चूं केलें ना.

शेकीं जनावराच्या दोतोर नायकान माजरा-पिल्याक इंजेसांव दिलें. सोर लायले बरा वेळ वेळ उपाय केले आनी मालाक म्हळें, "पिल्याचो मणकोच तुटला. भेंड जोडपाची आस्त ना."

मालान दोतोरालें बील फारीक केलें आनी बद्द घरा आयलें. माजराच्या वखदाक दुड्डू खर्चूपी मनीस अमृत्यान तरी पयलेच खेप पळयिल्लें.

दोन दिसांनी सदचे भशेन अमृतें मालागेर कामाक वच जाल्यार मालाच्या घरांत मरण शांतता; माला खाटीर बसून दुकां गळयतालें. अमृत्याक पळोवन ताका हुंदकोच फुटलो. "गेलें पोर, तळमळून मेलें. अमृत्या, पोराचो इलो जावंक जाय." अमृत्याक दिशिल्लें, जें व्हाळशेंतल्यान त्या पोराक वाटयिल्लें तेच व्हाळशेंत व्हरून उडय त्या पिल्याक अशें कितें तरी तें आपणाक सांगतलें म्हण.

“बाये, सांग कितें करूं?”

“आतां कितें करतलें? वाड्यार लोक आसात, मेल्ल्या माजरा-पिल्याक खंय पुरतलीं? आमोरी जावं दी, आमोरेर पुरुंया ताका. आनी हें पळय, सकल्या बाजारांत गुलाबाचीं झाडां विकपाक आयल्यांत, थंय वच आनी एक गुलाबाचो बरोसो एक रोपो विकतो घेवन यो.”

“रोपो सो? आतां वतांत खंय लावपाचो?” अमृत्यान म्हळें.

“हांव सांगतां तशें कर गो अमृत्या” मालाकडेन चड उलोवपाची माणसुकी नासली.

माजरा-पिल्याची कूड तार्णे आमोरी मेरेन जतनायेन घरांत दवरली आनी आमोरेर काळोख जातां, जातां मालान आनी अमृत्यान दारांत एक फोंड खणलो. मालान दुकां गळयत त्या मेल्ल्या माजरा-पिल्याक त्या फोंडांत अचळय दवरलो, ताचेर फुलां घालीं, वयल्यान इल्ली, इल्ली माती ओडली आनी अमृत्यान हाडिल्लो गुलाबाचो रोपो त्या माजरा-पिलाच्या फोंडार रोयलो. रोप्याचे ताळयेक एक गुलाब पयलींच फुलिल्लो आसलो.

मालाच्या फ्लॅटाच्या दारांत आतां तें गुलाबाचें झाड मुळां धरून कोमरेवंक लागतलें आनी फाल्यां सावन कांट्या सयत त्या झाडाक केन्ना तरी त्या पिलाचे ल्हंवे कोराचे धवे फुल्ल गुलाब फुलतले हे आशेन जायत, पिलाच्या फोंडार रोयिल्ल्या गुलाबाच्या झाडाक माला सद्दां नेमान शिंपत आसा.



# मध्यान राती एक दिव्य पुरुश

मध्यान रात जातली, भायर गुपाट काळोख आसतलो, पाडसार घुघूम रडटलें तेन्ना तुका भास सो जातालो. तुज्या स्वप्नांतसो एक दिव्य पुरुश येतलो. तुका ताचो प्रत्यक्ष दृश्टांत जातलो. तूं ताचेर प्रसन्न जातली, तोय तुजेर प्रसन्न जातलो. मागीर तो तुका पावतलो. ताचे दैवी शक्तीचो दिश्टावो तुका जातलो आनी तुका मागीर तो सामको भिडून वतलो.

"खरेंच बाबा?" रत्न्यान अजापभरीत जावन बाबाक विचारलें.

राम उर्फ तेजबहादूरसिंग उर्फ कालिदास उर्फ स्वामी. पूण गांवांत ताका चडशे बाबाच म्हणून उलो मारताले. आसपासच्या लोकांनी ताका बाबा म्हणपाक सुरवात केली ती जेन्ना पणजेकारान बाबाची ताचेर कृपा सांगली तेन्ना. हो पणजीकार म्हळ्यार तशें बडे बापका प्रस्थ. पूण खंयचे तरी लडायेंत पराजीत जाल्लो जखमी सैनिक कसो जावन आसलो. ताची खंय कोर्टांतली एक केस बाबान घरा बसून ताचे फावराद करून दाखयिल्ली. पणजेकार त्या खिणांची याद करून आयजूय सांगता, "बाबासरीं हांव जेन्ना गेलों, तेन्ना बाबान म्हाका पाटार बसयलो. बाबान थोडो वेळ ध्यान केलें आनी हाताची मूठ उकती करून चार मंत्रिल्ले तांदूळ दिले आनी सांगलें, वच आनी कोर्टांत केस चलता ती पळय. तुजो वकील कसले आर्ग्युमेंट घालता ते पळय आनी फाल्यां म्हजे सरीं यो; पणजेकार नेटान फुडें सांगपाक लागलो.

"बाबान सांगलें तसो हांव कोर्टांत वचून बसलों. हातांत बाबाले मंत्रिल्ले तांदूळ आशिल्लेच. त्या दिसा म्हज्या वकिलान पळय आर्ग्यू केलें, तें पळोवन जुवीज लेगीत चाट पडलो, विरोधी वकील घामेलो आनी कितें सांगू, ती केस हांव जिखलों.

बाबाचे कृपेन, बाबाच्या चमत्कारान आंगार पडपाचे सेंतेंस भायले भायर निभावलें. तेन्नाच्यान हांव बाबाक मानतां, मानीत आयलां.

पणजेकाराली काणी फट कशी आसुंये., पणजेकार, तो इलेसावांक उबो राविल्लो मनीस. ह्या वाठारांत खूब पोपुलार. ते भायर थोडें-भोव पदराक शिकपय आशिल्लो.

ह्या पणजेकाराचेर कृपा जाली तशी तागेलो मेवणो म्हार्दोळकारूय बावाक मेळूंक आयलो. म्हार्दोळकार येतासर कुंडयकार कामत आयलो. वामन आयलो, पंच आयलो, सरपंच आयलो आनी आतां बाबाचे भेटेक मंत्रीय येवपाक लागिल्ले.

बाबाचें प्रस्थ वाडोवपी पणजेकार आयज भक्तीभावान बाबाक नमन करता. बाबा तसो कोणाक त्रास करिना. बाबा सगळ्यांचें कल्याणच करता, ते खातीर ताका गांवांत फुकेसवाय जमीन, ताचो मठ बांदपाक जाय आसली. पणजेकार, म्हार्दोळकार एक जाले, भक्तगणांक पटोवन दिलें. जमीन बळकावपाची ती चड करून कोमुनिदादीची अशें थरलें. ती सगळ्यांची जमीन, फुकट खावपाची आनी केश-बीश जालीच जाल्यार आमी चलोवपाची. बाबा केस सुप्रीम कोर्टांत पावल्यार लेगीत हांगा वसून पोक करतलो, अशा भावार्थान सगळी मांडणी केली.

आनी दुसऱ्या दिसा बाबाची पथारी कोमुनिदादीचे फुकट जमनींत रावपाक आयली. भक्तांनी पयलीं थंय खोप उबारली. उप्रांत खोपी भोंवतणी हडप केलें, हडपाभितर केळी घाल्यो, फुलझाडां रोयलीं, कवाथे रोयले, बाबाच्या भक्तांमदले कांय जाण हो वावर घरचोच समजून बाबाच्या पांयांसरी घाम गळोवंक लागले. तातूंत भडवो वासू तर चोविसूय वरां घरदार सोडून बाबाच्या मठांत रावन भडवेगिरी करपाक लागलो, आनी बाबाचें काम सोपें जालें.

बाबा खंयचो वा बाबाचो इतिहास कितें हो प्रस्न कोणाक पडून वचूंक नासलो. बाबा उर्फ तेजबहादूरसिंग हो एक गुरखो. एका देवळाची रातच्या वेळार राखण करपाक नेपाळच्यान हाडिल्लो गुरखो. पूण हो गुरखो देवळाच्या प्राकारांत घाण करपाक लागलो, प्राकारांत बसून रातच्या वेळार देवूळ राखचे सुवातेर, सगळे न्हिदले शे पळोवन लागींच आशिल्ले पेड्रूले गादयेर वचून भरपूर पिवपाक लागलो. जालें, एक दीस म्हाजनांक हें कळ्ळें, आनी दुसऱ्या दिसाच्यान गुरख्याक देवळाकडलो निखळायलो. पूण देवळाची राखण करतां, करतां ताणें देवळाच्या प्राकारांत अगरशाळेंत रावतल्या नागू भटा कडेन जायते लोक देवस्पणाक येताले तें पळयिल्लें. नागूभट हात पळोवन कितें तरी सांगतालो आनी दोरो-आंगारो दिवन भावार्थ्यांक धाडटालो. बरो आशिर्वाद दितालो. काम जातलें, वच तूं, असो धीर दितालो. नागू भटालें हें इतलें सोपें देवस्पण तेजबहादूर सिंगाक आयतेंच फावन पडलें. देवळाच्या म्हाजनांनी नोकरे वयलो निखळायना फुडें गांवांत जे खोपींत तो रावतालो, थंयच ताणें देवस्पण करपाक सुरवात केली. इल्लें इल्लें जमपाक लागलें, जायते जाणांलें 'कावळो बसूंक खांदी मोडली' म्हणटात तशें जावंक लागलें. सगळ्याक फाम जालें. कावळो पेजाद, बसल्यारूच खांदी घो जाता. वाबालें नशीब फळपाक लागलें. सुरवेक, सुरवेक गांवांतले अडाणी पापभिरू बी लोक, जे चड करून घाडी करपाक वचपी, तांणी आपलो मोर्चो ह्या

बाबा उर्फ गुरख्याच्या घराकडेन वळयलो.

बाबान पळयलें, आपणासरीं बरे बरे लोक येवपाक जाय. शिकिल्ले, पदराक विज्ञानाच्यो पदव्यो बी आशिल्ले, पयशेकारय बी येवपाक जाय. आनी ते येतले जाल्यार सुरवातेक पयशे खर्चूंक जाय.

बाबान गांवांतल्या एका तरणाट्याक धरलो. तो बी.ए. ग्रॅज्युएट, बेकार आसलो. नोकरी नासली. बाबान ताचेर कृपा केली. ताका नाका जाय तें बाबा पळोवंक लागलो. आनी 'जर शिकिल्लो वयता, जाल्यार आमी कित्याक वयचे न्हू?' अशें चितपी लोकांची बाबासरीं गर्दी जावपाक लागली. आनी उप्रांत अर्दकच्चे शे कॉंट्रेक्टर्स, कारखानदार बी येवंक लागले. आनी जेन्ना राजकारणी पणजेकार, म्हार्दोळकार आनी कुंडयकार पावंनाका बाबान आपलें बस्तान वाडयलें आनी मोटो प्रकल्प करपाक पणजेकाराचो आधार घेवन गांवची फुकट जमीन बळकायली.

जालें, केस जाली. ती जातली म्हणपाची बाबा धरून सगळ्यांक खबर आसली. बाबा केस हारलो, पूण स्टे मेळयली, हायकोर्टांत वचपाक. बाकी बाबाचे खोंपीक, खोंप कसली, मठीच ती, तिका हात लावपाक कोणाकूच धीर जालो ना. केस चलता...! करतां, करतां बाबान हे वटेन पांचशें, हजार चौखण मीटर जमीन बळकायत आपलें बेंस वाडयलें.

बाबालें प्रस्थ वाडलें. आतां बाबा पवित्र जावपाक लागलो. बाबाल्या दारांत शाळेचे हेडमास्तर सुद्दां उदक भरपाक लागले.

उप्रांत शाळेचीं पोरां फाटीं रावतात? बाबाचें नशीब फळफळ्ळें. अंधश्रध्दावाल्यांनी खूब बोवाळ केलो, बाबाच्या मठांतल्या भानगडींचेर उजवाड घालो. बाबान आपलो वावर चालूच दवरलो. लोकांची नाडी बाबा बरोबर जाणा आसलो. बाबान कलकत्त्याक मनीस धाडून कालीमातेची पाशाणमूर्ती हाडली. आनी एक दीस ते मुर्तीची प्रतिष्ठापना केली. धुमधडाक्यान दबाजो केलो. भटा-ब्राह्मणांकूय हाडले आनी आपणाल्या देवकार्याक तांचोय आशिर्वाद मेळयलो. अशें जातकच बाबाच्या देवस्पणा बद्दल आनी दुबाव उरता? जालें, बाबाली कीर्त दिगंतरा फांकली. बाबा अशे चमत्कार करता, तशे चमत्कार करता, बाबा जुस्ताजुस्त पारखिता, बाबालें भविष्य फट जायना, अशी फाम जावंक लागली. देवदेवस्पणांनी घुस्पल्लो सादो-भावार्थी बाबाचे भकीक पडपाक लागलो. बाबाच्या मठांत दिर्शी-दिर्शी गर्दी जावपाक लागली. बाबान जोडपाची नवी हिकमत काडली. मठांत वासू-पिसू अशा चारपांच जाणांक पगाराचेर नेमले. आनी कालीमातेचे मुर्तीमुखार एक ताट दवरलें. ह्या ताटांत सद्दां पन्नास-शंबरांच्यो नोटी दवरल्यो. भिकारी खंय फुटपाथार भीक मागूंक बसता तेन्ना तो आपले चादरीर वो बुर्णुसार पयलींच कांय मोडचे पयशे अशेतशे शिंपडावन दवरता. वाटसुरांनीच ते उडयल्यात अशें येतल्या-वतल्याक दिसचें आनी तांणीय बी बोल्सांत हात

घालून त्या बुर्णुसाचेर पयशे उडोवचे, हो ताचो जसो डाव आसता, तशें बाबालें ताट सकाळीं फुडेंच नोटींनी भरिल्लें आसतालें.

मठांतले भडवे, तातूंत वासू गिरायकाक तर चडांत चड पयशे घालपाक पिकोवपाक खांपो आसलो. "आतां वीस-पंचवीस रुपयांनी कितें जावपाचें आसा." अशें म्हणून बावाकडेन देवस्पणाक येतल्यांक उण्यांक उणे पन्नास तरी घालपाक लावप हो ताचो दिसपट्टो वावर आसलो.

आनी इतलेंय आसून सगळ्यांक बाबाची बरी फाम. बाबा पयसो घेना, फुकट देवस्पणां सांगता; कोणाक खुशी आसल्यार दिवपाचें, देवाक- तेय प्रसादाक बी वो सायबिणीक.

बाबाक भेटोबिटो येताल्यो त्यो वासूक, वसंताक, बाबुश्याक खावपाक मेळटाल्यो. ते भायर घराय व्हरूंक मेळटाल्यो.

वासूचे मेल्ले धुवेक तर बाबान साध्वी केली.

ताचें अशें जालें. वासूची धा-पंदरा वर्साची चली कामणीन दुयेंत आसली. एक दीस कामीण बळावन ती मेली, वासू भयंकर दुख्खी जालो. आपूण बाबाच्या पांयांकडेन रावन आसतना, भक्तीभावान देवाची सेवा करता आसतना अशें जावचें कशें? वासू भयंकर दुखावलो. वासू पयस वचूंक फाव नासलो. तेन्ना बाबान वासूक बरोच समजायलो. एक दीस बाबान वासूक म्हळें,

"वासू, तूं भाग्यवान पुता, खऱ्यानीच भाग्यवान!"

"कसलें भाग्य बाबा, म्हाजी भाग्याची धूव, व्हंकल जावन गेली."

"खंय गेली? ना, ती खंय वचूं ना, ती हांगाच आमचे मदीं आसा. तुजे धुवेचो फोटो आसा मरे?"

"हय बाबा."

"तो फाल्यां हांगा घेवन यो."

"कित्याक बाबा?"

"तों फाल्यां हांगा घेवन यो."

"कित्याक बाबा?"

"परतो प्रस्न नाका वासू, आरे, तूं बापूय एके साध्वीचो, तुजी धूव बरें मरण मेल्या, तिका देवीपण फाव जालां, ती देवी जाल्या. रातीं म्हाका स्वप्न पडलें. हांव सांगता. फाल्यांच्यान ह्या मठांत तुजे धुवेचीय पुजा जातली, हाड तिचो फोटो."

वासू चक्रावलो. बाबा कितें सांगता तेंच ताका कळ्ळें ना. पूण ताणें मनांत म्हळें, धुवेचो फोटो हाडून दिवपाक कितें जालां? वासून आपले सर्गेस्त धुवेचो फोटो बरे फास्केंत घालून मठांत हाडलो आनी बाबाकडेन दिलो.

"बाबान वासूले मेल्ले धुवेच्यो यादी जिव्यो केल्यो. तांणी मठांत एक व्हड समारंभ घडोवन हाडलो आनी वासूले धुवेचो फोटो प्रतिष्ठापना करून कालिमातेच्या शेजराक लायलो.

तेन्नाच्या कालिमातेबरोबर वासूले धुवेचीय पुजा आतां नित्य-नेमान मठांत जावंक लागली. वासू सुखावलो.

वासूची धुव जिवी आसल्यार वासूक जितलें सूख लाभचें नासलें तितलें सुख-समाधान आतां वासूक लाभूंक लागलें. ताणें आपले बायलेक एक दीस म्हळें लेगीत-

"कल्याणी आमची धूव मरून बऱ्याक पावली न्हू?"

"कितें उलयतात तुमी, आमची धूव आमकां ना जाल्या; व्होंकल- आसल्यार लग्नाची जावपाची. ती गेल्या ताचें दुख्ख तुमकां जायना?" बायल चाळवली.

"आगो, ती मठांत पावल्या. बाबाच न्हय, तर मठांत येतले वतले आतां तिका पांयां पडटात, तिचो आशिर्वाद घेतात. ती जिती आशिल्ली जाल्यार...

"पाडापडूं त्या तुज्या देवस्पणाचें. आतां कोणाक तें व्हडपण मनीस नासून? तुमकां भुलयता न्ही तो गुरखो?"

"गुरखो न्हय, बाबा म्हण दावा." आनी वासू बायलेचेर धेंगशेल्लो. वासूकच कित्याक, मठांत वचप्यांक बाबाक गुरखो म्हणिल्लो कोणाकूच आवडनासलें.

हे भशेन बाबाची कीर्त गांवागांवांनी पावली. गांवागांवांतले लोक बाबासरीं येवपाक लागले. शिर्वीस नाशिल्ले शिर्विशेचें पळोवंक लागले, धंदो करताले ते धंदो फळटलो कसो ते विचारूंक येवंक लागले. आनी बाबाचो बुवाबाजीचो धंदो पक्को बसुंनाका, बाबान भुरगीं नाशिल्ल्या बायलांकूय भुरगीं दिवपाचो धंदो सुरू केलो. ते खातीर खर व्रत करचें पडटालें. बाबांच्या मठांत भुरगीं नाशिल्ले बायलेन रातचें बी रावचें पडटालें. बाबा अशा बायलांक मठांत देवीची सेवा करूंक दवरून घेतालो. अशा जायत्या बायलां मदलें एक रत्नें.

रत्नें आयज बाबागेर आयिल्लें. तरणेबांड रत्नें आपले आवयक घेवन बाबाच्या पांयांकडेन आयिल्लें. लग्न जावन चार वर्सां जाल्लीं, रत्नाक भुरगें नासलें. रत्नाक वांजूट म्हणून रत्न्याची मांय, नण्डो केणायतालीं. घोवूय ताचेर बरो नासलो. आपलें फुटपाक पाविल्लें जिवितार्चे तारू सांबाळपाक व्हड आशेन हेर बायलां भशेनूय रत्नेंय बाबागेर आयिल्लें.

हेरांक जशें सांगिल्लें, तशेंच रत्न्याकय सांगिल्लें.

मध्यान जावचे पयलीं, बारा जालीं तेन्ना रत्न्याक पवित्र उदकान न्हाण घालें. रत्नें सुगंधीत तेलान न्हालें. मठभर तो परमळ येतालो. रत्न्याक धवीफुल्ल साडी न्हेसूंक लायिल्ली. साडये बगर आंगार आनी दुसरें कसलेंच जादा वस्त्र दवरचें न्हय अशी चत्राय

मठांत वावुरतल्या बायलांनी पयलींच ताका दिल्ली. रत्नें न्हालें, ताचे आवयन ताचे केंस विस्कटावन सुकयले आनी उप्रांत रत्न्याक देवीची पुजा करपाक सांगली. बाबाच्या मंत्रघोशांनी पुजा जाली.

पुजा जातकच मठांत हाजीर आशिल्ल्यांक तरेतरेचो प्रसाद वांटलो. रत्नें खास व्यक्ती म्हणून ताका वरो प्रसाद प्रत्यक्ष बाबान आपल्या हातांनी दिलो. उप्रांत ताका पेलोभर तापयिल्लें हळदी रंगाचें शें दूद दिलें, रत्नें घटाघट दूद पिलें. आनी तें देवीक हात जोडून पांया पडपाक लागलें. कांय भक्तांनी तसलेंच दूद हाडून ताचे जाणटे आवयक दिलें.

जालें, सगळें वातावरण शांत जालें. इल्लीं इल्लीं सगळीं न्हिदपाक गेलीं. बाबाय सदचे भशेन आपले कुडींत गेलो.

भायर चौकार उरलीं तीं फक्त रत्नें आनी ताची आवय. आवय रोकडीच घो करून न्हिदेंत विलीन जाली.

रत्न्याचे मुखार देवी वाटकुळीच घुंवपाक लागली. आनी थोड्याच वेळान बाबान सांगिल्लें तशें जावपाक लागलें. ताच्या म्हऱ्यांत एक दिव्य पुरूश आयलो. त्या दिव्य पुरुशान मानेर केंस सोडिल्ले आनी कमराक धवी लुंगी गुटलायिल्ली. ताणें अचळय रत्न्याक उखलून घेतलें आनी ल्हव पावलांनी चौकांतल्यान वचपाक लागलो. तो ताचेर मध्यान-रातीर खऱ्यानीच प्रसन्न जाल्लो. ते काळखे धुन्नीत रत्नेंय ताचेर प्रसन्न जाल्लें. मध्यान-रातीर रत्न्याक आवयपण येतालें. एक भाग्यवंत दिव्य पुरूश रतन्याक मनसोक्त आपलें वापूयपण भेटयतालो. रत्न्याची कूस रोकडीच आतां उजवपाची आसली.



## एन्. शिवदास

पिराय ५३,
व्यवसायान शिक्षक, कोंकणीचे
चळवळींत आनी हेर समाजीक
आंदोलनांनी क्रियाशील. सध्या गोवा
कोंकणी अकादमीचे उपाध्यक्ष.
गळसरी आनी महारूख हे
कथांझेले, नकलामी ही नवलिका,
पिसांट, बंड आनी फॉरेन जांवय
हीं नाटकां, बाबू आनी झरो जालो
महासागर हीं भुरग्यांखातीर
बरयल्लीं पुस्तकां इतलें साहित्य
उजवाडा आयलां.
सुनापरान्त दिसाळ्यांत स्तंभलेखन.
राष्ट्रमत, पुढारी ह्या दिसाळ्यांनीय
स्तंभलेखन केलां.
बाबू ह्या पुस्तकापासत
एन्.सी.ई.आर.टी. चो पुरस्कार मेळ्ळा.
आकाशवाणी आनी दूरदर्शन हांच्या
कार्यावळींनी वांटो घेतला. मारयान
हे कथेचेर टेलिफिल्म निर्माण जालां.



